**Barmi Dees**
(A Novel)

o

**बर्मी दीस**
(कादंबरी)

o

**पयली आवृत्ती**
२६ नोव्हेंबर १९९४

o



o

**मुद्रण:**
कुळागर अक्षरमुद्रा
मडगांव (गोंय) ४०३ ६०१

o

**प्रकाशन:**
अनंत नरसिंह नायक,
अध्यक्ष, चंद्रकांत केणी षष्ठ्यब्दिपूर्ति
सत्कार समिती,
'तीर्थरूपा', न. दा. नायक मार्ग,
आर्के, मडगांव - ४०३ ६०१

o

**मोल:** ६० रुपया

o

**मुखपृष्ठ**
श्रीधर कामत बांबोळकार

चंद्रकांत केणी षष्ठ्यब्दिपूर्ति सत्कार समितीन उजवाडायिल्ले हे आवृत्तीच्या वितरणाचे सगळे अधिकार 'कुळागर प्रकाशन' हे संस्थेक दिल्ले आसात.

## पुस्तकाविशीं -

*'राष्ट्रमता'चे कचेरींत एक दीस एक जाण्टेलो, सुणे शेणिल्ल्याची जायरात दिवंक आयलो. आनी म्हजेकडेन ताजी इश्टागत जाली.*

*इंग्लंडाक सावन आपल्या जाण्टेल्यांचे भूयेंत आपलो देह दवरपाखातीर तो गोंयात आयिल्लो. ब्रिटीश लस्करांत काम करून निवृत्त जाल्लो हो मनीस आपले बायलेक आनी भुरग्यांक इंग्लंडाक सोडून आयिल्लो. जाण्टेल्यांच्या घरांत निमाणे दीस सारूंक.*

*म्हजी ताजेकडेन वळख जाली, इश्टागत जुळ्ळी. उलयतां - उलयतां ताणे दुसऱ्या म्हाझुजावेळार रंगूनाक आपूण कसो अडकून पडिल्लों तें म्हाका सांगलें आनी त्या दिसांतली आपली डायरी म्हाका वाचूंक दिली. सूचक भाशेंत आनी खुबशे कडेन नागड्या - उगड्या उतरांनी ताणे आपले जिणेंत घडिल्ल्या घडणुकांचीं, घेतिल्ल्या अणभवांचीं, आपल्या हावेसांचीं आनी विकृतींचीं वर्णनां डायरेंत बरयिल्लीं.*

*हांवें सगळी डायरी वाचच्याआदींच एक दीस ताणे ती परत व्हेली. सुर्वेक ताणे ती डायरी जशाची तशी कोंकणीत अणकारून उजवाडावपाची म्हाका परवानगी दिल्ली. उप्रांत ताका दिसलें, ते डायरेंतल्यो थोड्या गजाली उजवाडावप समा जावचेंना.*

*थोड्या वर्सां उपरांत तो ह्या संवसाराक अंतरलो. आज ताजी डायरी म्हजेकडेन ना. पूण ती डायरी अणकारचे खातीर वाचतना हांवें कांय नोंदी घेतिल्ल्यो. त्या नोंदींच्या आदारान ही कथा बरोवन काडल्या.*

*तोच कथेचो नायक. कथेंत हांवें ताका मेजर ॲन्थनी रॉड्रीग्स अशें काल्पनिक नांव दिलां. एक गोंयकार तरनाटो. दुसरें म्हाझूज पेटलें तेन्ना ब्रिटीश नेव्हींत आशिल्ल्या बापायन इंग्लंडाक शिकतल्या आपल्या पुताक सुरक्षित अशा गोंयांत परतुपाचो आदेश दिलो. परत येतना बोट रंगुनाक उल्ली. भारतांत वचूंक मेळना आनी इंग्लंडाकय परतूंक मेळना अशा पेंचात कांय दीस ताणे रंगुनाक सारले. उपरान्त ताका मांगशीश नांवाच्या संस्थानात संस्थानिकाचो सेक्रेटरी म्हणून चाकरी मेळ्ळी. मांगशिशांत सारिल्ल्या दिसांची ही नोंद, अशें ते डायरेवयल्यान दिसता. मांगशिशची बरीचशी वळख आपणाक एका पुस्तकावरवीं मेळिल्ली आनी त्या पुस्तकाचो ही डायरी बरयतना आपणे आदार घेतला, अशें ॲन्थनीन म्हाका सांगिल्लें. आज डायरी म्हज्या हातांत ना. देखून खंयच्या पुस्तकाच्या आदारान ताणे ही डायरी बरयिल्ली तें समजूंकय मार्ग ना.*

*डायरी वाचून, ताजेकडेन उलोवन, म्हजे तकलेंत जें कथासूत्र तयार जालें तें बरोवन काडटा आसतना कथानकाचो प्रवाह चालू दवरूंक हांवें संवादाची जोड दिल्ली आसली तरी पुराय कथन मूळ डायरेकडेन प्रामाणिक उरतलें हाजी जतनाय घेतल्या. हें पुस्तक कोंकणीत उजवाडाक आयिल्लें पळोवंक कथेचो नायक जितो आशिल्लो जाल्यार ताका खोस भोगतली आसली, हातूंत दुबाव ना. एका वेगळ्या विशयावयलें, एका वेगळ्या वाठारावयलें हें कथन कोंकणी वाचप्याक नव्या वातावरणांत व्हरतलें अशी आस्त बाळगितां.*

**- चंद्रकांत केणी**

## दोन उतरां

लेखकाचो खरेलो गौरव तागेल्या अप्रकाशित साहित्याच्या प्रकाशनांत आसता. देखून आमचे मित्र श्री. चंद्रकांत केणी हांचे षष्ठ्यब्दिपूर्तीच्या प्रसंगाचेर तांचीं कांय अप्रकाशित पुस्तकां उजवाडावपाची एक येवजण आमी आंखली. ते येवजणेखाला 'बर्मी दीस' ही तांगेली कादंबरी उजवाडाक येता, हाजी आमकां खोस भोगता.

ही कादंबरी वाचकांक आनंद दितली आनी कोंकणी साहित्याचे समृध्दींत भर घालतली असो आमकां भरवंसो आसा.

**अनंत नरसिंह नायक**
अध्यक्ष, चंद्रकांत केणी षष्ठ्याब्दिपूर्ती
सत्कार समिती

'तीर्थरूपा',
न. दा. नायक मार्ग,
आर्के, मडगांव.
ता. २६.११.१९९४

हे गजालीक उणेंच पंदरा वर्सां जालीं.

दनपारचो वेळ. ऑफिसांतले सगळेजाण त्या वेळार दनपारच्या जेवणाक गेल्ले. म्हाका कांय गरजेचीं पत्रां बरोवपाचीं आसलीं. देखून हांव एकलोच ऑफिसांत आसलों.

माळयेच्या सोपणाचेर बुटांचो आवाज काडीत एक मनीस शिस्तीन मुख्य दारांत येवन उबो रावलो. बुटांचो आवाज आयकत सावन म्हजें लक्ष दाराचे दिशेन थिराविल्लें. तागेली चाल लस्करी शिस्तीची हें आवाजाच्या तालावयल्यान कळटालें. दारांत आयलो आनी ताणे माथ्यावयली हॅट उजव्या हातान काडली. उजव्या हातांतली एक शिसवी लाकडाची बडी दाव्या खाक्यांत खोयली आनी थोडी बाग घेवन नम्रतायेन विचारलें, ''हांव भीतर येवं ?''

प्रस्न शुध्द कोंकणीतल्यान विचारिल्लो. उठून उबो रावन हातांनीच ताका भीतर येवन कदेलार बसूंक हांवें खुणायलें.

म्हजी नदर ताका तपासून घेताली. बुल्गानीनाचे धर्तीचो खाडकेचेर खाडाचो धवो फुल्ल गोंडो. माथ्यावयले केंसय तितलेच धवे. लस्करी थाटाच्यो मिशो चानयेचे शेंपडेवरी फुलिल्ल्यो. काळी पॅंट आनी इनसेट केल्लो निळो हातकापो शर्ट. गळ्या भोंवतणी एक स्कार्फ. निळ्या रंगाच्या खोमसाक एकय बुतांव नासलो. पूण स्कार्फाचीं दोनय टोकां छातयेचेर देंवोवन ताणे आपली उकती छाती धांकिल्ली.

तो आयलो आनी उपकार मानून कदेलार बसलो. दनपाराचो वेळ जाल्ल्यान भायर वताचो रखरख आसलो. वोतांतल्यान तो आयिल्ल्यान मात्सो घामेल्लो. वयर विजेचो पंखो घुंवतालो. नदर वयर करून ताणे घुंवत्या पंख्याकडेन पळयलें आनी वारो आपल्या आंगाक लागचो म्हणून खोमसाचें कॉलर उकतें केलें. तो एके भाशेन नव्या वातावरणाकडेन जुळोवन घेवपाचो यत्न करता अशें म्हाका दिसलें. हांव कौतुकान ताजेकडेन पळयत रावलों. केदो वेळ मेरेन तो आपलो वतान तापिल्लो देह

न्हिवयतालो. आंगावयली हूम लेंसान पुसतालो. हांव थीर नदरेन ताका बारीकसाणेन पळयत राविल्लों.

"म्हजें नांव अँथनी पियेदाद रॉड्रीग्स." अशें म्हणून ताणे खोमसाच्या वयल्या बोल्सांतलें आपलें कार्ड म्हज्या हातांत दिलें.

कार्डाचेर ताजे नांव आसलें. ताणे उच्चारिल्लें तेंच नांव. पदवी हुद्दो ना. पत्तो आसलो लंडनाचो. फोन नंबर लेगीत ना.

"तूं लंडनाक आसता ?" हांवें विचारलें.

"हय. आसतालों. आतां हांव गांवघरा परत आयलां. पुराय जीण परकी देसांत घालयल्या उपरांत निवृत्तीचे दीस गोयांत सारूंक आयलां." येवजिल्ले भाशेन करून ताणें फुडें म्हळें, "... खरें म्हळ्यार हांव गोयांत मरूंक आयलां... बायल, भुरगीं, जोडिल्ली जोड... सगळें लंडनाक सोडून, जाण्टेल्यांचे देह जे मातयेक मेळ्ळे ते मातयेक म्हजो देह भेटोवंक आयलां."

एकाद्र्या साहित्यिकाच्या तोंडातली भास तो उलयतालो. ते भाशेक शुध्द कोंकणी म्हळें जाल्यार चूक जावचें ना.

"इंग्लंडाक सावन आयल्यार कितले दीस जाले ?" हांवे विचारलें.

"तें आमी सवकासायेन उलोवया. आदीं म्हाका सांग, तुमी जायराती छापतात ? म्हाका एक सुपुल्ली जायरात दिवपाची आसा."

हांवे ताज्यामुखार पेन आनी कागद दवरलें आनी म्हळें, "बरय."

"तूंच बरय." ताणे म्हळें, "हांव सांगतां. म्हाका कोंकणी भाशेंत जायरात दिवचेली आसा. म्हाका देवनागरींत बरोवंक येना."

तागेलें एक सुणे शेणिल्लें. व्हडले ल्हंवेचें, काफयेच्या रंगाचें, निळ्या दोळ्यांचें. कोणूय सोदून दीत जाल्यार शंभर रुपया इनाम दिवपाची ताची तयारी आसली.

हांवें जायरात बरयली. ताका वाचून दाखयली. ताणे मसुदो पास केलो आनी विचारलें, "कितले पयशे जातले ?"

हांवें हिशोब करून पैशे सांगले.

"इतले थोडे ? तुमकां असल्यो जायराती छापप परवडटा कशें ?" अजापून ताणे विचारलें.

सुपुल्ल्या जायरातीच्या एका उतराक वीस पैशे आकार आसलो. पैशे इतले थोडे जातात हें पळयतकच ताणे व्हडल्या आकारांत जायरात दिवंक फर्मायलें. पैशे दिले, पावती घेतली आनी म्हळें, "आतां तूं कितें विचारतालो तें विचार."

"हांव तुका इतलेंच विचारूंक सोदतालों कि, तूं इंग्लंडासावन केन्ना आयलो आनी खंय रावता ?"

"म्हाका गोयांत येवन एक म्हयनो जाला... पूण अजून हांव थीर जावंक ना. पोरनें घर सारकें करून घेतां. खुबशो आडखळीच्यो वस्तू कुशीक काडून गरजेच्यो

थोड्यो नव्यो वस्तू घेतल्यो. आमच्या पोरसाची वाट लागल्या... घरची बांय उसपूंक जाय... हीं सगळीं कामां पुराय जातसर दोन म्हयने वतले दिसता. उपरांत हांव थीर जातलों.''

म्हाका चड उलोवपाचें नासलें. तागेली उलोवपाची तरा म्हाका खुबच मानविल्ली. एक एक उतर स्पष्ट उच्चारून तो सवकासाय उलयतालो. हो मनीस मरणाचें चिंतन करतालो, पूण भलायकेन घटमूट दिसतालो.

हांवें म्हळें, ''तूं मरूंक गोयांत आयला म्हण्टा पूण तुजी भलायकी बरी दिसता.''

''आतां पिराय जाल्या'' ताणे जाप दिली, ''ही निवृत्तीची पिराय. म्हाका ७२ वर्सां जालीं. आनीक कितलीं वर्सां मेळत हें हांव सांगूंक नकळ. ह्या संवसारांत येतना हांव एकलोच आयिल्लों. आवय - बापूय, सोयरे, इश्ट, भाटां, पैशे जल्माउपरांत म्हाका मेळ्ळे. वतना हांव एकलोच वतलो. सांगातान कांय व्हरूंक पावचोना. देखून ह्या संवसारीक वस्तूंवयली आसक्ती सोडूंक सोदतां.''

''पूण तुवें गोयांत येवन निमाणी वर्सां सारपाचें कित्याक थरायलें?'' हांवें विचारलें.

''बरो प्रस्न केलो.'' ताणे म्हळें, ''हें हांव म्हजे बायलेक आनी भुरग्यांक समजावंक पावलोना. तूं घडये समजतलो. हे भूयेचें म्हजेर व्हडलें रीण आसा. म्हजी वार हे भुयेंत पुरल्या. हांव हो म्हज्या पूर्वजांचो अवतार. म्हज्या सगळ्या पुर्वजांचे देह हेच मातयेक मेळ्ळ्यात. म्हजो बापूय इंग्लंडाक रॉयल नेव्हींत आसलो. तो निवृत्त जावन मरूंक गोयांत आयिल्लो. हांवय तेंच करतां.''

''पूण निमाण्या वर्सांनी बायल आनी भुरगीं आपल्या म्हऱ्यांत आसची अशें तुका दिसना?'' हांवे विचारलें.

''दुबळ्या खिणाक तशें दिसता. मायेच्या मनशांपासून पयस वचप हें खूब कठीण काम. पूण ह्या संवसाराचो हांव एक भोंवडेकार. म्हजे भोंवडेचो काळ सोंपत आयला. वतना म्हाका एकोडोच वचपाचें आसा. देखून जिणेंत जें अडेचें आपणायलें तें आपल्या हातांनी कुशीक काडूंक धाडस लागता. तें धाडस हांवे केलां. म्हजो बापूय गोंयकार. आवय लेगीत गोंयकान्न. तीं आदींच संवसाराक अंतरिल्ली. बापूय निवृत्त जावन गोंयांत आयलो तेन्ना हांवें इंग्लंडाक आसतालों. म्हाका गोंयची जी लागणूक आसा ती म्हजे बायलेक ना आनी भुरग्यांकय ना. म्हजी बायल जल्मान इंग्लंडची आनी थंयचीच नागरिक. भुरग्यांक तोच आपलो देश आनी तेंच आपलें घर दिसता. बायल म्हजी, भुरगीं म्हजीं, पूण त्या वातावरणांत म्हज्या म्हाकाच हांव परकी दिसतालों.''

इतलें उलोवन तो उठलो.

त्याच दिसा सांजवेळचो अँथनी रॉड्रीग्स परत आमच्या ऑफिसांत आयलो.

''म्हजें सुणे मेळ्ळें.'' ताणे सांगलें, ''देखून जायरात छापिना जाल्यार जाता.''

हांवें तागेले पैशे परत दिवंक काडले, तेन्ना तो म्हणूंक लागलो, ''हांव पैशांखातीर येवंक ना. फकत सुणे मेळ्ळें हें कळीत करूंक आयलां. तुमी जायरात कंपोज केल्ली आसतली... तेन्ना म्हाका पैशे नाकात.''

ताका समजावन पैशे परत घेवंक तयार करूंक म्हाका मोठे सायास पडले. निमाणे ताणे ते घेतले आनी विचारलें, ''तुका वेळ आसा ?''

हांवे ताका म्हळें, ''सकाळीं तुजेकडेन उलयल्या उपरांत तुजेविशीं थोडें अदीक समजून घेवचें अशें म्हाका दिसलें.''

तो वरभर बसलो. ताणे खुबशो खबरी सांगल्यो. गोयांत विकासाच्या नांवान जें कितें चल्लां तें ताका मानवना आसलें.

''गोंय हें गोंय उरूंक जाय. गोंयची मुंबय जाली जाल्यार वेगळेपण कसलें ? आतां म्हाकाच पळय, म्हाका निवृत्त जावन गोयांत येवचें अशें दिसता. कित्याक तर गोंय वेगळेंच. लंडनासारकें गोंय जालें जाल्यार म्हाका गोंयचें वेगळेपण दिसचेंना.'' ताणे आपली भावना उक्तायली.

''तूं कोंकणी खूबच बरी उलयता. इतलीं वर्सां भायर रावन तुका ती कशी येता ?''

तो हांसलो. ताणे म्हळें, ''घडये हांव भायर उरलों देखून कोंकणी सांबाळूंक पावलों आसतलों. नाजाल्यार आमच्या गांवांत सगळेच इंग्लीश भास कातरतात. तांची दशा पळय. ते उलयतात ती शुध्द इंग्लीश न्हय. तांकां कोंकणी भास लेगीत शुध्द उलोवंक येना. इंग्लीश उलयले म्हणून ते इंग्लीशमॅन जावचेनात आनी कोंकणी विसरले जाल्यार ते गोंयकार उरचेनात. हे लोक खंय वतले तें हांव नकळ.''

''पूण परकी वातावरणांत आनी घरांत लेगीत इंग्लीश भास उलयतना कोंकणी उतरावळ याद उरप म्हळ्यार किरकोळ गजाल न्हय.''

''आसता.'' ताणे म्हळें, ''घडये गोंयचेविशीं म्हाका ओड आसली देखून कोंकणी हांव विसरलों नासत. पूण एक सांगतां, हांव कोंकणी अजून शिकतां आनी जितली चड शिकतां तितली म्हाका ती चड आवडटा. एक सांग, कोंकणीत बरें साहित्य आसा ?''

एकदम आमची चर्चा साहित्याकडेन घुंवली. साहित्याचेर तो जितल्या अधिकारान आनी समजीकायेन उलयतालो तें पळोवन म्हाका अजाप जालें. हांवें ताका विचारलें, ''तुका साहित्याची आवड आशिल्ली दिसता. तुगेलो वेवसाय धंदो कसलो ? तें म्हाका खबर ना.''

''हांव ब्रिटीश मिलीटरीत काम करतालो. मेजर जावन निवृत्त जालों.'' ताणे जाप दिली, ''म्हज्या व्यवसायाचो आनी साहित्याचो संबंद ना. पूण म्हाका वाचप

आवडटा. हांव साहित्य वाचतां. हांव स्पेनिश भास शिकलां. इंग्लीश आनी स्पेनिश भाशेंतलें खुबशें साहित्य हांवें वाचलें. कोंकणींत बरें साहित्य तयार जावचे अशें म्हाका दिसत आयलां.''

हांवें ताका कोंकणी साहित्याविशीं थोडी माहिती दिली आनी म्हळें, ''अजून कोंकणी साहित्याचो दर्जा वाडूंक ना. तुजेसारकिल्या संवसार भोवन आयिल्ल्या लोकांनी कोंकणीत बरयलें जाल्यार कोंकणी साहित्याचो दर्जो वाडटलो.''

''साहित्याचो दर्जो कोणे थरावचेलो ?'' ताणे विचाल्लें, ''हांव आतां भास शिकतलों केन्ना आणि बरतलों केन्ना ? पूण तुका एक सांगतां, तुमी जे कोंकणी भाशेंत बरयतात ताणी कितेंय वेगळें बरोवंक जाय. जाल्यारच कोंकणी साहित्याक मान मेळटलो.''

''वेगळें म्हळ्यार कसलें ?'' हांवे विचारलें.

''वेगळें म्हळ्यार जें दुसऱ्या भासांनी वाचूंक मेळना तसलें.'' ताणें जाप दिली, ''मोगाच्यो काणयो सगळेकडेन वाचूंक मेळटात. नांवां वेगळीं, गांव वेगळे; पूण कथा तीच. पूण कोंकणी मनशाचे अणभव, ताजी जीण.. तशी जण एका मनशाची जीण वेगळीं आसता... तें वेगळेंपण साहित्यांत आयलें जाल्यार कोंकणी व्हड जातली. आतां तूंच पळय, इंग्लीशीत जें मेळना तें फ्रेंच भाशेंत मेळटा वा रशियन भाशेंत मेळटा. देखून लोक रशियन वा फ्रेंच शिकून वाचतात वा इंग्लीशींतल्यान अणकारून तें संवसारभर पावता. अशें कितेंय कोंकणीत येंवंक जाय.''

''तूं म्हण्टा तें म्हाका समजता. पूण हें काम करपी मनीस जाय. जाणी अणभव घेतल्यात ते बरयनात आनी जे बरयतात तांचो संवसार खूबच ल्हान आसता.''

''तूं बरयतलो जाल्यार हांव तुका म्हजे अणभव सांगतां. तूं ते आयक. हांवें एक डायरी बरयल्या. म्हज्या जुवानपणांतल्यान दिसांची खबर ते डायरेंत आसा.''

''खंयचे भाशेंत ही डायरी बरयल्या ?'' हांवे विचारलें.

''हर मेजिस्टीस लेंग्वेज !'' हांसून ताणे जाप दिली.

दुसऱ्या दिसा आपल्या घराकडेन येवपाचें आपोवणे दिवन त्या दिसा ताणे म्हजो निरोप घेतलो.

दुसऱ्या दिसा हांव मेजर रॉड्रीग्साच्या घराकडेन गेलों. तो एक मोटवी चड्डी आनी हातकापें बानयान घालून भायर पोरसांत उबो आशिल्लो. म्हाका पळोवन तो गेटीकडेन आयलो आनी म्हळें, ''म्हजे हात म्हेळे आसा. तूं बसून घे. रोखडोच येतां.''

हांवें ताका तागेलें काम सवकासायेन करूंक सांगलें आनी पोरसांतल्यान एक भोंवडी माल्ली. खूबशीं झाडां मारून जागो निवळ केल्लो. खूबशे नवे रोपे लायिल्ले. घराक नव्यान रंग काडला तो नदरेंत भरतालो. पोरसूं भोंवतां भोंवतां घराची प्रदक्षणा पूर्ण जाली.

घर म्हळ्यार एक व्हड वाडो. फाटले वाटेन तीन - चार मानाय काम करताले. प्रदक्षणा पूर्ण करून फुडल्या दाराकडेन हांव पावलों तो मेरेन मेजर रॉड्रीक्स हात धुवन परत आयिल्लो. म्हाका घेवन तो सालांत गेलो. सालांत मदींच एक व्हडलो पियानो आनी वण्टीक तेकून चाळीशेक कदेलां. एके कुशीक मेज आनी त्या मेजाचेर कांय सोबेच्यो वस्तू दवरिल्ल्यो.

‘‘म्हजो आजो एक बरो वाजोवपी आसलो.’’ ताणे सांगलें, ‘‘पूण तागेली संगीताची परंपरा आमच्या घरांत कोणेच चलयली ना. हो पियानो ताणे हाडिल्लो. तो वाजयतालो. गांवच्या भुरग्यांक शिकयतालो. आडखळ जाता तरी हांवें तो दवल्ला. म्हज्या फाटल्यान ताजें कितें जातलें ते हांव नकळ.’’

हांवें ताजेकडेन आदल्या दिसा ताणें सांगिल्लें डायरेचो विशय काडलो.

‘‘हांव पुराय विस्वासान तुज्या हातांत म्हजी डायरी दितां. ते डायरेंत खूबशो घरगुती गजाली आसात. म्हजीं वेसनां आनी पिशेपणां... म्हजे उमाळे आनी दुख्खां हांवें बरयल्यांत. तुवें वाचली जाल्यार म्हाका कांय दिसचें ना. पूण तसल्यो खबरी छापूं नाका.’’

तो उठलो आनी भितल्ले कुडींत गेलो. थोड्या वेळान एक चारशीं - पांचशी पानांचो कपड्यांत बांदिल्लो नोटबुक तो घेवन आयलो. नोटबुक म्हज्या हातांत ताणे दिलो आनी म्हळें,‘‘आतां वाचूं नाका. सवकसायेन वाच. पूण एकच गजाल तुवें उजवाडावंक फावना. ती ह्या गावांत हांवे केल्ल्या मोगाची! म्हाका इभ्रतीचो हुस्को ना. पूण जे बायलेचेर हांवें मोग केलो ती अजून जिती आसा आनी तिजी भुरगीं - नातरां गांवातच आसात. तितले उपकार कर आनी हेर सगळें वाचून तुका जायतें छाप.’’

हांव डायरी चाळूंक लागलो तेन्ना ताणे म्हाका आडायलो. म्हळें, ‘‘घरा वचून थंडसाणेन वाच.’’

म्हाका रोखडोच घरा वचूंक ताणे दिलो ना. म्हजेकडेन केदो वेळे मेरेन उलयत रावलो. तागेली वागपाची आनी उलोवपाची तरा पळयतकच म्हाका दिसलें ह्या मनशाक एकोडेपण खांवक येता. मनांत भावनेची ल्हारां उसळटात. देखून हो असो वागता.

ही खरी घडणूक काय कल्पनेचो विलास असो मदीं मदीं म्हाका प्रस्न पडटालो.

घरा येतकच हांवें डायरी वाचली. आनी ती वाचता वाचतां म्हजें मन रमलें. सुंदर शैलींत बारीकसारीक तपशिलासयत बरयिल्ली ती डायरी म्हळ्यार एक कादंबरीच आसली. तातूंतय दुसऱ्या म्हाझुजाचे फाटभुंयेचेर ताणे ब्रह्मदेशाच्या वाठारांत घेतिल्ले अणभव तर म्हाका अप्रुप दिसले. येदी व्हडली डायरी उतरावन काडप सोपें काम नासलें. दुसऱ्याकडेन कॉपी करूंक दिली जाल्यार मेजर रॉड्रीग्साक वायट दिसतलें म्हणपची भिरांत आसली. देखून ते डायरेंतल्या प्रसंगांचे नोटस् हांव

उतरावन घेवंक लागलों.

म्हजें नोटस् घेवपाचें काम चालू आसतनाच एक दीस मेजर रॉड्रीग्स आमच्या ऑफिसांत आयलो आनी आठ दीस मेरेन हांव ताका मेळ्ळोना म्हणून शिणलो. डायरी वाचून म्हजी प्रतिक्रिया कितें जाली हें समजून घेवपाची ताका उमळशीक आसली. हांवें ताका म्हळें, ''तुजी डायरी म्हळ्यार एक बऱ्यांतली बरी कादंबरी. ती जशाची तशी उजवडायली जाल्यार इंग्लीश साहित्यांत बरी भर पडटली.''

''तें सोड रे.'' ताणे म्हळें, ''इंग्लीश भास आमी गिरेस्त करपाची गरज ना. आमी आमची भास गिरेस्त करूया. हे डायरेंतले कांय प्रसंग गुंथून तूं कोंकणींत कित्याक उजवाडायना ?''

''हांव व्हड खोशयेन तें काम करीन. पूण तें काम एका म्हयन्यात जावचें ना. दोन - तीन वर्सां लागतली. तेन्ना हे डायरेची कॉपी काडून हांव म्हजेकडेन दवरूं ?''

''नाका.'' ताणें म्हळें, ''जर थोडीं पानां वेगळीं काडून तुका दिवं येतालीं जाल्यार हांव तीं दितलों आसलों. पूण तशें करप कठीण. कित्याक तर पाना कणकणी खूबशो नाका जाल्ल्यो गजाली आसात. लस्करी मनशाची नागडी भास थंय आसा. ती जशाची तशी उजवाडायली जाल्यार खूबशा जाणांचेर अन्याय जातलो. तो म्हाका करचेलो ना. तूं आदीं वाचून काड आनी मागीर तुज्या उगडासान सगळें परत बरोवन काड. अणकार करूं नाका.''

''डायरेतलीं गांवां आनी नांवां उगडासांत उरप कठीण आनी तीं बदल्लीं जाल्यार वाचप्याक खरी गोडी मेळची ना. तूं ज्या वातावरणांत जगलो तें वातावरण ताका समजूचें ना.''

पूण मेजर रॉड्रीग्स बदलोना. मदींच ताणे म्हळें, ''आमी अशें करूया. ही डायरी हांव परत व्हरतां आनी सांगातान दोगूय ती वाचूया. डायरेंत बरोवंक नाशिल्लें जायतें हांव तुका सांगूंक पावतलों आनी छापपाचें न्हय तें कुशीक काडप सोंपें जातलें.''

हांवें अर्दवयर डायरी वाचून काडिल्ली. फुडली वाचपाची आसली. पूण तो दोन दीस थांबूंक लेगीत तयार जालो ना. तो डायरी घेवन गेलो.

म्हजे कडेन थोडे नोटस उल्ले. ते परत वाचून पळयले तेन्ना वाचिल्ले डायरेंतलो मूळ मजकूर मतींत ताजो आशिल्ल्यान म्हाका ते नोटस उपकारतले अशें दिसलें. पूण नोटस पूर्ण नाशिल्ले.

डायरेचे चार वांटे आसले. पयल्या वाट्यांत भुरगेपणांतली गोंयची जीण येवन वता. शिक्षणाखातीर तो इंग्लंडाक गेलो तरी गोंयची ओड तशीच उरता. मदीं मदीं तो गोंयांत येत रावता. देखून पिरायेच्या वीस - बावीस वर्सां मेरेनचो भाग पयल्या वांट्यांत आस्पावता. दुसरो वांटो ॲन्थनी रॉड्रीग्स नांवाच्या तरणाट्यान ब्रह्मदेशा लागसार सारिल्ल्या तीन वर्सांच्या अणभवाच्या तपशिलान भरिल्लो. पूण त्या

पयसुल्या वाठारांत बरयिल्ले डायरेत लेगीत ताका गोंयच्यो आनी इंग्लंडाच्यो यादी येतात. तो वळखतालो आनी वळखनाशिल्ल्या अशा बायलांची आनी नटयांचीं ताका सपनां पडटालीं. त्या सपनांतले चाळे आनी तागेलीं दिसा सपनां लेगीत तो एक भीड दवरी नासतना बरयता. ताका लागून वाचतल्याचो गोंदळ जाता. पूण ती डायरी ताणे आपल्या मनाचे उमाळे शांत करपाखातीर बरयिल्ली. वाचप्यांखातीर न्हय.

तिसरो वांटो हो म्हाझुजा उपरान्तच्या काळांतलो. तो हांवें वाचूंकच नासलो. दुसरो वांटो लेगीत पुराय वाचूंक नासलो. पयल्या वांट्यात चडशें कांय घडना. फकत भावनाचे उमाळे तितले येवन वतात.

डायरी घेवन तो गेलो. सपनांत पवनांचो हांडो मेळचो आनी तातूंतलीं बचकभर पोवनं हातांत घेनाफुडें जाग येवची तेन्ना जसो विरस जाता तसले अवस्थेचो अणभव तागेली डायरी म्हाका दिवन गेली.

त्या उपरांत हांव मेजर रॉड्रीग्साक जायते खेपे मेळ्ळों. जायत्यो यादी, जायते अणभव, जायते उमाळे ताणे म्हाका सांगले. तागेली सांगपाची शैली इतली सुरबूस कि, बरयिल्ल्या मजकुरापरस ती आयकतल्याक भाळयताली. तरी पूण रातीचो घरा येतकच आयकल्लें तांतूतलें खूबशें विसरून गेलां अशें दिसूंक लागतालें.

आज मेजर रॉड्रीग्स ह्या संवसारात ना. तागेली डायरी खंय आसा ते हांव नकळ. हांवें आयकलां तेभाशेन तागेल्या पुतांनी तागेलें घर तागेल्याच भावाक विकलां आनी बापायल्यो सगळ्यो वस्तू तांणी इंग्लंडाक व्हेल्यात.

म्हजेकडेन आसात त्यो यादी. आनी जे थोडेभोव हांवे नोटस् घेतिल्ले ते आसात.

कितलीं वर्सां उलगलीं हे गजाली वयल्यान... केन्ना तरी तें सगळें बरोवन काडटलों अशें येवजीत आसलों. फाटल्या सप्तकांत रॉड्रीग्साच्या गांवांत गेल्लेकडेन पळयलें किं, तागेलें घर मोडटात. घडये थंय नवी भौमजली इमारत येवूंये. घडये एकाद्रो कारखानो येंवूये. म्हाका दिसलें, आपलें घर मोडटात हें पळोवन रॉड्रीग्साच्या आत्म्याक खंत भोगलेबगर रावची ना.

तें अर्द मोडिल्लें घर पळयल्या उप्रांत हांवें थारायलें ह्या घरावांगडा रॉड्रीग्साची वंशावळ आनी ज्या दायजाचो ताणे जिवीतभर अभिमान बाळगिल्लो तें दायज सोंपतलें.



दुसरें म्हाझुज सुरू जालें तेन्ना अँथनी लंडनाक आसलो आनी ताजो बापूय त्या दिसांनी गोंयांत आयिल्लो आशिल्लो. झूज सुरू जातकच इंग्लंड आनी भारताकडचो संबंध तुट्टलो अशी बापायक भिरांत दिसली. ताणे पुताक तार धाडली, ''रोखड्या

रोखडो भायर सर आनी गोयांत पाव.''

झुजांत इंग्लंड सामील जाल्ल्यान भारतांत लेगीत झुजाचो उजो पावं येता म्हणपाची भिरांत अँथनीच्या बापायक आसली. त्या वेळार तो रॉयल नेव्हीत आसलो आनी ताका ताजी रजा रद्द केल्ल्याची तार पावतकच ताणे अँथनीक गोंयांत पावपाचो आदेश दिल्लो.

१९४० - ४१ वर्साच्या अदमासाची ही गजाल आसतली. आतां डायरेंतली नोंद (नोटसांच्या आधारान बरयिल्ली) आमी वाचूंया :

दर वर्सा परिक्षा जाली म्हण्टकच हांव (अँथनी) गोंयांत वतालों. गोंयची ओढ वेगळी. लंडन शारांत जें आसलें तें गोंयांत ना. पूण त्याचबराबर जें गोंयांत आसा तें संवसारांत दुसरेकडेन खंयच ना. बापायली तार आयली आनी हांवें बोटीची तिकेट काडली.

म्हजो अदमास आसलो कि हांव गोंयांत पावचे आदींच म्हजो बापूय गोंयसून भायर सरिल्लो आसतलो. तरी एक खेपे मुंबय पावलो म्हण्टकच म्हाका गोंय पयस उरचें ना. बोटीचेर चडटना म्हज्या मनांत सुखाचे आनी दुख्खाचे उमाळे दाटून आयले. सुख आसलें गांवघरा परतुपाचें. मायेचे आनी ओढीचे पास म्हजें मन गोंयचेवशीन ओडटात. पूण त्याचवांगडा हे खेपे लंडनाक सावन हांव भायर सरतां तो परत ह्या देशांत पावनच म्हणपाचो भरवंसो दिसना. लंडनांत म्हजें भुरगेपण गेलां. म्हजे खूबशे इश्ट आनी इश्टिणी थंय आसात. थंयच्या वास्तूंकडेन आनी वस्तूंकडेन म्हज्या जीवितांतल्यो कडू गोड यादी बांदिल्ल्यो आसात. पूण बोट धक्क्यापसून पयस जाली आनी इंग्लंड देश नदरेआड जालो तशी हांवें इंग्लंडावटच्यान फाट फिरायली आनी हांव गोंयचीं सपनां पळोवंक लागलों.

गोंयचो उगडास येतकच पयलो उगडास जालो तो आमेलिनाचो. (मूळ डायरेंतलें नांव वेगळें) आमेलीनान म्हाका जिणेचो अर्थ शिकयलो. तिजो हांव सदांच उपकारी आसां.

आमेलीन ही आमच्या शेजरा रावतली एक बायल. आमचे घराकडेन ती वावराक येताली. तिका पयलेच खेपे हांवें केन्ना पळयलो ताजो म्हाका उगडास जायना. पूण इतलें खरें किं आमच्या घराकडेन आनी घरच्यांकडेन आमेलिनाचो दीसपट्टो संबंध. आमची सगळीं कामां आमेलिनान करचीं. रातीवेळार आनी अवेळार कसलेंय काम उप्रासलें जाल्यार म्हाका आमेलिनागेर वचून तिका आपोवचें पडटालें.

आमच्या घराचे फाटले वाटेन एक नाल्लांचे लोज आसा. त्या लोजाचे कुशीक एक ल्हानशें दोन खणांचे मातयेचें घर. शेणान सारयिल्लें. तें घर सदांच निवळ. आमच्या दुर्गाक मागीलदारच्यान जी वाट आसा ते वाटेन आमेलीन आमगेर येताली. आमच्या पोरसांतले बांयचें उदक ती व्हरताली. आमचें पोरस ..र ती

सांबाळटालीच, पूण केन्ना केन्नाय व्हडलीं व्हडलीं वर्जी ती आपल्या माथ्यार उखलताली.

म्हाका उगडास आसा ते भाशेन ल्हान आसतना आमेलीन म्हाका हांडीर धरताली आनी सांजेच्या वेळार फाटलेवटच्या बांदाचेर पासयेक व्हरतालीं. बोरां आनी तोरां म्हाका आमेलिनान हाडून दिवचीं. हांव पुर्तुगेज मुळावे शाळेंत शिकूंक गेलों तेन्ना आमेलीन मदल्या वेळार पेज घेवन शाळेंत येताली. तिजी पिराय तेन्ना कितली आसुये म्हज्यान सांगू नज. तिज्या आंगार एक कापड आसतालें आनी हांवें पळयलां ते भाशेन ती सदां एकच कापड न्हेसताली. आयताराची मिसाक वचूंक आमेलीन शेनवाराची रातची आमगेले बांयचेर येवन काळखांत न्हाताली. खूब फावटी हांव तिजे वांगडा इगर्जेत गेलां. मिसाक वतना ती नवें न्हेसण न्हेसताली आनी त्या दिसा ती म्हाका सुंदर दिसताली.

आमेलीन गोरीपिट्ट. एकशिवड बांध्याची. सुमार साडेपांच फूट लांबायेची. ती जेन्ना वावर करता आसतना आपलें न्हेसण वयर खोयताली तेन्ना तिगेल्यो उकत्यो जांघो हांव पळयतालों. केळीच्या गाभ्यावरी त्यो म्हाका दिसताल्यो. वतांत वावरून तिजे हात, तोंड आनी घोंपरासकल पांय करपून काळसार जाल्ले. पूण तांची मुळची गोरसाण तिणे न्हेसण खोयलें म्हण्टकच नदरेंत भरताली!.

वावर करता आसतना दुसरो कोणीय दादलो आसलो जाल्यार आमेलीन आपले खोयिल्लें न्हेसण सोडयताली आनी उकत्यो जांघो धांपताली. पूण बायलांक ती लजेनासली आनी म्हजी तर ती पर्वाच करिनासली.

एक दीस हांवें आमेलीनाक विचाल्लें, ''कोणय दादलो आयल्यार तूं भियेवन न्हेसण कित्याक सारकें करता ?''

म्हगेल्या ह्या प्रस्नाक आमेलीनान जाप दिली ना. म्हाका उखल्लो आनी छातयेकडेन घट आंवळून आपल्या हून ओंठांनी म्हाका चुमलो. त्यावेळार म्हजी पिराय धा - बारा वर्साची आसतली. म्हाका दादलो आनी बायल हांचेमदल्या संबंधांचे गिन्यान नासलें. तरी पुण त्यावेळार हांव कितलो सुखावलों ताजो म्हाका घट उगडास आसा. आज लेगीत त्या प्रसंगाची याद काडली जाल्यार आंगावेली ल्हंव चंवरता !

म्हज्या आनी आमेलीनामदीं स्पर्शाचे संबंध त्याआदीं खूब खेपे आयिल्ले. पूण त्या दिसाचो तिगेलो स्पर्श म्हाका वेगळोच लागलो. हांव इतलों सुखावलो किं प्रस्नाची जाप मागूंक विसल्लों.

आमेलीनाच्या सांगातान हांव ल्हानाचो व्हड जालों अशें म्हळ्यार जाता.

आमेलीनागेर एक चलो आसा. म्हजेपरस जाण्टो. पूण तो शिकनासलो. प्रिमेर ग्रावाक पयले खेपे नापास जाल्या उप्रांत ताणे इश्कोल सोडिल्लें. दीसभर तो एक सादी काश्टी न्हेसून आनी आंगांक एक बानयान घालून रावतालो. म्हाका ताजी

मोठी लक्तुबाय. माडार चडून आडसरां काडून दिवप, खंयच्याय झाडाचेर चडप, इतलेंच न्हय तर वाटेर जिवाणे मेळ्ळें जाल्यार ताका भियेनासतना मारून उडोवप असलीं कामां तो करता देखून म्हाका तो हिरो कसो दिसतालो.

सांजच्या वेळार तागेलो थाट पळोवंक जाय आसलो. तो बरी पँट आनी शर्ट घालून केंसाचो मागो काडून तोंडान शिळोणी घालीत बाजारांत वतालो. तो कांय करिना अशी तागेली आवय सदांच कागाळ करताली. पूण म्हाका मात दिसतालें आमेलीन आपल्या पुताचेर अन्याय करता. कारण नासतना ताका उलयता.

एक दीस आमेलीनाचो घोव तारवार सावन आयलो. आदल्या दिसाच आमेलीनान आमगेर सांगून दवरिल्लें कि आपलो घोव येता देखून आपुण कामाक पावचीना. पूण कसलेंय ताकतिकेचें काम आसलें जाल्यार रकाद धाडल्यार जाता.

त्या दिसामेरन आमेलीनाक घोव आसा हें म्हाका खबरच नासलें. हांवें तिगेल्या घोवाक केन्ना पळोवंक नासलो. सांजवेळां स वरांच्या अदमासाक दोन भाडेल्यांच्या माथ्याचेर बॅगां दिवन आमेलिनाचो घोव आयलो. इगर्जेत वतना न्हेसता तें न्हेसण न्हेसून आमेलीन ताका हाडूंक रेल्वे स्टेशनाचेर गेल्ली. तागेलो पूतय तांच्या सांगातान आसलो. सदांच दुसऱ्याची वजीं उखलतली आमेलीन त्या दिसा भाटकान्न कशी दिसली.

दुर्गांचे फाटले वटच्यान उबो रावन हांव पळयतालो. रातीकडेन आमेलिनागेर पेट्रोमाक्स पेटलो. तिगेल्यो घोवाक मेळूंक गांवच्या लोकांच्या रांगो लागूंक लागल्यो. म्हाका दिसलें, आमेलिनाचो घोव खूब मोठो मनीस आसतलो. तो बोटीचेर काम करता. फुकट सगळो संवसार भोंवता.

दुसऱ्या दिसा आमेलिनाच्या घोवाच्यो खबरो गांवभर जावंक लागिल्ल्यो. ताणे खूब पयशे हाडल्यात आनी बऱ्योबऱ्यो वस्तूय हाडल्यात अशें लोक म्हण्टाले.

सांजचो आमेलिनाचो घोव आपले बायलेक आनी पुताक घेवन आमगेर आयलो. म्हाका ताणे खूबशो चाकलेटी दिल्यो.

आठ दिसांउपरांत सगळेंच चित्र बदल्लें. आमेलीन आमगेर परत वावराक येवंक लागली. तिगेलो घोवा आंगावयलो सूट देंवोवन काल्सांव घालून भोंवक लागलो. पूण तिगेल्या पुताची मात बडाय वाडिल्ली. आपणाक बापायन तारवाचेर चाकरी मेळयल्या आनी ताजेवांगडा आपुणय वतलों अशें तो सगळ्यांक सांगत भोंवतालो.

ही घडणूक घडली तेन्ना हांव पिरायेन ल्हानच आसलों. म्हजो बापूय तेन्ना इंग्लंडाक आसतालो आनी तो येतलो तेन्ना म्हाका लंडनाक व्हरतलो अशें म्हाका सांगिल्लें. देखून हांवय उमेदींत आसलों.

थोड्या दिसांनी आमेलीनाचो घोव आपल्या पुताक घेवन तारवार गेलो आनी ल्हवूल्हवू तांचो म्हाका विसर पडलो.

घराकडेन पूत नाशिल्ल्यान आमेलीन चडसो वेळ आमगेरच उरताली. केन्ना

केन्नाय म्हाका घेवन आपणागेर वताली. ती चड उलयना आसली. पूण तिज्या सांगातान म्हजो वेळ बरो वतालो. म्हजे पिरायेचे हेर भुरगे नुस्तें गरोवंक, ना जाल्यार फुटबॉल खेळूंक वताले. हांव मात आमेलीनाच्या फाटल्यान फुडल्यान आसतालों.

हेच अवस्थेंत एक दीस म्हजो बापूय आयलो आनी थोडे दीस गोंयांत रावल्या उप्रांत म्हाका घेवन इंग्लंडाक गेलो.

इंग्लंडच्या वातावरणांत हांव आमेलीनाक पुराय विसल्लों. गोंयची याद काडटालों तेन्ना आमेलिनाचो उगडास जायना आशिल्लों अशें न्हय. पूण म्हजी पिराय वाडटा तशी तिजेविशीची भावना बदलूंक लागिल्ली. म्हाका वेव्हार समजूंक लागिल्लो. आमेलिनाचें आनी म्हजें नातें कितें असो प्रस्न हांवें म्हज्या म्हाकाच एक दोन खेपे विचाल्लो लेगीत. आमचें नातें वेगळें आसूंकच नज आसलें. हांव भाटकाराचो पूत आनी आमेलीन आमचे घरची वावराडी. ती म्हाका सुंदर दिसताली. पूण तिज्याकय सुंदर बायलो आसात हें म्हाका कळूंक लागिल्लें. पिरायेन ती म्हजी आवय सोबतली आसली. आपलेपणाचें नातें दवरतलो जाल्यार आमेलीन म्हजी मावशी म्हणूं येत. पूण हांव मात तिजेकडेन मर्यादा हुपून वागिल्लों. ती म्हजी आगळीक आमेलीनान व्हड मनान पोटांत घाल्लीं. तितले पुरतो हांव तिजो उपकारी.

इंग्लंडाक शिकता आसतना हांव एका नव्या संवसारांत पावलों. एका नव्या समाजांत वावुरता आसतना म्हाका जिणेचे नवे अर्थ होलमूंक लागिल्ले. बायल आनी दादलो हांचे संबंद नर आनी मादयेचे आसूं येतात हें म्हाका ल्हवूल्हवू समजूंक लागिल्लें.

सुमार चार वर्सां उप्रांत हांव सुटयेंत गोंयांत गेलों. तेन्नाय आमेलीन आमगेरच आसली. म्हाका पळोवन ती हांसली आनी आपले वेंगेंत ओडून तिणे हात फुडें केलो. पूण हांव लजेलो आनी कुशीक सरलों. तेसरशीं तीय लजेली आनी तिणें म्हळें, ''आतां बाब जाण्टो जाला!''

ते खेपे गोंयांत आसतनाच तो प्रसंग घडलो.

शेनवाराचो दीस आसलो. सांजेच्या वेळार हांव पोरसांत तोरांजीच्या झाडासकल एक कदेल घालून बशिल्लों. म्हज्या हातांत एक इंग्लिश नेमाळें आसलें. त्या नेमाळ्यांत कांय चित्रां, फोटे आनी मोगाच्यो कथा आसल्यो. ते पिरायेचेर तसल्यो कथा वाचतना आनी चित्रां नियाळटना हांव भोंवतणच्या संवसाराक विसरतालों.

बांयचेर कळसो बुडिल्ल्याचो आवाज जालो. हांवें बांयचे दिकेन पळयलें. सूर्य अस्तंतेक देंविल्लो. पूण काळोख जांवक नासलो. बांयचेर आमेलीन आसली. तिणे कळसो भरून घेतलो आनी आंगावयलें न्हेसण सोडयलें. अचकीत तिची नदर म्हजेकडेन गेली आसूये. हांव थीर नदरेन तिका पळयतालों. तिणें ओलें लुगट ओडलें आनी आपलें आंग धांपपाचो यत्न केलो आनी आंगावयल्यान कळसो

रकयलो.

उदकाच्या लोटासरशीं आंगावयलें वस्त्र गळसणलें आनी तिगेल्या उकत्या देहाचें म्हाका दर्शन घडलें. मनांत आयलें मुखार वचून तिका जाप दिवची. पूण धाडस जालें ना. मदीं मदीं चोरून म्हजेकडेन पळयत आमेलीन ताकतिकेन न्हाली आनी ओल्या आंगाचेर न्हेसण गुठलावन एका हातान उदकान भरिल्लो कळसो उखलून आपल्या घरा गेली.

जसो काय तिणे म्हाका पळोवंकच नाशिल्लो. पूण हांव जाणा, तिणें म्हाका पळयला. तरीय ती लजेनासतना न्हाली. घडये दुसरो उपाय नासलो. भाटकाराच्या पुताक भितर वच म्हणून कशी सांगतली ? त्याभायर हांव इंग्लंडाक सावन आयल्या उप्रांत ती आदलेवरी म्हजेकडेन मेकळेपणान केन्ना उलोवंक नासली आनी हांवूय आपूण जावन तिका जाप दिवंक वचनासलों.

आमेलीन गेली आनी ते कथेवयलें म्हजें लक्ष उडलें. हांवें एके बायलेच्या देहाची सोबा, पयसुल्यान आसली तरी, उकत्या दोळ्यांनी पळयिल्ली. नेमाळ्यांतले फोटे सामकेच निर्जीव.

हांव अस्वस्थ मनान केदो वेळ येवजीत बसलों देवाक खबर. जेन्ना काळोख दाटून आयलो म्हणपाचें लक्षांत आयलें तेन्ना नेमाळें बंद करून हांव उठलों आनी दुर्गाच्या अशीर दारांतल्यान तडक आमेलीनागेर गेलो.

हांव तिगेर पावलों तेन्ना ती घरांतच न्हेसण न्हेसून कॅरोसीनाच्या दिव्यामुखार बसून तांदूळ वेंचताली. म्हज्या पावलांचो आवाज तिज्या कानार पडलो आसूंये. तिणे नदर वयर करिनासतनाच म्हळें, ''यो बाबा बस. आमगेर कदेल ना.''

''म्हाका तुगेर बसूंक कदेल जाय ? सगळें भुरगेपण ह्याच घरांत गेलां.'' कितेंय तरी उलोवंक जाय आसलें म्हणून हांव उलयलों.

''तुका उबगण येता आसतली न्हय ?'' पयलेच खेपे नदर वयर करून म्हजेकडेन पळयत आमेलीनान म्हळें. ''येद्या व्हडल्या गांवांत तुका एकय इश्ट ना. तूं पासयेक लेगीत वचना. भुरगेपणांतय तूं असोच आसलो.''

''तशी उबगण येना. हांव वाचूंक बशिल्लों. काळोख जालो म्हणून उठून आयलों.'' हांवें म्हळें.

''जावं कित्याकय लागून जायना, तूं आमगेर पावलो. बस. [illegible]ली च्या करतां.''

''च्या नाका म्हाका.'' हांवें म्हळें, ''त्यापरस तुगेलें काम सोंपतकच आम[illegible] खबरो करूंया.''

''हांव कसल्यो खबरो सांगतलीं ? हांव शिकूंक ना वा गांवाभायर खंय वचूंक ना. तूंच तुज्यो खबरो सांग. इंग्लंडाक कितें कितें केलें, कितें पळयलें तें सांग.''

''इंग्लंड सोडून हांगा आयलां. त्यो खबरो हांगा कित्याक ? म्हाका तुज्योच

खबरी जाय.'' हांवें म्हळें, ''खरें म्हळ्यार येदोळ तूं बांयचेर न्हाता आसतना तुका पळयली आनी तुजेसरीं येवन उलोवचें अशें म्हाका दिसूंक लागलें.''

आमचेमदलो संवाद बरो चल्लो. म्हज्या मनांत तरेकतरांची धाडसां करपाचें येतालें, पूण हात फुडें सरनासलो.

सुमार धा - पंदरा मिनटां अस्वस्थ संवाद केल्या उप्रांत हांवें आमेलीनाक विचाल्लें, ''कसली ही तुजी जीण? घोव पयस. पूत लागीं ना. आनी तूं तुज्यो उमेदी मारून उडयता...''

आमेलीनान एक व्हडलो सुस्कार सोडलो. तिगेले दोळे भरून आयले. तिजेसरीं वचपाक म्हाका तितलेंच निमित्त पुरो जालें. हांवें म्हज्या हातांनी तिजे दोळे पुसले आनी म्हळें, ''भुरगेपणांत तुवें म्हाका वेंगांत घेवन चुमिल्लो उगडास आसा?''

आमेलीन कांय उलयली ना. तिणें म्हाका वेंगात ओडलो. परत चुमलो आनी सुस्कारून म्हळें, ''म्हजें दुख्ख हांव जियेतां. तूं कित्याक ताजो हुस्को करता? तुजेमुखार बरो फुडार आसा.''

''संवसारांत जायत्यो बायलो आसात. सुंदर बायलोय आसात. पूण तूं म्हाका म्हजी दिसता. तुजेविशीं म्हाका ओड दिसता. आतां हांव जाण्टो जालां देखून इल्लो लजेतां. पूण म्हजें मन तुज्या सांगाताकच आंवडेता.''

म्हज्या उतराक आमेलीनाकडच्यान दाद मेळपाक लागली आनी त्या दिसा जिणेंतलें एक नवें सुख तिणे म्हाका दिलें.

ते सुटयेंतलो गोंयचो राबितो म्हज्या आनी आमेलीनामदीं नवें नाते निर्मून गेलो. पिरायेचें अंतर आड आयलें ना. जे आपखोशयेन आमेलीन म्हजे सुवादीन जाली ताजें अजून म्हाका अजाप दिसता.

हांव जाणां, आज आमेलीन जाण्टी जाल्या. तिगेलें घर शिकिल्ल्या आनी जोडकार भुरग्यांनी आनी सुनांनी भल्लां. पूण जिणेतलो पयलो मोग हांवे आमेलीनाचेर केलो अशें म्हणचेपरस मोगाचो पयलो धडो आमेलीनान म्हाका शिकयलो अशें म्हणप समा जातलें.

हे खेपे गोंयांत गेलो जाल्यार परत आमेलीनाचो सांगात मेळटलो. गोंयची भूंय, थंयचें सैम, म्हजें घर आनी सोयरीं - दायरीं हांची म्हाका ओड आसाच. पुण बोट दर्यांत मदीं पावन भारताचे दिशेन वचूंक लागली तशी म्हज्या मनांतली आमेलिनाची ओड जागी जाली. तिज्या सांगातान खेळिल्ले खेळ येवजून मन निश्चल जावंक लागलें. हांव कॅबिनांत वचून न्हिदिल्लेकडेन फुडल्या सुखाच्या दिसांची सपनां रंगोवंक लागलों.



बोट रंगुनाक पावसर इंग्लंडाच्यो यादी आपल्या मनाचे पाटयेवयल्यान पुसून

अँथनी गोंयचीं आनी आमेलिनाच्या सहवासाचीं सपनां रंगयतना अरळ जावंक लागिल्लो. केन्ना काय गोंयांत पावतां आनी आमेलिनाक वचून मेळटां अशें ताका जाल्लें.

रंगुनाक बोट पावतकच ताका कळ्ळें कि बोट फुडें वचचीना. निदान कलकत्याक ती पावतली अशें ताणे धरिल्लें. पूण कंपनीन सगळ्या प्रवाशांक रंगुनाकच बोट सोडपाचो आदेश दिलो.

बोट सोडून अँथनी शारांत आयलो. एका सवाय हॉटेलांत ताणे एक हांतुण भाड्याक घेतलें. रंगून शारांत त्या दिसांनी खूब गर्दी. लस्कराचे शिपाय आनी चारय दिकांनी येवपी निर्वासित हाणीं शार भरिल्लें. वाटेर ऑफिसांत वचून ताणे आपल्या बापायक तार धाडली. पूण ती ताका पावत म्हणपाची खात्री नासली.

अँथनीकडेन थोडे पयशे आसले. ते कितले दीस पावतले ? ताका हुस्को दिसूंक लागलो. इंग्लीश आनी कोंकणी सोडल्यार दुसरी कसलीच भास ताका येना. खंयय नोकरी मेळ्ळी जाल्यार झूज सोंपसर ती करची अशें येवजून तो भोवंक लागलो.

असोच भोंवता आसतना तो एक दीस एका मोठ्या हॉटेलाकडेन पावलो. हॉटेलांत बँड वाजतालें. कोणय तरी एकलो गोंयकार त्या बँडांत आसूये अशें ताका ओगीच दिसलें. पूण हॉटेलांत भितर सरतलो कसो ? गेलो जाल्यार पाकीट ल्हव जातलें आनी आठ दिसांच्या खर्चाचे पयशे एका जेवणाक सोंपतले अशी भिरांत दिसताली.

हॉटेलाच्या दारांत एक चौकीदार आसलो. त्या चौकीदाराक ताणे इंग्लीश भाशेंतल्यान सांगलें, ''बँड वाजयतल्याक मेळूंक जाय.''

''तूं वळखता ?'' चौकीदारान ताका विचाल्लें.

जाप कितें दिवची तें अँथनीक समजलेंना. ना म्हळें जाल्यार तो आपणाक धांवडायतलो आनी हय म्हळें जाल्यार नांव विचारतलो. कितें करतलो ?

अँथनीन म्हळें, ''हय. गोंयचो. फ्रॉम गोवा...''

''नो गोवा. नो नॉन्सेन्स !'' आंगार पडिल्ली पाल झाडची तशे हात करून त्या चौकीदारान अँथनीक धांवडावपाचो यत्न केलो. पुण अँथनी गेलो ना.

इतले म्हणसर एक मनीस काळो सूट घालून आनी हातांत व्हायोलीन घेवन हॉटेलाची सोपणां चडूंक लागलो. चौकीदारान अँथनीक विचाल्लें, ''हो तो मनीस ?''

अँथनीन ओगीच हय म्हणूंक तकली हालयली. तो व्हायोलीनवालो थांबलो. अँथनीन ताका कोंकणींत विचाल्लें, ''तूं गोंयचो ?''

प्रस्नासरशीं खोशी आनी अजाप त्या मनशाच्या तोंडार फुल्लें. हय, तो गोंयकार. ताणे दोनय हातांनी अँथनीचो उजवो हात घट धल्लो. ताजी वासपूस केली आनी ताका आपल्या सांगातान हॉटेलांत व्हेलो.

ॲंथनी आपले डायरेंत बरयता : मायकल डिसौझा मेळ्ळो आनी म्हाका गोंयांत पाविल्ल्याची खोशी जाली. मळबांत झुजाचीं कुपां दाटून आयिल्लीं आनी एका परकी देशांत हांव शेणिल्लों. म्हाका धीर मेळ्ळो. म्हाका म्हजो मनीस मेळ्ळो. त्या दिसा हांव मायकला सांगातान जेवलों आनी दुसऱ्या दिसा हॉटेल सोडून मायकलाचे कुडींत रावंक गेलों.''

रंगून शारांत ॲंथनीक एक इश्ट मेळ्ळो. पूण तो इश्ट लेगीत हुंदराच्याच काळजाचो. तोय परत गोंयांत वचूंक सोदतालो. संवसारभर जरी झूज पेटलें तरी ताजो धग गोंयांत पावचोना अशें मायकल ॲंथनीक परत परत सांगतालो. दोगय दीसभर भारतांत वचपाचो मार्ग सोदताले. पूण तांकां उपाय येवजनासलो. दुसरे वाटेन ॲंथनीलें बोल्स रिकामे जायत वतालें. मायकलाचो सांगात हो इश्टाचो सांगात. तो वगडांवक फावना आनी तो सांबाळटलो जाल्यार ताजेकडेन पयशे मागूंक फावना इतलें ताणे आपल्या मनांत थारायिल्लें.

''म्हाका एक कसलीय चाकरी तूं सोद.'' ताणे मायकलाक सांगलें, ''काम करूंक लज ना. तुमच्या हॉटेलांत वेटराचें काम लेगीत हांव करीन.''

मायकलान म्हळें, ''तें काम हांव तुका मेळोवन दीन. पगार थोडो. पूण टीप मेळटा. जेवणखाण सुड्डलें. जल्मभर तूं वेटर थोडोच रावतलो ?''

मायकलाच्या उतरान ताका वेटराचें काम मेळ्ळें. एका गिरेस्त बापायचो शिकिल्लो सवरिल्लो तरनाटो. पयल्या दिसा जेन्ना वेटराचो ड्रेस घालून हॉटेलांत गेलो तेन्ना ताजी ताकाच लज दिसली. ते रातीकडेन तो खूब रडलो. मदीं तर वित्रागान ताणें म्हळें, ''असली जीण जगचेपरस हांव जीव दीन.''

पुण मायकलान ताका धीर दिलो : ''अशीं पिशेपणां करूं नाका. सध्या दुसरी चाकरी मेळसर तूं वेटराचें काम कर. तूं शिकला. तुका चाकरी मेळटली. नाय जाल्यार झूज केन्ना तरी सोंपतलें. फुडली जीण तुज्यामुखार आसा.''

दोगय हॉटेलांत काम करताले. पूण वेटराचें काम कितलेंय जाल्यार उणाक. केन्ना हॉटेलाचो मालक जाल्यार केन्ना गिरायक ताका तापयतालें. ताका इंग्लिश भास बरी येताली आसूनय त्या वाठारांतलो लोक जे तरेन इंग्लीश उलयताले ती ताका समजनासली. भाशेक लागूनय अडचण्यो येताल्यो.

पेपरावयल्यो जायराती वाचून ॲंथनीक फाव अशी दुसरी चाकरी खंयय आसा काय म्हणून दोगय पळोवन घेताले.

एक दोन कडेन मुलाखती दिवंक ॲंथनी गेलो तेन्ना ताका रजा घेवची पडली. चाकरी मेळ्ळीना. पूण हॉटेलाच्या मालकाचें वायटपण मात घेवचें पडलें. तिसरे खेपे जेन्ना मुलाखतीक वचूंक ॲंथनीन रजा मागली तेन्ना मालकान सांगलें, ''रजा कशीच मेळचीना. तुका रजा जाय जाल्यार चाकरी सोडून वच.''

तेन्ना मात ॲंथनी भियेलो. ताणे रजा घेतली ना आनी त्या दिसाच्यान

पेंपरांतल्यो जायराती वाचपय बंद केल्यो.

रंगून शारांतले ते दीस खूबच कश्टांचे आसले. झुजाचें वारें रातदीस व्हांवतालें. खंयच्याय खिणाक झूज ब्रम्हदेशांत पावत म्हणपाची धुगधूग अँथनी आनी मायकल दोगांकय आसली. तेभायर अँथनीचें दुःख वेगळें. एका बऱ्या घरचो तो तरनाटो. शिकिल्लो सवरिल्लो. फकत पोटाची खळी भरचे खातीर वेटराचें काम करतालो. वर्तमानपत्रांनी जायराती वाचपाचें अँथनीन बंद केलें. ताणे येवजिल्लें, ह्या झुजांत एक तर आपणाक मरण येतलें ना जाल्यार झूज सोंपसर मान- अपमान गुठलावन मेळत तसलें काम करचें पडटलें.

एक दीस मायकलान ताज्या मुखार वर्तमानपत्र धरलें आनी म्हळें, ''अँथनी, जिणेतली एक बरी संद तुज्या वांट्याक चलून आयल्या. झुजावेळारच न्हय, हरशीं लेगीत ही चाकरी मेळ्ळी जाल्यार तुवें करपासारकी.''

मायकलाचो धीर दिवपाचो सभाव अँथनी जाणा आसलो. देखून ताका दिसलें आपली उमेद वाडोवपाखातीर तो तशें म्हण्टा. ताणे वर्तमानपत्र हातांत घेवन वाचीनासतनाच सकल दवरलें.

मायकलान पेपर परत उखल्लो आनी व्हडान जायरात वाचली. ब्रम्हदेश आनी चीन हांचे सरादीचेर शान नांवाच्यो आदिवासी जमाती रावतात. थंय साबार संस्थानां आसात. एका एका संस्थानात एक एक संस्थानिक. म्हळ्यार थंयचो राजाच. थळावे भाशेंत त्या राजाक 'सॉब्वा' म्हणटात. मांगशिश नांवाच्या अशा एका संस्थानाच्या सॉब्वाक इंग्लीश जाणा जाल्लो एक सेक्रेटरी जाय आसलो. तागेल्यो सगळ्यो अटी अँथनी भागयतालो. तो आंकवार आसचो, तरुण आसचो आनी ब्रम्हदेशी व चिनी नासचो. उमेदवारांनी अँथनी आनी मायकल कामाक आशिल्ले त्याच हॉटेलांत सॉब्वा फांग यू ची हांकां मेळचें अशे ते जायरातींत बरयिल्लें.

त्याच हॉटेलांत वचपाचें आशिल्ल्यान रजा घेवपाची अडचण नासली. पूण वेटराचो युनिफॉर्म घालून सॉब्वासरीं गेलो जाल्यार ती चाकरी आपणाक मेळची ना हें अँथनी जाणा आसलो. आपली अडचण ताणे मायकलाक सांगली.

''फाल्यां तुजी सप्तकी सुटी. हॉटेलांत भितर सर. तुका कोणेय हटकिलो जाल्यार तूं म्युजिक शिकूंक आयला अशें हांव सांगतां. मदींच टॉयलेटांत वचपाचें निमित्त करून सॉब्वा रावता ते कुडींत वचून ताका मेळ.'' मायकलान सुचयलें.

तें धाडस करपासारकें अशें अँथनीक दिसलें. पूण एक भिरांत आसली. वयलेवयर सुटयो घेता देखून ताजेर आदींच रागार आशिल्लो हॉटेलाचो मालक आडवो आयलो जाल्यार सॉब्वाची नोकरी मेळचे आदींच हॉटेलांतली नोकरी वतली अशें ताका दिसलें. अँथनीन तशें मायकलाक सांगलें. पूण मायकलान ताका समजायलो. निमाणे अँथनी कबूल जालो.

अँथनीन थारायिल्लें ताजेपरस काम सोपें जालें. मायकलावांगडा तो हॉटेलांत वचूंक वतालो त्याच वेळार सॉब्वा भायर सरतालो. दारांतच अँथनीन सॉब्वाची भेट घेतली आनी सॉब्वान थंयच उब्यांनी ताजी मुलाखत घेतली.

''तूं खंयचो ?'' पयलो प्रस्न.

''हांव गोंयचो. भारतांतलो. शिकूंक इंग्लंडाक आसतालों. परत भारतांत वतां. झुजाक लागून हांगा अडून उल्लां.''

''बायल आसा ?'' दुसरो प्रस्न.

''ना.''

''इंग्लीश उलोवन दाखय.''

अँथनीन इंग्लीश भाशेंतली एक कविताच म्हळी. शाळेंत आसतना ती ताणे पाठ केल्ली. सॉब्वा खूश जालो आनी ताणे थंयच ॲन्थनीक सांगलें, ''जाता तितले बेगीन मांगशिशाक येवन म्हाका मेळ. फुडलें सगळें थंयच उलोवया.''

मुलाखत सोंपली. म्हऱ्यांत मायकल उबो आसलो. ताणे अँथनीक परबीं दिलीं.

सगळेंच एक सपन कशें घडिल्लें. अँथनीक तें खरें दिसना जालें. परतून दुसरो हुस्को आसलो. पयसुल्या रानांत कसली जीण वांट्याक येत ताजो भरवंसो नासलो. आदिवासी लोकांमदीं दीस सारप आपणाक जमत काय कितें हाजो ताका दुबाव आसलो. त्याभायर सॉब्वाची मर्जी गेली जाल्यार खंयच्याय खिणाक तो नोकरेवयल्यान काडीत आसलो. रंगुनाचीं दुख्खां साबार, पूण तें एक शार. त्याभायर मायकलाचो सांगात. झुजाच्या वातावरणांत रंगून ताका सुरक्षित दिसतालें.

त्या दिसा मायकल कामाक गेलो आनी ॲन्थनी घरा परतलो.

''तीन दीस मेरेन हांव येवजितालों. म्हजेमुखार दोन पर्याय आसले. पयलो पर्याय म्हळ्यार एक नवें धाडस करप आनी जिणेंत एक नवो अणभव घेवप. दर्यांत उडी घेवपासारको तो प्रयोग. पावलों जाल्यार पलतडीं पावतलो, पावलों ना जाल्यार खोल उदकांत बुडटलों. तशें करचें काय नवो प्रयोग करपाचो मोह सोडून मायकलसरीं हांगाच रावचें ?'' आपली ही द्विधा मनःस्थिती ॲन्थनीन आपले डायरेंत बरोवन दवल्ल्या.

तीन दिसांच्या तळमळ्या उपरांत आनी मायकलान दिल्ल्या धिराक लागून ॲथनीन जिणेतलो नवो अणभव घेवपाचें थारायलें. पूण मांगशिशाक वचप कशें ? मांगीशीश आसा खंय ? वचपाचें साधन कितें ? ॲथनीक कांय खबर ना. मायकलय नकळ.

पूण ताजो प्रस्न रोखडोच सुटलो. तांच्याच हॉटेलांत सान्न मारपाचें काम करपी एक भुरगो आसलो. तो मांगशीशचो. मायकल ताका घेवन रातीकडेन अँथनीसरीं आयलो. ताणे सांगलें, ''हायवेवयल्यान ट्रक वतात. हायवेचेर मांगशिशाचे दिशेन

वतले ट्रक हात दाखयलो जाल्यार थांबतात. थोडे पयशे घेवन पॅसेंजर व्हरतात. मांगशिशाचे शिमेचेर एक चौकी आसा. थंय देवन शिपायाक राजवाड्याची वाट विचारली जाल्यार तो पावयतलो.''

''पूण तुमचो मांगशीश वाठार कसो ?'' अँथनीन विचाल्लें.

''सगळो बरो. पूण थंय रातीच्या वेळार लोकांक भुतांची बादा जाता. आंगांत कांपरें भरून जोर येता आनी खूबशे फावटी मनीस मरता.''

अँथनीन मायकलाच्या तोंडाकडेन पळयलें.

मायकल हांसलो. ताणे कोंकणीत म्हळें, ''हो सांगता त्या पिशेपणाचेर तूं विस्वासता ? त्याभायर तूं राजाचो सेक्रेटरी. तूं रानांत खंय वतलो ?''

दुसऱ्या दिसा अँथनी मांगशिशाक वचूंक भायर सरलो.



साऊथ वेस्ट ट्रान्स्पोर्टेशन कंपनी नांवाची एक निमसरकारी संस्था ब्रह्मदेश मार्गाचेर ट्रक चलयता. तेच कंपनीच्या एका ट्रकांत बसून मांगशिशाक पावंक अँथनीक सात दीस लागले.

मांगशिशचे हद्दींत ट्रक पावलो तेन्ना अँथनीक अजाप जालें. एक सोबीत, सुंदर आनी सैमाचे गिरेस्तकायेन समृध्द असो वाठार. नदर मारता थंय दोंगुल्ल्यो आनी त्या दोंगुल्ल्याच्या खोऱ्यांनी समृध्दी. उदकाचे वझरे आनी न्हंयो. न्हंयाच्या देगांचेर ल्हान - ल्हान गांव. वचत थंय कोंडे आनी वेताचीं झोपां. सपाट भूंय जंय - जंय आसा थंय भाताचीं शेतां. गांव थंय केळी, पोपायांचीं झाडां आनी क्षितिजाचेर उंच निळे दोंगर आपलें माथें मळबात लिपोवन बसल्यात. मदीं - मदीं तांबड्या रंगाची व्हड बौध्द मंदिरां दिश्टी पडटालीं.

नाक्याचेर अँथनी देंवलो आनी शिपायान तागेलो भेस पळोवन ताका सलाम केलो. राजवाड्यांत वचपाचें आसा म्हणून सांगिनाफुडें ताका एका घोडेस्वारान आपल्या फाटल्यान बसोवन थंय व्हेलो.

सॉब्वान अँथनीक बरो येवकार दिलो. मोगल वंशाचो तोंडावळो आशिल्लो तो मात्सो मोटवो असो राजा. ताणे अँथनीक सांगलें, ''दोन हजार चौरस मैलांचें म्हजें राज्य मॉडर्न करूंक जाय.''

अँथनीकडेन उलोवपाखातीर सॉब्वान आपले राणयेक आपयली. राणी चड करून इंग्लंडची धूव आसतली अशें तिका पळयनाफुडे अँथनीक दिसलें. घोवाच्या हिसपान भुरगी. ती आयली आनी अँथनीक हात दिलो. फुडलें संभाशण तिजेचकडेन करचें पडलें.

सांजवेळ मेरेन अँथनीक खुबशो गजाली कळ्ळ्यो. सॉब्वाची पिराय एकेचाळीस वर्सांची आसा. पयले बायलेपसून जाल्लीं भुरगीं आतां व्हड जाल्यांत आनी सॉब्वाक

नातरांय आसात. चिनी वंशाचो हो सॉब्वा अफूचे घुंवळेत दीस सारतालो. १९३९ वर्सा ह्या व्यसनाक लागून तो मरपाचो. रंगूनच्या डॉक्टरान ताका सांगलें, ''अफू सोडलीना जाल्यार तूं मरतलो.'' आनी सॉब्वान अफू सोडली.

अफू सोडटकच सॉब्वाची उमेद वाडली. तो परत रंगूनाक गेलो आनी ताणे थंयच्या पेपरांत जायरात दिवन आपली बायल सोदून काडली. तीच ही गोरी बायल. तिणे ॲंथनीक सांगलें, तिचें नांव ईदा. तिका नाच, बॅडमिंटन आनी ब्रीज आवडटा. ईदाचो बापूय आयर्लंडचो एक खलाशी आसलो. रंगूनात तो एके चिनी नर्तकीच्या मोगांत पडलो. ताजेपसून ईदाचो जल्म जाल्लो.

''म्हज्या नशिबात हॉटेलांनी नाचून पैशे जोडपाचें नासलें. देखून हांव सॉब्वाची बायल जावंक पावली.'' ईदान ॲंथनीक सांगलें, ''पूण ते खातीर म्हाका म्हजो वंश बदलचो पडलो. आनी ती व्हडा - व्हडान हांसली.

सॉब्वा हो संस्थानिक जाल्ल्यान राजघराण्यांतले चलयेकडेनच ताजे लग्न जावं येतालें. तशें केलेंना जाल्यार राजाची प्रतिष्ठा उरना. राजघराण्यांतली बायल ही विदेशीच •आसची पडटा. ईदाक सॉब्वान सांगलें, ''तूं इंग्लंडच्या एका राजघराण्यातली अशें मान आनी तशें लोकांक सांग.'' खासा सॉब्वान दरबारांत राणयेची वळख करून दिता आसतना तिजी आवय मंगोलियाची राजकुंवर आशिल्ली अशें सांगून उडयलें.

ईदा ही तोंडावळ्यान इंग्लीशच दिसताली. मंगोल वंशाची कसलीच कुरू तिज्या तोंडार नासली. जरी एके नर्तकीच्या घरांत ती वाडिल्ली तरी ती इंग्लीश भास शिकिल्ली आनी मदीं इंग्लंडाक वचून आयिल्ल्यान थंयच्या समाजाच्यो चालीरिती आपणावन बशिल्ली. आंगलोटान आनी रूपान सुंदर आशिल्ली ईदा आपल्या घोवापरस चार - पांच इंच लांबच आशिल्ली.

''घरांत हांव वेगळो भेस करतां. पूण राजवाड्याच्या भायर सरतना राणयेचो भेस करचो पडटा.'' तिणे सांगलें.

ती बरी इंग्लीश उलयताली आनी दुसऱ्यांकडेन तितल्याच सोपेपणान बर्मी आनी चिनी भासोय उलयताली. फ्रेंच भाशेचीं चार वाक्यां तिका उलोवंक येतालीं. तिका सॉब्वा 'डार्लींग' म्हणटालो. खूब प्रयत्ना उपरांत तो तितलीच इंग्लीश शिकिल्लो.

ईदा सॉब्वाची बायल जावन मांगशिशाक आयली आनी त्या ल्हानशा संस्थानांत सुधारणेचें वारें व्हांवक लागलें. नवे रस्ते तयार जाताले. पूल बांदपाचें काम सुरू जाल्लें. विजेचे खांबे उबे रावंक लागिल्ले. राजवाड्याच्या आवारांत राणयेखातीर नवें घर बांदिल्लें. थंय बॅडमिंटनचे कोर्ट आनी स्विमींग पूल आसलो. राजधानीत एक नवें हॉटेल बांदिल्लें. त्या हॉटेलांत सॉब्वाचे पावणे उतरताले.

ह्या नव्या वातावरणात ॲंथनी रॉड्रीग्साची नवी जीण सुरू जाली. सरकारी

हॅटिलांत ताका एक कूड दिली. थंय तो रावतालो दिसाच्या वेळार ताका राजवाड्यांत रावचें पडटालें. ताजें चडशें उलोवप ईदाकडेनच जातालें. ती ताका मांगशीश संस्थानाची परिस्थिती समजायताली आनी आधुनिकीकरणाच्या येवजण्याचेर ताजेकडेन उलयताली.

ब्रह्मदेश आनी चिनाचे सरादीवयल्या त्या वाठारांत मांगशिश हें एक ल्हानशें शार जावंक पाविल्लें. सॉब्वान शाळांनी इंग्लीश भास शिकोवपाची येवजण आंखिल्ली. पूण शिकोवपी कोण नासले.

सुर्वेचे कांय दीस अँथनीन मोटारीन सगळें संस्थान पळोवन सारले. जंय - जंय आधुनिकीकरणाचो प्रयोग जाला थंय - थंय परंपरेन चलत आयिल्ली लोकजीण उद्ध्वस्त जाल्या म्हणपाचें ताणे पळयलें. आपली वेगळी मोटार घेवन सॉब्वाची बायल ईदा आपल्या संस्थानात भोंवताली. तिच्या सांगातान सॉब्वाय आसतालो. ती दर दिसा एक नवी कल्पना सॉब्वाचे तकलेंत भरताली आनी सॉब्वा आपल्या अधिकाऱ्यांक तशे आदेश दितालो.

आठ दिसां उपरांत सॉब्वान अँथनीक म्हळें, ''आतां तूं म्हाका म्हज्या सांगातान राविल्लो जाय. तुवें मांगशीश राज्य पळोवन घेतलें. तें कशें सुदारपाचें ?''

रंगूनांक आसतना हॅटिलांतल्या कामगाराकडच्यान भूतबाधेची जी खबर आयकल्ली तिजेविशीं अँथनीन सॉब्वाक विचाल्लें.

''हय. ती खरी खबर.'' अशी जाप दिवन सॉब्वान तोंड गंभीर केलें.

अँथनीन ईदाकडेन पळयलें. ती कांय उलयली ना. पूण मोन्यांनी तकली हालोवन तें खरें अशें तिणे सुचयलें.

''तर अशें करूया, तुजें पयलें काम ही भूतबाधा थाऱ्यार घालपाचें जावं दी.'' ईदान सुचयलें.

राणयेचे इच्छेक विरोध करप शक्य नासलें आनी अँथनीक मांगशिश संस्थानचो सेक्रेटरी ह्या नात्यान पयली कामगिरी करची पडली.



रातीच्या वेळार कसली भूतबाधा जाता हें समजून घेवपाखातीर कांय अधिकाऱ्यांक घेवन अँथनी एका वाड्यार गेलो. त्या वाड्याचेर भूतबाधा जावन आदल्या म्हयन्यांत तीन मनशांक मरण आयिल्लें.

एका घरांत वचून अँथनीन सारकी खबर घेतली. आदल्या दिसा बरो आशिल्लो मनीस रातीकडेन एकदम कडकडूंक लागलो आनी कितल्योय कांबळी पांगुरल्यो तरी तागेलो कडकडो आटापना जालो. ताचें आंग इतलें तापतालें कि, थंड उदकाच्यो घडयो वतान सुकच्यो तशो सुकून येताल्यो.

''तुमी भुताक पळयलां ?'' अँथनीन त्या घरांतल्या एका दादल्याक विचाल्लें.

''ना. पूण रात जाता तसो सगळ्या दोंगरांचेर धुंवर दादून येता आनी त्या धुंवरात पयसुली सोडच लागीची वस्त लेगीत दिसना. ल्हवूल्हवू धुंवर दाट जाता आनी कोण कोण म्हण्टा कि, त्या धुंवरांत भुतां नांचूक लागतात.''

भुतांविशीं अँथनीन खुबशें आयकल्लें. खासा गोंयांत भुतांच्यो आनी देवचारांच्यो काणयो भुरगेपणांत ताणे आयकल्ल्यो. गांवचे शिमितरीत रातीच्या वेळाचेर भुतांचें फेस्त भरता आनी तें पळयिल्ल्या एका मनशाक कडकडून जोर येवन मरण आयिल्लें म्हणपाची खबरय भुरगेपणांत ताच्या कानावयल्यान गेल्ली. देखून मांगशिशच्या ह्या पयसुल्या वाठारांत भुतांचो सोद घेवपाखातीर तो आयलो तरी मनांत भिरांत आसली.

कांय आयुधां येतना ताणे हाडिल्लीं. तांचेमदीं आर्मां, सर्च लायटी आनी दुर्बिणांचो आसपाव आसलो.

गांवच्या एका घरांत ताणे त्या दिसा राबितो करपाचें थारायलें.

सांजवेळ जाली तशीं जेवणां उलगलीं. जेवणाउपरांत गांवच्या लोकांनी गितांचे आनी नाचाचे कार्यक्रम घडोवन हाडिल्ले. नितळ मळबांत उदेंतेकडेन चंद्राची कोर आनी मळबाच्या घुमटाचेर तरेकवार नखेत्रां.

काळोख दाटलो. क्षितिजां नदरेआड जालीं. एके भाशेन सगळो गांव आकुंचित जावन आयलो.

नाच थांबलो. लोक आपल्या आपल्या घरा परतूंक लागले. जण एकल्याच्या हातांत कागदाचे लापयांव.

हांतुणाक फाट तेंकता सर भायले वटच्यान बोवाळ जालो. कितेंय तरी विपरीत घडिल्लें. अँथनी उठलो. तागेले सांगाती जागेच आसले. कोणाक तरी भुताची बाधा जाल्या अशी खबर दिवंक वाड्यावयले लोक थंय आयिल्ले.

अँथनी पळोवंक गेलो. ताणे पळयलें कि एक ल्हान भुरगो शिंयान कुडकुडचो तसो कुडकुडटा. ताजी तकली उसळटा. तो ओंकता आनी ताजें आंग तापलां.

अँथनीकडेन क्विनिनच्यो गुळयो आसल्यो. जोर आयल्यार घेवपाच्यो हेर गुळयोय तागेल्या बॅगांत तो सदांच दवरतालो. कितें जाता तें पळोवया अशें येवजून अँथनीन त्या भुरग्याक गुळयो दिल्यो. तो कुडकुडटालो. सुक्यो ओंकान्यो काडटालो. पूण ल्हवू ल्हवू ताजो दोळो लागलो. अँथनीन पळयलें, ताका हूम येता. आतां तागेलो जोर देंवतलो.

''तुमी सगळे घरा वचून न्हिदात.'' अँथनीन सांगलें. खासा तो आपल्या सांगात्यांसयत जंय राबितो केल्लो त्या घरांत परतलो.

दिवे पालयले तशे जळारांचे नाच सुरू जाले. मुसायेदीं मोठीं जळारां. पांघरूण झाडलें जाल्यार चोम्यांनी उडटालीं आनी तांच्या पांखांचो फडफड आयकूंक येतालो. ह्या लोकांक मलेरिया बादता आसूंक जाय अशें ताका दिसूंक लागलें

आनी एक सोद लागिल्ल्याच्या समाधानान ताणे सुस्कार सोडलो.

जळारांनी रातभर ताजो दोळ्याक दोळो लागलो ना. बाकीचे लोक सुस्त न्हिदिल्ले आनी एकमेकांकडेन घोरेवपाची सर्त लायताले. झिळमिळट्यार अँथनी भायर आंगणांत आयलो. चारय दिकांनी दाट धुकें दाटिल्लें. पावस पडचो तसो दंव पडटालो आनी त्या धुक्याच्यो तरेकवार आकृत्यो जाताल्यो. हांगाचे लोक जांकां भुतां म्हण्टात त्यो ह्योच आकृत्यो न्हय मूं ?

अँथनीन घरच्या घरकाराक उलो माल्लो तसो तो हांतूण सोडून धांवत भायर आयलो. ताज्या दोळ्यांक दुर्बीण लावन अँथनीन विचाल्लें, ''दोंगराचेर तुका भुतां दिसतात ?''

दुर्बिणीतल्यान धुकें नियाळटां नियाळटां त्या मनशाक कांपरे भल्लें आनी 'हय... हय' म्हणून दुर्बीण घेवनच तो घरांत धांवलो.

एक कुवाडें सुटिल्ल्याचें समाधान अँथनीक मेळिल्लें. राजवाड्यांत परत येवन ताणे सॉब्वाक आनी ईदाक आपलो रिपोर्ट दिलो. सॉब्वाचो विस्वास बसलो ना. पूण ईदान हांसून तकली हालयली.

''ह्या भुतांआड झुजपाखातीर पयशे जाय.'' अँथनीन सॉब्वाक सांगलें.

''पयशे खंयच्यान हाडपाचे ?'' सॉब्वान विचाल्लें.

अँथनीन एक येवजण सुचयली : ''दोंगरांचेर निलगिरीचीं झाडां लावपाचीं. निलगिरीच्या लाकडापासून कागद तयार करतात. आनी ताजें तेलय काडूं येता. युरोप, अमेरिकेंत त्या झाडांक आनी तेलाक मागणी आसा.''

सॉब्वान रोखडीच येवजण मान्य केली. दुसऱ्या दिसाच्यान दोंगरावयलीं झोपां काडून थंय निलगिरीचे रोपे रोवपाचें काम सुरू जालें. साबार कडल्यान रोपे हाडपाक मनीस गेले. सुर्वेक एकच गांव ह्या पिकाखातीर वेंचून काडिल्लो. गांवच्या कितल्याशाच भुरग्यांक काम मेळ्ळें. गांव निवळ दिसूंक लागलो. ह्या प्रयोगाक लागून मलेरियाचें उच्चाटन जातलें काय ना वा झाडां वयर सरतकच तांचेपसून पयशे मेळटले काय ना हें रोखडेंच समजुपासारकें नासलें. पूण गांवच्या भुरग्यांक काम मेळिल्ल्यान गांवचे लोक हे येवजणेक बरो सहकार दिवंक लागिल्ले.

पूण हे येवजणेक सॉब्वाच्या एका मंत्र्यान विरोध केलो. ताणे सांगलें कि आमचे दोंगर हे पवित्र आसात. थंयची झोपां कापून ते बोडके करप समा न्हय. एक खेपे भुतांक धांवडावचे खातीर झोपां कापलीं जाल्यार भुतां खुबळटलीं आनी मागीर कोणाचीच धडगत उरची ना.

मंत्र्यांचें म्हणणें सॉब्वाक खरें दिसलें आनी ताणे रोखडीच आपल्या मंत्र्यांची आनी अधिकाऱ्यांची एक बसका आपयली.

सॉब्वाच्या राजवाड्यांतलें एक व्हडलें साल. त्या सालांत मदीं एक धुल्लान भरिल्लें मेज. मेजाभोंवतणी सुमार पंचवीसेक कदेलां. मंत्री आनी अधिकारी

कदेलांचेर जमले आनी सॉब्वा एका उंचेले सुवातेचेर दवरिल्ल्या आपल्या आसनाचेर बसलो.

कागाळ करतल्या मंत्र्यान थळावे भाशेंत आपलें म्हणणें मांडलें. एक आनी अधिकाऱ्यांनी तकल्यो हालयल्यो. तो कितें उलयता हे अँथनीक कळनासलें. पूण आपले येवजणेच्या आड लोकमत ताणे तयार केलां इतलें ताका समजल्लें.

मदीच सॉब्वा खांकलो. खांक अडेची आसली. मंत्र्यांक तागेलें भाशण थांबोवपाची ती इशारत आसली.

''तुजें कितें म्हणणें ?'' सॉब्वान अँथनीक विचाल्लें.

अर्द बर्मी आनी अर्द इंग्लीश भाशेत अँथनीन जाप दिली, ''म्हाका कांयच समजूंक ना.''

सॉब्वान आनीक चार - पांच मंत्र्यांक तोच प्रस्न विचाल्लो आनी ताणी आपल्यो जापो दिल्यो. ते बर्मी भाशेतल्यान उलयले. ताणी विरोध केला इतलें अँथनीक कळ्ळें.

एका अधिकाऱ्याक सॉब्वान सांगलें, ''सगळ्यांचें म्हणणें सेक्रेटरीक समजावन सांग.''

त्या अधिकाऱ्यान सांगलें : भुगोलीक नदरेन मांगशीश म्हळ्यार न्हिदिल्ल्या ड्रेगनाची फाट म्हणूं येता. झोपां कापिल्ल्यान ड्रेगनाचे न्हिदेंत खंड पडूंक लागल्या. तो चवताळून उठलो जाल्यार अनर्थ जातलो.

तितल्याचेर बरसका सोंपली. निर्णय कांयच जालोना.

सुमार अर्दवरान सॉब्वान अँथनीक आपोवन हाडलो आनी म्हळें, ''चल, आमी फाटल्या गार्डनांत फिरूं या.''

हातांत तंबाखूची चिलीम धरून सॉब्वा चलतालो आनी ताजे कुशीक आंग चोरून अँथनी.

''बायलांविशीं तुका कितें दिसता ?'' अचकित सॉब्वान प्रस्न केलो. आनी चिलीम तोंडांत धरून व्हडलो झुरको घेतलो. धुंवराचे लोट सोडले. तो उग्र धुंवर नाकांत तोंडात वचून अँथनी घुसमटलो.

अचकित सॉब्वान नसतो प्रस्न कित्याक विचाल्लो हें ताका समजलें ना.

मदींच सॉब्वा उबो रावलो आनी अँथनीच्या खांदाचेर हात दवरून ताणें म्हळें, ''बायलो उदकासारक्यो आसतात. तांकां सांबाळप कठीण. कन्फ्यूशसान सांगून दवल्लां तांकां हातभर पयस दवरल्यार त्यो खंती जातात आनी आपलेपणान वागयल्यार त्यो माथ्यार बसतात.''

सॉब्वा परत चलूंक लागलो. अर्दवराची पासय मोन्यांनी जाली. निमाणे सॉब्वान अँथनीचो निरोप घेतलो. म्हळें, ''एक खाजगी काम करूंक तुका हांवें आपयला. फाल्यां रातचो तूं राजवाड्यांत जेवपाक यो.''

''येतां.'' अशें उतर दिवन अँथनी आपल्या हॉटेलाचेर परतलो.

दुसऱ्या दिसा सांजवेळां साडेपांच वरांचेर सॉब्वा सांगातान अँथनी भायर सल्लो. पायांनी तो चलतालो देखून अँथनीक तशेंच करचे पडले. सॉब्वाचो एक नेम आसलो. ताज्या मुखार वा सांगातान जो कोण चलता तो आपलो अपमान करता अशें सॉब्वा मानतालो. देखून सॉब्वा फुडें आनी अँथनी ताज्या फाटल्यान चलतालो. धुल्लान भरिल्लो बर्मा रोड हुपून सॉब्वा फुडें पावलो.

काचीन दोंगराच्या फाटल्यान सूर्य देंवलो. कुशीक मांगशीश न्हंय व्हांवताली. सांजच्या वेळार निळें उदक निवळ दिसतालें. ते न्हंयत शान बायलो आनी चलयो आपलो दीसभराचो शीण आनी म्हेळ धुताल्यो. सॉब्वा न्हंयचे देगेन चलता तें पळोवन कांय बायलो देगेवयल्या झोपा फाटल्यान लिपल्यो. दुसऱ्यो कांय धीट चलयो नदरेंत अप्रूप एकठावन सॉब्वाक पळयत रावल्यो. सॉब्वा घसघशीत पावलां उखलून चलतालो. ताजी नदर मुखार थिराविल्ली. फाटल्यान अँथनी.

मुखावयल्या वाठारांत ईदाचो बंगलो दिसूंक लागलो तसो सॉब्वा रस्त्याचेर उबो रावलो. अँथनीक लागीं आपोवन ताणे म्हळें, ''सेक्रेटरी म्हजे ईदाकडेन एक झगडें जालां. फाटले कांय दीस ती खंतीनी फुगार जावन बसल्या. कित्याक तें हांव नकळ.''

''ती बरी आसा मूं?'' अँथनीन विचारलें.

''हय, तशें तिजे भलायकेक कांय जावंक ना. पूण हांवें तुका म्हजो घरचो प्रस्न सोडोवंक हांगा हाडूंक ना. तुगेली येवजण चालीक लावंक म्हाका एक उपाय सुचता. ईदान काचीन दोंगराचेर वचून डूॅगनाखातीर दोन बैलांचो बळी दिवचो. पूण लोकांची ही मान्यताय तिका पिशेपणाची दिसूं येता. ती मॉडर्न बायल.''

अँथनी कांय उलयलो ना. ताकाय हो रिवाज खबर नासलो. दोंगराचेर डूॅगनाची फाट येता आनी निलगिरी रोवंक झोपां कापल्यांत देखून तो खुबळ्ळा हो समज पिशेपणाचो अशें अँथनीकय दिसतालें. पूण मांगशिशाक रावपाचें आसलें जाल्यार थंयच्या मान्यतायांक मान दिवप गरजेचें आसलें. ताणे सॉब्वाक विचाल्लें, ''हांवें कितें करपाचें?''

''तुवें ईदाक समजावपाचें. हांव जाणा आमच्या पुराय राज्यांत तिजो फक्त तुजेकडेन संवाद जावं येता. हांवें ती सुचोवणी केली जाल्यार ईदा मानीत अशें दिसना. पूण तुवें सुचयलें जाल्यार घडये कबूल जायत.'' सॉब्वान म्हळें.

राजाची इत्सा हो आदेश आसता इतले अँथनीक समजतालें. मनांतल्या मनांत तो हुस्केलो तरी ''बरे भाशेन'' अशी सॉब्वाक जाप दिवन बसलो.

अँथनी त्या आदींय ईदाल्या बंगल्यार गेल्लो. पूण घोवाकडेन झगडल्या उपरांत तिजो मूड कसो आसत असो ताका दुबाव आसलो आनी ताणें सॉब्वाक विचाल्लें, ''तुजें आनी तिजें कितें जालां हें कळ्ळें जाल्यार तिजें मन सांबाळून उलोवप सोपें

जातलें.''

''तिज्या मनांत केन्ना कितें येत हाजो नेम नासता.'' सॉब्वान जाप दिली, ''त्या दिसा ती रंगूनातल्यो यादी काडटाली. आपणाक युरोपाक व्हर अशें ती मदीं मदीं म्हणटा. केन्ना केन्नाय मांगशीश सोडून कुनसिंगाक वचून रावया अशें सुचयता.'' सॉब्वान एक सुस्कारो सोडलो आनी आपणाकडेनच उलयले भाशेन म्हळें, ''म्हजे पयले बायलेची गजाल वेगळी आसली. फाटल्या पंचवीस वर्सांच्या काळांत तिणे केन्नाच कांय मागलें ना. सामकी गरज उप्रासली जाल्यारच ती उलयताली. लज भिडेची मर्यादा पाळटा.''

अँथनी ओगी रावलो. ताका दिसलें ईदाच्या जाग्यार आपूण आसतो जाल्यार लेगीत खंतीच जावपाचो. निर्बंधा मेकळी रंगून शारांतल्या क्लबांनी नाचपी चली राणयेची बंधनां घेवन राजवाड्यांत येतकच घुस्मटली जाल्यार अजाप कसलें ?

सॉब्वा बंगल्यात भीतर सल्लो. भीतर नदर थिरावन ईदा उबी आसली. सॉब्वा आयलो तरी ती हाल्ली ना वा तिणे नदर फिरायली ना. सॉब्वा खांकलो तरी तिणे पळयलें ना. चिनी सिल्काचो गावन तिज्या नाजूक आंगार सळसळटालो. अँथनीक ते अवस्थेंत ती सुंदर दिसली.

सॉब्वा एका कदेलाचेर बसलो. अँथनीक कितें करचें तें समजलें ना.ती उबी आसतना तो बसतलो कसो ? ताणे तिका अभिवादन केलें.

''ओ, अँथनी !'' तिणे म्हळें, ''आमी बॅडमिंटन खेळूया ?''

जसो काय सॉब्वा थंय नाशिल्लोच. ती आपणाकडेन इल्ली चड आनी अडेची इश्टागत दाखयता असो अँथनीक दुबाव आयलो. ताणे सॉब्वाकडेन पळयलें. तकली हालोवन ताका सॉब्वान मान्यताय दिली. ईदा कपडे बदलून आयली.

बॅडमिंटन खेळपाच्या भेसांत ती भुरगी दिसली आनी अर्द आंग उकतें उडयिल्ल्यान तिगेल्या आंगलोटाची सोबा नदरेंत भरूंक लागली.

खेळ अपेक्षेप्रमाणेच खेळचो पडलो. अँथनी जिखूंक फावना. ईदाच जिखूंक जाय हो अलिखित नेम आसलो. खेळटा आसतना बैलांचो बळी दिवचे खातीर ईदाक कशी तयार करची हो विचार अँथनीचे तकलेंक घोळत उल्लो. आनी आपणे अँथनीक हारयलो ही खोशी ईदाच्या मनांत दाटत रावली.



जेवणाची तयारी भितल्ले वाटेन जाताली. हात तोंड धुंवंक अँथनी बाथरूमांत गेलो आनी ईदा आपले माळ्येवयले कुडींत गेली.

मेजार मांडिल्लें जेवण इंग्लीश थाटाचें आसलें. सगळे मोन्यांनी जेवताले. सॉब्वा जेवता आसतना तोंडां करतालो ताजेवयल्यान ताका तें जेवण मानवना अशें अँथनीक दिसलें. मॉडर्न जावपाखातीर वा इंग्लीश बायलेच्या समाधानाखातीर ती

ख्यास्त तो भोगतालो. पूण ईदा मात रुचीन जेवताली. दर एक वस्त तिणे दोन - तीन फावटी प्लेटींत घेतली. जेवता आसतना ती उलयली ना.

अर्द जेवण सोंपतकच अँथनीन म्हळें, ''मांगशीश हें सोबीत राज्य. खरें म्हळ्यार केन्नाय एक दीस काचीन दोंगराचेर पिकनिकेक वचचें अशें म्हाका सदांच दिसत आयलां. राजवाड्याचीं बंधनां हांगा जाणवतात. दोंगराचेर मेकळ्या वातावरणांत आमी पिकनिकेक वचूंक जाय... इश्ट कशे.'' ताणे म्हळें.

अँथनीचो प्रस्ताव सॉब्वान रोखडोच मान्य केलो आनी फुडल्या शेनवाराक पिकनिकेक वचचें अशें सुचयलें.

अँथनीचो प्रयोग फळादीक जाल्लो. ईदानय हांसून पिकनिकेची कल्पना उखलून धल्ली आनी इतल्या वेळा उपरांत पयलेच खेपे आपलेपण उक्तावपाखातीर सॉब्वाचे प्लेटींतलो चिकनाचो एक कुडको हातांनी काडून खालो.

''पूण एक अडचण आसा.'' अँथनीन म्हळें, ''निलगिरीचे रोपे लावपाखातीर फोंड खणले, देखून कांय लोक रागार जाल्ले आसात. ड्रॅगन उचांबळ जाला अशें तांचें म्हणणे. थंय पिकनिक केली जाल्यार उज्यांत तेल रकचें ना ?''

सॉब्वान गंभीर तोंड केलें आनी अँथनीकडेन पळयलें. ईदाची नदरय अँथनीचेर थिराविल्ली.

''ना.'' तिणे म्हळें, ''पिकनिक जावंकच जाय. लोकांक समजावपाखातीर कितेंय उपाय आसल्यार सांग.''

''उपाय आसा.'' अँथनीन म्हळें, ''हे पिकनिकेक एक वेगळें रूप आमच्यांनी दिवं येता. राज्यांतले लोक अशें मानतात कि जेन्ना ड्रॅगन खुबळटा तेन्ना ताका दोन बैल दिवन शांत करचो पडटा. राणयेच्या हातान हे बैल ड्रॅगनाक ओंपले जाल्यार ड्रॅगन शांत जातलो आनी लोकांकय समाधान जातलें.''

''हय, हय. ही कल्पना बरी.'' सॉब्वान म्हळें.

''लोकांच्या समाधानाखातीर दोन बैलांचो तुमी जीव घेवंक सोदतात ? ते परस दुसरो उपाय तुमकां सुचना ?'' एकदम रागान ईदान प्रस्न केलो आनी ती मेजावयली उठली.

असल्या वेळार ओगी रावप शाणेपणाचें आसता इतलें अँथनीक समजतालें.

थोडो वेळ कोण कांय उलयलो ना. ईदा जेन्ना शांत जाली तेन्ना तिणे म्हळें, ''ह्या राज्याची हांव राणी. बैलांचो बळी दिल्यार प्रस्न सुट्टा जाल्यार बरें आसा. तशें जावं दी.''

शेनवाराक बैलांचो बळी दिवपाचो दबाजो जालो. मारिल्ल्या बैलांचे रगत राणयेचे साक्षीन चार फोंडांनी रकयलें आनी जमिल्ले लोक दोंगर देंवले. दोंगराचे दुसरे वाटेन एक ल्हानसो वझरो आसलो. थंय सॉब्वा, ईदा आनी अँथनी चार नोकरांक घेवन पिकनिकेक गेले.

झाडाच्या मुळांत एक तंबू उबारिल्लो. जमनीचेर शेंदऱ्यो आनी हांतऱ्यो पातळायिल्ल्यो. थंय वचून सॉब्वा बसतकच ईदा पिकनिकेच्या मुडांत घोवाचे मांडयेर तकली दवरून हांतरेचेर पाय सोडून सुखावली.

''म्हाका तुजी काकुळट दिसता अँथनी.'' तिणे म्हळें, ''इतलें सोबीत वातावरण... एकदम रोमँटीक... तूं मात एकोडो. लग्नाचो तूं विचारच करिना ?''

मजगतच्या झगड्या उपरांत ईदा आपणाकडेन मोगान वागूंक लागिल्ली पळोवन सॉब्वा खुशालभरीत जालो. ताणे म्हळें, ''हय, हय, ताका एक इंग्लीश बायल हाडली जाल्यार ईदाक मैत्रीण मेळटली. आसा तुजी कोण मैत्रीण ईदा ?''

''एक कित्याक ? जायत्यो आसात. अँथनीन आपणाक जायती वेंचपाची. पूण ते खातीर आमकां एक तर रंगूनाक ना जाल्यार युरोपाक वचचें पडटलें.''

रंगूनाचो आनी लंडनाचे नांव आयकतकच सॉब्वानच विशय बदल्लो आनी गोंदळिल्ल्या अँथनीची सुटका जाली.

''त्या दिसा पिकनिकेच्या वेळार म्हजी आनी चार नोकरांची खरेल्या अर्थान सत्व परीक्षा जाली.'' अँथनीन डायरेंत बरयलां : ''राजा आनी राणी हांचे मोगाचे खेळ थंय उक्त्यारच सुरू जाले. दोगांच्याय पोटांत खूबसो सोरो पाविल्लो. म्हाकाय थोडी घुंवळ चडिल्ली. भिरांत दिसताली ती इतलीच कि तोल सुटून हांव ईदाकडेन आगळीक करीन म्हणपाची. रंगूनाच्या क्लबांनी तिणे कसले तरेचे चाळे केल्ले आसूं येतात ताजी पुराय कल्पना तिगेल्या त्या वेळावयले वागणुके वयल्यान म्हाका आयली. पातक पुण्याचो म्हाका व्हडलोसो विधीनिशेध ना. पूण सॉब्वाकडेन दीस काडचेले आसात हाजें भान म्हाका आसलें... म्हज्या मनांत आमेलिनाची याद चाळवली... नोकरांची कितें आवतिकाय जाल्ली आसत तें हांव समजूंक शकतालों... राजाल्या धाकाक लागून आमी आमचीं मनां मारिल्लीं... रावं नज जावन हांव वझ्ऱ्याचेर गेलो आनी थंड उदक तकलेर घेतलें.''

त्या दिसा अँथनीन एक नवो अणभव घेतलो. खंयच्याय नायट क्लबांत पळोवंक मेळचे नात असले खेळ ताणे पळयिल्ले. ताका दिसलें एक दीस ही ईदा सॉब्वाक सोडून कोणाचोय हात धरून पळून गेली जाल्यार अजाप करपाचें कारण ना.

''ईदाकडेन पळोवपाची म्हजी नदरच बदल्ली.'' अँथनीन डायरेंत फुडें बरयलां,'' हांव तिजी लग्नाआदलीं जीण जाणा आसलो. ते जिणेविशीं ईदानय म्हाका लजमीड बाळगिना आसतना सांगिल्लें. पूण सॉब्वाची बायल जातकच लेगीत तिजी वागणूक बदलूंक ना हाजें म्हाका अजाप दिसता. मांगशिशच्या एकांतांत हे राणयेक वश करप सोपें अशें म्हाका दिसूंक लागलें. घडये तिजें म्हजेर मन बशिल्लें आसूये... पूण आतां म्हजेंय तिजेर मन बसलां.''



ल्हवू ल्हवू मांगशिशातल्या वातावरणांत अँथनी रमूंक लागलो. झूज बेगसार सोंपपाची चिन्नां नासलीं. अँथनीची कामां दोन तरांची आसतालीं. एक घरगुती आनी दुसरें सरकारी. सॉब्वाचे नदरेन अँथनी हो एक 'सांगकामो' आसलो. ताणे आपले आनी ईदाचें किजील जाग्यार घालचें आनी दोगांचीय खुशामत करची हेंच ताजें मुखेल काम. हेरांपरस अँथनी ताका भरवंशाचो दिसतालो. ताजें कारण म्हळ्यार तो विदेशी नागरीक. मांगशीश राज्यांत ताका इश्ट नात वा सोयरे नात देखून राजवाड्यांतल्या गजालीच्यो तो चाडयो करचो ना. ईदा एक नर्तकी आनी तिजी पूर्वजीण मात्शी ढील हाजी पुराय जाणीव आशिल्ल्या सॉब्वाक अँथनी हो तिजो विश्वासू सांगाती जावं येता अशेंय ताका दिसतालें. अँथनीक दोनय कामां करपाची आस्था नासली. ताजी नदर झुजाच्या खबरांकडेन थिराविल्ली. केन्ना एक खेपे झूज सोंपता आनी आपूण गोंयांत पावता अशें ताका जाल्लें. लंडनच्या पत्त्याचेर ताणे बापायक पत्र धाडलें. ताज्या उत्तराची ताका अपेक्षा नासली.

राजवाड्यांत सद्दां सकाळीं मंत्रिमंडळाची बसका भरताली. हे बसकेक सगळे मंत्री आनी वरीश्ट अधिकारी हाजीर आसताले. अँथनीक ते बसकेक वचचेंच पडटालें. ती बसका म्हणचेय परस सॉब्वाचें दर्शन घेवपाचो सुवाळो म्हळ्यार सारकें जातलें.

बसका केदो वेळ चलची हें सॉब्वाच्या मुडाचेर आदारिल्लें उरतालें. मूड बरो आसल्यार बसका खूब वेळ चलताली ना जाल्यार सॉब्वा सगळ्यांक तापोवन काडून उठून वतालो. सामान्यतायेन असल्या बसकांनी मंत्री आपल्या खात्याचो नियाळ सॉब्वाक दिताले आनी मनांत आयलें जाल्यार सॉब्वा कसल्योय सुचोवण्यो दितालो. चड करून जें काम जालां अशें मंत्री सांगत तेंच करतालो, सांगतालो. एके भाशेन आपल्या आदेशानच तें काम जालां अशें समाधान ताका घेवचेलें आसतालें.

एक दीस सॉब्वान भर दरबारांत अँथनीक म्हळें, ''तूं सगळ्या राज्याची भोवडी कर आनी हांगाचे प्रस्न समजून घेवपाचो यत्न कर.''

अँथनीक ती एक बरी संद आसली. सॉब्वा आनी ईदाच्या झगड्यामदीं ताजो घुस्मटमार जातालो.

मांगशीश भोंवता आसतना त्या देशाची सैमीक सोबा आनी गिरेस्तकाय अँथनीचे नदरेंत भरूंक लागली. राज्यांतले शान जमातीचेर देवाची खाशेली कृपा आसा अशें ताका दिसूंक लागलें. थंड हवा आनी पिकाळ भूंय. शेतां आनी बागांचो आळशी शान लोक व्हडलोसो वावर करिनात, तरी तांदूळ आनी फळां खूप पिकतात. गोरवां आनी कुकडांक लागून लोकांची येणावळ वाडटा. गांवां कणकणीं भातापसून तांदूळ करपाच्यो हातान चलोवपाच्यो गिरणी. मुसळान धाडावनच तांदूळ करपाची ती वेवस्था म्हणूंक जाय. वचत थंय न्हंयो आनी वझऱ्यांचे पाट.

इतल्या दिसा उपरांत अँथनीक समजले कि, राज्यांत फकत स पोलीस आसात

आनी एक तांचो मुखेली. फाटल्या ४० वर्सांत कसलोच गंभीर गुन्यांव घडूंक ना. हांगासल्ले लोक झाडांचे सांवळेत पुंजक्यांनी बसून खबरांत रंगतात तें ताणे पळयिल्लें. तांच्या हातात एके तरेची गांवठी विडी.

सप्तकभर अँथनी राजवाड्यांत पावलोच ना. सप्तका उपरांत फांतोडेचेरच सॉब्वाचो रकाद घेवन एक पोलीस आयलो. अँथनीक सॉब्वान आपोवंक धाडिल्लो.

''कितें जालां ?'' अँथनीन पोलीसाकडेन वासपूस केली.

''खबर ना.'' ताणे म्हळें, ''ताका थंडी जाल्या आनी जोर आयला आसूये.''

अँथनी राजवाड्यांत पावलो तेन्ना ताणे पळयलें, सगळें पोलीस दल राजवाड्याच्या दारांत तरसादी घेवन उबें आसा. हेर नोकर भायर बागेंत पुंजक्यांनी उबे आसात. कितेंय तरी वेगळें घडिल्लें. अँथनी राजवाड्यांत भितर सल्लो.

सॉब्वा एक कांबळ गुठलावन कदेलाचेर बशिल्लो. ताजे पांय हून उदकाच्या टबांत ताणे बुडयिल्ले. चार - पांच जाण जमनीचेर बशिल्ले आनी पोलीस खात्याचो मुखेली तांकां कितें तरी विचारतालो.

''तुजें नांव कितें ?''

''आ कां''

''तुगेलो कितलो तांदूळ चोरयेक गेलो ?''

''तीन काती.''

''तुका कोणाचो दुबाव येता ?''

''बा मो.''

''बामोनच तांदूळ चोल्ले अशें तूं कित्याक म्हणटा ?''

''सगळ्यांचे चोरल्यात.''

पोलीस अधिकाऱ्याकडलो गांवकऱ्यांचो हो संवाद चलता आसतना थंय आशिल्ल्या एकल्यान म्हळें, ''मळबाक दोळे आसात. बा मो चोर. तो लोकांच्यो वस्तू आनी बायलो चोरता. चोरयेच्ची संवय जातकच चोर दिसत ती वस्त चोरूंक लागता. ताका लज उरना वा बुध्दाचो भय उरना.''

जमनीर बशिल्ल्या सगळ्यांनी तकली हालोवन हय म्हळें.

सगळ्यांचो एकाच मनशाचेर आरोप आसा. सॉब्वाकडेन तोंड करून पोलीस अधिकाऱ्यान विचाल्लें, ''ताका हांव धरूं ?''

''हय. धरून बंदखणीत घाल. फाल्यां सकाळी दरबारांत हाड.''

''पूण बंदखणीक कुलप ना.'' अधिकाऱ्यान म्हळें.

''नासूं. तो पळून वचचो ना.''

सॉब्वा मुखार बागोवन पोलीस अधिकाऱ्यान सगळ्या गांवकाऱ्यांक उठयले आनी तांचे सयत तो घरा गेलो.

सॉब्वा खूबच खंती दिसलो. अँथनीक लेखून ताणे म्हळें, ''तीस वर्सांमदीं पयलो

चोर ! शान केन्नाच चोरिना. हो बा मो कोण तो पळोवचो पडलो.''

''पूण ताज्या आड पुरावो कितें ?'' अँथनीन विचाल्लें.

''पुरावो कसो आसतलो ? चोरता तो पुरावो दवरून चोरिना.'' सॉब्वान जाप दिली, ''पूण खूबशा जाणांच्यो बायलो ताणे चोल्ल्यात अशो कागाळ्यो म्हजेकडेन ह्या आदींय आयिल्ल्यो.''

''पूण आतां ताका आमी बायलो चोरल्यो म्हणून धरिनात न्हय ?''

''तें खरें. पूण चोर हो चोर. सुणे एक खेपे शेण खावंक लागलें जाल्यार ते सदांच शेण खातलें. ताका धरून हाडूया. मागीर पळोवया. चोर जाल्यार पळून वतलो. चोर नासत जाल्यार उकते बंदखणीत रावतलो.''

सॉब्वाचो तर्क अँथनीक पटलो ना. पूण सॉब्वाच्या न्यायाची एक तरा ताका फाल्यां पळोवंक मेळटली.



सॉब्वाची न्याय दिवपाची पध्दत अँथनीक विचित्र दिसली. पूण राजाकडेन वाद कसो घालूं येता ?

''चोर पळून गेल्यार मागीर ताका धरतले कशे ?'' आपलो दुबाव अँथनीन उक्तायलो.

''आमकां तो पळून गेल्लोच जाय. चोराक बंदखणींत दवल्लो जाल्यार ताका पोसचो पडटलो. पळून राज्याभायर गेलो जाल्यार तो राज्यांत परत येवचो ना. दुसऱ्या राज्यांत वचून तो कितें करतलो तो ताजो प्रस्न.'' सॉब्वान हांसून जाप दिली.

''आनी तो पळून गेलो ना जाल्यार ?'' अँथनीन दुसरो प्रस्न विचाल्लो.

''जाल्यार वासपूस करप आनी ताका ख्यास्त फर्मावप. न्यायाधीशाचें काम तुका करचें पडटलें. म्हाका खात्री आसा तूं चोराक फाव ती ख्यास्त दितलो.''

एक नवें काम अचकीत अँथनीकडेन येतालें. अँथनी येवजूंक लागलो. ताणे कोर्टांत वासपूस कशी करतात तें पळोवंक नासलें. कायद्याचो तर ताका गंध नासलो. ताजें मन फाटींफुडे जातासर सॉब्वान म्हळें, ''ह्या दरबाराचे कुशीक न्याय दिवपाचो दुसरो दरबार भरतलो. थंयच तुजें कोर्ट सुरू कर. त्या सालांत फाटलीं पन्नास वर्सां कोणच वचूंक ना दिस्ता.''

''हांगा वकील आसात तर ?'' अँथनीन विचाल्लें.

''वकील ? वकील म्हळ्यार कितें ?'' सॉब्वाचो प्रस्न.

मांगशिशांत न्यायाधीश ना आनी वकील ना इतलें अँथनीक समजल्लें. पूण सॉब्वान विचारिल्ल्या प्रस्नाची जाप ताका दिवचीच पडली.

अँथनीन वकिलाचो वेवसाय कसो चलता हें सॉब्वाक समजायलें. तेन्ना सॉब्वान

म्हळें, ''दुसऱ्यांचे सांगणेर पातयेवं नाका. देवाचें नांव घेवन जो उलयता तें खरें काय फट हें तूंच थाराय आनी ख्यास्त दी वा सोडून दी. ओगीच घुस्पागोंदळ वाडोवं नाका.''

एके वटच्यान अजाप आनी एके वटच्यान उमेद अशा भावनांनी अँथनीचें मन उचांबळून आयलें. रातभर तो न्यायदानाविशीं विचार करीत रावलो. पन्नास वर्सां आदीं राजाच्या एका मंत्र्यान न्यायदानाचें काम केल्लें इतलें तो आयकून जाणा आसलो. ताका मेळून मांगशिशची न्याय पध्दत समजून घेवची अशें अँथनीन थारायल्लें.

सकाळीं बेगीन उठून अँथनी तागेर गेलो. तो जाण्टो मनीस आपल्या घरांच्या दारांत जमनीर बसून फुटी च्या पितालो. तो उक्तोच आसलो. अँथनीन ताका अभिवादन केलें आनी आपुण कित्याक आयलां तें सांगलें.

''राव तर.'' ताणें म्हळें. तो उठलो. भितर गेलो. आंगार भेस चडयलो आनी मागीर अँथनीक भितर आपोवन ताणें म्हळें, ''तूं अजून भुरगो आसा. तूं न्याय कसो दितलो ? तुजो अणभव कितलो सो ? सॉब्वाचें कितें तरी चुकता. तूं अशें कर. गुन्यांवकाराक म्हजेसरीं हाड.''

तो इतल्या अधिकारान उलयलो कि अँथनीक ताका जाप दिवपाचें धाडस जालें ना.

''तशें हांव सॉब्वाक सुचयतां.'' अँथनीन म्हळें.

''हय. तशेंच कर.'' जाण्टेल्यान जाप दिली, ''गुन्यांवकाराक न्याय दिवप हें सोपें काम न्हय. सॉब्वाक विचार, केस म्हज्या घरा चलोवची काय दरबाराच्या सालांत ? आनी कोर्टांत सगळे शिपाय हाजीर रावंक जाय.''

अँथनी तकली हालयली. गुन्यांवकार कोण अशी ताणे वासपूस केली. आपणाक जितलें खबर आशिल्लें तितलें अँथनीन सांगलें. तें आयकून त्या निवृत्त न्यायाधीशान म्हळें, ''कन्फ्युशियसान कायदो सांगून दवल्ला. तुवें तो वाचला ?''

''ना.'' अशें म्हणून अँथनी उठलो.

अँथनीक दिशिल्लें कि बा मो हो चोर रातीकडेन पळून गेल्लो आसतलो. वासपूस करतकच कळ्ळें कि तो पळून वचूंक ना.

अँथनी सॉब्वासरीं गेलो आनी निवृत्त न्यायाधीशाकडेन जाल्ल्या उलवण्याची खबर ताका दिली.

सॉब्वा एकदम उसळ्ळो.

''हांव सुदारणा हाडूंक सोदतां आनी तूं पोरणी रीत चलोवंक सोदता जाल्यार तुजी गरज तरी कितें ?'' ताणे विचाल्लें.

अँथनीन सॉब्वाक समजायलो. ''देश तशी रीत आसता. ती एक खेपे समजून घेवपाची संद म्हाका दिवची. आज हांव मांगशिशचें न्यायदान पळयतां आनी तें गैर

दिसलें जाल्यार हांव नवी पध्दत आपणायतां.''

सॉब्वा कबूल जालो. पूण ताजें समाधान जावंक ना, इतलें तोंडावेल्यान दिसलें.

परत निवृत्त न्यायाधीशागेर वचून अँथनीन सॉब्वाची मान्यताय ताका कळयली.

''तर हांव दोन वरांचेर कोर्टांत येतां. तूंय यो.''

दोन वरांचेर न्यायाधीश यांग थंय पावलो. तोमेरेन सशस्त्र पोलीस थंय आसलेच. एक ल्हानशेंच फ्लॅटफॉर्म, ताजेर एक लाकडी मेज. म्हऱ्यांत एक मनीस हातांत दांडो घेवन उबो. न्यायाधीशाच्या मेजाचेर पेटयिल्ल्यो उजवाती. कांय कागदां. न्यायाधीशान वापरपाखातीर एक चाबूक.

न्यायाधीश येवन आसनाचेर बसलो आनी पोलीसांनी चोराक हाडून न्यायाधीशामुखार उबो केलो. एक मोटवो तरनाटो. हातकापें खोमीस आनी खाकी मोटवे कल्सांव. तो आयलो आनी हात जोडून उबो रावलो.

अँथनीक बसूंक थंय कदेलच नासलें. न्यायाधीशाचे एके कुशीक तो उबो रावलो.

''तुजें नांव ?'' न्यायाधीशालो गुन्यांवकाराक प्रस्न.

''बा मो.''

''पिराय ?''

''अठ्ठावीस.''

''तूं शान जातीचो ?''

''हय.''

''कसलें काम करता ?''

''शेतांत काम करतां.''

''तुवें शेजाऱ्यांले तांदूळ चोल्ल्यात हें खरें ?''

''न्हय. दुसऱ्याले वस्तूक हांव केन्नाच हात लायना.''

''पांच जाणाले. एकल्याले न्हय. तांदूळ तुवें चोल्ल्यात. तांचें म्हणणें तूंच चोर. तरीय तूं फट उलयता ?''

''मळबाक दोळे आसात सायबा.'' बा मोन जाप दिली. ''जर हांवें चोरी केल्ली आसत जाल्यार म्हजेर जोगूल पडून गोबोर जांव.''

न्यायाधीशान चाबूक उखलून मेजार वाजयलें आनी व्हडान म्हळें, ''तूं फट उलयता.'' आनी मागीर बडी घेवन आशिल्ल्या मनशाक ताणें सांगलें, ''दा'' म्हळ्यार मार.

दोग जाणांनी बा मोक धल्लो आनी जमनीर आडवो केलो.

''कितले खेपें मारूं ?'' दंडधारी मनशालो प्रस्न.

''वीस.''

बा मो चे फाटीचेर वीस दांडे पडले. दांडो फुटलो आनी बा मो किळचलो.

मार दीवन जातकच ताका शिपायांनी परत उबो केलो. न्यायाधीशान विचाल्लें, ''तुवें तांदूळ चोल्ल्यात ?''

''ना.'' बा मोन तीच जाप दिली.

''तीस फटके !'' कोर्टाचो आदेश.

हे खेपेक बा मो काळो निळो जालो. तो मार खातकच तो थुकलो. तरी ताणे चोरी कबूल केली ना.

''पन्नास फटके !''

पूण पन्नास फटके पूर्ण जावचे आदींच बा मोन चोरी कबूल केली !

''कित्याखातीर तुवें तांदूळ चोरले ?''

''एके बायलेचे सांगणेन.''

''खंय आसा ती बायल ?''

''ट्रक ड्रायव्हरा सांगातान पळून गेली.''

''चोरी करप हें पातक. बायलेचे सांगणेन करप हें व्हड पातक. पोटाखातीर चोरिल्ले जाल्यार तुका माफी दिवं येताली. तुका हांव तीन म्हयन्यांची बंदखण फर्मायतां.''

न्यायाधीश उठलो. अँथनीसरीं आयलो. ताणें म्हळें, ''आमच्या देशांत चोरयो जायनात. पूण आतां भायले ट्रक येतात. ते आमच्या बायलांची दानत इबाडटात. देखून चोरयो जातल्यो.''

जें जालें तें सॉब्वाक मानवलें ना. दुसऱ्या दिसा सॉब्वान अँथनीक सांगलें, ''म्हाका न्यायाची ही पोरनी रीत बदलपाची आसली. देखून तुका न्यायाधीश नेमिल्लो. आतां जालां तें जालां. जालां ताजेर उपाय कितें ?''

''उपाय एकच. बा मो क देशाभायर धांवडावप.'' अँथनीन सुचयलें.

''चल तर, पोलीस अधिकाऱ्याक तशें सांग.''

अँथनी पोलीस अधिकाऱ्याक वचून मेळ्ळो.

''तो पळून वचचो ना. वचपाचो आशिल्लो जाल्यार पयल्याच दिसा वचपाचो. ताका बंदखणीत फुकट जेवणां मेळटलीं. ताका काबार करपाचो एकच उपाय म्हळ्यार मारून उडोवप.''

पोलीसांचो उपाय अँथनीक रुचलो ना. पुण पोलिस अधिकाऱ्यांचें म्हण्णे ताणे सॉब्वाच्या कानार घालें.

''दुसरो उपाय कितें ?''

''ताका थोडे पयशे दीवन ब्रह्मदेशांत धाडप.''

सॉब्वा हांसलो. ''चोराक लांच दिवप ? तें जावचें ना. चल, त्या चोराक म्हज्या मुखार उबो करूंक सांग.''

त्याच दिसा चोर सॉब्वामुखार उबो रावलो. अजापाची गजाल इतलीच आसली

कि बंदखणींत सुस्त न्हिदिल्लो हो चोर दरबारांत पावनाफुडें वायटकाराचें संवंग घेवंक लागलो.

''तुका कितें जालां ?'' सॉब्वान विचाल्लें.

''खूप मार दिलो.''

''हें पळय, पन्नास वर्सांत तूं पयलो गुन्यांवकार. तुका हांव कडक ख्यास्त दितलों. फातर फोडपाची.''

''मळबाक दोळे आसात सायबा. हांवें चोरी करूंक ना. माराच्या भयान हांव कबूल जालों. म्हजेर दया कर.''

''आतां दया ना.'' सॉब्वान म्हळें, ''रस्ते करूंक खडी जाय आनी खडी फोडपाचें काम तुजें.''

सॉब्वा उठलो आनी पोलिसांनी चोराक परत बंदखणीत व्हेलो.

तेच रातीकडेन बा मो पळून गेलो.



मांगशिशचे सामाजिक जिणेची ल्हवू ल्हवू अँथनीक वळख जावंक लागिल्ली. तागेली सगळी तिश्ठत सॉब्वाचें बरेपण घेवचे खातीर आसताली. ताका हुस्को जातालो तो ईदाचो. ताका दिसतालें, खंयचेय घटकेक ईदाचे बरेपण वा तिचे कडली संवकळ आपणाक म्हारग पडूं येता. ईदाच्या उतराक सॉब्वा मान दिता हें तो जाणा. पूण ईदाच आपणाचेर रागार जाली जाल्यार सॉब्वा आपले इत्सेआड लेगीत नोकरेवयलो काडीत आसलो. केन्ना केन्नाय ईदा अँथनीकडेन इतले संवकळीन वागताली कि सॉब्वाक नसतो दुबाव आयलो जाल्यार कितेंय विपरीत घडूं येतालें.

अशेच दीस वता आसतना कॉम्रेड तांग मांगशिशाक पावलो. यूनान प्रांताच्या गव्हर्नराची चीट घेवन तो आयिल्लो. तागेल्या कार्डाचेर तागेले साबार हुद्दे बरयिल्ले आसले.

सकाळच्या णव वरांचेर कॉम्रेड तांग सॉब्वाक मेळूंक आयलो. अँथनी त्या दिसा हांतुणाचेर लोळटालो. कोणे तरी येवन ताका उठयलो आनी कॉम्रेड तांग सॉब्वाक मेळूंक आयला म्हणपाची वर्दी दिली.

''ताका सांजवेळां आपय.'' हांतुणावयलो उठना आसतना अँथनीन जाप दिली.

रकाद घेवन आयिल्ल्या मनशान कॉम्रेड तांगालें कार्ड ताज्या हातांत दिलें. कार्डा सांगातान ताजी वळख दिवपी यूनान प्रांताच्या गव्हर्नराची चीट आसली.

ती चीट पळयनाफुडें अँथनी बेगीबेगीन उठलो आनी ताकतिकेन तोंड धुवन न्हेसलो.

''खंय आसा तो सोयरो ?'' ताणे नोकराक विचाल्लें.

''राजवाड्याच्या भायल्या सालांत ताका बसयला.''

अँथनी वचून कॉम्रेड तांगाक मेळ्ळो. ताज्या आंगार लस्करी गणवेश. गणवेशाची चारय बोल्सां भरून फुगिल्ली. अँथनीन आपली वळख करून दिली आनी ताजेकडेन हस्तांदोलन केलें.

''ताकतिकेचें काम नासत जाल्यार सॉब्वाक दनपरां मेळूया.'' अँथनीन सुचयलें.

''तशें ताकतिकेचें कांय ना. पूण सकाळचो सॉब्वा कोणाकच मेळना ?'' कॉम्रेड तांगान विचाल्लें.

''मेळटा... तशेंच गरजेचें काम आसलें जाल्यार.'' अँथनीन जाप दिली.

त्या उपरांत दोगांमदीं उपचारीक संभाषण जालें. अँथनी कोण खंयचो हें ताणे समजून घेतलें.

''हांव थोडे दीस विश्रांती घेवंक हांगा आयलां.'' कॉम्रेड तांगान अँथनीक सांगलें.

अँथनी ओगीच दुबावलो. पूण कांय उलयलो ना. कॉम्रेड तांगान सॉब्वाविशीं सगळी माहिती पुंजायिल्ली, हें ताज्या संभाषणावयल्यान दिसतालें. तो ईदाविशीं वासपूस करतालो. तिका कितें आवडटा, कितें आवडना हें समजून घेवंक सोदतालो. राजवाड्याच्या रिवाजाप्रमाणे नोकरांनी सोयऱ्यांक च्या दिली आनी निमाणे कॉम्रेड तांग वचूंक उठलो.

अँथनीक दिसलें कि बेगीन सॉब्वासरीं वचून कॉम्रेड तांगाची खबर ताका सांगची. पूण तो सॉब्वासरीं गेलो तेन्ना ताका कळ्ळें कि सॉब्वा उठूंकच ना.

दनपारचो अँथनी परत सॉब्वासरीं गेलो तरी तो भायर येवंक ना अशें ताका कळ्ळें. सांजवेळां चार वरांचेर सॉब्वाचो ड्रायव्हर अँथनीक आपोवंक आयलो. जेन्ना अँथनी सॉब्वाच्या घराकडेन पावलो तेन्ना भायरच कॉम्रेड तांग आनी ईदा बॅडमिंटन खेळटात हें पळोवन तो अजापभरीत जालो.

बॅडमिंटन कोर्टाचे एके कुशीक सॉब्वा बशिल्लो.

''ह्या मनशाक तुवें हांगा धाडलो ?'' सॉब्वान अँथनीक विचाल्लें.

''ना. तो दनपरां राजवाड्यांत येवपाचो आसलो.''

''तो जेवणाआदींच हांगा आयलो. येतना ताणे व्हिस्कीच्यो दोन बाटल्यो आनी इस्पिको हाडल्यो. येत सावन तो नाचप, पेंवप आनी खेळप असल्योच गजाली उलयता. म्हजे बायलेक तो मानवलो. कोण तो ?''

''म्हाका खबर ना.'' अँथनीन जाप दिली, ''पूण तो युनानच्या गव्हर्नराची चीट घेवन आयला. कम्युनिस्ट फुडारी आसतलो.''

''तो बरो ना खंय. ताका कितें जालां ?'' सॉब्वान विचाल्लें.

''म्हाका खबर ना. घडये कम्युनिझमाचो प्रचार करूंक तो आयला आसूंये.''

ॲंथनीन जाप दिली.

''लोकांची भाटांबेसां काडून सगळ्यांक वांटूंक ते (कम्युनिस्ट) सोदतात खंय. ताणे थोडेशे म्हजे हुस्के दुसऱ्याक वांटल्यार वायट जावचें ना.'' सॉब्वा हांसलो.

''ताजेर आमकां बारीक नदर दवरची पडटली.'' ॲंथनीन सुचयलें.

''तूं ताजो हुस्को करूं नाका.'' सॉब्वान म्हळें, ''आमचो शान लोक ताजेर विस्वास दवरचो ना. म्हजो हुस्को तो इतलोच कि तो मांगशीश राज्याविशीं सगळ्यो बारीक सारीक खबरो मेळयत. त्यो ताका मेळूंक फावनात. तो परत वतलो तेन्ना आमची बदनामी जातली. देखून ताका बरें तितलेंच दाखोवंक जाय. तें काम तुजें.

ॲंथनी कबूल जालो.

थोडो वेळ मेरेन सॉब्वा म्हऱ्यांत बसून ॲंथनीन बॅडमिंटनाचो खेळ पळयलो. कॉम्रेड तांगाक खऱ्यांनीच खेळूंक येना काय तो ईदाची खुशामत करूंक हारता तें ॲंथनीक कळ्ळें ना. कॉम्रेड तांग चिनी उच्चारांत इंग्लीश उलयतालो.

खेळ थांबलो आनी कॉम्रेड तांग ॲंथनीसरीं आयलो. आतां तो वेगळोच दिसतालो. पिकनिकेक आयिल्ल्या मनशासारको तो हांसून खेळून वागतालो. सकाळचो मनीस वेगळोच असो दुबाव येवपाइतली ताजी वागणूक बदलिल्ली.

च्या च्या टेबलाचेर खेळाचो विशय कुशीक पडून नाचाचो विशय केन्ना आयलो तें कोणाक कळ्ळेंच ना. लोकनाचामदीं ज्यो साबार तरा आसात तांची इंग्लीश नाचाकडेन सुसंगत सादून नवे तरेचे नाच मांगशिशांत तयार जावंक पावले जाल्यार त्या पथकांक इंग्लंडाक धाडूं येतलें असो एक प्रस्ताव जेन्ना कॉ. तांगान मांडलो तेन्ना सॉब्वान तोंड इल्लें गंभीर करून ॲंथनीकडेन पळयलें. पूण सॉब्वाचे प्रतिक्रियेची पर्वा करिना आसतना ईदान म्हळें, ''हें काम तूंच कित्याक करिना ?''

''हांव व्हड खोशयेन तें काम करीन.''

''कितें करीन ?'' सॉब्वान मदींच प्रस्न केलो.

''तो आमच्या लोकांक नाच शिकयतलो.'' ईदान जाप दिली.

''नाच ?'' कपलाक मिरयो घालून सॉब्वान प्रस्न केलो.

''एदो वेळ आमी नाचाविशीं उलयतात. तूं कितें आयकतालो तर ?'' असो सॉब्वाक प्रस्न करून ईदान म्हळें, ''ताका इंग्लीश भास सारकी समजना.''

''ना. ना. समजलें.'' सॉब्वान म्हळें, ''प्रयोग करून पळोवंक म्हजो विरोध ना.''

राजवाड्यांतल्यान परतुपाच्या वेळार ॲंथनीक प्रस्न पडलो. व्यापाराखातीर ब्रिटीश हिन्दुस्तानांत गेले आनी थंयचे राजा जावन बसले. कॉ. तांग नाच शिकोवंक हांगा रावलो जाल्यार मांगशीश राज्य कम्युनिस्टांच्या ताब्यांत वचचें ना मू ?

पूण सॉब्वाचे आज्ञेन नाचाचे वर्ग सुरू जाले आनी सगळ्या मांगशीशभर तरण्यो

चलयो आनी चल्यांमदीं उमेदीचें ल्हार उसळून आयलें. आपल्या विद्यार्थ्यांक कॉम्रेड तांग बौध्दिकां दितालो आनी जण एकल्याक हाताक धरून नाच शिकयतालो.

नाच पळोवंक लोक जमूंक लागलो आनी लोक पळयतकच कॉ. तांग लोकांक एकठांय येवन एकवटान आपले प्रस्न सोडोवपाचो उपदेस दिवंक लागलो.

अँथनी मात्सो दुबावलो. पूण ज्या खिणाक कॉ. तांगान धर्माआड भाशण केलें त्या खिणाक शांत, आळशी शान समाज खुबळ्ळो आनी जेन्ना ह्या 'अधर्मी' मनशाची खबर शारांत सगळेकडेन पावली तेन्ना सॉब्वाक हुस्को दिसूंक लागलो. खुबळिल्लो लोक कॉ. तांगाचेर हात उखलीत म्हणपाचो हुस्को आसलोच, पूण ताजेयपरस चड तसो हात उखलिल्ल्यान ताजे राजकी परिणाम कितें जायत हो आसलो.

''हाजेर कितेंय तरी उपाय सोदून काड.'' सॉब्वान अँथनीक सांगलें.

पूण अँथनीक चड येवजुचें पडलें ना. राज्यांत एक अधर्मी मनीस आयला आनी तो धर्म सोडपाचो संदेश लोकाक दिता इतली खबर बौध्द मठाच्या भिक्षूच्या कानामेरेन जेन्ना पावली तेन्ना भिक्षून एक व्हडली ग्रामसभा आपयली. ते सभेक जमिल्लो लोक पळयतकच अँथनीन सॉब्वाक सांगलें, ''कॉ. तांगाचो प्रस्न आमी सोडोवपाची गरज ना. भिक्षू तो सोडायतलो.''

बौध्द धर्मगुरूकडली अँथनीची पयली भेट कॉम्रेड तांग हांगेल्या धर्मविरोधी भाशणाक लागून घडली. मुख्य धर्मगुरू सॉब्वाक मेळूंक गेलो आनी सॉब्वान अँथनीक आपोवन घेतलो.

धर्मगुरूविशीं अँथनी आयकून जाणा आसलो. धर्मगुरूची मर्जी आसा तो मेरेनच सॉब्वाचें राज्य चलतलें अशें सगळेच मानताले. शान जमातीचेर धर्मगुरूचो तितलो प्रभाव आसलो.

माथें बोडकें केल्लो आनी भगवीं वस्त्रां गुठलायिल्लो धर्मगुरू सुमार पंचावन्न वर्सांचो आसतलो अशें अँथनीक दिसलें. उजव्या हातांत काळ्या मणयांची एक माळ आसली. आंगठ्यान तो एकेक मणी मेजतालो. सॉब्वाचे कुशीक एका सोफाचेर तो बशिल्लो. ताजे कुशीक बशिल्लो दुसरो एक भुरगो भिक्षु, जो ताजो शिष्य आसूंये. शिष्याचो भेस धर्मगुरूसारकोच आसलो; पूण ताजी पिराय बारा - तेरा वर्सांपरस चड आसची ना.

सॉब्वान अँथनीची वळख करून दिली आनी धर्मगुरून हात जोडून प्रार्थना केली : ओ मी तो फू (देवा, दया कर)

''सेक्रेटरी अँथनी,'' सॉब्वान पयलेच खेपे नांव घेवन ताका उलो माल्लो आनी म्हळें, ''तुगेल्या कम्युनिस्ट मित्राक राज्याभायर धाडचो अशें धर्मगुरू सांगता. तुजें कितें म्हणणे ?''

कॉम्रेड तांगाचें समर्थन केल्यार धर्मगुरूचो राग पत्करचो पडटलो हें वळखून

ॲंथनीन म्हळें, ''आमचो लोक तागेले सांगणेर विस्वास दवरीत अशें म्हाका दिसना.''

''तो सैतान.'' अधिकार वाणीन धर्मगुरून सांगलें, ''ताका मांगशिशांतलो धांवडावचो हो बुध्दाचो आदेश. तो शेणाच्या थाप्यासारको हांगा उल्लो जाल्यार घाण येतली.''

''ताणे धर्माविशीं कितें सांगलें ?'' सॉब्वान ॲंथनीक विचाल्लें.

''तो सांगता धर्म आनी भुतां लोकांक फटोवपाखातीर कल्पनेंतल्यान निर्मिल्यांत.'' ॲंथनीन जाप दिली.

''खरें म्हळ्यार असल्या मनशाक धरून बंदखणींत घालूंक जाय. ताका देशांतल्यान भायर काडप ही दयाळू बुध्दाची सौम्य शिक्षा.'' धर्मगुरून म्हळें.

''हय, ताका धांवडांवकच जाय.'' सॉब्वान आपलें मत उक्तायलें, ''पूण एक प्रस्न आसा, हो मनीस गव्हर्नराची चीट घेवन आयला. ताका कसो धांवडावपाचो ?''

''गव्हर्नराचें बरेपण दवरूंक बुध्दाचो आदेश विसरूं नाका.'' धर्मगुरून सॉब्वाक शिटकायलो, ''हो मनीस म्हळ्यार दोळ्यांत पडिल्लो खिळो. तो हांगा उल्लो जाल्यार देव लेगीत कोपतलो !'' इतलें सांगून धर्मगुरू उठलो. शिष्यय उबो रावलो.

तरी कॉम्रेड तांग मांगशीशाक आसलो आनी तो सॉब्वागेर वयलेवयर येतालो. ईदाचो वेळ ताज्या सांगातान बरो वता हेंय एक कारण आसूये.

एक दीस सांजच्या वेळार कॉम्रेड तांग नाचाचे वर्ग घेतालो. तेन्ना ॲंथनी हॉटेलांतल्या तागेल्या रुमांत गेलो. थंय ताका लेखाचें एक कात्रण मेळ्ळें. लेख कॉम्रेड तांग हाणेंच बरयिल्लो आनी त्या लेखांत मांगशिशाच्या राज्यकर्त्यांची, धर्मगुरूंची यथेच्छ निंदा केल्ली. तो लेख वाचून ॲंथनीक अजाप जालें. सॉब्वाली राजवट ही भ्रश्ट सरंजामशाय आसून नाचरे बायलेची खुशामत करून तो जीण सारता, अफू आनी गांजाचे घुंवळीत न्हिदता आनी आपले मौजेखातीर गरीब लोकांचे शोषण करता. मांगशीश राज्याचे निंदेन भरिल्लो तो लेख वाचून ॲंथनीक राग आयलो आनी तें कात्रण व्हरून ताणे सॉब्वाक दाखयलें.

सॉब्वाक चिनी भास वाचूंक येताली. लेख वाचून तो रागार जावचे बदला खंती जालो. कात्रण परत ॲंथनीकडेन दिवन ताणे म्हळें, ''तो आता हांगा उरूंक उपकारना.''

''ताका धांवडावपाचो ?''

''न्हय. कितें तरी उपाय करचो पडटलो.''

ॲंथनीक दिशिल्लें कॉम्रेड तांग कात्रण सोदूंक ताजेसरीं येतलो. ताका लागून दोगांयमदीं झगडें जातलें. पूण तशें कांय घडलें ना. आपल्या लेखाचें कात्रण ॲंथनीकडेन पावलें म्हणपाचें लेगीत ताका खबर नासूये.

दुसऱ्या दिसा सकाळी अँथनी राजवाड्यांत गेलो तेन्ना एका चाकरान ताका भायरच आडायलो.

''सॉब्वा धर्मगुरूकडेन उलयता. कोणाक भीतर धाडूं नाका अशें सांगलां.'' ताणे म्हळें.

अँथनी वरभर भायर उल्लो.

वरा उपरांत जेन्ना अँथनी सॉब्वाक मेळ्ळो तेन्ना सॉब्वान म्हळें, ''कॉम्रेड तांगाचें कितें करचें हें भिक्षू थारायतले.''

''ते कितें करतले ?'' अँथनीन विचाल्लें.

''म्हाकाय खबर ना.'' सॉब्वान जाप दिली, ''पूण हांव इतलें जाणा ते ताका मारचे ना. ते ताजो खून करचे नात.''

अँथनीक ओगीच कॉम्रेड तांगाचो हुस्को दिसूंक लागलो. कितेंय विपरीत घडचे परस ताणे आपूण जावन वचचें अशें अँथनीक दिसूंक लागलें. ताका शिटकावणी दिवंक अँथनी नाचाचे वर्ग चलताले ते सुवातेचेर गेलो. थंय ताणे वेगळोच देखाव पळयलो.

सुमार २० - २५ भिक्षू आपले ड्रम वाजयत त्या हॉलाभायर जमिल्ले आनी तांचें मुखेलपण खासा धर्मगुरू करतालो.

धर्मगुरून हात केलो आनी ड्रमाचो आवाज थांबलो. नाच शिकूंक आयिल्ल्यो चलयो भायर आयल्यो. धर्मगुरून ल्हानशें भाषण केलें, ''जो देवाआड पातक करता ताका देव क्षमा करता. फुडल्या जल्मांत तो हुंदीर वा दुकर जावचो न्हय हे खातीर ही क्षमा आसता. ओ ती तो फू...'' आनी धर्मगुरून प्रार्थना सुरू केली.

कॉम्रेड तांग केन्ना अँथनीसरीं आयलो हें ताकाच कळ्ळें ना. ताणे अँथनीचो हात धल्लो आनी विचाल्लें, ''हें कितें चल्लां ?''

''तुवें धर्मगुरूचें भाशण आयकलें ना ?'' अँथनीन विचाल्लें.

''ताजो रोख म्हजेर काय कितें ?''

''अशें दिसता.''

''हो खेळ केदो वेळ चलतलो ?''

''तुजीं पातकां देव माफ करी मेरेन.''

कॉम्रेड तांग व्हडाव्हडान हांसलो. ताणे नाच शिकपी चलयांक हॉलांत वचूंक सांगलें. त्याच वेळार भिक्षूंनी परत ड्रम वाजयले. तो आवाज सोसूंक नज जावन अँथनी आपल्या घरा परतलो.

रातभर ड्रम वाजताले.

दुसऱ्या दिसा सकाळीं कॉम्रेड तांग अँथनीसरी आयलो आनी विचारूंक लागलो, ''सेक्रेटरी, ह्या भिक्षूंक तुज्यान कांयच करूंक जायना ?''

भावार्थीपणाचें संवंग हाडून अँथनीन विचाल्लें, ''तुका रातभर न्हीद पडली ना

दिसता. तूं तांचेकडेन कित्याक उलयना ?''

''ते म्हजेकडेन उलोवंकच तयार नात.'' कॉम्रेड तांगान कागाळ केली.

''हांव सॉब्वाकच वचून मेळटां.'' अशें म्हणून कॉम्रेड पाय आपटीत सॉब्वासरीं गेलो. ताजे फाटल्यान अँथनी.

कॉम्रेडाली कागाळ थंडसाणेन आयकून घेवन सॉब्वान म्हळें, ''आमच्या राज्यांत धर्मगुरूंचो अधिकार आसता. हांव कांयच करूंक शकचों ना.''

''तर म्हाका दुसरें घर दी. हांव थंय रावतां.''

''ते थंय आयले जाल्यार ? भोगूं तुजें !'' सोब्वा चुरचुरलो.

निर्शेणेन आनी रागान काळो निळो जाल्लो कॉम्रेड तांग भोन्यांनी परतलो.

तो वता थंय ताज्या फाटल्यान भिक्षू वचूंक लागले. तीन दीस आनी तीन राती अशें चल्लें. चौथ्या दिसा कॉम्रेड तांग मांगशीश सोडून गेलो.



चिनी नवें वर्स ही मांगशीश राज्यांतली व्हडांतली पर्वणी. चंद्राचेर आदारिल्ल्या चिनी पंचांगाप्रमाणें नवें वर्स जानेवारी वा फेब्रुवारी म्हयन्यांत येता. नवें वर्स लागीं पावलें म्हण्टकच शान जमातींत सोयरिको जुळवपाचो सीझन सुरू जाता. त्या निमित्त्यान 'तुई पावो वाई' म्हळ्यार उशांचो खेळ घडोवन हाडटात. सप्तकभर तरेकवार खाणां खावचीं आनी कामां बंद दवरून घरा बसून चकाटां मारचीं वा व्हिदो काडच्यो आनी सांजच्या वेळार उशांचो खेळ खेळूंक वा पळोवंक वचचें अशी शान जमातीची रीत आसता.

शान राज्यांनी, कित्याक कोण जाणा, लग्नाचे पिरायेच्या चलयांचो आंकडो थोडो चले चड. दुसऱ्या राज्यांतलेय खूबशे चले उशांचो खेळ खेळूंक ह्या दिसांनी मांगीशिशाक येतात आनी मांगशीश राज्यांतल्या चलयांमदीं मनासारको घोव मेळोवपाखातीर सर्त लागता. एक बरो भुरगो मेळप ही भाग्याची गजाल आशिल्ल्यान सरादीपलतडच्यान आयिल्ल्या भुरग्यांच्या कुळाशीलाची खबर काडपाचें काम घरांतले दादले करतात. एका चौकांत रातीच्या वेळार उशांचो खेळ चले आनी चलयो खेळटात. सोयरिको जुळोवपाची ती एक तरा.

उशांचो खेळ सादो आसता. ह्या खेळाखातीर चलयो सोबीत भरतकाम केल्लीं उशीं घेवन येतात. एका अर्दान चलयो रावतात आनी दुसऱ्या अर्दान चले. वयांत आयिल्ल्या चलयांकच हो खेळ खेळपाची मेकळीक आसता. चली मोखता तें उशें चल्यान जिखपाचें आसता. खंयच्याच लग्न जावंक नाशिल्ल्या चलयेच्यान हो खेळ खेळूं येता.

चल्यान उडयिल्लें उशें चलयेच्या हातांतल्यान सकल पडलें वा चलयेक जिखूंक आयलें ना जाल्यार चलो इनाम मागता. चलयेक तो भुरगो पसंत आसलो जाल्यार

ती ताका कर्णफूल, हातांतलें कांकण व गळ्यांतली माळ भेटयता. जर चल्याक ती चली पसंत जाली जाल्यार ती वस्त परत दिवंक तीन दिसांभितर ते चलयेगेर येता आनी ते चलयेन उडयिल्लें उशें सकल उडोवन तिगेली वस्त परत दिता. चल्याकडल्यान उशें सकल पडलें जाल्यार चल्यानय चलयेक इनाम दिवचें पडटा. उशें मुद्दाम सकल उडोवप म्हळ्यार आवड उक्तावप अशें मानतात. लग्ना उपरांत चलो चलयेगेर रावंक येता.

जेन्ना चिनी नवें वर्स लागीं पावलें तेन्ना सावन सॉब्वा अँथनी फाटल्यान लागलो.

सॉब्वा अँथनीक म्हण्टालो, ''ब्रह्मचाऱ्याचें दुखख हांव समजूंक शकतां. देवान तुका एक बायल दवल्ल्या. ती शान चली आसली जाल्यार तूं भाग्यवंत म्हणूंक जाय.''

एक दीस सॉब्वान अँथनीक जेवणाक आपयलो आनी जेवण सोंपतकच सॉब्वा आनी ईदा ताका घेवन उशांचो खेळ पळोवंक गेली. चान्नी रात, ड्रमाचें संगीत, चलयांचे नाजुक आवाज, लजेन जांबासारके तांबडे जाल्ले तांगेले गाल आनी सगळ्या संवसाराक विसरून चल्यांच्यो व्हंकलांचेर थिराविल्ल्यो नदरो... सगळें वातावरण धुंद आसलें.

''आंकवार मनशाचें एकलेंपण ताका उदास करता.'' सॉब्वान अँथनीक उत्तेजन दिवपाचो प्रयत्न करीत म्हळें, ''चलयो पळयतकच खंयची वेंचूं आनी खंयची नाका अशें तुका जाता. तूं अंदूं लग्न जावपाचो विचार कर.''

ॲन्थनी बरयता : ''जुवानपणाची एकोडी जीण सदांच म्हाका ग्रासताली. रातीच्यो राती हांव आमेलिनाचे उगडास काडून न्हीद खळयतालों. एक बायल आसली जाल्यार जिणेक अर्थ येतलो आसलो. हांव मनांतल्या मनांत झुरतालों. पूण त्याचबरोबर एके शान चलयेकडेन जिणेची गांठ बांदूंक मन अनमनतालें. मनांतल्या मनांत म्हाका दिसतालें, झूज सोंपतलें आनी हांव परत वतलों. म्हाका व्हंकलो मेळूंक अडचण येवची ना. लंडनातय मेळटल्यो आनी गोंयांतय मेळटल्यो. अडाणी, शान चली गळ्याक बांदून हांव खंय भोंवतलो? सॉब्वान सुचयलें आनी मुखावयलें धुन्द वातावरण जेन्ना पळयलें तेन्ना हांव खीणभर विरगळ्ळों. पूण दुसऱ्याच खिणाक सादूर जावन हांवे सॉब्वाक म्हळें, ''हांव आसा तो बरो आसा.''

''तूं पिसो!'' सॉब्वा चुरचुरलो, ''तरणो आसा, बरी नोकरी आसा आनी आमच्या राज्यांत जाय तितल्या बायलांकडेन लग्न जावपाची मेकळीक आसा. तुवें इशारत केली जाल्यार सुंदर सुंदर चलयो तुज्या पांयार घालून घेतल्यो. आनी तूं एकोडो रावंक सोदता... ?''

ॲन्थनीक दिसलें, आपलें निमित्त करून सॉब्वा स्वताची खंत उक्तायतालो.

ईदान ल्हवूच ॲन्थनीक कोपर माल्लो आनी म्हळें, ''तात्पुरती जाल्यार

तात्पुरती... एक बायल तूं कित्याक करिना ? हांव मांगशिशांतली सगळ्यांपरस चड सुंदर बायल तुजेखातीर सोदून दितां.''

सॉब्वा हांसलो, चिके फाटी आयलो आनी एका मनशाक आपोवन ताणें विचाल्लें, ''एक सांग. अँथनीखातीर सोबीत व्हंकल जाय. खंयची चली सगळ्यांपरस सुंदर ?''

इल्लीय उसरपत घेना आसतना हुतहुतेपणान त्या मनशान सांगलें, ''पिंग... पिंग... सायबा, ती ह्या वाठारांतली अप्सरा.''

''हय, हय.'' सॉब्वान तकली हालयली, ''म्हज्या चल्याखातीर हांवें तिका पसंत केल्ली. पूण तागेले आवयक राजघराण्यातली चली जाय आसली देखून सोयरीक मोडली. पूण अँथनीक तसली अडेची व्हडवीक मानवना. न्हय अँथनी ?''

''हय, तसो हांव मॉडर्न.'' हांसून जाप दितना अँथनीच्या काळजांत एक सुखदिणी कळ आयली.

''तिका आपोवन हाड.'' सॉब्वान त्या मनशाक सांगलें, ''फाल्यां वेगळो उशांचो खेळ जातलो. तोय बी राजवाड्याच्या आंगणांत. पूण एक कर, हांवें आपयल्या अशें सांगूं नाका.''

तकली हालोवन तो मनीस गेलो.

सॉब्वाचें उशाच्या खेळावयलें मन उडलें. जशी काय तो आपलेच सोयरिकेची खबर करतालो अशें तिरायताक दिसचें इतलो तो अस्वस्थ जालो.

''चल, आमी आतां या.'' ताणे म्हळें.

राजवाड्याचे वाटेर सॉब्वा ते चलयेच्या रुपाचीं, तिच्या आंगलोटाचीं वर्णनां करीत आसलो. अँथनीक ताणे निमित्त केल्लें. एक एक वर्णन करून सॉब्वा जे सुस्कारे सोडटालो ते पळयतकच तिजी याद काडून तो अस्वस्थ जाला अशें दिसतालें.

''तूं तिचेकडेन लग्न जाच.'' निमाणे ताणें अँथनीक सांगलें, ''ती पयली बायल मान. मानवली ना, जाल्यार दुसरें लग्न कर. हांवें तिचें वर्णन करप सोबचें ना. ती म्हाका धुवेसमान. तिचे डोळे पळयल्यार तुज्या काळजाक घाय जातलो. तिजो तोंडावळो पळोवन तुजी नदर थंय खिळावतली, अठरा - एकोणीस वर्सांची आसतली. असले सर्ग सुंदरीक ह्या राज्यांत फावो तसलो घोव मेळचो ना. तूंच तिका घोव सोबतलो. रान फुलांमदलें तें साळीक, कोबयांमदलें तें बदक. ती दुसऱ्या कोणाचीच बायल जावप ही कल्पनाच म्हज्यान सोसूंक नज. झाडावय फूल शेणाच्या थाप्यांत पडूंक उपकारना.''

सॉब्वाचे सुस्कारे पळोवन अँथनीक दुबाव आयलो, ते सुंदर चलयेक आपली बायल म्हणून हाडून सॉब्वा तिका आपली रखेली करूंक बी सोदिना मू? पूण हो विचार चड वेळ उल्लो ना. ते सुंदर चलयेक पळोवपाची उमळशीक अँथनीक लागून

उल्ली.

अँथनी बरयता : ''पिंगाक वळखूंक म्हाका कळाव लागलो ना. कोंबयांमदलें ते बदक. हांवें धरिल्ली ताजेपरसय ती सुंदर आसली. पांचय चले उशें तिजेरच उडयताले. एके नर्तकीच्या तालान आंग हालोवन ती खुशालकायेन खेळ खेळटाली आनी तिज्या आंगाचो एकेक भाग त्या खेळाक लागून नदरेंत भरतालो. काळो स्कर्ट, धवो फुल्ल ब्लावज, लांब केसाची एक सोबीत वेणी. माथ्यांत एकच, पूण सोबीत फूल. म्हज्या काळजाचे ठोके वाडले. हांव तटास नदरेन तिजो खेळ, तिजो हांसो, तिजे धवे दांत, नाजूक गुलाबी ओंठ, पिकून तांबडे जाल्ले गुबगुबीत गाल... तिचें सगळें आंग म्हजे नदरेंत भरून घेतालों. अचकीत तिणे म्हाका पळेलो आनी तिणे आंगणाभायर म्हजे दिकेन उशें शेंवटीलें. उडी मारून म्हाका तें जिखचें पडलें. त्या बोवाळांत म्हज्या कोटांतल्या बॉल्सांतली चावी सकल पडली. पुण हांवें तें जिखलें आनी फुडें येवन परत तें ते चलयेकडेन शेवटिलें.''

दोन - चार खेपे अँथनीकडेन उशें उडयल्या उप्रांत पिंगान दुसऱ्या चल्यांकडेन उशें उडोवंक सुरवात केली. अँथनीक वायट दिसलें. पूण जेन्ना ताणे पळयलें कि, हातांनी ती आंगणांतल्या चल्यांकडेन उशें उडयता आसली तरी तिचे दोळे आपणाचेर थिरावल्यात आनी नदरेक नदर मेळटा तेन्ना तिच्या दोळ्यांच्यो पातयो जड जावन तिगेली नदर सकल वता, पायांचो आंगठो जमनीक रोमूंक लागता तेन्ना अँथनीची आवतिकाय पिकिल्ल्या द्राक्षासारकी जाली !

ॲन्थनी येवजूंक लागलो, आंगांतलो कोट काडचो. पुण आंगणात देंवलेबगर खेळांत वांटो घेतलो अशें जावचें ना. तो इतलें येवजिता म्हणसर पिंगान परत उशें ताजे दिकेन उडयलें आनी व्हडान म्हळें, ''धर, धर.''

पूण कितें जाल्लें तें कळचे आदींच उशें सकल पडलें. ती हांसली. दोनय हातांनी तोंड आनी छाती लिपोवन धांवन ॲन्थनीसरी आयली आनी एकदम दोनय हात फुडें पातळावन म्हळें, ''इनाम दी, इनाम !''

इनाम ॲन्थनीन हाडूंक नासलें. तो गोंधळ्ळो. काचाबूल जालो आनी लजेलो. कोटाच्या बोल्सांत पाकिट आसलें. पेन काडून ताणे तिच्या हातांत दिलें. भांगराचें पेन पळोवन ती अजापभरीत जाली. इनाम तोखेत रावली आनी ॲन्थनी परत घेत अशी भिरांत दिशिल्ले भाशेन तोंड करून तिणे तें पेन ब्लावजांत खोयलें.

खूब वेळ मेरेन खेळ चलतालो. पिंगान आपणाक ॲन्थनी मानवला हें दाखोवन दिल्या उप्रांत लेगीत हेर चले फाटीं सरूंक तयार नासले. खऱ्यांनीच पिंग अप्सरा आसली. ॲन्थनी सारक्या परक्याकडेन तिजें मन ओडटा हाजो राग त्या चल्यांकच न्हय, खेळ पळयतल्या हेरांक लेगीत आयला हें तांच्या तोंडावयल्यान दिसतालें. कितलेंय जाल्यार ॲन्थनी परकी. हजार लोकांत ताजें वेगळेपण नदरेंत भरतालें. तागेलो भेसय वेगळो.

ॲन्थनी फाटीं सरलो. मन आनी काळीज पिंगाक ओंपून ताणे आपलो देह कुशीक व्हेलो.

सॉब्वान ताका आपोवन आंगणांत देंवक सांगलें. ॲन्थनी आंगणांत देंवलो तेन्ना आनीकय कांय चले आनी चलयो आंगणांत देंवल्यो. अजापाची गजाल म्हळयार माथ्याक तोपयो घालून कांय चलयो खेळटाल्यो. त्यो कोण आसत काय ?

सॉब्वा आंगणाचे धडेर बसलो. ताजे कुशीक ईदा. खेळ परत सुरू जालो. कोण पान खातालो, कोण विडी ओडटालो. खूबशा चलयांनी एकाच वेळार ॲन्थनीकडेन उशीं उडोवन ताका बेजार केलो. सगलीं उशीं तो कसो धरतलो ? एक उशें पडलें आनी भलतीच चली धांवत येवन इनाम मागूंक लागली. पयलेन लेंस व्हेलो. कोटाच्या बॉल्सांत एक ल्हान दांतोणी आसली. ती दुसरेक मेळ्ळी. आतां ॲन्थनीकडेन कांयच उल्लें ना. पिंग मात कुशीक रावन ताका नियाळटाली, हांसताली.

अचकीत सॉब्वान त्या दिसाचो खेळ थांबयलो. ताणे ॲन्थनीक म्हळें, ‘‘तुवें येतना इनामां घेवन येवंक जाय आसलें. फाल्यां घेवन यो. होच खेळ परत खेळूंया आनी फकत वेंचीक चलयांकच आंगणांत घेवया.’’

‘‘कांय चलयांनी माथ्याक तोपयो कित्याक घाल्ल्यो ?’’ ॲन्थनीन आपलो दुबाव सॉब्वाक विचाल्लो.

‘‘त्यो लग्न जाल्ल्यो बायलो.’’ सॉब्वान जाप दिली, ‘‘त्यो खेळ खेळटात, पूण तांकां लग्न जावपाचें नासता. फकत खेळाची सोबा वाडोवंक त्यो आंगणांत देंवतात.’’

दुसऱ्या दिसा ॲन्थनीन खूबशो ल्हान ल्हान वस्तू बोल्सांत घाल्यो आनी तो उशांचो खेळ खेळूंक गेलो. आंगणांत चार चलयो आसल्यो आनी सात - आठ चले. पूण पिंग नासली.

पिंग येतली म्हणून वाट पळयत पळयत खेळटां खेळटां ॲन्थनी खूबशीं इनामां वगडावन बसलो. ताची नदर पिंगाचो सोद घेताली.

‘‘पिंग खंय आसा ?’’ सॉब्वानच कोणाकशें विचाल्लें.

‘‘ती चिनी ट्रक ड्रायव्हरावांगडा उशांचो खेळ खेळटा.’’ कोणे तरी जाप दिली.

ती जाप आयकून सॉब्वाच्या तोंडार जितली निर्शेणी आयली ताजेपरस चड ॲन्थनी खंती जालो.

तो आंगणांतलो भायर आयलो आनी सॉब्वासरीं येवन ताणे म्हळें, ‘‘कांय नज. अंदूं म्हाका नशीब ना अशें दिसता.’’

‘‘हांव आपोवन हाडटां तिका.’’ सॉब्वान म्हळें.

‘‘नाका. तें नेमा भायर जातलें. आनी तिच्या मनांत जर कोणय ड्रायव्हर भरिल्लो आसत तर तिजोय विरस जातलो.’’

ॲन्थनीन तशी जाप दिली खरी, पूण ताजें मन पिंगाचेंच ध्यान करताले. ताणे परत एक वेळ आंगणांतल्या चलयांचेर नदर भोंवडायली. एकय चली ताज्या मनांत गेली ना.

अँथनीक दिसलें, शान जमातीच्या ह्या चलयांक घडये आपले सारको मनीस विचित्र दिसता आसूंये.

इतले म्हणसर एक खबर अधिकाऱ्यान सांगली. पिंग ज्या आंगणांत खेळटाली थंय चिनी ट्रक ड्रायव्हर आनी गांवच्या लोकांमदीं झगडें जालां. एक ड्रायव्हर जखमी जाला. उशांच्या खेळाचेर बंदी घाल्ली बरी अशें ताणे सुचयलें.

''ना. ना. परंपरेन चलत आयिल्लो हो खेळ आमचे संस्कृतीक जिणेचो एक भाग जाल्लो आसा. ताजेर बंदी घालूंक फावना. पूण एक सांग, झगडें कशें जालें ?''

''पिंगाकडेन एक ड्रायव्हर सलगी करूंक लागलो आनी गांवचे तरणाटे खुबळ्ळे. ताणी त्या ड्रायव्हरांक माल्लो. तेन्ना सगळे ड्रायव्हर एक जावन लोकांकडेन झगडले. हातांचें बळगें पावना जालें तेन्ना दांडे वापरल्ले.''

''पिंग खंय आसा ?'' हुतहुतेपणान ॲन्थनीन प्रस्न केलो.

''निर्लज्ज चली ! नांव घे नाका तिजें. सगळ्यांकडेन नाचता. जशी काय ही धा घोव करतली ! तिचें लग्न जाईसर मांगशीश राज्यांत दंगे जायत रावतले !'' पोलीस अधिकाऱ्यान म्हळें.

''पूण ती चिनी ड्रायव्हराकडेन लग्न जातली ?'' सॉब्वान आपल्या मनाचो भय प्रस्नाच्या रूपान पोलीस अधिकाऱ्याक विचाल्लो.

''घडये जायत. पूण तिका लग्न जावपाचें खंय आसा ? उशांच्या खेळांचें निमित्त करून ती वळखी करता आनी मागीर वर्सभर हे ड्रायव्हर तिका वस्ती हाडून दितात. तांच्या सांगातान ती किटकिट्टा आनी कितें करता देवाक खबर ! ह्या ड्रायव्हरांक चलयांवांगडा खेळपाचें आसता. तांकां लग्न नाका आसता.'' पोलीस अधिकाऱ्यान आपलो वितराग उक्तायलो.

''चल तूं आता.'' सॉब्वान पोलीस अधिकाऱ्याक परत धाडलो. मागीर ॲन्थनीक म्हळें, ''ह्या अधिकाऱ्यांचे सांगणेचेर वचूं नाका. पिंग बरी चली. हांव सांगतां तुका, तिका तूं मानवला. निमाणे ती तुजेचकडेन लग्न जातली.''

तरणे पिरायेचेर एकाद्रे सुंदर चलयेकडेन वळख जाली म्हणटकच मोगाची पयली आंकरी फुंटूंक कळाव लागना. मांगशिशाक येता आसतना वा थंय रावता आसताना अँथनीन लग्नाचो केन्नाच विचार करूंक नासलो. पूण सॉब्वान ताका अशे तरेन घुस्पयिल्लो कि आतां पिंग ताज्या मनांत भरिल्ली.

अँथनी येवजितालो, मांगशिशाच्या संदर्भांतच न्हय तर हरशीं लेगीत पिंग एक सोबीत सुंदर चली. अँथनीक आतां दिसतालें पिंगाकडेन लग्न जालो जाल्यार मांगशिशांत जी एकोडी जीण ताज्या वांट्याक आयिल्ली ती सोंपतली. फुडाराक

लेगीत पिंगासारकी बायल आसपांत ताका अभिमानच भोगतलो. शान जमातींतल्या हेर चलयांपरस ती शिट्टूक आनी बुदवंत अशें ताका दिसूंक लागलें.

आदल्या दिसाच्या अणभवान तो अशें मानतालो कि आपूण पिंगाचे नदरेंत मल्ला. आपणेच फुडाकार घेतलो ना जाल्यार ती उपाय नासून नसत्या मनशाकडेन लग्न जावये. देखून सकाळीं उठना फुडें अँथनीन पिंगाल्या घराकडेन वचपाचें थारायलें आनी तो न्हेसूंक लागलो. इतलें म्हणसर अँथनीक सॉब्बाचो आपोवणो आयलो. इतल्या सकाळचो सॉब्बाचो आपोवणो येवप म्हळ्यार कितेंय तरी वेगळें घडिल्लें आसूंय जाय असो ताणे तर्क केलो.

अँथनी राजवाड्यांत पावलो तेन्ना थंय दरबारच भरिल्लो. जमनीर एक जाण्टो दादलो बशिल्लो.

अँथनी भीतर येना फुडें सॉब्बान म्हळें, ''हो आसानचो बापूय. तागेलो पूत ट्रक ड्रायव्हरांकडेन झगडीं करूंक सोदता. आज दनपरां ते ड्रायव्हर एका गांवाचेर घुरी घालचेले आसात. गांवचे तरनाटे तांच्या आड झुजूंक तयार जाल्यात.''

सॉब्बान सांगलें तितल्यान अँथनीक कांय समजलें ना. पूण ल्हवू ल्हवू ताका कळ्ळें कि पिंगावयल्यान ड्रायव्हर आनी गांवच्या तरनाट्यांमदीं झगडें जाल्लें. कितें उलोवचें तें अँथनी येवजिता आसतनाच सॉब्बान फुडें म्हळें, ''अँथनी, तूं पोलिसां सांगातान गांवांत वच आनी कितें घडलां तें समजून घे. आनी ते सुंदर चलयेचें लग्न जालेबगर गांवांत शांतताय नांदची ना हें मतींत धर.''

पोलीस मुखेल्यावांगडा अँथनी गावांत गेलो तेन्ना सुमार विशेक तरनाट्यांनी तांकां येवकार दिलो. एका तरनाट्यान म्हळें, ''आज दनपरां ते ट्रक ड्रायव्हर येतले. तांकां येवंदी. आमी तांच्या आड झुजतले.''

ते इतले खुबळिल्ले कि अँथनीन समजायले तरी शांत जाले नात.

''पूण तो ड्रायव्हर जखमी जावन हॉटेलांत आसा. तो झुजतलो कसो ?'' पोलीस अधिकाऱ्यान विचारलें.

''तें आमी नकळत. पूण आमकां रकाद आयला देखून आमी झुजपाची तयारी केल्या.'' तरनाट्यान जाप दिली.

अँथनीन त्या ट्रक ड्रायव्हराक मेळपाचें थारायलें आनी पोलीस मुखेल्यासयत तो हॉटेलांत गेलो. पूण त्या आदीच तो ड्रायव्हर हॉटेल सोडून गेल्लो. ट्रक ड्रायव्हरांचो एक अड्डो आसता. दोगय थंय गेले. पूण थंय वेगळें वा विपरीत अशें कांय दिसलें ना.

अँथनीक पिंगागेर वचपाची उमळशीक लागिल्ली. ताणे पोलीस अधिकाऱ्याक तशें सुचयलें.

''थंय वचून कितें करतले ?'' पोलीस अधिकाऱ्यान म्हळें, ''संवसारांतलीं सगळीं झुजां बायलेक लागून उप्रासतात. पूण तीं थांबोवपाची शक्त तांचेकडेन

नासता. तरीकय तूं म्हणटा जाल्यार आमी वचूया.''

जेन्ना ते दोगय पिंगाल्या घराकडेन गेले तेन्ना चलयेचे आवयन वेगळीच खबर दिली. दोन ट्रक ड्रायव्हर तिगेले चलयेक उखलून घेवन गेल्यात. ट्रकांत घालून तिका व्हेली.

अँथनी आनी पोलीस रोखडेच परतले. थेट सॉब्वासरी गेले आनी घडिल्ली खबर सॉब्वाच्या कानार घाली.

''चलात, म्हजी गाडी घेवन वचात. पिंगाक परत हाडात.'' सॉब्वान आदेश दिलो.

गाडयेंत सगळे पोलीस भल्ले आनी गाडी ट्रकाचो सोद घेवंक भायर सल्ली. एका शिपायान सांगलें दक्षिणेकडल्यान या. ते तिका ब्रह्मदेशांत व्हरतले.

''एक पिडा आपूण जावन भायर गेल्या जाल्यार तिका परत कित्याक हाडूंक जाय ?'' पोलीस प्रमुखान अँथनीक विचाल्लें.

अँथनीक दिसलें कि ताजें समाधान जाले बगर तो मेकळ्या मनान पिंगाचो सोद घेवचो ना. पूण ताका तो कितें सांगतलो ?

कांय वेळान गाडी ब्रह्मदेशाचे सरादी लागीं पावली तेन्ना एका झाडामुळांत थांबयिल्लो ट्रक दिश्टी पडलो. सॉब्वाली गाडी ड्रायव्हरान ट्रकामुखार व्हरून दवल्ली. ट्रकांत दोन ड्रायव्हर आनी पिंग आसली.

पोलीसांनी ट्रकाक घेर घालो ते सरशीं तो जखमी ड्रायव्हर गाळी घालीत सकल देंवलो. पिंग ट्रकांत बसूनच रावली.

पोलीस अधिकाऱ्यान त्या ड्रायव्हराचो हात धल्लो आनी दुसऱ्या शिपायाक सांगलें, ''हाका बेडी घाल.''

''कित्याक ? कसलो गुन्यांव केला हांवे ?'' ड्रायव्हरान विचाल्लें.

''ते चलयेक तुवें पळोवन व्हेल्या.'' अधिकाऱ्यान सांगलें.

''ते चलयेक विचारून पळयात.'' ड्रायव्हरान सांगलें.

ते सरशीं चली ट्रकांतल्यान सकल देंवली आनी त्या ड्रायव्हराचो हात धरून तिणे म्हळें, ''हांव ताजी बायल !''

आतां पोलीसांनी करपाचें कांयच उरूंक नासलें. अँथनीन पोलिसांक फाटीं सरूंक सांगलें आनी सॉब्वाची मोटार परतीचो प्रवास करूंक लागली.

घडिल्ले घडणुकेचो अँथनीचेर परिणाम जालो. पूण पोलीस अधिकारी व्हडान हांसत रावलो. ताणे म्हळें, ''ती ताजेकडेन लग्न जाली जाल्यार तिका आमच्यांनी आडावं येता ?''

बाकीचे पोलीस हांसले. पूण अँथनीच्या काळजांत खंय तरी एक कळ आयली.

मांगशिशांतलो मुक्काम कितले दीस उरतलो हाजो भरवंसो ना हें पळयतकच अॅन्थनीमुखार दोन पर्याय उल्ले. पयलो नशिबांत आसा तें भोगता आसतना

सुखान दीस सारपाचो आनी दुसरो नोकरी सोडून परत वचपाचो.

पूण परत कसो वतलो ? खंय वतलो ? रंगूनाक वचून करतलो किर्ते ? मांगशीश हें आदिवासी राजाचें राज्य आसलें तरी थंय ताचे जिणेक एके तरेची थिराय आसली. ताका समाजांत मान प्रतिष्ठा आसली. पगारय बरो मेळटालो आनी त्या पयशांचें किर्ते करचें असो ताका प्रस्न पडटालो. पयसो खर्चून कितेंय घेतलो जाल्यार रंगूनाक वचचें पडटलें आसलें.

अँथनीन उरिल्ले दीस थंयच रावपाचें थारायलें. सॉब्वाची कृपा आसासर मांगशीशांत रावंक अडचण येवचीना, इतलें तो जाणा आसलो. पूण हॉटिलांतले चिनी पध्दतीचें जेवण जेवन ताची गांठ विटिल्ली. वेगळें घर करून राविल्लो जाल्यार आपुण तांतयां उकडून, नुर्स्ते तळून वा शीतकडी रांदून सुखान जेवतलों असो विचार ताच्या मनांत सदांच येतालो.



राजवाड्याचे भायले वाटेन सॉब्वान एक बंगलो बांदिल्लो. केन्ना तरी ॲन्थनीन तो पळोवन दवरिल्लो. युरोपी सोयरे आयले जाल्यार सॉब्वा तांकां थंय दवरतालो. पूण झुजाचें वातावरण आशिल्ल्यान सॉब्वाचे युरोपी सोयरे येवप बंद जाल्ले. त्या बंगल्यांत सगळें सामानय आसलें.

एक दीस ॲथनीन आपणाक रावंक तो बंगलो दिवचो अशें सॉब्वाक सुचयलें आनी सॉब्वान व्हड खोशयेन मान्यताय दिली. म्हळें, ''तूं थंय राविल्ल्यान त्या बंगल्याकय उजवाड - वारें लागतलें.''

पयल्याच दिसा अँथनीन पेज शिजयली आनी सुकयिल्लें नुस्तें भाजून तो पोटभर जेवलो. पूण खाऱ्याचो वास सगळ्या वाठारांत पातळ्ळो. तेवटेन सॉब्वा पासयेक वतालो. ताका तो वास आयलो आनी दुसऱ्या दिसा सॉब्वान ताका म्हळें, ''तुगेल्या जेवणाचो वास बरो येता. एक दीस तुगेर जेवंक येतां.''

''तसो हांव बरो रांदपी न्हय.'' ॲन्थनीन म्हळें, ''घरा आसतना म्हाका केन्नाच रांदचें पडूंक ना. पूण आमच्या गोंयांत जे तरेचें जेवण करतात ते तरेचें रांदपाचो हांव यत्न करतां. तुका जाय तेन्ना तूं यो.''

पूण आगंतुक सोयरो जावन येवप सॉब्वाक पसंत नासलें. ताणे म्हळें, ''हांव परां येतां. म्हाका तुजें गोंयचे जेवण दी.''

ॲन्थनी दोन दीस आदींच तयारेक लागलो. ताणे नुस्त्याचें हुमण केलें. चिकनाची सागोती केली. उकड्या तांदळांचे शीत रांदलें आनी थोडें खारें भाजलें.

सॉब्वा जेन्ना बंगल्याची सोपणां चडलो तेन्ना बंगल्यार जेवणाचो परमळ पातळिल्लो. ''वास बरो आयलो. जेवणाक किर्ते केलां ?''

ॲन्थनीन आपणे किर्ते रांदलां तें सांगलें आनी म्हळें, ''म्हाका बरें रांदूंक येना.

तुका मानवता जाल्यार पळय. आमचें जेवण इल्लें तीख आसता.''

''वासावयल्यान सांगतां हांव तुका, तुजें जेवण बरें आसतलें. खूब वर्सां फाटीं हांव कलकत्त्याक गेल्लों आनी थंय बंगाली जेवण जेविल्लों.'' याद काडीत सॉब्वा सांगूंक लागलो, ''ती रूच अजून म्हजे जिबेर आसा. आमचें जेवण वेगळें. पूण ईदाचें जेवण सामकेंच पचपचीत. मिरीं लेगीत तिका तीख लागता. आज हांव पोटभर जेवतलों.''

सॉब्वा सरळ रांदचे कुडींत गेलो. मागीर तो बंगल्याच्यो हेर कुडी भोंवलो आनी म्हळें, ''तूं ताकीत करूं नाका. तुगेलें जेवण जातकच आमी जेवंक बसूंया.''

जेवण तयार जाल्लें. ॲन्थनीन बेगीबेगीन तें मेजार हाडून दवल्लें आनी सॉब्वान एके प्लेटींत थोडें थोडें जेवण घेवन रूच पळयली.

''ॲन्थनी, तूं बरो सेक्रेटरीच न्हय, बरो रांदपी लेगीत. तुवें दोगांयकय जाय तितलें रांदलां मरे ? आज हांव जल्माची भूक भागयतां.''

पूण सागोती खातना सॉब्वाच्या दोळ्यांत दुकां आयलीं. ग्लासभर उदक तो पियलो. पूण ताणे त्या दिसा सगळें जेवण सोंपयलें.

तृप्तीचो थेंकर दीत सॉब्वान म्हळें, ''बंगाली जेवणय अशेंच आसलें. इल्लें चड तीख. म्हजी संवंय मोडल्या. पूण हांव तुका सांगतां. तूं म्हाका सदांच आपयशीत जाल्यार हांव व्हड खोशयेन तुगेर जेवंक येतलों.''

जेवपा वेळार सॉब्वा चॉपस्टीक हातांत घेवन जेवलो. ॲन्थनी हातांनीच जेवलो.

''तूं असो कित्याक जेवलो ?'' जेवणा उप्रांत सॉब्वान ॲन्थनीक विचाल्लें.

''शिताची रूच हातान कालोवन जेवले बगर मेळना.'' ॲन्थनीन जाप दिली.

''तशें जाल्यार दुसरे खेपे हांवय हातांनी जेवतलों.''

सॉब्वाक कितलें जेवण लागता हाजो अदमास ॲन्थनीक त्या दिसा पयलेच खेपे आयलो.

जेवल्या उप्रांत सॉब्वा ॲन्थनीकडेन मेकळेपणान उलयलो. पयलेच खेपे ताणे ताका गोंयचेविशीं, ताच्या कुटुंबाविशीं तरेकवार प्रस्न केले आनी म्हळें, ''झूज सोंपतकच हांव तुज्या सांगातान गोंयांत येतलों.''

ॲन्थनीन व्हड खोशयेन ताका गोंयचें आमंत्रणय दिलें.

सॉब्वा आतां राजालीं वस्त्रां देंवोवन बशिल्लो. मदींच ताणे ॲन्थनीक विचाल्लें, ''एक सांग, गोंयच्यो सगळ्यो बायलो असलें जेवण रांदूंक जाणात ?''

''हय.''

''तशें जाल्यार म्हजें आयक.'' सॉब्वान म्हळें, ''युरोपियन बायलो दिसूंक बऱ्यो. तांचो सांगात सुखदिणो खरो, पूण तांचेकडेन कोणेच लग्न जावचें न्हय. हांव म्हजोच अणभव तुका सांगतां, ईदाकडेन लग्न जायत सावन हांव त्रासांत पडलां. ती दिसता बरी. म्हजो तिजेर मोगय आसा. पूण तिजें मन राखप कठीण. आनी

तिगेलें जेवण जेवप तर दिव्यच. तेन्ना तूं मौजेखातीर खंयचेय बायलेक लागीं कर, पूण लग्न जातना मात तुजे गांवचे चलयेकडेन जा.''

ॲन्थनीक दिसलें पिंग हातची गेली हे खातीर सॉब्वा आपलें सांत्वन करता. ताणे हांसून म्हळें, ''तरी बरें जालें, पिंग त्या ड्रायव्हरा सांगातान पळून गेली. नाजाल्यार ती म्हज्या वांट्याक येतली आसली आनी उप्रांत घडये तूं हो लाख मोलाचो उपदेश म्हाका दिवचोय नासलो.''

सॉब्वा हांसलो. ताणे म्हळें, ''पिंगची गजाल वेगळी. खरें सांगू, तिजो सांगात म्हाका लेगीत जाय आसलो. पूण ईदाखातीर हांवें म्हजें मन माल्लें. तुका तिजो सांगात मेळिल्लो जाल्यार तूंय सुखी जातलो आसलो. आमच्या राज्यांत बायलेक घरा हाडली म्हणून तें बंधन जायना. तिका जाय तेन्ना सोडूंक तूं मेकळो उरता.''

आनी पिंगचो उगडास काडून सॉब्वान एक व्हड सुस्कारो सोडलो.

त्या उप्रांत दोन - तीन खेपे सॉब्वा ॲन्थनीगेर आयलो. एक दीस जेवता आसतना सॉब्वान ॲन्थनीक म्हळें, ''तूं एक पार्टी घडोवन हाड. ईदाकय आमंत्रण दी. आनी कांय हेर दादल्यांक आनी बायलांक. रंगूनाक सावन ईदाली एक मैत्रीण ह्या दिसांनी आयल्या... कितें सांगतलो तुका, ती ईदापरस सोबीत दिसता. तिकाय जेवपाक आपोवया.''

''पार्टी व्हड खोशेन करूं येता. पूण सगळ्यांक हें जेवण मानवत म्हणपाचो नेम ना.'' ॲन्थनीन म्हळें.

''तें आसूं. जेवण हें निमित्त्य. आमी हॉटेलांतलें जेवण हाडूंया. नांवाक एक तुगेलो पदार्थ कर. बऱ्यांतलो बरो सोरो हाडूंया. रंगूनच्यो चलयो सोरो पियेतकच जी मेकळीक घेतात तसली मेकळीक घेवंक आमचे दादले लेगीत धजचे नात.''

पार्टेचो बेत थारलो आनी ॲन्थनीन सगळ्यांक आमंत्रणाय दिलीं. पूण पार्टेच्या दिसा राजवाड्यांतल्यान ॲन्थनीक रकाद आयलो. ईदान ताका आपयिल्लो.

ईदान ताका सांगलें, ''पार्टी जातली. पुण तुज्या बंगल्याचेर न्हय. राजवाड्यांत.''

ईदाक ना म्हणपाचें धाडस अख्ख्या मांगशिशांत कोणाकच नासलें.

पार्टेचें आमंत्रण खूबशा लोकांक गेल्लें. ते सगळे राजवाड्यांत जमले. जेवपाचो मुखेल दबाजो उपचारिकपणान जालो. उलोवप अडेचें, हांसप अडेचें, इतलेंच न्हय तर खावप सभ्यतायेचें.

ईदाले मैत्रिणीक पळोवपाची उमळशीक ॲन्थनीक लागून राविल्ली. पूण पार्टेक ईदाली मैत्रीण खंयच दिसली ना. जेवण औपचारिक जाल्ल्यान सॉब्वा म्हऱ्यांत ईदा बसून आशिल्ली. ताका लागून तिचेविशीं सॉब्वाक विचारपाची संदय ॲन्थनीक मेळ्ळी ना.

ॲन्थनी उबगलो. एक म्हळ्यार ताका हें जेवण रुचनासलें आनी वातावरणय

पसंत नासलें. आयिल्ली सगळी जोडपीं. फकत ॲन्थनी एकाडो.

जेन्ना सोयरे परतूंक लागले तेन्ना ॲन्थनी निरोप घेवंक सॉब्वासरीं गेलो. सॉब्वान म्हळें, ''ईदाली मैत्रीण आयल्या. पूण ती अचकीत बरी ना जाली. देखून पार्टेक आयली ना.''

ॲन्थनी कांय उलयलो ना. पूण तो परतूंक लागलो तेन्ना ईदा आपुण जावन उठून ॲन्थनीसरीं आयली आनी तिणे म्हळें, ''चल, हांव तुका दारामेरेन पावयतां.''

ॲन्थनीक तिजी वागणूक वेगळीच दिसली. पूण तो मोन्यांनी पावलां उखलून चलत रावलो. ताज्या सांगातान ईदानय पावलां उखल्लीं. जेन्ना दोगांय भायल्या आंगणांत पावलीं तेन्ना ईदान ॲन्थनीक विचाल्लें, ''एक विचाल्ल्यार म्हाका खरी जाप दिता?''

''तुजेकडेन हांव केन्ना फट उलयतां?'' ॲन्थनीन परतो प्रस्न केलो.

''ती कोण?'' ईदालो प्रस्न.

प्रस्न विचित्र आसलो. ॲन्थनी पुराय गोंदळ्ळो.

ताणे म्हळें, ''तुजी मैत्रीण अशें सॉब्वा म्हण्टालो न्हय?''

''हय. हय. ती म्हजी मैत्रीण हें खरें. पूण हांव तुका तिचेविशीं विचारिना. हांव तुका विचारतां ती सॉब्वाचे जिणेंत आयिल्ली दुसरी बायल कोण? तुजेबगर ह्या प्रस्नाची जाप आनीक कोणाच्यान दिवंक जावची ना.''

''तूं कितें म्हण्टा तें म्हाका कांयच समजना. म्हाका तरी खंयचीच बायल खबर ना. हांवें आयकूंक ना वा पळोवंक ना. तूं पिंगाविशीं म्हण्टा आसत जाल्यार हांव तुका इतलेंच सांगत कि, ती ट्रक ड्रायव्हराबरोबर पळून गेल्या आनी ह्या देशांत ना. आनी सॉब्वाचे जिणेंत दुसरी बायल आयिल्ली जाल्यार तुका कळचें नाशिल्लें?''

''म्हाका कळ्ळें म्हणूनच तुका विचाल्लें. म्हाका अजून ती दिसूंक ना. पूण ती आसा. बुकलो दोळे धांपून नुस्तें खाता, पूण सगळो संवसार ताका पळयता. फाटले कांय दीस सॉब्वा मदींच दनपारचो वा रातीचो ना जाता. परत येवन जेविना. आपलें पोट भल्लां अशें सांगता. तो खंय वता, कोणागेर जेवता हें खऱ्यांनीच तुका खबर ना?'' ईदान आपल्या दुबावाक रागाची जोड दिवन ॲन्थनीक विचाल्लें.

ॲन्थनीचे तकलेंत उजवाड पडूंक लागलो. ताणे म्हळें, ''जेवणाची गजाल तुका जर सॉब्वान सांगूंक नासत जाल्यार हांव ती तुका सांगतां. सॉब्वा म्हगेर जेवंक येता. हांव रांदतां आनी आमी दोगय जेवतात.''

''सॉब्वान शिकयिल्लो संवाद किराभशेन उलोवं नाका, ॲन्थनी.'' दावो पांय जमनीक आपटून ईदान रागान म्हळें, ''तूं सॉब्वाचो सेक्रेटरी. तुवें ताजो भडवो जावप म्हाका मानचें ना. आनी तुका सांगतां, असल्या कामाक तूं ताका सांगात दिवशीत जाल्यार तुकाय मांगशीश सोडून वचचें पडटलें.''

दुबावाक रागाची जोड मेळिल्ल्यान ईदा वेगळेच भाशेन उलयताली. ॲन्थनीक तिडक येताली. पूण ताणे ईदाक इतलेंच म्हळें, ''फाल्यां तूं सॉब्वा सांगातान म्हज्या घराकडेन जेवंक यो. म्हजें आमंत्रण मानून घे. थंय रुजवात जातली. पूण देवाचो सोपूत घेवन हांव सांगतां. दुसरी कसलीच मानगड हांव नकळ.''

''बरें आसा, तशें करूंया. पूण हांव म्हजे मैत्रिणीक हाडची ना. तिजेमुखार नाटक नाका. पूण इतलें मतींत धर सेक्रेटरी, हांव नागीणीसारकी डंखी बायल. सॉब्वा दुसरे बायलेसरीं वता हें कळ्ळें जाल्यार म्हाका वायट दिसतलें. पूण ताका तूं सामील आसा हें कळ्ळें जाल्यार मात तुका हांव चाबलेबगर रावची ना.''

सगळो दीसच इबाडलो अशे ॲन्थनीक जाल्लें. येवजिल्लो कार्यक्रम फशिल्लो आनी एक नस्तें संकट ॲन्थनी मुखार उबें राविल्लें.

दुसऱ्या दिसा ॲन्थनीन जेवण रांदता आसतना मिरसांग नांवापुरती वापल्ली आनी तो सॉब्वा आनी ईदाची वाट पळयत रावलो.

सूर्य अस्ताक वचचे आदीं‌च ईदा सॉब्वा सांगातान ॲन्थनीगेर आयली. ॲन्थनी तेन्ना रांदचे कुडींत आसलो.

''खऱ्यांनीच तूं रांदता ?'' अजापून ईदान ॲन्थनीक विचाल्लें, ''रांदची कूड हें बायलांचें राज्य. तुवें लग्न केल्लें जाल्यार तुजेर हो प्रसंग येवचो न्हय.''

''लग्न केल्यार बायल मेळत आसली. पूण म्हजे रुचीचें जेवण कशें मेळपाचें ? म्हाका हॉटेलांतलें जेवण रुचना. देखूनच हांव ह्या बंगल्यांत रावंक आयलां आनी म्हज्या हातांनी रांदून जेवतां.''

दुबावाचीं कुपां पातळ जावंक लागिल्लीं. सॉब्वा सांगातान ईदाय त्या दिसा जेवली. पूण तिका जेवण मानवलें ना हें तिज्या तोंडावयल्यान कळटालें. थोड्यो मिरसांगो घालून केल्लें जेवणय तिका तीख लागलें. तरी तिणे म्हळें, ''तूं इतलें बरें रांदता हें म्हाका खबरच नासलें. सॉब्वाक असलेंच जेवण मानवता.''

तिगेल्या ह्या उतरां सरशीं सॉब्वा पयलेच खेपे हांसलो. दुबाव सोंपला अशें ताका दिसलें आसूये. तरी तो कांय उलयलो ना. ईदानय सॉब्वाक म्हळें, ''हांवें ॲन्थनीचो ओगीच दुबाव घेतलो.''

''ह्या पयसुल्या गांवांत तो एकलोच रावता. एकसुरी जीण सारता. हातांनी रांदून जेवता. मायेचें उतर, मोगाचे स्पर्श कांय एक ताका मेळना. ताजो दुबाव घेवप पातक जातलें. तुज्यान जाता जाल्यार ताका मदत कर. ताका एक बरी सांगातीण सोदून दी.''

''उशांचो खेळ सोंपलो. पूण पर्वा ना. मांगशिशांतली जी चली ॲन्थनी पसंत करीत ती ताजी बायल जातली. इतलें ताणे समजून आसचें.'' ईदान म्हळें.

''बायलेची खबर विसरात तुमी.'' ॲन्थनीन म्हळें, ''पूण ईदालो दुबाव गेलो हेंच म्हजें भाग्य अशें हांव मानतां.''

''रागार जावं नाका, सेक्रेटरी.'' ईदान म्हळें, ''बायलो ह्यो सुवार्थी आसतात. देखून त्यो ल्हानसान गजालींक दुबावतात. तूं लग्न जावंक ना. लग्न जातलो तेन्ना तुकाय तो अणभव येतलो.''



त्या दिसा उप्रांत सॉब्बाचें बायलेकडलें झगडे सोंपलें आसतलें असो ॲन्थनीन जो तर्क केल्लो तो पुराय चुकलो. दुबावाची कीड एक खेपे मनांत उपजली म्हण्टकच ती सोंपेपणी थंयची हालना. ती वळवळत रावता. तर्क आनी पुराव्याच्या आदारान ती निरुत्तर जाता तेन्ना शांत जाली अशें दिसता, पूण दुसऱ्याच खिणाक ती परत वळवळूंक लागता.

बायलांचो दुबाव तर इल्लो चड चिवट आसता. आपलो घोव खंयचेय तरी शान जमातीचे चलयेकडेन घुस्पला असो दुबाव ईदाक येवपाक दोन कारणां जालीं. सॉब्बा अचकीत भायर वतालो आनी घरा येवन जेवना आसलो आनी केन्नाकेन्नाय जेवणाची सुस्ती आयिल्ल्यान तो न्हिदतालो.

सगळ्यांकडेन वासपूस करून जाल्या उप्रांत ईदान ॲन्थनीकडेन वासपूस केल्ली आनी ॲन्थनीन सॉब्बा आपणागेरच जेवंक येतालो हें पटोवपाचो यत्न केल्लो.

सुमार दोन सप्तकां उप्रांत एक दीस अचकीत सांजच्या वेळार ॲन्थनीच्या बंगल्याचें दार वाजलें. मांगशिशांत जाका कोण इश्ट ना आनी सॉब्बा सोडून दुसरो कोणच ज्यागेर येना त्या ॲन्थनीक सॉब्बाक आयलो अशें दिसलें जाल्यार अजाप ना. धांवत वचून ताणे दार उकते केलें. आनी तो अजापून गेलो. दारांत ईदा उबी आसली. खंय तरी पयसुल्या प्रवासाक वचूंक भायर सरिल्लेवरी ती न्हेसिल्ली. खांद्याक पर्स आनी हातांत एक ल्हानशी बॅग.

ॲन्थनी पुराय संकोचून गेलो. पयलें कारण म्हळ्यार ताज्या एका हातांत सोलिल्लो कांदो आनी दुसऱ्या हातांत सुरी आसली. ताज्या आंगार मोटवी चेड्डी आनी बानयान आसलें. अशे अवस्थेंत मांगशिशचे राणयेक येवकार कसो दिवचो तें ताका समजना जालें. भितर वचून हात धुवन कपडे बदलतलो जाल्यार लेगीत थोडो वेळ राणयेक भायर दवरचें पडटलें. ती एकलीच आयल्या. तिका यो म्हणून आपोवन बसोवप सभ्यतायेच्या नेमांत बसतलें काय किर्ते हें लेगीत ताका समजना जालें. खांकडेत तो तटास नदरेन ईदाकडेन पळयत रावलो.

''म्हाका भितर आपयता काय ना ?'' ईदान विचाल्लें.

''यो, यो.'' अशें म्हणून ॲन्थनी कुशीक सल्लो.

ईदान भितर येवन दार बंद केलें. ॲन्थनीक कपडे बदलूंक वचपाची उसरपत मेळ्ळी.

ताकतिकेन आंगार शर्ट - पॅण्ट चडोवन ॲन्थनी परत भायर आयलो तो मेरेन

ईदा एका कदेलार बसून भोंवतणच्यो वस्तू नियाळताली.

"हांव थोडो वेळ... घडये थोडे दीस हांगाच रावतलीं. रावूं न्हय ?" ईदान ॲन्थनीक विचाल्लें.

"बरे भाशेन." ॲन्थनीन म्हळें, "हांव तुका च्या हाडूं ?"

"नाका."

"सॉब्वा फाटल्यान येता ?" मात्सो खांकडेवन ॲन्थनीन दुसरो प्रस्न विचाल्लो.

प्रस्न आयकूंक नाशिल्ले भाशेन करून ईदान ॲन्थनीक म्हळें, "तूं च्या जाय काय म्हण्टालो न्हय ? हय. एक कप च्या मेळ्ळी जाल्यार घेतां हांव."

ॲन्थनी तसोच भितर गेलो. रान्नीचेर उदक आसलें. ताकतिकेन ताणे च्या केली आनी च्याचो कप हाडून ईदाच्या हातांत दिलो.

"तूं घेना ?" तिणे विचाल्लें.

"हांवें निकतीच च्या घेतली. हांव रातीच्या जेवणाची तयारी करतालों. इतले म्हणसर तूं आयली."

"आज जेवणाक कितें केलां तर तुवें ?" ईदान विचाल्लें.

"तूं आनी सॉब्वा येवपाचीं आसात अशें समजल्लें जाल्यार थोडी तयारी करतलों आसलों. पुण म्हजेकडेन खारें नुस्तें आसा. शीत - कडी रोखडी जातली." ॲन्थनीन म्हळें.

"इतली तिखसाण खावन तुज्या पोटांत हुलप पडनात ?" ईदान हांसून विचाल्लें आनी म्हळें, "जाता. हांवय इल्ली शीतकडी जेवतां. मिरसांग मात चड घालूं नाका."

"आनी सॉब्वा... ?"

ॲन्थनी ईदाच्या तोंडाकडेन पळयतालो. तागेलो प्रस्न आयकूंक नाशिल्ले भशेन ती च्या पियेत रावली.

ॲन्थनी सामको गोंदळून गेलो. ती फकाणां करता काय खऱ्यांनीच घोवाकडेन झगडून आयल्या हें ताका समजलें ना.

थोड्या वेळान ईदा उबी रावली आनी ल्हान भुरग्याच्या खांदार हात दवरचो तसो आपलो हात ॲन्थनीच्या खांदार दवरून तिणे म्हळें, "पळय ॲन्थनी, म्हजे भाशेन तूंय भायलो. ह्या लोकांचीं चित्रां काडूंक जायनात. तूं जाणाच, सॉब्वा चरित्र्यान इल्लो ढील. ताका हांव दोळ्यांत तेल घालून राखतां. तरी तो म्हाका फटयता. खऱ्यांनीच सांग, सॉब्वा तुगेर जेवंक येतालो ?"

"हय. तेविशीं तूं दुबाव घेवं नाका." ॲन्थनीन जाप दिली, "ताका मसाल्याचें जेवण आवडटा देखून."

"तो एकलोच येतलो ?"

"हय."

‘‘हांगा येतना व हांगाच्यान वतना तो कोणागेर वचनाशिल्लो हें तूं जाणा ?’’

‘‘हांव नकळ. पूण तुजो दुबाव खरो अशें म्हाका दिसना.’’

‘‘सॉब्बाचे जिणेंत दुसरी बायल येवंक ना अशें तूं देवाचो सोपूत घेवन सांगशीत ?’’ ईदान विचाल्लें.

‘‘म्हाका तरी दिसना.’’ ॲन्थनीन म्हळें, ‘‘आनी ताजो तुजेर इतलो मोग आसा...’’

‘‘तें हांव जाणा. पूण ताजी पोरणी संवय इतले बेगीन वचत अशें म्हाका दिसना.’’

‘‘हें पळय.’’ ॲन्थनीन म्हळें, ‘‘दुबाव मनांत एक खेपे रिगलो जाल्यार तो बळावत उरता. तूं तो तकलेंतलो काडून उडय. हांव तुका इतलें सांगतां कि, ल्हानसान गजाली करता आसतना सॉब्बा सदांच तुजो विचार आदीं करता. जें तुका मानवचें ना तें करूंक तो धजना. ताका तीख जेवण आवडटा; पूण तुजेखातीर तीखसाण ताणे सोडली.’’

फुडें कितें उलोवचें हे ॲन्थनीक समजना जालें आनी ताणे ईदाक म्हळें, ‘‘हांव रोखडेंच जेवण करतां. मिरसांग घालिना. तूं जेवनच वच.’’

इतले म्हणसर भायले वटेन दार वाजलें.

‘‘कोण ?’’ ॲन्थनीन विचाल्लें.

‘‘सेक्रेटरी, हांगा ईदा आयल्या ?’’ सॉब्बाचो आवाज.

ईदा बेगीबेगीन उबी रावली आनी ॲन्थनीच्या तोंडार हात दवरून ताज्या कानांत फुतफुतली, ‘‘ना म्हणून सांग. दार उकतें करूं नाका. ताका भितर घेवं नाका.’’

‘‘तें कशें जातलें ?’’ ॲन्थनीन म्हळें. तो दारावटच्यान वचूंक घुंवलो तसो ईदान ताजो हात घट धल्लो आनी म्हळें, ‘‘राव तर, हांव भितर वतां. तूं मागीर दार काड.’’

ॲन्थनी गोंदळ्ळो.

‘‘ॲन्थनी, दार उकतें कर.’’ भायल्यान सॉब्बान परत उलो माल्लो.

ॲन्थनीन दार उकतें केलें.

‘‘ॲन्थनी, ईदा हांगा आयल्या ?’’ सॉब्बान तोच प्रस्न परत विचाल्लो.

‘‘हय सॉब्बा, ती हांगा आसा.’’

सॉब्बा भितर आयलो आनी कमराचेर दोनय हात धरून ताणे पळयलें. ईदा थंय नासली. भितर वतना ती आपली बॅगय घेवन गेल्ली.

‘‘खंय आसा ?’’ अशें विचारून सॉब्बा कदेलाचेर बसलो.

तो फुडलो प्रस्न विचारच्या आदींच ईदा हातांत एक आयदन घेवन भायर आयली. तिणे आपल्या कमराक एक ॲप्रन गुठलायिल्लो. तिगेलो तो अवतार

पळोवन ॲन्थनीक अजाप जालें. पळयतल्याक दिसतलें कि, ती रानचेकुडींत रांदताली.

सॉब्वाक पळोवन अजाप जाल्ले भाशेन तिणे केलें आनी म्हळें, ''तूं आयलो हें बरें जालें, जेवणाची तयारी जायत आयल्या.''

ईदाली ही वागणूक पळोवन ॲन्थनीक अजाप जालें. घोवा - बायलेच्या झगड्यामदीं आपुण घुस्पन म्हपाची ताका भिरांत दिसली.

सॉब्वा गोंदळून आनी रागान ईदाकडेन पळयतालो.

ॲन्थनी जाणा आसलो कि, भितर रानचेकुडींत जेवण तयार जावंक ना आनी हीं दोगां जेवणाक उल्लीं जाल्यार ताका वेगळें कितें तरी करचें पडटलें. वातावरण ल्हव करपाचें येवजून ॲन्थनीन सॉब्वामुखार सिगरेट धल्ली.

सॉब्वान सिगरेट घेतली ना. तो तटास नदरेन ईदाकडेन पळयत आसलो. मांगशीशची राणी सेक्रेटरीच्या घरांत रांदता ही कल्पनाच अजापाची आसली! ईदाक जो कोण वळखता ताका अजाप दिसतलेंच. तिगेली पूर्वजीण नकळ असलेलो लेगीत इतलें जाणा कि, ईदान केन्नाच हांगासल्ली वस्त उखलून थंय दवल्ली ना, रांदपाची गजाल पयसच! पुण ईदा फक्त रांदतलेचें संवंग घेवनच ओगी रावली ना. ती ॲन्थनीकडे सलगी दाखोवन सॉब्वाक खुबळावपाचो यत्न करताली.

बऱ्या वेळान सॉब्वान म्हळें, ''ईदा, हांव तुका घरा व्हरूंक आयलां.''

''आतां?'' अजाप जाल्ल्याभाशेन तोंड करून ईदान विचाल्लें.

''हय, आतां.'' मात्शा निबर उतरांनी सॉब्वान जाप दिली.

''हांव अजून जेवंक ना. तूंय जेवपाक राव. मागीर आमी दोगांय सांगातान घरा परतुया.''

''ना. म्हाका वेळ ना. तूं आतांच्या आतां भायर सर. आमी या.''

ईदान कमराक बांदिल्लो ॲप्रन सोडोवन झाडलो आनीक भुरग्याभाशेन हांसली.

''चल या.'' सॉब्वान परत म्हळें.

''रान्नीर आसा तें तरी शिजोवन काडटां. हांव गेलीं जाल्यार ॲन्थनी बाबडो उपाशीं पडटलो.'' ईदान म्हळें.

ॲन्थनी गोंधळ्ळो. ताका ईदाचो राग आयिल्लो. पूण तोंड धांपून ओगी रावलेबगर ताज्यामुखार दुसरो उपाय नासलो.

सॉब्वा उठून उबो रावलो.

''ताकीत कित्याक करता सॉब्वा? जेवलेबगर तूं म्हाका घरा व्हरता? जेवण जावचें आसा. मागीर सगळें घर थाऱ्यार घालूंक जाय.''

येदो वेळ जो राग हड्ड्यांत घुसमट्टालो ताजो स्फोट जालो. ताणे आपल्याच उजव्या हाताची मूठ दाव्या हाताचेर मारून तिडकीन म्हळें, ''ही सोबा पुरो! चल या.''

पूण घोवाक तिडावपाचें ईदान चालूच दवल्लें. तिणे म्हळें, ''तुका ताकीत आसल्यार तूं वच. ॲन्थनी म्हाका घरा पावयतलो. न्हय रे ॲन्थनी ?''

कापल्यार रगत येवचेंना अशी ॲन्थनीची आवतिकाय जाली. सॉब्वा कांय उलयलो ना. ताणे पांय जमनीक आपटिलो आनी तो वचूंक गेलो. वतना ताणे बंगल्याचें दार व्हडान आपटिलें.

''ताका राग आयला ?'' तो वतकच ईदान ॲन्थनीक विचाल्लें.

''तुका दिश्टी पडलो ना ?''

पूण ईदा हांसत रावली. उप्रांत मात्शी गंभीर जावन तिणे ॲन्थनीक विचाल्लें, ''ताका राग आयला अशें तुका खऱ्यांनीच दिसता ?''

''तुजी ही वागणूक पळोवन खंयच्च्या घोवाक राग येवचो नासलो ?'' ॲन्थनीन तिका विचाल्लें.

ताका दिसलें आतां मांगशिशांतले आपले दीस भल्ले. पूण वता आसतना नसती बदनामी आपल्या वांट्याक येतली.

''ॲन्थनी, थोडो वेळ हांव रावूं ?'' ईदान ॲन्थनीक विचाल्लें.

''तूं अशें कित्याक करता ईदा ?'' काकुळटेक येवन ॲन्थनीन तिका परतो प्रस्न केलो.

''जाणा तूं!'' मात्शी नदर बारीक करून सपनेल्ल्या आवाजांत तिणे म्हळें, ''आजमेरेन तो केन्नाच म्हजेर रागार जावंक ना. आज जाला अशें तुका दिसता ?''

''तुजो आनी ताजो खेळ जातलो आनी म्हजो जीव वतलो.'' ॲन्थनीन म्हळें, ''तूं अशें कित्याक करता ? तुका कितें मेळटलें ?''

''तुका हांव राविल्लीं नाका जाल्यार म्हाका पावय तर.''

ॲन्थनीन रोखडीच तिका राजवाड्यामेरेन पावयली.

त्या दिसा ॲन्थनी उपाशीं तर उल्लोच, त्याभायर खूबच अस्वस्थय उल्लो. सगळी रात ताका न्हीद आयली ना. सॉब्वाक कशे तरेन स्पष्टीकरण दिवचें हें ताका समजनासलें. निमाणे ताणे थारायलें कि दुसऱ्या दिसा सकाळीं सॉब्वाची भेट घेवन जें कितें घडिल्लें तें ताज्या कानार घालचें.

सकाळीं ॲन्थनी राजवाड्यांत गेलो. सॉब्वा भितल्ले कुडींत बसून सिगरेट ओडटालो. ॲन्थनीक ताणे भितर आपोवन घेतलो आनी ताज्या तोंडातल्यान उतर भायर सरचे आदींच म्हळें, ''तूं कसलीच मखलशी करूं नाका, ॲन्थनी. कितें घडलां तें हांव बेस बरें जाणा. ईदाचीं पिशेपणां ! लोकांच्या कानार गेलीं जाल्यार मात म्हजें नाक कापतलें. एक सांग ॲन्थनी, बरो घोव जावंक कसलो गुण लागता ?''

संकट पयसावलें म्हणून सुस्कारो सोडीत ॲन्थनीन म्हळें, ''हांव कशें सांगूं सॉब्वा ? हांव लग्न जावंक ना ! घोव जावप म्हळ्यार कितें करप हेंच हांव नकळ.''

''घोव जावप म्हळ्यार बायल नांवाच्या खांब्याक लग्न नांवाचे दोरयेन बांदिल्लें

सुणे जावप. घोव निखटो मायेस्त आसून उपकरना. तो मत्सरीय आसचो पडटा. काल ईदा म्हज्या मनांत मत्सर भरपाचो यत्न करताली तें तुवें पळोवंक ना ?''

त्या दिसाचे संभाशण तितल्याचेर सोंपलें. ॲन्थनी समजलो घोवा - बायलेमदलें झगडें तुर्ताक तरी पालवलां.



मांगशिशचे राजगादयेक पांग लुंग नांवाचो एक वारस आसा हें ॲन्थनीक खूब दीस खबरच नासलें. सॉब्वाले पयले बायलेगेर जाल्लो तो पूत. तो मेरेन सोब्वाक दुसरें भुरगें नासलें. एक दीस पांग लुंग आपले बायलेसयत, म्हळ्यार सॉब्वाचे सुनेसयत, राजवाड्यांतल्यान भायर सरतना ताणे पळयलो आनी कोणें तरी ताका तो सॉब्वाचो पूत म्हणून सांगलें.

अँथनीन पयसुल्यानच तांकां पळयिल्लीं. तरी पुण ती दोगांय सुंदर आसात अशें ताका दिसलें. तातूंतय सॉब्वाची सून हेर शान चलयांपरस वेगळी दिसली.

ॲन्थनी आयकून जाणा आसलो कि सॉब्वाची पयली बायल पोरन्या घरांत रावता. राजवाड्याचे फाटलेवटच्यान एक न्हंय व्हांवता आनी न्हंयचे पलतडीन तें पोरनें घर आसा. तें घर एक दोन खेपे अँथनीन पळयिल्लें. ईदा येतसावन सॉब्वाचें पयले बायलेगेर वचप बंद जाल्लें त्या घरचो लोक राजवाड्यांत चडशे येनात.

एका मंत्र्याकडच्यान अँथनीन सॉब्वाच्या पुताची खबर घेतली तेन्ना ताका कळ्ळें कि तो रूपान सुंदर, सभावान शांत असो सुमार बावीस वर्सांचो तरनाटो आसा. तागेरय दोन भुरगीं आसात. दोनय चलयो.

केन्ना तरी सॉब्वाच्या पुताक मेळून वळख करून घेवची अशें अँथनीन थारावन दवरिल्लें. तो योग अचकीत आयलो.

एक दीस अँथनीकडेन सॉब्वा उलयतालो. इतले म्हणसर एक चाकर भितर येवन ताणे सांगलें, सूनबाय सॉब्वाक मेळूंक सोदता.

''खंय आसा ती ?'' ताणे चाकराक विचाल्लें.

''ती भायर बसल्या.''

कपलावयल्यान उजव्या हाताचीं बोटां फिरावन सॉब्वा ओठांतल्या ओठांत कितें तरी बडबडलो. मागीर म्हळें, ''बरें आसा. तिका भितर येवंदी.''

अँथनीन म्हळें, ''हांव वचूं ?''

''नाका. राव. तुजी गरज पडूंये.''

सूनबाय आनी तिच्या सांगातान एक दासी भितर आयलीं आनी ताणीं सॉब्वाक अभिवादन केलें. कमर बागोवन बरेच खेपे दोगांय एकमेकांक अभिवादन करीत रावलीं. उप्रांत सूनबायन म्हळें, ''म्हजी मांय सॉब्वाक मेळूंक सोदता. तिका येवंक सांगूं ?''

राज घराण्याची ही पध्दत आसली म्हणपाचें अँथनीक कळ्ळें. बायल सरळ घोवासरीं येना आसतना सुनेकडेन रकाद धाडटाली. दासीकडच्यान रकाद धाडल्यार तो राजाचो अवमान जातलो.

अँथनी सुनेक पळेत रावलो. सकाळच्या दंवांत गुलाबाच्या झाडाचेर फुलूंक लागिल्ली ओली कळी कशी ती ताका दिसली. ती जितली रुपेस्त तितलीच सात्विक दिसताली. तिगेली दासी लेगीत राजकन्या सोबपाइतकीच सुंदर आसली.

''हय, येवं दी तिका.'' सॉब्वान म्हळें.

परत कमर बागोवन अभिवादन करपाचे उपचार जाले. सुनबाय आनी तिगेली दासी भायर गेली.

अँथनी केदो वेळ मेरेन तिगेले फाटीकडेन पळयत रावलो. हे वाटेन सॉब्वा मात कपलार हात दवरून येवजूंक लागलो. सून वा बायल मेळूंक आयली जाल्यार सॉब्वा इतलो चिंतेस्त कित्याक जाता हें अँथनीक समजना जालें.

थोड्या वेळान चाकर परत आयलो. सॉब्वाची पयली बायल भायर आइल्ल्याची वार्ता ताणे सॉब्वाच्या कानार घाली. सॉब्वा तिच्या येवकाराखातीर उठून दारामेरेन गेलो. अभिवादनाचे सोपस्कार दारांतच जातकच ताजी बायल एकलीच भितर आयली. सॉब्वा कदेलार बससर ती उबी रावली. उप्रांत परत अभिवादन करीत ती दुसऱ्या कदेलाचेर बसली.

अँथनी तिका निरखितालो. ती खूब जाण्टी दिसली. खंयचेय शान बायले सारकोच तिचो भेस आसलो. पूण आंगावयलीं वस्त्रां रस्मी आसली. माथ्यार एक हॅट, जी ती लग्न जाल्ली बायल म्हणपाची खूण आसली.

अँथनी एके कुशीक उबो आसलो. आतां तरी आपणे भायर वचचें काय कितें अशें तो येवजितालो. आदेशाचे अपेक्षेन ताणे सॉब्वाच्या तोंडाकडेन पळयलें. पूण सॉब्वा दोळे धांपून येवजितालो. सॉब्वाचें लक्ष ओडून घेवचे खातीर अँथनी खांकलो. तशी सॉब्वान नदर वयर केली आनी अँथनीक थंयच राव अशें खुणायलें.

दोन मिनिटांमेरेन कोणूच उलयलो ना. जेन्ना सॉब्वान आपली नदर बायलेचेर व्हेली तेन्ना तिणे म्हळें, ''आमच्या पांग लुंगाक चलो ना. हांव म्हणटां ताका दुसरी बायल हाडूंया. नमीचो दीस बरो अशें पंचांग सांगता. त्या दिसा लग्न जाल्यार संतत बरी जाता खंय.''

सॉब्वान कान दिवन बायलेचें म्हणणें आयकलें. मागीर आपली नदर जमनीर थिरावन विचाल्लें, ''तुजे तकलेंत कोणय चली आसा ?''

''हांव आयकतां, चे फांग राज्याच्या सॉब्वाची पुतणयी रुपेस्त आसा. तुवें मागणी घाल्यार लग्न जुळून येतलें.''

''तूं चेफांगच्या सॉब्वाची बापोलभयण !'' नदर वयर करिनासतना सॉब्वान म्हळें, ''इतले लागींचें नातें आसतना सोयरीक करप समा जातलें ?''

''नातें लागींचें खरें. पूण कूळ भरवंशाचें. हांवें चलयेक पळयल्या. आमच्या पांग लुंगाक ती सोबतली.''

कांय वेळ सॉब्वा उलयलो ना. ताज्या कपलावयल्यो मिरयो हालल्यो नात. पूण उप्रांत ल्हवूल्हवू सॉब्वा सारको बसलो. मात्सो हांसलो आनी म्हळें, ''बरें आसा. हांव पळयतां.''

''म्हूर्त लागीं पावला तो चुकूंक फावना.'' तिणें सुचयलें.

''हय, जाणा हांव. फाल्यांच कितेंय तरी करतां. तूं चलयेगेर वचूंक सोदता ?''

''ना. तें बरें दिसचें ना.'' तिणे जाप दिली.

''तशें जाल्यार हांवच वतां. ना जाल्यार कोणाकय धाडटां. तांची जाप येतकच तूं वचून यो.''

तकली हालोवन बायलेन मान्यताय दिली. ती उठून उबी रावली. सॉब्वाय उबो रावलो. परत कमर बागोवन अभिवादनाचे सोपस्कार जाले आनी ती भायर गेली. सॉब्वा दारामेरेन गेलो.

अँथनी हें सगळें पळयतालो. नाटकांतल्या प्रवेशासारको सगळो प्रसंग आसलो. घोव - बायलेचें हें परक्यासारकें वागप ताका विचित्र दिसलें. तातूंतय ईदा आनी सॉब्वाचें वागप पळोवन आयिल्ल्यान ताका ह्या वागपांतलें उपचारिकपण जाणवलें.

पूण एके गजालेचें अँथनीक वायट दिसले. सॉब्वाले सुनेक ताणे पळयिल्ली. तिजें रूप तो वाखाणटालो. तिजी नम्रता ताका मानवल्ली. तिका आतां सवत येवपाची आसली. ती हाडपाचो प्रस्ताव घेवन सॉब्वाची बायल कितल्या सादेपणान आयिल्ली ! इतलेंय करून आपलो येवपाचो रकाद लेगीत तिणें सुनेवरवींच धाडिल्लो. आपली मांय सॉब्वाक कित्याक मेळूंक गेल्या हें सुनेक खबर आसत काय ? काय राजवंश सांबाळपाखातीर तिणें आपुण जावन आपली अपात्रताय कबूल केल्ली ?

मांगशीश संस्थानच्या अर्थमंत्र्यांचें मुखेल काम म्हळ्यार सॉब्वालीं घरचीं कामां करपाचें. पिरायेन जाण्टो जाल्ल्यान आनी सॉब्वाच्या बापायच्या काळारसावन अर्थमंत्री पदाचेर आशिल्ल्यान तो चड अधिकारान सॉब्वाकडेन उलयतालो आनी सॉब्वाय ताका तितलोच मान दितालो.

दुसऱ्या दिसा सकाळफुडें सॉब्वान अर्थमंत्र्याक आपोवन हाडलो आनी आपले पयले बायलेलें म्हणणे ताच्या कानार घालें.

''इतली ताकीत कित्याक ? पांग लुंग अजून तरणो आसा आनी तागेली बायलय भुरगी आसा. दोन चलयो जाल्यो म्हणून तिसरीय चलीच जातली अशें मानपाक कारण ना. आनी जाली जाल्यार मागीर पळोवं येता.''

''बायलांचे तर्क तूं जाणा. तांकां सगळ्याच कामाची ताकीत आसता,'' सॉब्वान म्हळें, ''फाटलो फुडलो विचार ताणी केल्लो जाल्यार त्यो इतल्यो हट्टी

जावपाच्यो न्हय. म्हगेले पयले बायलेक तूं वळखताच. ती चड उलयना. काल आपूण जावन राजवाड्यांत आयली. राजवाड्यांत ईदा येत सावन ही तिगेली पयली भेट. तिका दिसता वेळ केलो जाल्यार राजघराण्याचो वंश खंडीत जांवये. तिणे चे - फांगच्या सॉब्वाली पुतणयी पळोवन दवल्ल्या. तिज्या रूपा गुणाची वाखाणणी करताली. पूण कोणेय तरी वचून मागणी घालूंक जाय.''

इतलें सांगणे अर्थमंत्र्यांक पुरो आसलें. तो उठून उबो रावलो आनी चे फांगाक वचपाची ताणे तयारी केली.

अर्थमंत्र्यांची चे फांगाक भेट हो एक निखटो सोपस्कार आसलो म्हणपाचें तो थंय पावलो तेन्ना कळ्ळें. फकत सोयरीकच न्हय तर लग्नाचो म्हूर्त लेगीत तिणे आदींच थारावन दवरिल्लो. पांचव्या म्हयन्याच्या पाचव्या दिसा बरो म्हूर्त अशें शान लोक मानतात. चिनी पंचांगांत आदींच म्हूर्त बरयिल्ले आसतात आनी तातूंत एक एका दिसांचें वेगळेपण बरोवन दवरिल्लें आसता. खंयचो दीस शुभ, खंयचो अशुभ, खंयचो दीस प्रवासाक बरो, शिकारेक बरो, लग्नाक बरो हें पंचांग पळयतकच कळटा. मेल्ल्या मनशाचेर निमाणे संस्कार करचेले म्हूर्त लेगीत ह्या पंचांगांत आसतात.

पांग लुंग हाज्या दुसऱ्या लग्नाखातीर सोदून काडिल्लो तो म्हूर्त बरो अशें पंचांग सांगतालें. त्या दिसा लग्न जातल्या जोडप्यागेर भुरगीं बेगीन जातात आनी कुटुंबाक सुख उरता खंय !

ॲन्थनीन कॅलेंडर पळयलें. लग्नाक फकत चार सप्तकां उरिल्लीं. अर्थमंत्री रकाद घेवन आयलो आनी मांगशिशांत लग्नाची तयारी सुरू जाली.

ॲन्थनीक मोठे अजाप दिसलें. राजकुंवराचें दुसरें लग्न थारलां. तागेली पयली बायल आसा. तिजी काकुळट कोणाकच दिसना. सगळें मांगशीश राजकुंवराच्या लग्नाची तयारी करूंक लागलें.

दर दोन दिसांनी सुर्यास्ताच्या वेळार हातांत धोल घेवन एक मनीस लग्नाचें पेरगांव घालतालो आनी त्या पेरगांवाक येवकार दिवंक वाड्यावयले लोक फोगेटी मारताले. लग्ना दिसा सगळ्या गांवाक जेवण आसतलें. त्या भायर राजवाड्यांत व्हडलो दबाजो.

लग्नाचो दीस लागीं येता तशे राजाले सोयरे येवंक लागले. हेर संस्थानिक येत रावले. कोण मोटारीन, कोण माचूलान, कोण घोड्याचेर बसून. फाटले कांय शेंकडे त्या वाठारांतल्या राजघराण्याची एकमेकांमदीं इतलीं लग्नां जाल्यांत कि, कोण कोणालो सोयरो हे सोंपेपणान समजना. नातीं इतलीं घुस्पागोंदळाचीं कि, मामा कोण, काका कोण, भाचो आनी पुतणयो कोण, मावशी आनी आतें कोण हें तिरायताक समजूचें नासलें.

पूण जेन्ना सॉब्वाचे पयले सुनेल्या आवय - बापायक घेवन एक मोटार

मांगशिशांत पावली तेन्ना ॲन्थनीच्या अजापाक शीम उल्ली ना. आपले धुवेक सवत हाडपाचो दबाजो आसूनय तो आनंदाचो प्रसंग मानून आवय - बापूय आयले तरी कशे, असो ॲन्थनीक प्रस्न पडलो. पूण तो विचारतलो कोणाक आनी जाप दितलो कोण ?

लग्नाचो दीस उदेलो. ॲन्थनीन पळयलें कि, लग्नाचो दबाजो प्रजा आपआपल्या वाड्यार आपआपलेपरीन मनयता. लग्नाक ती हाजीर जायना. फकत राजघराण्याचे लोकच मुखेल दबाज्याक वतात. म्हूर्त दनपरां दोनाचो आसलो आनी जेवण सांजचें पांच वरांचेर. राजवाड्याच्या आंगणांत एके कुशीन दादल्यांक आनी दुसरे वाटेन बायलांक बसपाची वेवस्था केल्ली.

व्हंकलेक घेवन चे - फांग संस्थानचो सॉब्वा एके मोटरीन आयलो. मांगशिशचे शिमेचेर न्हवऱ्याकारांनी तिका येवकार दिलो. व्हंकले सांगातान तिगेले सोयरे आयिल्ले. पूण ते तिगेले मोटरींत आसले. व्हंकल मोटारींतल्यान देंवली आनी एका तांबड्या रंगाच्या उकत्या माचुलांत बसली. चार भोयांनी माचूल उखल्लें आनी तिका राजवाड्यांत व्हेली. रस्त्याच्या दोनय कुशीनी मांगशिशची प्रजा नवे युवराणीचो जयजयकार करताली.

लग्नाचो दबाजो राजवाड्यांतल्या सालांत जालो. शान जमातींच्या लग्न सुवाळ्याचें वर्णन केले बगर ताजें वेगळेपण समजुचें ना.

राजवाड्याच्या दारांत राणयेच्या येवकाराखातीर सॉब्वाच्या घरचे लोक जमिल्ले. तांचेमदीं मुखारच सॉब्वाली व्हडली सून पळोवन ॲन्थनीक हांसचें काय रडचें हेंच समजना जालें सगळी रीतच विचित्र अशें ताका दिसलें. एक तरुण सुंदर सून घरांत आसा. तिगेर चलयो जाल्यो हाजेरच मांयक वंशाचो हुस्को जाता आनी ती पुताक दुसरी बायल सोदता. सॉब्वा सुदारणेच्यो गजाली करता तरी त्या लग्नाक मान्यताय दिता आनी पयले सुनेची आवयबापूयच न्हय खासा ती लेगीत नवे सुनेच्या येवकाराखातीर मुखार रावता. हें सगळें पळयतकच ॲन्थनीक असो दुबाव आयलो कि, हे जमातीचे नदरेन लग्न म्हळ्यार भावनाहीन वेवस्था काय कितें ? बायल ही भुरगीं तयार करपाची फॅक्टरी अशें हें लोक धरून चलतात काय कितें ? खासा बायलांचीय भावना इतली तटस्थ कशी उरू येता ?

राजवाड्याच्या मुखेल सालांत चकचकीत दिवे पेटले. भायले वाटेन ड्रमाचो कान फोडपी आवाज. मांगशिशांत एकच वाद्य म्हळ्यार ड्रम ! तेंच वीरवाद्य आनी तेंच मंगलवाद्य.

सालांत पोरने तरेच्या कोरीव कामाचें लाकडी फर्निचर आसा. वयर पाखेतीक झुंबरां. झुंबरांमदीं तेलाच्यो पण्ट्यो. सगळें वातावरण उजवाडाच्या चकचकान भरिल्लें. लग्नाखातीर आयिल्ले सोयरे विलोदी आनी रस्मी वस्त्रां न्हेशिल्ले. तांचो सळसळ आयकूंक येतालो. मदीं एक व्हडलें मेज. त्या मेजाचे एके वटेच्यान सॉब्वा

आनी तागेल्या घरचे लोक आसले. अजापाची गजाल म्हळ्यार ह्या सुवाळ्याक ईदा नासली. सॉब्वाचे व्हडले बायलेचे कुशीक व्हडली सून आसली. मेजाचेर तांबड्या सॅटीनचो टेबलक्लॉथ आनी एके कुशीक कांय कागदां. मदींच उजवाती.

थोड्या वेळान मेजाचे दुसरेवाटेन व्हंकलेचे आवयबापूय येवन उबे रावले आनी तांच्या फाटल्यान व्हंकलकाराचो लोक.

अर्थमंत्र्यांनच पुरयताचें काम केलें. बौध्द धर्माचो इतलो प्रभाव आसतना लग्नाच्या सुवाळ्याक धर्मागुरुक आमंत्रण नासलें. लग्न विधींत धर्मगुरूक स्थानच नासलें.

दनपारच्या तीन वरांचेर अर्थमंत्र्यान खांकून ताळो निवळ केलो आनी म्हळें, ''न्हवऱ्याक हाडात.''

गर्दैतल्यान वाट काडीत पांग लुंग आनी ताज्या सांगातान तागेलो एक सोयरो आयलो. तो मेजाकडेन येवन सॉब्वाचे कुशीक उबो रावलो. सगळ्यांनी टाळ्यो मारून न्हवऱ्याक येवकार दिलो. न्हवऱ्यान कमर बागोवन सगळ्यांक अभिवादन केलें. लोक टाळयो मारतात तितलो न्हवरो बागोवन अभिवादन करता हें खूब खेपो घडत रावलें. न्हवऱ्याल्या येवकाराचो दबाजो सोंपल्याउपरांत अर्थमंत्र्यांनी (जो सिव्हील रजिस्ट्राराची जापसालदारकी चलयतालो) ''व्हंकलेक हाडात'' असो आदेश दिलो.

''व्हंकलेक हाडात, व्हंकलेक हाडात...'' अशे प्रतिध्वनी लोकांमदीं उठले. सगळ्यांच्यो नदरो न्हवऱ्याचे मुखावयले दिशेन थिरावल्यो. व्हंकल येतली. राजघराण्यांतली चली, तिचें रूप आनी बुध्द हांच्यो तोखणायो लोकांच्या कानामेरेन पाविल्ल्यो. सॉब्वाचो पूत दुसरें लग्न करता. तो किरकोळ चलयेकडेन करचोना असो सगळ्यांचो भावार्त. तेभायर सॉब्वाली पयली सून नक्षत्रासारकी सोबीत. आतां आपले मांयचे कुशीक ती उबी आसा. तिज्याय माथ्यार हॅट आनी तोंडार हांसो. तो अडेचो न्हय अशें दिसतालें. ॲन्थनी सोडलो जाल्यार त्या हॉलांत तिचेखातीर कोणूच चुरचुरना आसलो. थंय मेजाचे कुशीक उबे आशिल्लेकडेन तिका दोळे भरून पळोवन घेवपाची संद ॲन्थनीक मेळिल्ली. सोबेक दुसरें नांव दिवपाचें आसत जाल्यार ॲन्थनी तिजेंच दीत आसलो. दोन चलयांची आवय ती! पूण आंगलोट कांतीव! देवान एक बरें शिल्प तयार करपाचें येवजून तिका जल्माक घाल्ली आसूये अशें ॲन्थनी येवजितालो.

''व्हंकलेक हाडात!'' हो आदेश घुमलो तशी ॲन्थनेची नदरय व्हंकलेचे वाटेर लागली. व्हंकल मोटारींत बसून मांगशिशांत आयिल्ली. माचुलांत बसून राजवाड्यांत आयिल्ली. पूण कोणाकच तिजें नाखूट लेगीत पळोवंक मेळूंक नासलें. तांबड्या रंगाचो एक रसमी बुरखो तिगेलें सगळें आंग धांपतालो. दोळ्यांकडेन आनी तोंडाकडेन श्वासाखातीर जागो दवरला काय ना हें समजूंक लेगीत मार्ग नासलो.

कित्याक तर व्हंकल मान सकल घालून आसली. राजवाड्यांत पावसर तिणे मान वयर करूंक नासली. लुगटान धांकिल्लो एक पुतळो कशी ती पळयतल्याक दिसली. पूण हेरांभाशेन अँथनीय जाणा आसलो कि, ती दिसूंक अप्सरेसारकी आसतली. सॉब्बाले व्हडले सुनेपरस उजवीच आसूंक जाय. नायजाल्यार तिका सॉब्बाले व्हडले बायलेन पसंत केल्या. व्हंकल मांयच्या कुळारच्या कुळांतली चली. तिका मांयन पुरती पळोवन घेतल्या. तिजी चाल - रीत, सभाव पारखून घेतला आनी तिका पसंत केल्या. ती रुपान फाटीं आसपाचो प्रस्नच नासलो. गुणांनीय उजवी आसतली.

व्हंकल आयली तशी हॉलांत शांतताय पातळ्ळी. तिच्या सांगातान आशिल्ली एक दासी, जिणे व्हंकलेच्या दंडाक धरिल्लें. दासी एक सुंदरी. सरसकट शान जमातींमदीं तसली सोबितकाय पळोवंक मेळना. पूण व्हंकलेच्या माथ्यावयल्यान पावलामेरेन अजून बुरखो आसा. ह्या सदळ बुरख्याक लागून भितल्ले व्हंकलेच्या देहाचो आकार लेगीत कळूंक मार्ग नासलो. कळूं येताली ती तिगेली लांबाय. शान जमातीच्या बायलांच्या मानान ती लांब आसूंक जाय. तिजी दासी इतली सुंदर तर ती राजकन्या कितली सुंदर आसतली असो तर्क करून सगळ्यांनीच त्या बुरख्याचेर थिराविल्ल्यो नदरो परत न्हवऱ्याचेर व्हेल्यो.

दोन कुटुंबामदीं कोंड्याचो एक व्हडलो हांतर उबो केलो. त्या हांतराचेर कसलीं तरी चित्रां रंगयिल्ली आसलीं. गोंयच्या हिंदू समाजांत लग्नाच्या वेळार अंतरपाट धरतात तशी ती हांतरी अशें ॲन्थनीक दिसलें.

अर्थमंत्र्यांनी आतां लग्नाचे पुरयतपण चलोवंक आरंभ केलो. ताणे आदीं न्हवऱ्याक विचाल्लें, ''अमक्या - अमक्या घरची, कुलवान, शीलवान, रुपेस्त, गुणेस्त अशी चली... तूं तिचेकडेन आपखोशयेन लग्न जाता ?''

न्हवऱ्यान ''हय'' म्हळें.

असलेच खुबशे प्रस्न ताणे न्हवऱ्याक विचाल्ले. एके तरेन न्हवऱ्याली तो व्हंकलेकडेन जल्माची गांठ बांदतालो. तिजो मानसन्मान ताणे राखचेलो, तिजी पोसवण ताणे करचेली, तिगेल्या भुरग्यांक बरी वागणूक दिवपाचें उतर दिवचेलें आनी तिगेल्या कुळारच्या लोकांकडेन मायेन आनी इश्टागतीन चलपाचें उतर दिवपाचें. एका प्रस्नाक उतर दितना निकटे 'हय' म्हणून उपकारनासलें. न्हवऱ्यान कमर बागोवन आनी तकली सकयल घालून सगळ्यांक अभिवादनय करचेलें आसतालें.

न्हवऱ्याक विचारपाचे प्रस्न सोंपतकच पुरयत व्हंकलेच्या अर्दान गेलो. न्हवऱ्याक विचारिल्ले तितलेय प्रस्न ताणे व्हंकलेक विचाल्ले. व्हंकलेनय बागोवन अभिवादन केलें आनी तकली हालयली. तोंडान 'हय' म्हळें ना. म्हणिल्लें आसत जाल्यार ॲन्थनीन तें आयकलें. ना.

प्रस्नावळ सोंपतकच अर्थमंत्री कदेलाचेर बसलो. हेर सगळे आपआपल्या आसनाचेर बसले. न्हवरो आनी तागेले सांगाती तेचभाशेन व्हंकल आनी तिजी दासी उबी रावली.

एका कागदाचेर पुरयतान लग्नाची नोंद केली आनी मेणवातीचेर लाख कडोवन ती कागदाचेर लायली आनी ओले लाखेंत म्होर मारून लग्नविधी सोंपयलो. हांतर कुशीक काडलो.

न्हवऱ्याचे छातयेचेर लायिल्लें तांबडे फूल ताणे काडून व्हंकलेमुखार धल्लें. व्हंकलेचे दासीन तिका खुणायली तसो तिणे आपलो उजवो हात, जो हातमोज्यांनी बंद केल्लो, फुडें व्हेलो. फूल हातांत घेतलें. उपरांत तें तांबडें फूल दाव्या हातांत घेवन दासीन दिल्लें दुसरें तांबडें फूल उजव्या हातान न्हवऱ्यामुखार धल्लें. न्हवऱ्यान तें फूल हातांत घेनाफुडें भायले वाटेन वाजंत्री वाजली, फोगव्यो वाजल्यो.

राजकुंवराचें लग्न जाल्लें ! लग्नविधी सोंपिल्लो. सगळे लोक राजकुंवरासरीं वचून ताका परबीं दिवंक लागले. कागदांनी आनी कपड्यांनी गुठलायिल्ल्यो मोलादिक वस्तू ताका भेटयल्यो. व्हंकलेकय खुबशा जाणांनी केळवण केली.

उपरांत लोक जेवणाक गेले. बायलो एका आंगणात, दादले दुसऱ्या आंगणात. व्हंकलेन अजून बुरखो देंवयलों ना. ती हेर बायलांवांगडा आंगणात गेली आनी उपरांत आपले आवयच्या सांगातान भितर कुडींत गेली.

दुसरे वाटेन न्हवऱ्यानय तशेंच केलें. तोय आपले आवयच्या सांगातान भितर गेलो. भायले वाटेन दोनय आंगणांनी मेजार रचून दवरिल्ल्या घमघमीत जेवणाचेर सगळे लोक तुटून पडले.

केदो वेळ मेरेन अँथनी हें सगळें पळयत राविल्लो. सालांतलो लोक फांपसलो. पूण अँथनी सालांतच उबो उल्लो. कितें जालें हें ताका समजलेंच नासलें. लग्नसुवाळो सोंपलो, पूण व्हंकलेक कोणेच पळयलीना हाजें ताका अजाप दिशिल्लें. न्हवऱ्यान लेगीत व्हंकलेक पळोवंक ना हें तो जाणा आसलो. हें कसलें लग्न ? ताका प्रस्न पडलो.

अँथनी केदो वेळ थंय उबो उरत आसलो देवाक खबर ! पूण सॉब्वाचो निरोप घेवन एक चाकर थंय आयलो आनी अँथनीक सॉब्वासरीं वचचें पडलें.

एका हातांत प्लेट घेवन आनी दुसऱ्या हातांत चॉप स्टीक धरून सॉब्वा उबो आसलो. अँथनी आयिल्लो पळोवन ताणे म्हळें, ''मि. अँथनी, तूं खंय शेणलो ? शान जमातींतल्या लग्नांतलो सगळ्यांपरस व्हडलो दबाजो म्हळ्यार हें जेवण. शेंकड्यांनी पदार्थ मेजार मांडल्यात. तांचो परमळच पोटांत भूक जागयता. तुका पर्थून इतली खाणां एकाचवेळार इतले बेगीन पळोवंक मेळचीनात. सगळीं खाणां तूं खावंक पावचोना. पूण पळोवन तरी घे.''

तकली हालोवन अँथनी मेजावयली खाणां पळोवंक लागलो. राजवाड्यांतले

आमंत्रित थोडे तरी गर्दी खूब आसली. अँथनीक धुकलून लोक मेजाचेर झोपय घालताले. कोण उश्व्या हातांनी बचकां मारून मेजावयले पदार्थ काडून घेताले. खेटाखेट इतली कि एकलो दुसऱ्याक आपटतालो आनी बशयेंतलें खाण जमनीर रकतालें.

हें सगळें पळोवन अँथनीक किळस आयली. राजघराण्याचे हे लोक इतले अधाशी कशे हें ताका समजलेंना. गर्देक लागून कोणच सारको खावंक पावनासलो. कोण कोणाक हटकूंक पावनासलो. सगळ्यांचीं तोंडां खाणान भरिल्लीं. कोणाक जाप दिवपाची माणसुकी नासली. दिली जाल्यार ताज्या तोंडातलें खाण तो उलयतना दुसऱ्या मनशाच्या तोंडार आनी आंगार उसळटालें.

त्या मानान साब्वा ज्या मेजाकडेन बशिल्लो थंय गर्दी नासली. त्या मेजाचेर थोडेच पदार्थ. अँथनी परत सॉब्वासरीं आयलो.

ताका पळोवन सॉब्वान म्हळें, ''तुवें खाणां पळयलीं ? इतले बेगीन ?''

''खूब गर्दी आसा.'' अँथनीन जाप दिली, ''तरीकय थोडीं पळयलीं.''

''कांय घेतलेंना ?'' सॉब्वान विचाल्लें.

''इतलीं खाणां पळोवन पोट भरलें. अशे गर्देत खावपाची म्हाका संवय ना.'' अँथनीन म्हळें.

''आजय घराकडेन शीत - कडी रांदून आयला काय कितें रे ?'' अशें म्हणून सॉब्वा हांसलो. आनी ताणे एक बशी अँथनीच्या हातांत दिली.

मुखावयल्या मेजावयले दोन पदार्थ बशेंत घेवन अँथनी सॉब्वासरीं आयलो तेन्ना सॉब्वान म्हळें, ''जाणा तू अँथनी, शान जमातीची ही रीत म्हाका व्हडलीशी पसंत ना. पूण परंपरा मोडूंक फावना म्हणून चलत आयलां तशें करचें पडटा. लग्न पळयलें न्हय तुवें ?''

इतलो वेळ मनांत घोळटालो तो प्रस्न सॉब्वाक विचारपाची संद आयल्या अशें अँथनीक दिसलें. ताणे म्हळें, ''लग्न पळयलें... पूण व्हंकल दिश्टी पडली ना.''

''तूं खंय आशिल्लो तर ?'' सॉब्वान विचाल्लें.

''हांव लागींच आसलों आनी हांवें बुरख्यातली व्हंकल पळयली. पूण तिजो रंग - आंग दिसलें ना.''

सॉब्वा व्हडान हांसलो आनी ताणे म्हळें, ''राजघराण्याची हीय एक परंपरा. व्हंकल अशीच बुरखो घालून येता आनी तिका सगळ्यांपरस पयलीं घोवान एकांतांत पळोवपाची आसता.'' मागीर हांसून ताणे फुडें म्हळें, ''दुसऱ्याचे नदरेन लेगीत ती भश्टूची न्हय, पयली नदर घोवाचीच तिजेर पडची म्हणून ही तजवीज केल्या.''

अँथनीक ही कल्पना व्हडलीशी मानवली ना. तरी तातूंत एक काव्य आसा अशें दिसलेबगर रावलेंना. व्हंकलेचो भेस आंगार चडटकच चयलेचेर पयली नदर

घोवाची पडची म्हळ्यार तिजें आंकवारपण तशेंच उरचें अशें कितेंशें ते कल्पनेफाटल्यान आसूंये.

"पूण राजकुंवराचे आवयन तिका पळयल्ली आसतली न्हय?" अँथनीन विचाल्लें.

"हय तर!" सॉब्वान जाप दिली, "तिणे पळयल्या आनी ती तिज्या रूपाची, गुणांची तोखणाय करता देखूनूच सोयरीक जावंक पावली. एक फावटी व्हंकलेचो भेस तिच्या आंगार चडलो म्हण्टकच तिका आवय सोडून दुसरो कोणच पळयना. चडच जाल्यार दासी पळयता. पूण तिच्या रुपाविशीं तूं दुबाव घेवं नाका. खंयचे आवयक कुरूप सून मानवतली? तुवें आमचे व्हडले सुनेक पळयल्याच. तिजेपरस धाकली सून रुपान फाटीं आसची ना."

"आनीक एक प्रस्न विचारल्यार सॉब्वान राग धरचो न्हय." प्रस्तावना करीत अँथनीन म्हळें, "एदो व्हडलो सुवाळो. पूण ईदा खंय दिसली ना. ती बरी आसा न्हय?"

सॉब्वा मात्सो गंभीर जालो. आपलो प्रस्न ताका रुचलोना इतलें अँथनीक कळ्ळें. पूण प्रस्न तो विचारून बशिल्लो. फाटीं कसो घेतलो? तरीकय विशयांतर करपाचो प्रयत्न करून तो आनीक कितेंय उलोवंक वतालो. इतले म्हणसर सॉब्वानच ताका आडायलो आनी म्हळें, "राव. आदीं तुगेल्या प्रस्नाची जाप दितां... तूं जाणा, ईदाचेर म्हजो कितलो मोग आसा तें! पूण आमचे जमातींत कांय विधिनिषेध आसतात. ईदा पट्टराणी आसली तरी घरगुती सुवाळ्यांनी चल्याची आवय ही पट्टराणी उरता. ईदा हांगा आयिल्ली तरी ती हेर आमंत्रितांसारकी आसपाची. ती गजाल तिका मान्य ना." आनी मागीर आवाज ल्हवू करून ताणे म्हळें, "म्हज्या चल्याक ईदा दोळ्यांमुखार नाका. असल्या सुवाळ्याचो विरस जावचो न्हय म्हणून तिणेच कुशीक रावचें थारायलें."

जेवणां चालू आसलीं, पूण सॉब्वा उठलो. वतना ताणे अँथनीक आपल्या सांगातान आपयलो आनी म्हळें, "आयचो दीस बोवाळाचो. पूण हेर संस्थानांचे सॉब्वा लग्नाक आयिल्ले आसात. ते जितले दीस हांगा उरतले तितलेय दीस ते आमचे सोयरे. तुवें सगळ्यांक वेळ काडून मेळचें. तांकां कसलीच अडचण जायना म्हणपाची जतनाय घेवची."

सॉब्वा उठून राजवाड्यांत गेलो. परकेकडेन जेवणाक आयिल्लो मनीस जेवन परत वता तसो.

एका आंगणात दादल्यांचो बोवाळ. दुसऱ्या आंगणात बायलांचो सुळसुळाट. केदो वेळ जेवणां चलतली देवाक खबर. एक नवो अणभव घेतिल्ल्या अँथनीची भूक मेल्ली. तो उठून ल्हवू - ल्हवू पावलां उखलीत आपल्या घरा परतलो.

सॉब्वाल्या सोयऱ्यांचो मान भोवमान राखपाचें काम खूबच कटकटीचें आसा

म्हणपाचो अणभव ॲंथनीन पयल्याच दिसा घेतलो. चार जाणांच्यो चार तरा. चार वेगळ्यो आवडी. मोटारींत बसले जाल्यार खंय वचचें हे विशीं मतभेद. पूण सॉब्वाले सोयरे जाल्ल्यान कागाळ करपाची सोय नासली.



जेन्ना सोयरे परतले तेन्ना ॲंथनीन सुटकेचो सुस्कारो सोडलो आनी चार दिसां उपरांत पयलेच खेपे तो जेन्ना राजवाड्यांत गेलो तेन्ना ताजी भेट ईदाकडेन जाली.

''खंय तूं इतले दीस, ॲंथनी ?'' ईदान ताका विचाल्लें.

''सॉब्वाल्या सोयऱ्यां सांगातान उल्लों.'' ॲंथनीन जाप दिली.

''लग्नाचो बोवाळ अजून सोंपूंक ना तर ?''

''आतां सोंपत आयला.'' ॲंथनीन म्हळें, ''पूण लग्नाच्या सुवाळ्याक तूं खंयच दिश्टी पडली ना...''

ॲंथनीलो प्रस्न ईदाक अनपेक्षीत आसलो काय कितें कोणा जाणा. तो आयकून तिज्या तोंडावयले भाव बदल्ले. गंभीर जावन तिणे म्हळें, ''हीं सगळीं फकाणां. म्हाका हें लग्न निखालस मान्य नासलें. एक सुंदर तरणी सून घरांत आसतना तिका घराभायरी करून खपना आशिल्लो माल आपल्या पुताच्या गळ्यांत बांदपाचें कारस्थान खासा तागेली आवय, सॉब्वाली पयली बायल, करता हें येवजिल्यार लेगीत खरें दिसचें ना. सगळो लग्नाचो सुवाळो म्हळ्यार रानवटी आनी कारस्थानांचो घुस्पागोंदळ. हांव मुद्दाम कुशीक रावलीं.''

ईदाल्या उलोवपाचो रोख ॲंथनी समजलो ना. तातूंतय सॉब्वाले सुनेचो उल्लेख तिणें खपना आशिल्लो माल, असो करचो म्हणपाचें ताका अजाप दिसलें.

''दर एके जमातीच्यो चाली रिती वेगळ्यो आसतात. खंयची रानवटी आनी खंयची फुडारिल्ली हें कोणे सांगपाचें ?'' कितेंय तरी उलोवंक जाय म्हणून ॲंथनी उलोवन गेलो.

''चालीरिती सोड, पूण व्हंकलेचें कितें ?'' ईदान ॲंथनीक विचाल्लें.

''व्हंकलेचें कितें ?'' तिगेलोच प्रस्न ॲंथनीन परतून तिका विचाल्लो.

''तुवें व्हंकलेक पळोवंक ना ?'' ईदालो प्रस्न.

''ना. लग्न सुवाळ्याक ती बुरखो घेवन आसली. तोंड सोडच, व्हंकलेच्या पायाचें नाखूट म्हाका दिश्टी पडलें ना. आतां ती हांगाच उरतली. केन्ना तरी दिश्टी पडटली. कित्याक विचारलें तुवें ?''

''व्हंकल सामकी कुरूप !'' गंभीर जावन ईदान म्हळें. उपरांत आपल्या तोंडाचो बोळो करून ओंठावयल्यान जीब भोंवडायली. ती मंद हांसली.

ईदाल्या अभिप्रायाची दखल घेवची अशें ॲंथनीक दिसलें ना आनी विशय बदलपाखातीर ताणे तिका विचाल्लें, ''सॉब्वा आसा न्हय ?''

''हय. कपलार हात घेवन बसला. आतां पश्चात्ताप करून कितें उपेग? माकडीणीसारकी कुरूप चली! अविचारीपणान ताणे आपल्या पुताच्या गळ्याक बांदली.''

''पूण व्हंकल सुंदर अशें खासा न्हवऱ्याली आवय सॉब्वाक सांगताली तें हांवें आयकलां.'' अँथनीन म्हळें.

''चल तूं.'' अशें म्हणून ईदान अँथनीक भितल्ले वाटेन हात दाखयलो.

ईदालें म्हणणे अतितायेन भरिल्लें आसतलें अशें येवजून अँथनी भितल्ले वाटेन गेलो.

अँथनीक पळयना फुडें सॉब्वान ताका बसोवन घेतलो आनी म्हळें, ''हांव तुजीच वाट पळयतालों. असल्या वेळार म्हाका तुजोच धीर.''

सॉब्वाल्या आवाजातलो कंप अँथनीक जाणवलो आनी ताणे म्हळें, ''सोयरे गेले आनी आजच हांव मेकळो जालों.''

''तुका कांयच खबर ना दिसता!'' सॉब्वान म्हळें, ''पा लुंग पळून गेलो.''

सॉब्वाच्या उतरांचेर अँथनीचो विस्वासच बसलो ना. खबर खरी आसत जाल्यार हुस्को करपासारकीच आसली. केन्ना गेलो? खंय गेलो? कित्याक गेलो? अशे साबार प्रस्न अँथनीच्या तोंडार आयले. पूण ताणे सॉब्वाक कांयच विचाल्लें ना. तो सॉब्वाच्या तोंडाकडेन पळयत रावलो.

''तो पळून वचत अशें म्हाका दिसूंक नासलें.'' सॉब्वान म्हळें.

''घडलें तरी कितें?'' अँथनीन सॉब्वाक विचाल्लें.

''तो मेळटलो तेन्नाच कळटलें.'' सॉब्वान जाप दिली, ''अशें सांगतात कि लग्नादिसा व्हंकलेचो बुरखो काडलो आनी तिचें रूप पळोवन ताका धक्को बसलो. दीसभर तो कुडीचे दार बंद करून एकलोच बसून रावलो. आनी रातीकडेन कोणाक सांगिना आसतना नाच जालो. ताका हें सोबलें ना! तो ह्या राज्याचो वारस. ताजे आवयन ताका बरी देख दिली ना.''

''तुवें व्हंकलेक पळयल्या?'' अँथनीन सॉब्वाक विचाल्लें.

''हय. आज सकाळींच पळयली. तिका धीर दिवंक हांव तिजेसरीं गेल्लों.''

''खऱ्यांनीच ती कुरूप?'' अँथनीन विचाल्लें.

''ती कुरूप आसली तरी ह्या भुरग्यान इतल्या बेजबाबदारपणान वागूंक फावना आसलें. लग्ना दिसा पळून वचप म्हळ्यार सामकें पिशेपण. सगळ्या तरांच्यो वावड्यो पातळतात आनी म्हाका लेगीत तोंड दाखोवपाची सोय उरना.

सॉब्वान एक व्हडलो सुस्कारो सोडलो. अँथनीक खूबशा प्रस्नाच्यो जापो मेळिल्ल्यो. पूण ताज्या तोंडाक मात आतां खिळी बशिल्ली. कितें उलयतलो? वेळ मारून व्हरूंक ताणे म्हळें, ''वचूं हांव?''

''राव.'' सॉब्वान म्हळें, ''तुजेकडेनच हांव मेकळेपणान उलयतां. तुका खरें

सांगतलो जाल्यार ती कुरूप. ईदा म्हण्टा तशी माकडीणीच्या रूपाची. तितलीच काळी. हे आगळीकेक तागेली आवय जापसालदार जावन आसा. तिका नात्याची ओड आसलीच, गुणांचेर ती भाळ्ळी. रूपाचो तिणे विचार केलोना. मनीस फक्त गुणाकडेन लग्न करिना हें ती विसल्ली.''

अँथनी तकली हालयत बसून रावलो.

''तो खंय गेल्लो आसत ?'' बऱ्या वेळा उपरांत अँथनीन विचाल्लें.

''ब्रह्मदेशांत गेल्लो आसतलो. थोडे दीस राव, तो पैशांखातीर रकाद धाडटलो. तेन्ना पत्तो कळटलो.''

एक प्रस्न सोडयिल्ल्याचो सुस्कारो सोडून सॉब्वा उठलो.

फुडलें सप्तकभर मांगशिशचें पुराय पोलीसदल शेणिल्ल्या राजपुत्राचो सोद घेवचे खातीर एका एका गांवांतलें घरान घर भोंवलें. राजपुत्राची खबर दितल्याक पन्नास खांडी तांदूळ इनाम दिवपाचें पेरगांव सॉब्वान घाल्लें.

मांगशिशच्या लोकांकय आपल्या युवराजाचो हुस्को दिसतालो. जाण्टे, नेण्टे, दादले, बायलो फकत पांग लुंगच्योच खबरो करताली.

सप्तकाच्या शेवटाक सॉब्वाच्या एका सोयऱ्याचें लाशिवो शारांतल्यान एक पत्र आयलें. लाशिवो हें ब्रह्मदेशाचे सरादिवयलें शार. पत्रांत बरयिल्लें कि पांग लुंग त्या सोयऱ्याकडेन पैशे मागूंक आयिल्लो. तो सध्या एका हॉटेलांत रावता. पूण त्या हॉटेलांत एक नाईट क्लब चलता.

पत्र वाचून सॉब्वा खंती जालो. बोवाळ नाका म्हणून ताणे त्या पत्राची खबर कोणाक सांगली ना. अँथनीक आपोवन घेतलो आनी आपल्या सोयऱ्याक जाप धाडूंक सांगली. ''पांग लुंग आयिल्ल्याची खबर ताणे कोणाक सांगची न्हय. सॉब्वा खासा लाशिवोक वचून प्रस्न थाऱ्यार घालतलो.''

अँथनीन तशी चीट बरोवन सीलबंद लाखाव्यांतल्यान सॉब्वाल्या सोयऱ्याक पावती केली.

अँथनीक दिशिल्लें, लाशिवोक वतना सॉब्वा आपणाक आपल्या सांगातान व्हरतलो. पूण सॉब्वा एकलोच लाशिवोक गेलो. ताज्या सांगातान फकत तागेलो ड्रायव्हर आसलो. लाशिवोक सॉब्वा सप्तकभर उल्लो. सॉब्वा खंय गेला हें कोणाक खबर नासलें.

मजगतीं ईदान एक दीस अँथनीक आपोवन व्हरून सॉब्वा खंय गेला ताजी वासपूस केली. अँथनी जाणा आसलो. तरी कितें जाप दिवची हें ताका समजलें ना. ईदापसून ती गजाल लिपून दवरपाची नासती जाल्यार सॉब्वा आपूण जावन तिका ती सांगतलो आसलो. घडये आपल्या सांगातान तिकाय व्हरतलो आसलो. पिशेपणां पांगरून अँथनीन ईदाकच परतो प्रस्न केलो. ''सॉब्वा केन्ना गेलो ? तुका कांय सांगलें ना ?''

‘‘सांगलें ना. पूण रकाद धाडलो. चार दीस भायर वतां आनी तो गेलो. म्हाका दिशिल्लें, तूं सांगातान वतलो. तुकाय घेना आसतना वचपासारकें खाजगी काम तरी कसलें ?’’

‘‘घडये पांग लुंगाक सोदूंक गेल्लो आसूंये’’ अँथनीन म्हळें.

‘‘तू सॉब्वाक वळखना अँथनी.’’ ईदान म्हळें, ‘‘हांव सांगतां, तो आपलें दुख्ख ल्हव करपाखातीर रंगूनाक वचून हॉटेलांनी आनी नाईट क्लबांनी लोळटलो.’’

अँथनी कांय उलयलो ना. मागीर ताका दिसलें आपणे ओगी रावप म्हळ्यार तिगेलें म्हणणे खरें म्हणपासारकें जातलें. देखून ताणे म्हळें, ‘‘पांग लुंग वचत सावन सॉब्वा खूबच अस्वस्थ जाल्लो. फोल्गां मारपाचे अवस्थेंत तो ना.’’

तरी पूण मनातल्यान अँथनीक दिसतालें कि ईदाचो दुबाव सामकोच फट आस्चो ना.

ईदा रंगूनाक वचपाची तयारी करताली तितले म्हणसर पांग लुंगाक घेवन सॉब्वा मांगशिशाक परतलो आनी तो विशय तितल्यारच सोंपलो.

लाशिवो सावन पुताक परत हाडटकच सॉब्वान अँथनीक आपोवन घेतलो आनी म्हळें, ‘‘आयच्यान हांव पांग लुंगाक तुजे सुवादीन करता. तूं ताका इंग्लीश भास शिकय ना जाल्यार निखटो सांगात दी.’’

पांग लुंग आनी अँथनी हांचेमदीं अशे तरेन पयलेच खेपे संबंद आयलो. सद्दां दनपरां अँथनी पांग लुंगाच्या घराकडेन वचून ताका इंग्लीश शिकयतालो आनी उपरांत सगळी सांजवेळ ताज्या सांगातान खबरो करतालो ना जाल्यार बुध्दीबळ खेळटालो.

पांग लुंग हो हुशार पूण अस्थिर मनाचो अशें अँथनीक दिसलें. ताका शिक्षणापरस खबरो चड आवडटाल्यो. पूण शिक्षकाक दिवचेलो मान तो अँथनीक दितालो. अँथनी मात ताजेकडेन इश्टागत जोडपाचे यत्न करतालो.

‘‘तूं अफू ओडटा ?’’ एक दीस अँथनीन पांग लुंगाक विचाल्लें.

अजापून अँथनीकडेन पळोवन ताणे म्हळें, ‘‘तुका असो दुबाव कित्याक आयलो ?’’

‘‘म्हाका दुबाव येंवक ना.’’ अँथनीन जाप दिली, ‘‘पूण लोक तशें उलयतात.’’

‘‘लोकांची तोंडां कोण धरतलो ?’’ पांग लुंगान म्हळें, ‘‘म्हज्या कानार अशें आयलां कि हांव दादलोच न्हय अशें कांय जाण म्हणटात. आतां तूंच सांग, हांव दादलो म्हणपाचे हांवें सिध्द केलें ना ?’’ पांग लुंगान रागान म्हळें.

‘‘कशें ?’’ अँथनीन विचाल्लें.

‘‘हांव एक सप्तक नाईट क्लबांत रावलों !’’

‘‘खरें म्हण्टा काय कितें ?’’ अँथनीन म्हळें, ‘‘हांवें आयकल्लें तुजी बायल

कुरूप देखून तू लाशिवोक गेल्लो.''

अँथनीवयली नदर उखलून पांग लुंगान वण्टीचेर थिरायली. तागेले ओंठ हाल्ले. तो कितें तरी सांगूंक सोदतालो. पूण ताका उतर सुचना अशें अँथनीक दिसलें. एकदम तो कडकडलो. ताणे दोनय हातांनी आपले तोंड धांपून घेतलें आनी तो रडूंक लागलो.

अँथनीन ताका थातारलो ना. तो ताका पळयत रावलो. तो तागेले पिरायेच्या मानान दुबळो आनी फिक्कट दिसतालो. एक तर ताका अफूचें व्यसन आसलें ना जाल्यार कसलें तरी दुयेंस.''

''घडलें कितें तुजें ?'' अँथनीन विचाल्लें.

ताणे जाप दिली ना. तो रडत रावलो. अँथनीन ताजे फाटीर हात दवल्लो तशे ताजे हुंडके वाडले. रडत रडत ताणे म्हळें, ''हांव अफू ओडिना.''

''तुजें दुयेंस तूं कित्याक लिपयता ? म्हाका सांग. वखद करूया.''

''म्हजें दुखणें एकूच... म्हजी नवी बायल. तिचो उगडास काडल्यार लेगीत म्हजें मन कांचवेता.''

अँथनीक पांग लुंगची काकुळट दिसली.

मेळिल्लेय खेपे सॉब्बा अँथनीक एक प्रस्न विचारतालो, 'पांग लुंगची प्रगती कशी आसा ?''

आनी अँथनीलीय जाप थारिल्लीच आसताली, ''तो बुध्दीन शिटूक आसा. इंग्लीश भास सोंपेपणान शिकतलो. पूण ताजो एक प्रस्न आसा. तो मनान खूबच अस्वस्थ आशिल्ल्यान अभ्यासाचेर लक्ष थिरावंक पावना.''

''तो शिकलो म्हणून व्हडलें कांय करचोना आनी शिकलोना म्हणून ताजें व्हडलेशें लुकसाण जावचेलें ना. तरी पूण भायल्या संवसाराची ताका वळख जावंक जाय. आयज ना फाल्यां मांगशीश राज्य बदलतलें. नवे परिस्थितीक तोंड दिवंक तो लायक आसूंक जाय. इतलेच खातीर हांवें ताका तुजे सुवादीन केला. इंग्लीश भास तूं शिकयच. त्याभायर ताका संवसाराची वळखय दी.'' सॉब्बान म्हणचें.

ल्हवू - ल्हवू पांग - लुंग रोमन मुळाक्षरां शिकलो. तीं अक्षरां बरोवंक आनी वाचूंक ताका येवंक लागली. 'आर' चो अुच्चार ताका जमना हो ताजो दोश न्हय. पूण अँथनीक समाधान आसलें. पांग लुंग ताजेकडेन खुबशो गजाली उलयतालो. कंवळे पिरायेचो आसूनय ताजें शाणेपण अजापाचें आसलें. भायलो संवसार ताणे चडसो पळोवंक ना. केन्नाय ब्रह्मदेशाक वचून आयला तितलो. पूण मांगशीश खूबच मागाशिल्लें राज्य अशें ताका दिसतालें. कांय प्रथांची ताका तिडक येताली. आपले पयले बायलेचेर ताजो उपाट मोग आसलो, जो उतरांनी उक्तावंक तो संकोच करिनासलो. दुसरे बायलेचें नांव घेतल्यार मात तो खुबळटालो.

''हांवें लग्नाच्या दिसा एकच खेपे तिचें तोंड पळयलें तितलेंच. त्या उपरांत

तिजी म्हजी भेट जावंक ना. तिजी सांवळी लेगीत म्हजे वाटेर पडूंक उपकारना, अशें हांवें सांगून दवरलां.'' पांग लुंगान अँथनीक सांगलें.

''हातूंत तिजो कसलो गुन्यांव ?'' ताका समजावपाचो यत्न करीत अँथनीन विचाल्लें, ''चली ही चली आसता. ती सुंदर आसूं वा कुरूप, सगळ्या चलयांच्यो भावना एकसारख्यो आसतात. रूप तिका देवान दिलें. पूण गुणांनी बरी अशें हांव आयकतां.''

''हय, आसत. पूण तिजे गुण घेवन हांव खंय वचूं ?'' पांग लुंगान जाप दिली. ''खरें म्हळ्यार राजाले गादयेक वारस मेळचो हे खातीर दुसरें लग्न करपाची कल्पना म्हाका मान्य नासली. पूण हांव कबूल जालों. हांवें म्हजे पयले बायलेचेर अन्याय केला. तरी तीय कबूल जाली. पूण जिका बायल म्हणून आमी आपणावचेली तिच्या रूपाविशीं थोडी अपेक्षा खंयचोय दादलो करतलोच न्हय ?''

अँथनीक केन्नाय दिसचें, सगळेच जिका धिक्कारतात ती सॉब्वाली दुसरी सून दिसता तरी कशी ? तिका एक खेपे पळोवन घेवची.

दुसरें लग्न केल्या उपरांत लेगीत पयली बायल पांग लुंगासरीं रावतली. तीच आपल्या घोवाले रकाद मांय आनी मांवाच्या कानार पावयताली. केन्नाःकेन्नाय इंग्लीशीचो क्लास चलतना तीय येवन बसताली. ती बसली म्हण्टकच अँथनीचें चित्त भोवन - भोवन तिजेकडेन वतालें. कोणालेंय वतलें आसलें. खरेंच ती सोबीत आसली. दोन चलयांची आवय जावनय जाण्टी दिसच नासली. तिगेर फाटीं - फुडें चलो जावं येतालो. अजून ती जाण्टी जावंक ना. पांग - लुंगय जाण्टो जावंक ना. दुसऱ्या लग्नाची ताकीत कित्याक केली तेंच अँथनीक समजना आसलें.

दुसरे वाटेन दुसरे सुनेखातीर सॉब्वाची व्हडली बायल परत - परत सॉब्वासरीं येवंक लागिल्ली. आपलें चुकलें हें ती कबूल करताली. तिणे सॉब्वाचे तकलेंत एक नवो विचार भल्लो. तिणे सुचयले कि पांग - लुंगान तिसरें लग्न करचें आनी हे खेपे खासा सॉब्वान ताजेखातीर चली पसंत करची.

ह्यो गजाली सॉब्वा अँथनीकडेन मेकळेपणान उलयतालो. व्हडले बायलेचो प्रस्ताव अँथनीक सांगून सॉब्वान म्हळें, ''आतां ती शाणी जाल्या. बायल वेंचता आसतना निखटे तिचे गुण पळयल्यार नुपुरो; तिजें रूपय पळोवचेलें आसता, हें शाणेपण आतां तिका समजलें. पूण एक खेपे दुदान तोंड भाजलें. आतां ताक लेगीत फुकून पियेवंक जाय. अँथनी, पांग लुंगाक तिसरी बायल वेंचूक म्हाका तुजो आदार जाय.''

''म्हजो आदार ?'' अजापून अँथनीन विचाल्लें, ''म्हाका तातूंतलें कितें समजता ? बायलांक पारखुपाची नदर म्हजेकडेन खंय आसा ? त्याभायर ह्या देशाच्यो चालीरिती हांव खंय जाणा ?''

''तेचखातीर तुजो म्हाका आदार जाय.'' सॉब्वान म्हळें, ''तुजें मत हें तटस्थ

मनशाचें मत आसतलें. तूं तरणो आसा. आंकवार आसा. देखून जी चली तूं आपली बायल म्हणून पसंत करीत आसलो तेच चलयेची तूं शिफारस करतलो. आनी तुजी निवड चुकची ना.''

ॲंथनी मात्सो लजेलो आनी मनांत घोळटालो तो विशय विसरचे आदीं सॉब्वाच्या कानार घालपाचें थारावन ताकतिकेन उलोवन गेलो, ''तिसरे बायलेगेर चलो जातलो हाची खात्री कोण दीत ?''

सॉब्वाक प्रस्न अपेक्षित नासलो. अजापून ॲंथनीच्या तोंडाकडेन खीणभर पळयत रावल्या उपरांत ताणे म्हळें, ''तूं म्हण्टा तें खरें. देवाचेर भरंवसो दवरून हें काम करचेलें. मांगशिशची गादी रिकामी उरूंक फावना. तशें जालें जाल्यार राज्य दुसरे वंशावळीकडेन वतलें.''

सॉब्वालो सुस्कारो वातावरण गंभीर करून गेलो. ताका धीर दिवपाचो यत्न करीत ॲंथनीन म्हळें, ''देवाचेर ज्याचो भावार्थ आसा ताणे अविचारान पावल उखलचें न्हय. मांगशीश राज्याच्या फुडाराचो देवाकय हुस्को आसतलोच. ताणे कसलीय तरी येवजण आंखून दवरिल्ली आसूंय जाय.''

''म्हण्टकच कितें करचें अशें म्हण्टा तूं? व्हडली बायल म्हजो जीव खाता. आमचे शान जमातीत भुरगेपणांतच भुरगी जातात. जाण्टे पिरायेचेर जायनात.'' सॉब्वान म्हळें.

''हांव म्हण्टालों, अजून पयले बायलेगेर चलो जावं येता. तिका आतांच कुशीक काडप अन्यायाचें जातलें. त्याभायर तिचेर पांग - लुंगाचो जीव आसा.''

''हांव जाणा ॲंथनी.'' सॉब्वान म्हळें, ''पूण दीस वतात म्हणून मन हुस्केता. तूं ह्या विशयाचेर पांग - लुंगाकडेन केन्ना उलयला ?''

''तशी सरळ उलोवणीं जावंक नात. पूण पांग - लुंगाक दुसऱ्या लग्नाची कल्पनाच पसंत नासली. तो तिसऱ्या लग्नाक कबूल जायत अशें म्हाका दिसना. बळजबरीन ताका तिसरे खेपे लग्न केलो जाल्यार तो जिवाचे बरें - वायट करून घेत असो म्हाका हुस्को दिसता.'' ॲंथनीन सॉब्वाक शिटकायलो.

सॉब्वा गंभीर जालो. ॲंथनीचो हुस्को खरो आसा अशें ताकाय दिसूंक लागलें. ताणे ॲंथनीचो हात घट धल्लो आनी म्हळें, ''हय, तशेंय जावं येता. तूंच कितेंय तरी उपाय सुचय. ॲंथनी, मांगशीश राजवंशाचो क्षय जावंक उपकारना.''

ॲंथनीन सुचयलें, ''ह्या कामात सॉब्वान पांग - लुंगचे पयले बायलेक विस्वासांत घेवची. नाजाल्यार तें काम ईदाचेर सोपवचें.''

''हांगा तूं ईदाक हाडूं नाका पळोवया.'' तिडकल्ले भाशेन आवाज काडून सॉब्वान म्हळें, ''ईदा म्हजी बायल. तिजेर म्हजो खूब मोग आसा, हें तूं जाणा. पूण राजवंश हो परकी वंशाचे बायलेपसून वाडूंक फावना. आनी ह्या प्रस्नांत म्हाका ईदाचे कांय एक आयकुपाचें ना.''

सॉब्वाचें म्हणणे अँथनीक समजलें आनी ताणे सुचयलें, ''पांग - लुंगची पयली बायल शाणी आसा. सॉब्वानच तिका विस्वासांत घेवची आनी प्रस्न सुद्धा जाल्यार पळोवचें.''

सॉब्वाक कल्पना आवडली. ताणे म्हळें, ''तूं म्हण्टा जाल्यार हांव तिजेकडेन उलयतां. पूण हो विशय इल्लो नाजूक जाल्ल्यान आनी तिजें म्हजें नातें मर्यादेचें आशिल्ल्यान घडये हांव मेकळेपणान उलोवंक पावचोना. तूं एक काम कित्याक करिना तूं पांग - लुंगाकडेन उलोवन पळय. तूं म्हण्टा तसो व्हडले सुनेगेर चलो जालो जाल्यार सगळेच प्रस्न सोंपतले.''

अँथनी कबूल जालो.



पांग लुंगाकडेन नाजूक विशयाचेर उलोवप कितलें कठीण हाजो अणभव अँथनीक तसो प्रयत्न करतकच येवंक लागलो. विशय काडलो म्हणटकच पांग लुंगान नदर वयर करची आनी ती अँथनीचे नदरेचेर थिरावची. निर्जीव, निर्विकार नदर. परत तोच प्रस्न अँथनीन विचारलो जाल्यार पांग लुंगाचे ओंठ फडफडिल्ले भाशेन जावचे आनी दुसऱ्याच खिणाक ताणे आपली नदर वण्टीचेर थिरावची. तो कांय उलयना, पूण त्या प्रस्नाक लागून ताज्या मनाक जे कश्ट जाताले ते तोंडार दिसताले.

असो प्रसंग आयलो म्हण्टकच त्या दिसा पांग लुंगाचें अभ्यासाचेर लक्ष लागना आसलें.

''मनशाक एक वायट सपन पडटा वा मनशाल्या हातांतल्यान एकाद्री चूक घडटा.'' अँथनी पांग लुंगाक समजावंक लागलो, ''पूण शाणो मनीस तें सपन विसरता आनी नवे जिणेक परत आरंभ करता. तुजेर अन्याय जाला अशें तुका दिसता. ज्यांचेकडल्यान हो अन्याय जालो तांकां दूशण दीत बसून वा नशिबाचेर कसून कितें जातलें ? तूं अजून भुरगो आसा. तुज्या मुखार सगळो फुडार आसा. मांगशीश राजघराण्याचो वंश अभंग दवरपाची जापसालदारकी तुजेर आसा. तूंच असो जिणेक उबगून वागूंक लागलो जाल्यार कशें जातलें ?''

''म्हाका सगळें समजता सेक्रेटरी.'' पांग लुंगान जाप दिली, ''पूण हांव इतलो गोंदळून गेलां कि म्हाका कांयच सुचना.

''तुजो पयले बायलेचेर कितलो मोग आसा हें हांव जाणा. हांव तिका चडसो वळखना. पूण हांव जाणा ते भाशेन ती शाणी आनी गुणी बायल. तिका विस्वासांत घेतल्यार प्रस्न सुटूं येता.'' अँथनीन सुचयलें.

''हय, पूण ती इतली बरी कि सॉब्वाची आनी आवयची इत्सा कळना फुडें म्हजे इत्सेआड तिणे म्हाका दुसरें लग्न करूंक आग्रो केलो. आपल्या सुखाक तिलांजली दिवन आनी आपलें मन मारूनय राजघराण्याच्या हिताखातीर ती त्यागाक कबूल

जाल्ली.'' पांग लुंगान जाप दिली.

''तुजे आवयच्या आनी बापायच्या मनांत एक नवो विचार घोळटा ताजी तुका शिटकावणी आतांच दिल्ली बरी. तांची खात्री जाल्या कि दुसरी बायल वेंचून काडटना तांची चूक जाली. ते बायले सांगातान तू नंदचो ना हें तांकां पुराय खबर आसा. आतां ते तुका तिसरें लग्न करूंक सोदतात.''

''ना. हे केन्नाच जावचें ना!'' दांत किड्डून आनी मुठी आवळून पांग लुंगान म्हळें.

''हय, अशें जावंक फावना अशें म्हाकाय दिसता. पूण तुगेले पयले बायलेगेर चलो जावं येता अशें तुका दिसना ? तसो चलो जाल्यार तिसऱ्या लग्नाचो विचार कोणूच करचो ना.''

''आनी जालो ना जाल्यार ? हांवें तिसरें लग्न करचेलें ?'' पांग लुंगान प्रस्न केल्लो.

''अशें शिताफुडें मीठ तूं कित्याक खाता ? जेन्ना तसो प्रस्न उप्रासतलो तेन्ना ताजो विचार करूं येता.'' ॲंथनीन जाप दिली.

पांग लुंगाचें तितल्याचेर समाधान जालें आनी ताजी वागणूक खूबच बदल्ली. त्या उपरांत तो आपले पयले बायलेक घेवन वर्गाक येवंक लागलो आनी ती लेगीत इंग्लीश भास शिकून घेवचेली आस्था दाखोवंक लागली. पूण बायलेचे हजेरेंत पांग लुंगाकडेन नाजूक विशयाचेर उलोवप बंद जालें. तरीकय मेळिल्लेय खेपे सॉब्वा ॲंथनीक विचारतालो. ''प्रगती कितें आसा ?''

आनी ॲंथनी जाप दितालो, ''अभ्यासांत बरी आसा. दुसरो विशयय तो समजला.''

ल्हवू ल्हवू सॉब्वाचे वृत्तींतः बदल जावंक लागलो. नातवाच्या जल्माचो तो आतां आदले वरी हुस्को करिना जालो. आपल्या चल्याची भलायकी सुदारता इतलेंच ताका समाधान दिसूंक लागिल्लें. खूब दीस ताणे नातवाचो प्रस्नच ॲंथनीकडेन काडलो ना.



एक दीस सॉब्वान अवेळार ॲंथनीक आपोवन व्हेलो आनी म्हळें, ''एक नवो प्रस्न उप्रासला. सेक्रेटरी, हें गुपीत भायर फुटूंक फावना. पांग लुंगाक खंयची तरी वखदां हाडून दिवंक जाय.''

''कसलीं वखदां ?'' ॲंथनीन विचाल्लें, ''ताका जालां कितें ?''

''आयज म्हजी पयली बायल मेळून गेल्या आनी तिणे जी खबर सांगली ती खरी आसत जाल्यार हुस्को करपासारकीच म्हणूंक जाय. ती आपले व्हडले सुनेकडेन उलयली आनी सुनेन खंय तिका सांगलें, पांग लुंगाची जननशक्त दुबळी

जाल्ली आसा. तुका हें खरें दिसता अँथनी ?''

अँथनीन सरळ जाप दिली ना. म्हळें, ''डॉक्टराचें मत घेतिल्लें बरें. आमच्यांनी बरो ॲलोपेथीक डॉक्टर हाडूं येता. ना जाल्यार ब्रह्मदेशांत वचून चिनी डॉक्टराकडच्यान तपासून घेवं येता.

''पयलीं चिनी डॉक्टराक दाखोवन पळोवया.'' सॉब्वान सुचयलें, ''पूण ही गजाल गुपीत उरूंक जाय. देखून पांग लुंगासांगातान तुवें ब्रह्मदेशाक वचचें पडटलें.''

खूब दीस मांगशिशाक सारिल्ल्यान अँथनीकय ब्रह्मदेशाक वचपाची कल्पना आवडली. दोन दीस मायकलाच्या सांगातान सारूंक मेळटले अशेंय ताका दिसलें. तो रोखडोच कबूल जालो.

रंगुनातल्या एका बऱ्या हॉटिलांत दोन कुडी घेवन पांग लुंग आनी अँथनी रावले. पांग लुंगाच्या सांगातान तागेली व्हडली बायल आसली. रंगूनाक पावना फुडें पांग लुंग पुराय बदल्लो. पिराय आनी जुवानपणाचें भान जाल्ले भाशेन तो हुस्क्या मेकळो बायले सांगातान शारांत भोंवंक लागलो. मनावयलें चेपण पयस जाल्लेवरी अँथनीक तो दिसलो. जेन्ना जेन्ना अँथनीन डॉक्टराचो विशय ताजेकडेन काडलो तेन्ना तेन्ना आनीक दोन दिसांनी पळोवया अशी जाप तो दिवंक लागलो.

निमाणेकडेन जेन्ना चिनी डॉक्टर हॉटिलांतल्या रुमांत पांग लुंगाक तपासूंक आयलो तेन्ना ताणे आपल्या वायटकाराक आदीं न्हिदयलो. उपरांत ताजी नाडी, जीब, दोळे आनी ताळो तपासून म्हळें, ''खूबच दुबळो आसा.''

अँथनीक अजाप जालें. प्रस्न आशिल्लो तो पांग लुंगची जननशक्त तपासपाचो. पूण डॉक्टरान फुडलो प्रस्न विचाल्लो ना. एका कागदाच्या कुडक्याचेर आपलें वखद तो बरोवंक लागलो. अँथनीच्यान रावं नज जालें. ताणे म्हळें, ''मुख्य प्रस्न तागेर भुरगीं जावपाचो आसा. ते नदरेन ताका तपासूंक जाय.''

हातानच अँथनीक ओगी रावंक सांगून डॉक्टर आपलें प्रिस्क्रिप्शन बरयत रावलो. तें बरोवन पूर्ण जातकच ताणें म्हळें, ''तीन म्हयने हें वखद घेतकच तो बरो जातलो.''

परत प्रस्न विचारपाचें धाडस अँथनीक जालें ना. तरी तागेलें तोंड पळोवन डॉक्टरानच ताजें समाधान केलें. म्हळें, ''हांवें तेच नदरेन ताका तपासला आनी तेच खातीर ताका वखद दिलां. पूण तागेले बायलेक तपासलेबगर भुरग्याविशीं निश्चित कांय सांगूंक जावचें ना.''

अँथनीन म्हऱ्यांतच उबी आशिल्ले पांग लुंगचे बायलेकडेन पळयलें. डॉक्टराची नदर पयलेच खेपे तिजेर थिरावली.

''ही तुजी बायल तर !'' ताणें पांग लुंगाकडेन पळोवन म्हळें आनी तो हांसलो. कितलेशेच भांगराचे दांत चकचकले. डॉक्टरान तिका लागीं आपयली. तिजे

फाटीवयल्यान आनी पोटावयल्यान हात भोंवडायलो आनी म्हळें, ''कांय हुस्को करूं नाका. तूं भुरग्यांची आवय जातली.''

''म्हाका दोन चलयो आसात.'' तिणें मात्शें लजून डॉक्टराक सांगलें, ''म्हाका चलो जाय.''

''तें देवाच्या हातांत. तूं देवाकडेन माग. तुजेसारके रुपेस्त बायलेक देव निर्शेवंक दिवचोना.'' मात्सो गंभीर जावन डॉक्टरान जाप दिली.

डॉक्टर गेलो. वतना ताणे पयशे मागून घेतले. अँथनीन धरिल्लें ताजेपरस चडच. पयशे मेजून बोल्सांत घालतकच डॉक्टर उबो रावलो आनी ताणें म्हळें, ''सगळीं वखदां वेळच्या वेळार घे.''

डॉक्टर दाराकडेन गेलो, परत आयलो. पांग लुंगच्या कानाकडेन आपलें तोंड व्हरून ताज्या कानांत कितें तरी फुतफुतलो. ते सरशीं 'ना ना' म्हणून पांग लुंग हांसलो. डॉक्टर मात गंभीर तोंड करून कुडींतलो भायर गेलो. अँथनी हॉटिलाच्या दारामेरेन ताका पावोवंक गेलो.

परत येतकच अँथनीन पांग लुंगाक विचाल्लें, ''डॉक्टरान तुका कसलो कानमंत्र दिलो ?''

पांग लुंग हांसलो. ताणें आपले बायलेकडेन पळयलें. घडये तिणेंय अँथनी कुडींत येवचे आदीं तोच प्रस्न विचारिल्लो आसूंये. बायल लजून तांबडी जाल्ली !

''सांगपासारकें नासत जाल्यार सांगिना जाल्यार जाता.'' अँथनीन म्हळें.

''ना रे. तुका हांवे कितें लिपयलां ? डॉक्टर म्हण्टा, देह विकपी बायलांकडच्यान सुख घेवं नाका !''

अँथनीकय हांसूंक आयलें.

रंगुनाची भेट सोंपोवन परत वचपाची ताकीत सॉब्वालो रकाद घेवन दीसपट्टो एक मनीस येवंक लागिल्ल्यान वाडली. पांग लुंग परतूंक तयार नासलो. ताची बायल कांय उलयनासली. अँथनीकय थंय रावप मानवतलें आसलें. पूण सॉब्वाक चड दीस हुस्क्यांत दवरप समा न्हय, अशें येवजून ताणे मांगशिशाक परतुपाची तयारी केली.

पांग लुंगचेर उपचार मांगशिशाकच सुरू जालो. वखदां म्हळ्यार झाडाचीं पाळांमुळां उकडून तांचो कसाय घेवपाचो. तरेकवार रानवटी जनावरांच्या मांसाचे सूप पियेवपाचे आनी कांय तरांची तणां हरवींच खावपाचीं. पांग लुंग मोठे आवडीन हीं वखदां घेतालो. तीन म्हयने वाट पळयलेबगर दुसरो उपाय नासलो.

पूण वयल्याचाराक डॉक्टरांच्या वखदांचो पांग लुंगचे भलायकीचेर परिणाम जाल्लो दिसलोना. तो आदलेवरीच फिकट आनी दुबळो दिसतालो. तागेली ती आवतिकाय पळोवन सॉब्वा निर्शेवन गेलो. एक दीस ताणे अँथनीक म्हळें, ''ह्या भुरग्याक पळयल्यार ताजें म्हाका धड लागना.''

''डॉक्टरान तीन म्हयने लागतले म्हळां.'' ॲंथनीन जाप दिली.

''तें खरें, पूण थोडी तरी सुदारणा जावंक नाका आसली ?'' सॉब्वान परतो प्रस्न विचाल्लो.

पांग लुंग रंगुनव्यान परततसावन सॉब्वाली व्हडली बायल वयलेवयर आपल्या घोवाक मेळूंक येताली. वरांची वरां ती ताजेकडेन बंद कुडीत उलयताली. ती आयली म्हणटकच ॲंथनीक उठून भायर वचचें पडटालें.

एक दीस अशीच ती आयली आनी वरभर उलयली. ॲंथनीक भायलेवाटेन बसून रावचें पडलें. कुडीचें दार उकतें जालें आनी ती गेली तसो सॉब्वा भायर आयलो. वता आसतना ती आपले दोळे पुसताली इतलें ॲंथनीन पळयिल्लें. दोगांमदीं झगडें जालें काय दोगांय भावनावश जालीं तें ताका समजलें ना.

ॲंथनीक उलो मारून सॉब्वान म्हळें, ''आतां तूं वच. उरिल्लें काम फाल्यां पळोवया.''

कितें जालें असा प्रस्न ॲंथनीच्या तोंडार आयलो, पूण ताणें तो गिळ्ळो. सॉब्वानच एका चाकराक आदेश दिलो, ''ड्रायव्हराक गाडी भायर काडूंक सांग.''

ॲंथनी सॉब्वाकडेन पळयत रावलो. सॉब्वान खुलासो केलो, ''हांव धर्मगुरूक मेळूंक वतां.''

''तुज्या सांगातान हांव येवूं ?'' ॲंथनीन विचाल्लें.

''नाका. हांव कुटुबाचो प्रस्न घेवन ताजेसरीं वतां. सांगाताक परकी मनीस आसप समा जावचें ना.''

त्या दिसा सॉब्वा धर्मगुरूसरीं गेलो आनी ॲंथनी सरळ पांग लुंगाचो वर्ग घेवंक तागेल्या घरा गेलो.

पांग लुंग आनी ताजी व्हडली बायल भायरच बशिल्लीं.

''आज क्लास नाका.'' ताका पळयनाफुडें पांग लुंगान म्हळें.

ॲंथनी परतूंक वतालो तेन्ना पांग लुंगान मुखार येवन ताज्या हाताक धल्लो आनी म्हळें, ''बस तूं. आमी उलोवया. थोडी च्या घेवन वच.''

''अभ्यास कित्याक नाका म्हणटा तूं ?'' ॲंथनीन विचाल्लें.

''ह्या वखदांनी म्हाका बेजार आयला. रातीची न्हीद पडना आनी जितलें खातां तें पचना. काल पोटांत दुखलें. आज सकाळी ओकारी आयली.''

''तुका पचनाच जाल्यार तूं तीं वखदां बंद कित्याक करिना ?'' ॲंथनीन विचाल्लें.

''कितें करतलों ? आवयचो हट्ट आनी बापायची इत्सा हांव जाणा. म्हजेखातीर तीं कळवळटात. घडये वखदां घेवन म्हजी भलायकी सुदारतली.''

''तुका खऱ्यांनीच तशें दिसता ?'' ॲंथनीन विचाल्लें.

''हय. गुण येवंक वेळ लागत, पूण वखदां बऱ्याक पडूं येतात.''

''मागीर रातीकडेन न्हीद कित्याक येना ?''

''हांव नकळ.''

त्या दिसा अभ्यास जालो ना. पूण पांग लुंगाकडेन उलोवणी बरीं जालीं. भुरगो खरोच सादो भोळो. ताका बरें वायट समजतालें. राजघराण्याची मर्यादा ताका बंड करूंक दिनासली.

अँथनी घरा परतलो तेन्ना ताका एक प्रस्न पडिल्लो. सॉब्वा धर्मगुरूक मेळूंक कित्याक गेलो आसत ? कुटुंबांतलो कसलो प्रस्न धर्मगुरू सोडयतलो ?

त्या प्रस्नाची जाप दुसऱ्या दिसा सॉब्वानच दिली. ताणे अँथनीक म्हळें, ''म्हाका दिसता, आमच्या घराण्याचेर देवाचें रागणे आसा. आदींच म्हाका तो दुबाव आसलो आनी आतां तर म्हजी खात्री जाली. धर्मगुरून लेगीत तशेंच मत उक्तायलें.''

''कसलें रागणे आनी तें कित्याखातीर ?'' अँथनीन आपलो दुबाव उक्तायलो.

''तूं नकळ अँथनी, सॉब्वा हो प्रजेचो बापूय आसता. प्रजेच्या पातकांचें प्रायश्चित सॉब्वान घेवचेलें आसता. त्याचखातीर आमच्या राजघराण्यांतलो एक भुरगो सदांच भिक्षूची दीक्षा घेवन देवाची पूजा करतालो. ताका लागून राजघराण्याक राखण मेळटाली. हांव आवय-बापायलो एकलोच पूत आनी पांग लुंग म्हजो एकलोच पूत, देखून ही प्रथा बंद पडल्या. थंयच सगळें चुकलां.''

भावार्थी मनशाकडेन वाद घालप कठीण. तातूंतय सॉब्वाच्या तर्काक विरोध करपाचें धाडस अँथनीकडेन नासलें. ताणें विचाल्लें, ''हाजेर उपाय कांय ना ?''

''तेंच हांव धर्मगुरूक विचारून आयलां. ताणे सुचयलां, एक तर हांवें राजाली गादी सोडून संन्यास घेवचो, नाजाल्यार एका वर्साखातीर पांग लुंगाक भिक्षू करून उप्रांत ताका परत गृहस्थाश्रमांत व्हरचो.'' सॉब्वान एकेक उतर मेजून उलयत जाप दिली.

अँथनीक दोनय कल्पना मानवल्यो नात. सॉब्वान संन्यास घेतलो जाल्यार आपलें कशें जातलें हो प्रस्न ताज्या मनांत आयलो ना अशें न्हय. पूण ताजी ताका व्हडली पर्वा दिसलीना. पांग लुंग सॉब्वा जालो जाल्यार ताजेयकडेन अँथनीचें जुळत आसलें. पांग लुंग भिक्षु जावंक तयार जायत अशेंय ताका दिसलेंना.

''पांग लुंग तयार जातलो ?'' अँथनीन आपलो दुबाव उक्तायलो.

''ताका जावचेंच पडटलें - आनी तेखातीर तुवें ताका समजावपचो पडटलो.'' सॉब्वान अँथनीक आदेश दिवपाच्या सुरांत म्हळें.

अँथनीन आंग काडलें.

पांग लुंगाकडेन सॉब्वान सुचयिल्ल्या प्रस्तावाचेर उलोवपाची संद सोदूंक अँथनीक चार दीस वाट पळोवची पडली. अभ्यासाचेरच जंय ताचें लक्ष थिरावना थंय दुसरे विशय काडले जाल्यार तो काचबूल जातलो अशें अँथनीक दिसतालें.

पूण एक दीस पांग लुंगानच बौध्द भिक्षूंचो प्रस्न अँथनीकडेन काडलो. त्या

विशयाचेर कोण पांग लुंगाकडेन उलयिल्लो काय कितें तें अँथनीक खबर नासलें. तरी ताज्या कलान घेवचें अशें अँथनीन थारायलें.

''तुजो देवाचेर विस्वास ना ?'' पांग लुंगान अँथनीक अचकीत प्रस्न विचाल्लो.

''आसा तर.'' अँथनीन जाप दिली.

''देवाची सेवा केली जाल्यार तो पावता म्हण्टात हें खरें ?'' पांग लुंगाचो दुसरो प्रस्न.

''व्हडले व्हडले गिन्यानी लोक तशें सांगतात जाल्यार तें फट कित्याक म्हणचें ? पूण हो प्रस्न तूं कित्याक विचारता ?''

''काल एक भिक्षू म्हाका मेळूंक आयिल्लो. म्हजे पिरायेचो भुरगो. केंस तासून बोडको जाला. आंगार भगवीं वस्त्रां चडयल्यांत. हातांत ड्रम आनी तोंडान बुध्दाच्या नांवाचो जप. ताका पळोवन म्हाका काकुळट दिसली. भुरगेपणांत तो आडांगी आसलो, चलयांची फकाणां मारतालो. आतां ताजो अवतार वेगळोच. जिणेंतलीं सुखां सोडून तो वैराग्य पांगरून बसला. जुवानपणाच्यो उमेदी मारून तो तरणेपणांतच प्रौढ जाला.'' पांग लुंगान म्हळें.

''तो भिक्षू तुका कित्याक मेळूंक आयिल्लो. ताणे कितें सांगलें ?'' अँथनीन विचाल्लें.

''तो म्हाका संन्यास घेवपाची सुचोवणी करतालो. तसो तो म्हाका मेळूंक म्हणून आयिल्लो. म्हजी भलायकी बरी उरना अशें ताका कोणेतरी सांगिल्लें आनी खबर घेवंक म्हणून तो आयिल्लो. तो आयलो देखून भिक्षूचे जिणेविशीं ताजेकडेन उलोवणी जालीं. भुरगेपणांतल्यो यादी काडल्यार तो ड्रम वाजोवन आनी बुध्दाच्या नांवाचो जप करून म्हजें तोंड बंद करतालो.''

''ताणे तुका कांय सुचयलें ना ?'' अँथनीन विचा

''सुचयलें. तो म्हण्टा, हांवें वर्सभर भिक्षू जावन देवाची सेवा केली जाल्यार म्हजी भलायकी सुदारतली आनी परत गृहस्थाश्रम आपणावंक हांव मेकळो उरतलों.''

''तुका ताजें म्हणणे खरें दिसना ?'' अँथनीन विचाल्लें.

''भिक्षू जावन वेगळी जीण जगलो जाल्यार भलायकी घडये सुदारत. नाय जाल्यार भिक्षू जावप म्हळ्यार त्याग करप. पूण म्हजो प्रस्न वेगळो. बुध्द तो सोडोवंक पावत अशें म्हाका दिसना.'' पांग लुंगान म्हळें आनी विशय बदल्लो.

दुसऱ्या दिसा सॉब्वाक मेळिल्ल्यावेळार अँथनीन पांग लुंगाची भिक्षूविशींचीं मतां ताच्या कानार घालीं.

''बुदवंत तर तो !'' अभिमानान सॉब्वान म्हळें, ''म्हाकाय तशेंच दिसता. देवाक देवाच्या जाग्यार दवरूंक जाय. देवाक लांच दिवपाची कल्पना म्हाका सोंसना. तरीकय म्हजे व्हडले बायलेचें आनी धर्मगुरूचें समाधान करूंक हांव त्याय दिव्याक तयार जालां. शेणिल्ल्याचें मन धा कडेन वता. म्हजो हुस्को कसलो तो

जाणा तूं ? चलो जावच्याआदीं पांग लुंगाचेंच बरेंवायट जायत म्हणपाचो.''

''तुजो हुस्को म्हाका समजता. पूण ते खातीर तूं तुज्या चल्याक, ताजो कसलोच गुन्यांव नासतना, ख्यास्त कित्याक दिता ?''

सॉब्वान उजव्या हाताचे मुठींत आपली खाडकी धल्ली आनी सकलो ओंठ दातांमदीं धरून म्हळें, ''तूं म्हण्टा तें खरें, सेक्रेटरी. पूण वर्सभर मठांत रावल्यार पांग लुंगाचें कसलें लुकसाण जातलें ? उरफाटो वेगळ्या वातावरणांत उल्लो जाल्यार ताजी भलायकी सुदारत आनी थंय मेळटात ते संस्कार राज्यकारभार चलोवपाक ताका आदार दीत.''

सॉब्वाच्या म्हणण्यांत एक तर्क आसलो. पूण बुकल्याच्या गळ्यांत घाट बांदपाचें काम कोणे करचें ? ह्या प्रस्नाची जाप अजून मेळना आसली.

अँथनीक एक कल्पना सुचली. ताणे मठांत वचून त्या तरनाट्या भिक्षूक मेळपाचें थारायलें. त्याच दिसा सांजचो पासयेक वचपाचें निमित्त्य करून अँथनी मठाचे दिशेन गेलो. रानांतल्या झाडांमदीं, दोंगराच्या पायांकडेन तांबड्या वण्टीचो मठ पयसुल्यानच भव्य दिसतालो. मुखेल दरवट्याचे दोशीं दोन वडाचीं झाडां. दाराचेर बर्मी भाशेत एक व्हडलो बोर्ड, ''मन निर्मळ करून भीतर सर.''

अँथनीक दिसलें, मठांत येवन जर म्हेळें मन निर्मळ जाता आसत जाल्यार पांग लुंगाचें एक वर्स फुकट वचचें ना.

दारांतच ताणे एका भिक्षूक विचाल्लें, ''राजकुंवर पांग लुंग हाजो एक इश्ट हांगा रावता अशें आयकतां.''

''हांगा ताजे खूब इश्ट आसात.'' त्या भिक्षून जाप दिली, ''तूं कोणाक सोदता ताजें नांव सांग.''

''नांव हांव नकळ. म्हजी ताजी वळखय ना.'' अँथनीन जाप दिली.

''तशें जाल्यार तुका हांव कसो आदार दिवं ?'' अशें सांगून तो भिक्षू गेलो.

भितल्ले वाटेन ड्रम वाजताले. त्या ड्रमांच्या तालाचेर कितलेशेच भिक्षू प्रार्थना करताले. तरीकय कांय भिक्षू भोंवतना दिसतात. अँथनी अजापान नव्या संवसाराची वळख घेतालो. तितले म्हणसर एका भिक्षूची नदर ताजेर गेली आनी ताणे अँथनीक हटकिलो.

''तुका कोणाक मेळपाचें आसा ?''

''काल एक भिक्षू राजकुंवर पांग लुंगाक मेळूंक गेल्लो. ताका हांव सोदतां.''

''तूं सॉब्वालो सेक्रेटरी काय कितें ?''

अँथनीन तकली हालयली.

त्या भिक्षून म्हळें, ''हांवच तो पांग लुंगाचो मित्र. काल हांव ताका मेळूंक गेल्लों.''

''म्हाका सॉब्वान तुजेसरीं धाडला. पांग लुंगान वर्सभर भिक्षू जावचें अशें

आमकां दिसता. पूण ताजेर बळजबरी जावंक उपकारना. ताका समजावंक जाय. हें काम तुजेबगर दुसरो कोण करीत अशें आमकां दिसना.''

''ताका वेळ लागतलो.'' भिक्षून म्हळें, ''आनी म्हाका दुसरोय दुबाव आसा. मठांतलें वातावरण मानवलें ना जाल्यार पांग लुंग बरो जावपाचे बदला ताजी भलायकी इबाडत म्हणपाचो. तरी पूण हांव म्हजेपरीन प्रयत्न करतां.''

ॲंथनीन मठांतल्या भिक्षूंचे जिणेची बारीक सारीक वासपूस केली आनी सुचयलें, ''पांग लुंगाक घेवन तूंच एक दीस मठांत कित्याक येना ?''

''हांव तशें येवजितालो.''

''बुध्द पुनवे दिसा मठांत मोठ्ठो उत्सव जाता. त्या दिसा भक्त बुध्दाक स्मरून त्यागाचो सोपूत घेतात. मठांत आयिल्ल्यावेळार पांग लुंगाक तसो सोपूत घेवंक लायलो जाल्यार घडये काम सोपें जावं येता.''

ॲंथनीक ही कल्पना मानवली. ताणे रोखडीच ती सॉब्वाच्या कानार घाली.

बुध्द पुनवे दिसा सॉब्वा आनी पांग लुंग दोगच मठांत आयले. सांजचो परततना पांग लुंग परत आयलो ना.

''तो सोपेपणान कबूल जालो ?'' ॲंथनीन सॉब्वाक विचाल्लें.

''ना. ताणे विरोध केलो. पूण दुसरो उपाय नासलो. धर्मगुरून खूबच शिट्टूकसाण दाखयली. ताणे आदीं आमकां दोगांकय सदचीं वस्त्रां देंवोवन भगवीं वस्त्रां न्हेसूंक सांगलें. उपरांत पुजेक बशिल्लेकडेन पांग लुंगाचे माथें तीर्थान भिजून गेलें. रोखडोच एक भिक्षू वाखर घेवन आयलो आनी कितें जालें ते कळचें आदींच पांग लुंग क्षपणक जालो.'' घडिल्ले घडणुकेचे थोडे भीतर वर्णन करून सॉब्वा हांसलो.



ॲंथनी मांगशिशाच्या समाजांत चड आनी चड भरसूंक लागलो तेन्ना ताका जाणवलें कि राज्यांतल्या शान जमातींतल्या भुरग्यांक व्हंकलो मेळनात. चलयांचो आंकडो इतलो थोडो आसा आनी रूपान त्यो इतल्यो सुंदर कि राज्यात एक नवो प्रस्न निर्माण जातलो म्हणपाची जाणविकाय ताका जाली. एका गांवांत झगडें जालें आनी गांवची कितलीशींच घरां लासून गेलीं. हे घडणुकेची चवकशी करचे खातीर सॉब्वान ॲंथनीची नेमणूक केली.

घडिल्ले घडणुकेची वासपूस करता आसतना ॲंथनीक प्रस्नाचें मूळ समजलें. एके शान चलये कडेन गांवच्या एका तरनाट्याचें लग्न थारिल्लें. पूण राज्यांतल्यान वतले हायवे वयल्या ट्रकाच्या ड्रायव्हरांनी धुमाकूळ घाल्लो. ते शारांतल्यो वस्तू हाडून शान चलयांक भेटयताले आनी साद्यो भोळ्यो चलयो तांचेर भाळून वताल्यो. थारायिल्लीं लग्नां मोडून त्यो तांच्यावांगडा चिनांत वा ब्रह्मदेशांत पळून वताल्यो.

त्या गांवांतय तशेंच घडिल्लें. गांवचे एके सुंदर चलयेक एका ट्रक ड्रायव्हरान पळोवन व्हरपाचो प्रयत्न केलो तेन्ना ज्या तरनाट्याकडेन तिचें लग्न थारिल्लें ताणे आपल्या इश्टांच्या आदारान त्या ट्रक ड्रायव्हराक मार घालो. तेच रातीकडेन तो ट्रक ड्रायव्हर हेर ड्रायव्हरांक घेवन गांवांत आयलो आनी ते चलयेक उखलून घेवन गेलो. झगडूंक आयिल्ल्या गांवच्या तरनाट्यांक ताणी दया माया दवरिना आसतना लोखंडांच्या सांखळ्यांनी मार घालो आनी गांवकारांच्या मनांत वचक निर्माण करचेखातीर गांवच्या घरांक उजो लायलो.

"हो निखटो कायदो आनी वेवस्थेचो प्रस्न न्हय, सॉब्वा." आपलो रिपोर्ट दिवन अँथनीन म्हळें, "हो प्रस्न सामाजिक जावन आसा. जो मेरेन शान जमातीच्यो चलयो भायल्या ड्रायव्हरावांगडा पळून वतल्यो तोमेरेन हो प्रस्न उरतलो."

"तशें जाल्यार प्रस्न खूबच गंभीर म्हणचो पडटलो." सॉब्वान म्हळें, "जर आमचे तरनाटे लग्नां जायना आसतना उल्ले जाल्यार मांगशिशची लोकसंख्या उणे जायत वतली. आमच्या आळशी तरनाट्यांक दुसऱ्या राज्यांनी वचून व्हंकलो हाडपाची अक्कल ना."

"ह्या आदीं कितें जातालें ?" अँथनीन सॉब्वाक विचाल्लें.

"ह्या आदली गजाल सामकी वेगळी आसली. आमचे तरनाटे चाकरी करूंक भायल्या गांवांनी वताले आनी गांवांत चलयांचो आंकडो खूब चड आसलो. एक एक तरनाटो एकाच वेळार चार चार बायलो दवरतालो. मांगशिशची बायल आपले जोडीन घोवाक पोसता देखून घोवाकय तीं लग्नां परवडटालीं. ह्या वाठारांतल्या राज्यांतल्यान चलयांमदीं मांगशिशच्यो चलयो इल्ल्यो उजव्यो. देखून जेन्ना बर्मा मार्ग उकतो जालो आनी एक एक चली ट्रक ड्रायव्हरा सांगातान वचूंक लागली तेन्ना गांवच्या लोकांक वायट दिसलें ना. तांचो प्रस्न सुटूंक लागिल्लो. पूण आतां हें प्रमाण तूं सांगता ते भाशेन खूबच वाडिल्लें दिसता. बायलांखातीर आमच्या राज्यांत ह्या आदीं केन्नाच झगडीं जाल्लीं हांवें आयकूंक नात."

"पूण आमच्यांनी कितें करूं येता ? कायदो करून हो प्रस्न सुटचो ना, सॉब्वा." अँथनीन म्हळें, "मांगशिशचे चलयेन भायल्या चल्याकडेन लग्न करपाचेर बंदी आमच्यांनी घालूं येता, पूण हे ट्रक ड्रायव्हर कायद्याक जुमानचे नात. हांगासल्ल्यो चलयो लेगीत ट्रक ड्रायव्हराक वश करून घेवंक एकामेकांकडेन सर्त लायतात."

"मागीर कितें करपाचें तर ?" सॉब्वान विचाल्लें, "बर्मा रोड बंद करप आत्मघातकीपणाचें जातलें. दुसरो कितें तरी उपाय सोदून काडचो पडटलो. आनी तें काम तुवेंच करूंक जाय."

अँथनीक कांयच सुचना जालें. पयली गजाल म्हळ्यार शान जमातीच्यो चलयो गांवच्या तरनाट्यांपरस भायले ड्रायव्हर पसंत करताल्यो. एकाद्रो ट्रक येवन गांवांत

थांबलो म्हण्टकच त्यो चलयो कशो ट्रकासरीं धांवन वताल्यो हें अँथनीन आपल्या दोळ्यांनी पळयिल्लें. खासा अँथनीन पसंत केल्ली पिंग ही चली सॉब्वाच्या सेक्रेटरीपरस एका ट्रक ड्रायव्हराकडेन लग्न जावप पसंत करताली. अशे परिस्थितींत ड्रायव्हरांक आडायतलो कसो ?

सॉब्वान एक भिरांत उक्तायिल्ली तीय लटकी नासली. सगळ्यो चलयो लग्न जावन दुसऱ्या राज्यांत गेल्यो जाल्यार शान जमात निर्वेश जावपाची भिरांत आसली. कितें करता तें अशे तरेन करूंक जाय आसलें कि शान चलयांचे ड्रायव्हराविशींचें आकर्षण सोंपत.

अँथनीन गांवच्या जाण्टेल्यांची एक बसका घेवपाचें थारायलें. ताणे मांगशिशच्या भोंवतणच्या कांय जाण्टेल्यांक आपोवन हाडले. तांच्या सांगातान तांच्या बायलांकय आपयल्यो. पूण एकय बायल आयली ना.

गांवचे लोक आयले आनी अँथनीच्या बंगल्याच्या आंगणांत जळामळाक बसले. अँथनीन तांकां प्रस्न समजायलो आनी म्हळें, ''आमचे चले आंकवार उल्ले आनी चलयो दुसऱ्या राज्यांत गेल्यो जाल्यार चल्यांचें कितें जावपाचें ?

''अशें ह्या आदीं केन्नाच घडूंक ना.'' एका जाण्टेल्यान जाप दिली, ''हांगा सदांच चलयो इतल्यो चड आसताल्यो कि खूबशा चलयांक घोव मेळना जावन त्यो ड्रायव्हराचो हात धरून पळून वताल्यो. हे ड्रायव्हर कितें वायट तर ?''

''तुमकां तुमच्या चलयांचीं ड्रायव्हरांकडेन लग्नां जाल्लीं उपकारतलीं ?'' अँथनीन ताका विचाल्लें.

''गांवांत बरे भुरगे आसात तरी खंय ?'' एका जाण्टेल्यान म्हळें.

''शान जमात निर्वेंश जायत वता हें तुमी लक्षांत घेयात.'' अँथनीन तांकां शिटकायले.

ही मात्रा लागू पडली. एकल्यान म्हळें, ''सॉब्वान कितें तरी उपाय घेवंक जाय. गांवांत दीसपट्टीं झगडीं जातात आनी आमच्या भुरग्यांक सॉब्वा राखण दिना.''

''सॉब्वाच्यान कितें करूं येता ? हो लोकांचो प्रस्न. लोकांनीच तो सोडवंक जाय. ताणी आपल्या चलयांक समजावंक जाय.'' अँथनीन म्हळें.

बसकेंत थारलें कि समाज जागृतीचें काम करचे खातीर पांच बुदवंतांची एक कमिटी काडची. हे कमिटींत दोन बायलोय घेवच्यो आनी कमिटीन घरा घरांत वचून जमातीफुडल्या संकटाची सगळ्या चलयांक आनी तांच्या आवय - बापायक कल्पना दिवची.

कल्पना सगळ्यांकच मानविल्ली. अँथनीन सॉब्वाक रिपोर्ट दिलो तेन्ना सॉब्वाय खूश जालो.



ईदाच्यो कांय मैत्रीणी ब्रह्मदेशांतल्यान मांगशिशाक आयल्यो. तांचो भेस आनी तांचे हांसप हाका लागून सगळ्या लोकांच्या त्यो नदरेंत भल्ल्यो. मांगशिशचे सगळे पोलीस आनी अधिकारी तांच्या फाटल्या फुडल्यान आसताले. देखून त्यो जंय जंय वताल्यो थंय तांका पळोवंक लोक गर्दी करताले.

ब्रह्मदेशांतल्या शारांत वाडिल्ल्यो स्वैर स्वच्छंदी त्यो चलयो मांगशिशच्या चलयांपरस खूबच वेगळ्यो. खासा ईदा चडांत चड तांच्या सांगातान रावताली. दर दिसा रातीकडेन जेवणाच्या वेळार संगीताचो आनी नाचाचो कार्यक्रम जातालो आनी नाचय सगळ्या तरांचे.

एके रातीकडेन अशे नाच चालू आसतना भायले वाटेन बोवाळ जालो. नाच पळयत सॉब्वा एका कदेलार बशिल्लो आशिल्लो आनी अँथनी एके बर्मी चलयेवांगडा नाचतालो. भायलो बोवाळ भीतर आयकूंक आयलो तरी संगीत थांबलें ना. नाच बंद जालो ना. पूण सॉब्वा उठलो आनी वतां वतां ताणे अँथनीक उलो माल्लो. नाच बंद करून अँथनीक सॉब्वा फाटल्यान वचचें पडलें.

भायले वाटेन येवन पळय जाल्यार सगळोच बोवाळ. खूबशे लोक जमिल्ले. व्हडाव्हडान उलयताले.

सॉब्वा भायर येनाफुडें एक मंत्री सॉब्वासरीं आयलो. कमर बागोवन अभिवादन केलें आनी म्हळें, ''एक मनीस आतां हांगां गोळ लावन जीव दिवंक आयला.''

कांय एक उलयना आसतना सॉब्वा एके कुशीक गेलो ताणे म्हळें, ''कोण जीव दिवंक सोदता ?''

''एक शान तरनाटो !'' मंत्र्यांन जाप दिली. ''तागेलो गोळ कापलो तेन्ना तो राजवाड्याच्या सोपणाचेर तकली आपटून जीव दिवपाचो यत्न करूंक लागलो. तीग जाणांनी ताका आडावन धल्ला.''

''तो जीव दिवंक सोदता अशें तूं कित्याक म्हणटा ?'' सॉब्वान विचाल्लें.

''किळच्यो मारून तो तशें व्हडाव्हडान म्हणटा.''

''कित्याखातीर तो जिवाक उबगला ?'' सॉब्वान विचाल्लें.

''तागेली बायल कोणेतरी भायल्यान उखलून व्हेल्या आनी हे वाटेन सॉब्वा सोयऱ्यांखातीर नाच दवरता. प्रजेचो हुस्को सॉब्वाक ना हे गजालीचो निशेध करूंक तो जीव दिवंक हांगा आयला.''

''आसूं. हांगा बोवाळ नाका. ताका अँथनील्या बंगल्याचेर हाडात. हांव थंय वतां.'' सॉब्वान म्हळें आनी वतां वतां एका मंत्र्याक सांगलें, ''भीतर कोणेय वासपूस केली जाल्यार अपघात जाला अशें सांग.''

सॉब्वाच्या वांगडा पावलां उखलून अँथनी आपल्या बंगल्याचेर गेलो. चार लोकांनी त्या तरनाट्याक घट्ट धरून बंगल्यामेरेन हाडलो. तांच्या फाटल्यान हेर लोक येताले. तो तरनाटो किळचत आसलो, ''म्हाका सोडात. म्हाका मरूंक तरी

दियात.''

सगळो वाठार बोवाळान भरिल्लो.

अँथनी त्या तरनाट्यासरीं गेलो आनी म्हळें, ''तुका मरपाचेंच आसत जाल्यार आमी आडावचें नात. पूण येदो बोवाळ कित्याक करता ?''

तो तरनाटो किळच्यो मारीत रावलो. तरीकय अँथनीचे शिटकावणे उपरांत तो सरळ चलूंक लागिल्लो.

''तुका सॉब्वासरीं व्हरतात.'' अँथनीन सांगलें. किळच्यो थांबोवन तो नम्रतायेन चलत अँथनील्या बंगल्यार आयलो.

बंगल्यातल्या उजवाडांत अँथनीन त्या तरनाट्याक सारको पळोवन घेतलो. चेपट्या नाकाचो, विशींतलो, हेर शान तरनाट्यांसारको तो तरनाटो.

''तुजें नांव कितें ?'' सॉब्वान विचाल्लें.

तो उलयलो ना. एका शिपायान जाप दिली, ''आ लान ताजें नांव. तो आळशी. शेतांनी काम करता.''

''तुजें घडलां कितें ? कोणे तुजे बायलेक उखलून व्हेली ?'' सॉब्वान ताका विचाल्लें.

''एका भायल्या ट्रक ड्रायव्हरान.'' आ लानान जाप दिली.

''खंय आसा तो ?''

''तो पळून गेलो.''

''हें पळय आ लान,'' सॉब्वान ताका समजायलो, ''तुजें म्हणणें हांव समजलां. ह्यो चलयो आपखोशयेन ट्रक ड्रायव्हरांसांगातान पळून वतात. तांकां आडावप कशें तेंच म्हाका समजना. तुवें जीव दिलो म्हणून तुजी बायल मेळची ना. दुसरो कितेंय उपाय करूंक जाय.''

''तुमचो उपाय जातसर गांवांत बायलो उरच्यो नात.'' त्या तरनाट्यान सरळ सॉब्वाक सांगलें.

सॉब्वान ताका जाप दिली ना. पूण अँथनीक म्हळें, ''सेक्रेटरी, हाका गाडयेंत बसोवन तागेली बायल खंय आसा ती सोदून काड. तो ट्रक ड्रायव्हर तिका नाचयतलो, खेळयतलो आनी सोडटलो. तिका समजाय आनी परत हाड. आनी गांवच्या सगळ्या चलयांक आनी बायलांक सादूर कर.''

अँथनीन तकली हालयली.

आ लानचें समाधान जालें. ताणें म्हळें, ''पान तोंडांत घालचें आनी थुकून भायर उडोवचें तशे हे ड्रायव्हर आमच्या बायलांक वापरतात. तूं आमचो राखणदार. तुवें राखण दिली ना जाल्यार आमकां कोण दितलो ?''

त्या तरनाट्याली नम्रताय पळोवन अँथनीक अजाप दिसलें. इतले बेगीन तो बदलिल्लो हे गजालीचेर ताजो विस्वास बसना जालो.

सॉब्वा उठून गेलो आनी अँथनीन आ लानाक म्हळें, ''चल आमी आर्दी तुगेले बायलेच्या बापायगेर या.''

आ लान कबूल जालो आनी मोटारींत बसलो. ताचे कुशीक अँथनी. सॉब्वाचे मोटारीत बसूंक मेळिल्ल्याची बडाय त्या तरनाट्याच्या तोंडार दिसताली. ताणे तकली भायर काडून वाटेर दिसता त्या सगळ्या वळखीच्या आनी अनोळखी मनशांक हात हालोवन आपूण सॉब्वाचे मोटारींत बसलां म्हणपाचें कळीत केलें. तागेलो तो पोरखेळ पळोवन अँथनीक हांसो आयलो.

गाडी आड रस्त्यान धुल्ल हुबयत गेली आनी आ लानान दाखयिल्ल्या घराच्या दारांत थांबली. वाड्यावयल्या घरांतल्यो बायलो, सात - आठ दादले, खुबशीं भुरगीं मोटारीकडेन धांवत आयलीं.

आ लान देंवन घरांत गेलो आनी परत येवन ताणे अँथनीक सांगले, ''ती घरांत ना.''

''कोण आसा घरांत ?'' अँथनीन विचाल्लें.

''तिगेली आवय आसा. बापूय लेगीत घरांत ना.'' ताणे जाप दिली.

अँथनी सकल देंवलो आनी घरांत गेलो. चलयेची आवय सुपांत तांदूळ घेवन आसुडटाली. अँथनीक पळोवन तिणे बेगीबेगीन सूप सकल दवल्लें आनी म्हळें, ''घरांत कोण ना.''

''तूं भियेवं नाका.'' अँथनीन तिका धीर दीत म्हळें, ''आमी फकत खबर घेवंक आयल्यात. आ लान म्हण्टा तुजी धूव ही तागेली बायल आनी तिका एका ट्रक ड्रायव्हरान उखलून व्हेल्या. तेविशीं वासपूस करूंक सॉब्वान म्हाका धाडला.''

''हय. पूण ती घरांत ना. खंय गेली आमकां खबर ना. वाड्यावयल्यो खूबशो चलयो आनी बायलो आपखोशयेन ट्रक ड्रायव्हराचो हात धरून वतात. आमी कितें करचेलें ?'' तिने अँथनीक विचाल्लें.

''तोच आमच्या हुस्क्याचो विशय जावन बसला.'' अँथनीन म्हळें, ''तरी तुजी चली आयली जाल्यार तिका सॉब्वासरीं धाड. तिजेर बळजबरी जावचीना इतलें हांव तुका उतर दितां. पूण एक किजील आमकां सोपोवंक जाय.''

भायर येवन आ लान आनी अँथनी मोटारीत बसले तेन्ना अँथनीन ताका म्हळें, ''तूं पाळत दवरून राव. ती वा तो ड्रायव्हर दिसलो जाल्यार म्हाका कळय.''

आ लानान तकली हालयली.

अँथनीक चड वेळ रावचें पडलेना. दुसऱ्या दिसा सकाळीफुडें आ लान तागेल्या बंगल्याचेर आयलो. ताणे सांगलें, तो ड्रायव्हर आनी आपली बायल तिगेले आवयल्या घरांत आयिल्लीं आसात. बेगीन यो.

ट्रक ड्रायव्हराची आडांगीपणां जाणा आशिल्ल्यान अँथनीन आपल्या सांगातान दोन पोलीस घेतले आनी तो आ लानाच्या मावोड्या गेलो.

आ लान ताज्या सांगातान आसल्ले. पोलीस भायर उबे रावले. भायले पडवेचेर पातळायिल्ले मांदरेचेर अँथनी आनी आ लान बसले. मुखार खांब्याक तेंकून तो ट्रक ड्रायव्हर उबो आसलो. आ लानाची बायल आनी आवय भितल्ले वाटेन दारांत उबी रावलीं.

''तुजो घोव खंय ?'' अँथनीन आवयक विचाल्लें.

''कामाक गेला. दनपरां येतलो.'' तिणे जाप दिली.

अँथनीन मागीर ड्रायव्हराक विचाल्लें, ''घडलां कितें तें सांग पळोवया.''

''कांयच घडूंक ना.'' थंडसाणेन त्या ड्रायव्हरान जाप दिली आनी सिगरेट पेटयली.

तागेली ती थंडसाण आनी जाप आयकून आ लान सुण्यावरी गुरगुरूंक लागलो. अँथनीन ताका आडायलो आनी ओगी रावंक सांगलें. तरी तो ओगी रावलो ना हें पळोवन अँथनीन म्हळें, ''तुकां विचारतलों त्या प्रस्नाची तुवें जाप दिवचेली. मर्दी उलोवं नाका.''

''आ लान म्हण्टा, तुवें तागेले बायलेक उखलून व्हेल्या.'' अँथनीन ड्रायव्हराक लेखून म्हळें.

''उखलून व्हरूंक तो तांदळाचो साक काय तें कोंबयेचें पील ?'' ड्रायव्हाराचो उरफाटो प्रस्न.

''तुजें म्हणणे ती आपखोशयेन तुज्या सांगातान गेली ?'' अँथनीन विचाल्लें.

''हातच्या कांकणाक हारसो कित्याक? ती हांगा आसा. आ लान आसा. तिगेली आवयय हांगाच आसा. तूंच तिका विचार.''

''तिका मागीर विचारतां.'' अँथनीन म्हळें, ''आदीं तुजी जाप जाय. एक सांग, दुसऱ्याली लग्नाची बायल पळोवन व्हरप हें सारकें जालें ? धर्माचे नीतींत तें बसना आनी कायद्यानय तो गुन्यांव जाता.''

''पूण तिका जर त्या घोवासांगातान रावपाचें नासत जाल्यार खंयचो कायदो आनी खंयचो धर्म तिका बळजबरी करतलो ? हांगा शान जमातींत एका घोवाक कितल्योय बायलो आसूं येतात आनी एके बायलेकय कितलेय घोव आसूं येतात. प्रस्न तिचे मर्जेचो. तुमी आतां नवे कायदे केले जाल्यार म्हाका खबर ना. पूण तिका जर आ लाना सांगातान रावपाचें आसत जाल्यार म्हजें कांय म्हणणे ना.'' त्या ड्रायव्हरान जाप दिली.

अँथनीन चलयेकडेन पळयलें. ती एकदम कागाळीचो पट वाचूंक लागली. आपल्या घोवाक, म्हळ्यार आ लानाक, ती दुशण दीत रावली. तो काम करिना, आपणाक खूब पिडापीड दिता, आपणे कश्टांनी जोडिल्लें बसून खाता देखून ताका सोडला अशें तिचें म्हणणे आसलें.

आवयकडेन पळोवन अँथनीन विचाल्लें, ''हें अशें करप तुका बरें दिसता ?''

“लग्न हें सुख मेळूंक करचेलें आसता. जो दादलो सुख दिता ताज्या सांगातान नांदपात वायट कितें आसा ?” आवयन आपलें मत उक्तायलें.

अँथनीन आ लानाकडेन पळयलें. आतां तो निरुत्तर जाल्लो. पूण गुरगुरतालो. तो एकदम उठून उबो रावलो आनी त्या ड्रायव्हराच्या आंगार धांवन गेलो. ड्रायव्हर घाळ आसलो. ताका जमनीर लोळोवन आ लान ताजे छातयेर बसता सर ताजी बायल एक मुसळ घेवन आयली आनी ती आ लानाचे तकलेर घालतली इतलें म्हणसर अँथनीन तिका आडायली. ड्रायव्हरय उठून आ लानाक मारूंक लागलो आनी अँथनीन पोलिसांक आपोवन तांकां वेगळे केले.

न्हड उलोवपाचें कांय नासलें. अँथनीन आ लानाक गाडयेंत बसूंक सांगलें आनी आपूणय बसलो.

गाडी सुरू जाली तशें आ लानान अँथनीक विचाल्लें, “आतां फुडें कितें ?”

“हांव कितें सांगतलों ?” अँथनीन जाप दिली, “ज्या घोवाक आपली बायल सांबाळूंक येना ताका सॉब्वा कितें आदार दितलो ? तुजे बायलेक बांदून घरा हाडटलो ? त्या ड्रायव्हराकडेन झुजपाचें बळ तुज्यांत ना आनी तुजे बायलेक तूं दोळ्यांमुखार नाका. तुजे मांयक तूं नाका. अशे परिस्थितींत सॉब्वा कितें करतलो ?”

“मागीर आमकां राखण कोणाची ? त्या परस जीव दिल्लो बरो न्हय ?” परत आदली धमकी आ लानान दिली.

आतां अँथनीक प्रस्न समजल्लो. ताणे म्हळें, “जाका जीव दिवपाचो आसत ताणे बोवाळ करिनासतना तो दिवचो. पूण तूं म्हजें आयक, कितेंय काम कर. दादल्यान काम करतकच बायलो ताका मानतात. एक बायल सोडून गेल्यार पर्वा ना. तुका दुसरी मेळटली. आजून तूं भुरगो आसा.”

वाटेर मोटार थांबोवन आ लान देंवलो.

अँथनीचो एक प्रस्न सुटिल्लो. ताणे सॉब्वाक तसो रिपोर्ट दिलो.

“ना सेक्रेटरी.” सॉब्वान म्हळें, “अजून प्रस्न सुटूंक ना. ह्या ड्रायव्हरांक आडावपाखातीर कितेंय तरी करूंक जाय. आज आ लानाली बायल व्हेली. फाल्यां दुसऱ्याली व्हरतले... आनी आ लानान जीव दिलो जाल्यार उचांबळाय जातली.”

“तो जीव दितलो अशें म्हाका दिसना. आत्महत्या करता तो मनीस तोंडान उलयना.” अँथनीन म्हळें.

“हय. म्हाकाय तशेंच दिसता.” सॉब्वान म्हळें, “पूण पिशी पिराय. अविचारी लोक. कितेंय करीत.”

“आमी सक्ती केली जाल्यार ड्रायव्हर तिका सोडून वचत. पूण ती बायल आ लानासरीं रावची ना.” अशें सांगून अँथनीन मुसळाची खबर सॉब्वाच्या कानार घाली.

सॉब्वागेर सावन भायर सरतना दारांतच अँथनीक तो ट्रक ड्रायव्हर आनी ती चली मेळ्ळीं.

''आतां किर्ते जालें ?'' हुस्क्यान अँथनीन विचाल्लें.

''कांय ना. आमी सॉब्वाचे आशीर्वाद घेवंक आयल्यांत.'' तिणे म्हळें.

अँथनी थंयचो वचूंक सोदतालो. तरी तो रावलो. भीतर वचून ताणे सॉब्वाक रकाद दिलो आनी सॉब्वान त्या नव्या जोडप्याक भीतर आपोवन व्हेलें.

दोगांनीय कमर बागोवन सॉब्वाक अभिवादन केलें.

ताणें म्हळें, ''आमी लग्न जाल्यांत.''

''तूं किर्ते करता ?'' सॉब्वान ताका विचाल्लें.

''ट्रक ड्रायव्हर.'' ताणे जाप दिली. मांगशिशांत ट्रक ड्रायव्हर हो अभिमान दिसपासारको वेवसाय मानतात हें तागेले जापेंतल्यान दिसतालें.

''तुमी आमचे इश्ट. आमचे जावंय.'' सॉब्वा हांसलो आनी ते चलयेक विचाल्लें, ''तूं खुश जासा ?''

''हय सॉब्वा.'' तिणे परत अभिवादन करून जाप दिली.

सॉब्वान हात वयर काडून आशीर्वाद दिले. त्या जोडप्यान अँथनीक अभिवादन केलें. अँथनीनय हात वयर करून आशीर्वाद दिले.

जोडपें परत गेलें.

''अँथनी,'' सॉब्वान म्हळें, ''हो ट्रक ड्रायव्हर आमच्या त्या रडकुऱ्या तरनाट्यापरस कितलोसोच बरो दिसता. मागीर ते चलयेन ताका पसंत केल्यार अजाप कसलें ?''



आ लानाचो प्रस्न सॉब्वापरस पोलिस मुखेल्याच्या मनांत चड उरिल्लो. ताका अशी भिरांत दिसताली कि आ लान शारांत आत्महत्या करून हुतात्मो जावपाचो यत्न करतलो. पूण अँथनीचें मत वेगळें आसलें.

''तूं सांगता तेंच खरें अशें म्हाका दिसता.'' सॉब्वान अँथनीक म्हळें, ''पूण पुलीस अधिकाऱ्याक दुबाव आसा जाल्यार ताणे आ लानाचेर कांय दीस पाळत दवरची.''

आ लानाचेर पाळत दवरप हें एक कठीण काम म्हणपाचो अणभव पोलीस अधिकाऱ्यान रोखडोच घेतलो. तिसऱ्या दिसा ताणे अँथनीक येवन सांगलें, ''आ लान दीसपट्टो येवन आत्महत्या करपाची धमकी दिता. म्हाका दिसता ताका न्हंयंत धुकलून उडोवन ताज्या प्रेताची विल्हेवाट लायली जाल्यार प्रस्न सोंपतलो.''

अँथनीन पोलीस अधिकाऱ्याक म्हळें, ''नवो प्रस्न तूं निर्माण करूं नाका. तूं आ लानाची वासपूस सोडून दी.''

आनी दुसरी एक घडणूक मांगशिशांत घडली. एका ट्रकाचो मालक बर्मा रोडावेल्यान वता आसतना मांगशीशच्या दोंगराळ भागांत कोणेतरी ताजो ट्रक लुटिल्लो आनी ताज्या आंगावयल्यो भांगराच्यो वस्ती काडून व्हेल्ल्यो. तो तसोच मांगशिशाक येवन एका हॉटेलांत रावलो. थंय दुसरो चोर तागेले कुडींत घुसलो ते सरशीं तो भायर आयलो आनी 'चोर चोर' म्हणून किळचलो.

थोड्या वेळाभितर लोक जमले आनी पोलीसय धांवन आयले. अँथनी ते वाटेन वतालो देखून थंय थांबलो. पोलिसांकडेन ताणे वासधूस केली आनी मुखार सरून त्या ट्रक मालकाक विचाल्लें, ''कितें जालें ?''

''तूं कोण तें आदीं सांग.'' ट्रक मालकान अँथनीक सांगलें.

अँथनीन आपली वळख करून दिली.

''कितें चल्लां तुमच्या राज्यांत ?'' त्या ट्रकमालकान चोराचो राग अँथनीचेर काडीत विचाल्लें, ''दिसाच्या उजवाडांत चोरप म्हळ्यार कितें ?''

''कोणे तुगेलें कितें चोल्लें ? चोर कोण ?'' अँथनीन विचाल्लें.

''तें म्हाका खबर ना.''

''पूण चोर शान जमातीचो आसलो ?'' अँथनीन दुसरो प्रस्न केलो.

''देवाक खबर.'' ट्रकमालकान जाप दिली, ''पूण तुमच्या राज्यांत म्हजो ट्रक लुटलो आनी थोडे पयशे बोल्सांत उरिल्ले ते ह्या शारांत हॉटेलांत चोरयेक गेले.''

''चोर कसो दिसतालो ?'' अँथनीन विचाल्लें.

''सामको चोरासारको.'' ट्रकमालकान जाप दिली, ''हांवें आतां ताका पळयलो. तो ह्या हॉटेलांत रावता.''

''तुवें ज्या मनशाक पळयला तोच चोर म्हणपाचें तू जाणा ?'' अँथनीन विचाल्लें.

''हांव कुड्डो म्हणून समजला काय कितें तूं ?'' ट्रकमालक किळचलो, ''म्हज्या हाताची घडयाळ, बोटाची मुदी आनी बोल्सांतले तीन हजार रुपया जाणे चोल्ले ताका हांव वळखुचो ना जाल्यार कोणाक वळखतलो ?''

अँथनीन पोलिस अधिकाऱ्याक चोराचो सोद घेवपाचो आदेश दिलो. पोलिसांनी हॉटेलाचे मार्ग आडायले आनी चोराक भायर येवपाचो आदेश ते दीवंक लागले.

ह्या बोवाळाक लागून हॉटेलांत रावताले ते सगळे भायर आयले. चोराचेर मारिल्लो फार आपणाक लागत अशी तांकां भिरांत दिसली जांवये. अँथनीक ही तरा विचित्र दिसली. चोराक पोलिस भियेताले आनी ताज्या लागीं वचूंक तयार नासले.

इतले म्हणसर आ लान थंय पावलो. ताणें म्हळें, ''खंय आसा चोर ? सगळे चोर भायले. पोलीस भियेतात जाल्यार हांव तांकां धरतां.'' तो हॉटेलाची सोपणां चडूंक लागलो.

आ लानाक थंय पळोवन अँथनीक अजाप जाल्लेंच. पोलीस अधिकारी लेगीत अजापान फाटीं सल्लो.

ताणें म्हळें, ''आ लान, पिशेपणां करूं नाका. चोर तुका मारीत.''

दोनशें णव नंबरची कूड बंद आसली. आ लानान खोंटो मारून ती उकती केली आनी एका हातांत पयशे घेवन तो भायर आयलो.

''हे पयशे कोणाले ?'' ताणे विचाल्लें.

''म्हजे... म्हजे.'' ट्रकाचो ड्रायव्हर फुडें सल्लो. आ लानान पयशे ताका दिले.

''चोर खंय ?'' पोलीस अधिकाऱ्यान आ लानाक विचाल्लें.

''हांव ताका जितोच मारतलो आसलों. पूण ताणें म्हजे पांय धल्ले. म्हणून हांवें ताका सोडलो. चोर भायलो. हांगा भायले लोक येतात तितलेय चोर.''

तेसरशीं पोलीस हॉटेलांत धांवले आनी दोनशें णव नंबरचे कुडींत भितर सल्ले.

थंय कोण नासलो. चोर कसो आनी केन्ना पळून गेलो हें कोणाक कळ्ळें ना. कुडीचे नळे उकते आसले. तो फाटले वटच्यान नळ्यांवयल्यान गेल्लो आसूंये.

''शारभर चोराक सोदात.'' पोलीस अधिकाऱ्यान आदेश दिलो आनी सगळे पोलीस धावले.

पूण चोर पोलिसांक मेळ्ळोना.

अँथनीन सॉब्बाक घडिल्ले घडणुकेचो रिपोर्ट दिलो तेन्ना सॉब्बाक वायट दिसलें.

''आमचे पोलीस इतले नालायक ?'' ताणें म्हळें, ''शस्त्र हातांत धरिनासतना आ लान जाका धरूंक पावता ताका सशस्त्र पोलीस धरूंक पावनात म्हळ्यार आमच्या पोलीस दलाक लज न्हय ?''

''एक उपाय आसा सॉब्बा.'' अँथनीन सुचयलें. ''आ लान हो एक वीर मानून ताजो भोवमान करचो. तशें केल्ल्यान मांगशीश राज्याची नामना वाडटली.''

सॉब्बाक कल्पना खूबच आवडली. शान जमातीचे तरनाटे चोरांक भियेनात, ते शूरवीर आसात असो प्रचार करपाची संद आयती चलून आयल्या अशें सॉब्बाक दिसलें आनी ताणें आ लानाच्या भोवमानाचो कार्यक्रम आंखपाचो आदेश दिलो.

आ लानाची एक मिरवणूक शारांत काडली. मुखार पोलीस, तांच्या फाटल्यान सॉब्बाचे गाडयेंत आ लान, उपरांत शाळांची भुरगीं, निमाणेकडेन बँड म्हळ्यार सदचे ड्रम, खूबशो फोगेटी. मिरवणुकेचो कार्यक्रम आंखचे खातीर तीन दीस लागिल्ले. पूण ही मिरवणूक गाजली. एके रातयांत आ लान हो प्रतिष्ठित मनीस जावन बसलो.

सॉब्बाचे कुशीक आ लान बसलो तेन्ना तो सिनेमांतलो हिरो कसो दिसतालो. ड्रायव्हराचे कुशीक अँथनी बशिल्लो. मिरवणूक पळोवंक सगलो गांव लोटिल्लो. मिरवणूक राजवाड्यांत पावतकच आ लानाक तांदळाच्यो पन्नास पोटल्यो भेटयल्यो.

मिरवणूक फुडें वता म्हणसर एक अप्रुप गजाल घडली. गर्देतल्यान वाट काडीत आ लानाली बायल धांवत आपल्या घोवासरीं आयली आनी ताका उलो मारूंक लागली.

तिका पळोवन अँथनीन मोटार थांबोवंक सांगली. ती मोटारीसरीं आयली आनी तिणे आ लानाचो हात घट्ट धल्लो.

अँथनीक दिशिल्लें आतां नाटक सोंपतलें. नाय जाल्यार ते बायलेखातीर तो जीव दिवंक सोदतालो आनी ती सोडून वचत सावन पिसो जाल्लो.

पूण आ लानान वेगळेंच केलें. ताणे आपलो हात सोडयलो आनी त्याच हातान तिज्या तोंडार एक सणसणीत थापट माल्लें ! आ लानाच्या तोंडांत पान आसलें. पानाची पीक तो तिज्या तोंडार थुंकलो.

अँथनीन गाडी सुरू करूंक सांगलें. पूण गाडयेफाटल्यान आ लानाची बायल धांवत रावली.

वाटेंत शान चलयो आ लानाक हात लावंक फुडें सरताल्यो. पूण आ लानाचें तांचेकडेन लक्ष नासलें.

मिरवणुकीन कितें सादलें देवाक खबर! पूण अँथनीक दिसलें आ लानाचे तकलेक जें मोगाचें पिशें लागिल्लें तें गेलें.



युरोपासावन कोणय मनीस मांगशिशांत आयलो म्हण्टकच ईदाक आपल्या कुळारचो सोयरो आयिल्ल्याची खोशी जाता आनी तो जितले दीस मांगशिशात उरता तितलेय दीस तो सोब्वाल्या घरचो सोयरो जावन रावता. ताजी बडदास्त दवरपाचें काम खासा ईदाच करता. केन्ना केन्नाय असल्या सोयऱ्यांक लागून सॉब्वा अडचणीत येता.

हे खेपे जो सोयरो आयलो तो मनांत खुबशो उमेदी आशिल्लो जाण्टे पिरायेचो मनीस आसलो. खाकी रंगाची हाफ पँट आनी खाकी शर्ट घालून तो जेन्ना राजवाड्याच्या दारांत उबो रावलो तेन्ना थंयच्या चाकरांनी ताका धांवडावपाचोच दवरिल्लो. थळावी भास येनाशिल्ल्या त्या परकी मनशाक चाकर कितें सांगतात तें समजनासलें आनी तो कितें उलयता तें चाकरांक खबर नासलें.

कोणाक तरी येवजलें कि, इंग्लीश भास उलोवपी ह्या मनशाक अँथनीसरीं धाडचो आनी तो ताका घेवन अँथनीगेर आयलो.

असले सोयरे मांगशिशांत चडशे येनात, पूण जेन्ना येतात तेन्ना वाटेवयले लोक कामां थांबोवन तांकां पळयत रावतात. चाकरासांगातान तो सोयरो अँथनीगेर येता आसतना ताज्या फाटल्यान गांवचे कितलेशेच लोक आयले. एके भाशेन त्या गोरे कातीच्या युरोपियन मनशाची ती धींडच आसली.

इंग्लंडाकसावन आयिल्लो तो एक डॉक्टर. मॅडीकल कॉलेजाचें शिक्षण पूर्ण करतकच ताका अशें दिसूंक लागलें कि आयुर्वेद पध्दत बरी. पाळामुळांच्या वखदांचो अभ्यास करीत तो चिनांत पावलो. थंय ताका चिनी वैजकी शास्त्राची वळख घडली. कांय खाशेल्या तरांचीं पाळां ताका जाय आसलीं. तीं मांगशीश संस्थानाच्या भागांत मेळटात अशें ताका कोणेतरी सांगिल्लें. तेखातीर तो मांगशिशांत आयिल्लो. सॉब्बाची परवानगी घेवन आनी वनस्पत वळखुपी थळावे चार-पांच मनीस घेवन दोंगरार तंबू घालून थोडे दीस रावपाचें ताणे येवजिल्लें. ह्या कामांत ताका सॉब्बाचो आदार जाय आसलो.

अँथनीक तो मनीस प्रामाणिक दिसलो. असल्या मनशाक आदार दिवचो, इतलेंच न्हय तर तागेल्या वैजकी गिन्यानाचो राज्यांतल्या लोकांक फायदो मेळचो असोय विचार ताज्या मनांत आयलो.

ताका घेवन तो जेन्ना सॉब्बासरीं गेलो तेन्ना सॉब्बाची प्रतिक्रिया वेगळीच जाल्ली पळोवन अँथनीक अजाप जालें. ताका उत्तेजन दिवपाचें सोडून सॉब्बा अडचणी आनी आडखळीची भास उलोवंक लागलो.

''आमचीं रानां भयांकृत आसात. पायवाट लेगीत ना. मनशाक रिगाव मेळप कठीण. त्याभायर थंय तरातरांची जनावरां आसात. विखारी सोरोप! सॉब्बा ह्या नात्यान तुजे राखणेची जापसालदारकी हांवें उखलूंक जाय. पूण रानांत राखण कोण दितलो ?''

सॉब्वाली ही भास आयकनाफुडें अँथनी समजलो कि हो मनीस राज्यांत राविल्लो सॉब्बाक नाका. पूण तशें त्या डॉक्टराक कशें सांगपाचें ?

अँथनीन हेंय पळयलें कि तो डॉक्टर सॉब्बाचे सांगणेक लागून निर्शेलोना. उरफाटें ताणे म्हळें, ''तोय एक अणभव घेवन पळोवंक जाय. म्हाका राखणेची गरज ना. म्हाका आदार मेळ्ळ्यार पुरो.''

सॉब्वान त्राशीक नदरेन अँथनीकडेन पळयलें आनी म्हळें, ''तूंच ताका समजाय. आमच्या राज्यांत आयिल्लो मनीस अडचणींत पडिल्लो म्हाका नाका.''

सॉब्बा उठलो. पूण तो डॉक्टर बसून रावलो. अँथनीन ताका सुचयलें. ''चल या. तुका कशे तरेन आदार दिवं येता ताजो विचार करूया.''

अँथनी भायर सरता आसतनाच आंगणात आशिल्ले ईदाची नदर तांचेर गेली. उपचार म्हणून अँथनीन डॉ. स्मिथाची वळख ईदाक करून दिली.

ईदान डॉ. स्मिथाक आदली वळख आशिल्लेवरी येवकार दिलो. इतलेंच न्हय तर, ताका राजवाड्यांत रावपाचें आमंत्रण दिलें.

''सगळें आमी सवकासायेन उलोवया.'' तिणे डॉ. स्मिथाक सांगलें, ''आज रातीं तुका आमगेर जेवणाचें आमंत्रण. अँथनी, तूंय यो.''

ईदालो उर्बेभरीत येवकार पळोवन डॉ. स्मिथ जितलो खुशालभरीत जालो

तितलोच अँथनी भांबावन गेलो. जाका धांवडावपाचें काम सॉब्वान आपणाचेर सोपयिल्लें तो परकी मनीस ईदालो सोयरो जावन राजवाड्यांत रावंक लागलो जाल्यार सॉब्वाची प्रतिक्रिया कितें जातली हें अँथनी बेस बरें जाणा आसलो. देखून डॉ. स्मिथाची व्यवस्था राजवाड्याच्या आंगणापलतडीन आशिल्ल्या अतिथीघरांत करून ताकतिकेन अँथनी परत सॉब्वासरीं गेलो.

"त्या युरोपियन डॉक्टराक भायली वाट दाखयली मू? बेस बरें जालें. म्हाका ती कटकट हांगा नाकाच आसली. तूं नकळ अँथनी, हे गोरे लोक एक वेळ रिगले जाल्यार सोपेपणान वचनात आनी तांचो धुमाकूळ सुरू जातकच आमी हांगा रावपाची माणसुकी उरना." अँथनीक पळयनाफुडें सॉब्वान म्हळें.

अँथनी सामकोच गोंदळ्ळो. ताका तोंड उकतें करपाची लेगीत सॉब्वान संद दिवंक नासली. आपणाचेर जें काम सोपयिल्लें तें आपूण करूंक पावलों ना म्हणपाचें येवजून ताका ताजें मन खातालें.

केदो वेळ अँथनी कांय उलयना हें पळोवन सॉब्वान विचाल्लें, "तूं असो खंती कित्याक दिसता? तुका तो डॉक्टर राविल्लो जाय आसलो?"

"नाका. पूण तो अजून वचूंक ना. भायर आंगणात ताका ईदा मेळ्ळी..."

सॉब्वा एकदम गंभीर जालो. कपलार हात मारून ताणे म्हळें, "हेंच तें अँथनी. हेंच म्हाका नाका आसलें. ईदाची आनी ताजी भेट जावची न्हय म्हणून म्हाका ताकीत आसली. पूण निमाणे ती जालीच. आतां हो सोयरो उल्लो. इतलेंच न्हय ताजी रानांत रावपाची वेवस्थाय करची पडटली."

अँथनी कितें उलयतलो? तरी ताणे म्हळें, "आज रातीच्या जेवणाक ताका ईदान आमंत्रण दिलां."

सॉब्वा कांय उलयलोना.

"म्हाकाय आपयला." अँथनीन म्हळें.

"हय, यो तूं." इतलेंच उलोवन सॉब्वा उठलो.

जेवणाच्या मेजार ईदा सामकी भुरकटून गेल्लेवरी वागताली. डॉ. स्मिथाची कल्पना तिका मानवली. डॉ. स्मिथान एक येवजण मांडली. त्या पाळां-मुळांपासून वखदां तयार करपाचो एक कारखानो मांगशिशांत घालूंक तो तयार आसलो. थोडेशें भांडवल जाय पडटलें. वखदाक संवसारभर मान्यताय आसतली. सुमार पन्नास लोकांक चाकरी मेळटली आनी मांगशिशचें उत्पन्न वाडटलें.

सॉब्वाचेच वतीन ईदा हे येवजणेक मान्यताय दिवन बसली. पूण सॉब्वा कांय उलयनासलो. ताजें तोंड पळयल्यार दिसतालें, थोडे पैशे दिवन ही कटकट राज्याभायर वता आसत जाल्यार अदीक बरें जातलें अशें तो येवजिता आसूये. पूण ईदा वा डॉ. स्मिथ हांचेमदल्या कोणाकच सॉब्वाचे प्रतिक्रियेचो हुस्को नासलो.

जेवण सोंपसर सॉब्वाचे इच्छेआड ईदान एक पिकनिकेची कार्यावळ थारावन

उडयली. रानांत दोंगराचेर वयर तंबू घालून दोन राती रावपाचे कल्पनेन ती भारून गेल्ली. कितें न्हेसचें, कितें खावचें, सांगातान कितें व्हरचें हेविशीं ती उलोवंक लागिल्ली. दुर्बिण, कॅमेरा, चलपाची बडी, राखणेखातीर शिपाय, माचूल आनी भोये आनी रानांत जनावरांची शिकार करपाखातीर कोणय कसबी शिकारी.

ईदा एकसारकी उलयताली आनी सॉब्वा तकली सकल घालून मोन्यानी जेवतालो. ईदाची वागणूक ताका मानवना हें अँथनीक उकतें बरें दिसतालें.

''म्हणटकच दोंगराचेर कोण कोण वतले ?'' डॉ. स्मिथान मेजावयलो उठून प्रस्न केलो.

''आमी सगळींच.'' ल्हान भुरग्याभाशेन ताळयो मारून ईदान जाप दिली.

''ना. ईदा, त्या दोंगरार तुवें वचप समा जावचेंना. हांवय वचना. डॉ. स्मिथाक जाय जाल्यार आमी गांवचे कांय लोक सांगाताक दिवया. तो पिकनिकेक येवंक ना. ताका पाळांमुळां सोदचेलीं आसात.'' सॉब्वा गंभीरपणान भाशण करचें तशा सुरांत उलयलो.

परक्यामुखार सॉब्वान दिल्लो नकार ईदाक झोंबलो. ती नमली ना. तिणे म्हळें, ''तुका भंय दिसता जाल्यार तूं येवं नाका. थोडे राजवाड्यांत रावन मरतात, थोड्यांक रानांत मरण येता. कोणाक कशें मरण येत हें देवाकच खबर. पूण मरणाक भियेवन जगप म्हळ्यार सामकीं पिशेपणां.''

घोव आनी बायल हांचेमदीं झगडें पेटलें जाल्यार आपल्याक कठीण वतलें असो विचार करून डॉ. स्मिथान मदीं तोंड घालें. ताणे म्हळें, ''काम खूब दिसाचें आसलें तरी आदीं आमी पिकनिकेक वचून तो जागो पळोवन येवया. म्हाका जाय तसलीं पाळां-मुळां खऱ्यानीच थंय मेळटात जाल्यार पळोवया. मेळ्ळीं जाल्यार काम जातलें. मेळ्ळींना तरी पिकनिकेची खोशी भोगूंक मेळटलीच.''

डॉ. स्मिथाली सुचोवणी थंडसाणेन आयकून घेवन सॉब्वान तकली वयर करून अँथनीकडेन पळयलें आनी म्हळें, ''तसो पिकनिकेक म्हजो विरोध ना. अँथनी येता आसत जाल्यार हांवय येतां.''

आपणाक हो जाहीर आपोवणो म्हणपाचें अँथनी वळखलो आनी ताणे म्हळें, ''तयारी करूंक दोन दीस लागतले. मनीस सोदूंक जाय. माचूल व्हरपी भोये आपोवंक जाय.''

''तशी तुका ताकीत कोणे केल्या ?'' ईदान म्हळें, ''पूण जे लोक तंबू घालतले तांकां आदीं धाडिल्ले बरे.''

दोन दिसांउपरांत जेन्ना सॉब्वा रानांत वचूंक भायर सल्लो तेन्ना मांगशिशांतलो तो एक दबाजोच जावन बसलो. गांवचे शिमेमेरेन तीं मोटारीन गेलीं. दोंगराची चडटी लागनाफुडें सॉब्वा माचुलांत बसलो आनी पयलेच फावट ईदाच्या हाताक धरून ताणे तिका माचुलांत बसयली. अँथनी आनी डॉ. स्मिथ पायांनीच दोंगर

चडूंक लागले.

दोंगर चडटां - चडटां माचूल घेवन चलपी भोये खुबच मुखार पावले. दोंगर चडपाची तांकां इतली संवय जाल्ली कि तांकां खरस लेगीत येनासली. अँथनी आनी डॉ. स्मिथ खूब वेळ निर्धारान चल्ले. पूण निमाणे पुरो जावन जमनीर बसले. जेन्ना सॉब्वा खूब फुडें पावत अशी भिरांत दिसली तेन्ना तेय दुसऱ्या माचुलांत चडले.

माचूल खांद्यार उखलतले भोये आपल्या भुजांचेर माचुलाचे दांडे धरून चलताले. तांच्या दोनय भुजांक पडिल्लीं खिणां दिसतालीं. मनशाक असलें कर्तुप सोबना अशें अँथनीक मनांतल्यान दिसलें. पूण चलून पायांत गुळे आयिल्ले. देखून तो ओगी रावलो.

अर्द दोंगराच्या अदमासाक वडाचें एक व्हड झाड आनी ताजे सांवळेक दोन तंबू घाल्ले. एका तंबूत सॉब्वा आनी ईदा जाल्यार दुसऱ्या तंबूत अँथनी आनी डॉ. स्मिथ. लागसार एक झर व्हांवताली. सगळे ते झरीचेर वचून पोटभर उदक पियेले. दोंगर चडून कासावीस जाल्ले अँथनीकय झरीचें उदक आवडलें. ते तंबूकडेन परत आयले तेन्ना दनपारचें जेवण तयार जाल्ल्याची खबर मेळ्ळी.

भूक सगळ्यांकच लागिल्ली. उलोवप थोडें, खावप चड अशी सगळ्यांची अवस्था आसली. चोशीं निळ्या दोंगरांच्यो तेंगशो. थंड वारो झणझणीत व्हांवतालो.

''रातीचें बरेंच शीं आसतलें अशें दिसता.'' आदींच आंगार स्वेटर चडोवन बशिल्ले ईदान म्हळें.

''जाल्यार मजा येतली.'' डॉ. स्मिथान जाप दिली.

जेवणां सोंपतकच सगळ्यांकच लकणी आयली. पूण डॉ. स्मिथ कांय थळाव्या काचीन लोकांक जमोवन आपली वनस्पत सोदपाच्या कामाक गेलो. अँथनी एकलोच तंबूंत बसून रावलो. थंयच ताजो दोळो लागलो.

ताका जाग आयली आनी तो तंबूतल्यान भायर आयलो. अस्तंतेकडेन दोंगराफाटल्यान अस्ताक वतल्या सुर्याचें दर्शन ताका घडलें आनी ताणे उदेन्तेकडेन नदर फिरायली. सगळ्याक दाट धुकें पातळिल्लें. आपूण मळबांत पावलां असो ताका भास जालो. धुंवराचे लोट वयर चडचे तशें तें धुकें इल्लें - इल्लें वयर चडत रावलें आनी पळयतां - पळयतां त्या दोनय तंबूसयत वडारूखाकय गिळून बसलें.

आतां दोळ्यांमुखावयली वस्त दिसनासली. अँथनीकडेन फस्क नासलें वा टॉर्च. सॉब्वाल्या तंबूतल्यान उजवाडाचें कीर्ण आयलें आनी ते दिशेन तो गेलो. भायल्यानच ताणे उलो माल्लो तेन्ना एका चाकरान दिवो पेटयलो.

तंबूंत भितर पावतकच उजवाड फांकारलो. भीतर धुकें पावंक नासलें. अँथनीन धुक्याची खबर ईदाक आनी सॉब्वाक सांगली तेन्ना दोगांय धांवत भायर आय्लीं.

''खऱ्यांनीच हो सर्ग !'' सॉब्वान म्हळें, ''पूण ह्या सर्गांत देव ना.''

‘‘अशें कित्याक म्हण्टा ?’’ ईदान म्हळें, ‘‘आमीच आयज सर्गांतले देव जावंक पावले.’’

धुक्यांत भोंवपाची खोशी तीं तिगांय अणभवता आसतना अँथनीक एक कप च्या जाय अशें दिसलें आनी ताणे रानप्याक तशें फर्मान सोडलें.

‘‘ताकीत कसली ?’’ ईदान विचाल्लें, ‘‘डॉ. स्मिथ येतकच सगळीं सांगातान च्या घेवया.’’

‘‘तो येतकच परत च्या घेवं येता.’’ अँथनीन म्हळें.

सॉब्वाक कोटी येवजली. ‘‘च्या केन्नाय घेवं येता... फकत तो मात येवंक जाय.’’

‘‘म्हळ्यार कितें ?’’ अजापून ईदान विचाल्लें, ‘‘तो परत येवचेना. पळून वतलो अशें तुका दिसता ?’’

‘‘ना. पळून गेलो जाल्यार तो येतलो. पूण आयलो ना जाल्यार मात कितें करपाचें तें हांव येवजितालों.’’ हांसत सॉब्वान म्हळें.

‘‘तो येवचोना अशें तुका कित्याक दिसता ?’’ इल्लो हुस्को उक्तावन ईदान विचाल्लें.

‘‘हें धुकें तुवें पळयलां. हरशींच हांगा वाट मेळना. ह्या धुक्यांत वाट कशी मेळटली ? रानांत रानवटी जनावरां आसात. शींव आनी वाग लेगीत आसात. मनशाच्या वासान ते चाळवतात हें हांव जाणा... देखूनच हांव ताका शिटकायतालों.’’

सॉब्वा थंडसाणेन उलयलो. पूण ईदा कांचवेवन गेली. अँथनीकय डॉ. स्मिथ आनी ताज्या सांगातान गेल्ल्या लोकांचो हुस्को दिसूंक लागलो.



रातभर सगळ्यांनी डॉ. स्मिथ आनी तांच्या सांगातान गेल्ल्या लोकांचो हुस्को काडलो. रातीच्या काळखांत पुराय वाठारांत दाट धुकें पातळिल्लें आनी जळारांचें संगीत सुरू जाल्लें. रातकिड्यांचो कर्कश आवाज कान कणकणयतालो आनी रानवटी जनावरांच्यो तरेकवार किळच्यो तंबूतल्या मनशाक भेशटायताल्यो.

न्हिदतलो म्हळ्यार लेगीत न्हीद येवपासारकें तें वातावरण नासलें. एक तर डॉ. स्मिथ आनी ताज्या सांगात्यांचो हुस्को आनी दुसरें भोंवतणचें भयांकृत वातावरण. सांजच्या वेळार जंय सैमाची अप्रुपाय मन माळयताली थंयच आतां सैमाचें विक्राळ रूप मनाक कांच हाडटालें.

फांतोडेर उठून अँथनी तंबूभायर आयलो. सगळें सुरक्षित आसा हें पळोवन ताजें ताकाच अजाप जालें. सॉब्वाच्या तंबूच्या दारांत येवन तो परत वचूंक सोदतालो. सॉब्वा न्हिदिल्लो आसतलो अशें ताका दिशिल्लें. पूण सॉब्वानच ताका नांव घेवन

उलो माल्लो आनी अँथनी तंबूत भीतर गेलो.

कांबळ गुठलावन सॉब्वा बशिल्लो आनी माथ्यावयल्यान कांबळ ओडून ईदा न्हिदिल्ली.

''तो डॉक्टर आयलो ?'' सॉब्वान अँथनीक पयलो प्रस्न विचाल्लो.

''ना.'' अँथनीन जाप दिली.

ही जाप आयकनाफुडें माथ्यावयलें पांगरूण कुशीक काडून ईदा एकदम उठून बसली आनी तिणे विचाल्लें, ''ताजें कितें जातलें ?''

सॉब्वान थंडसाणेन जाप दिली, ''रातभर ह्या रानांत भायर उरिल्लो मनीस जितो परत येत अशें म्हाका दिसना. पूण आयलो जाल्यार ती बुध्दाचीच कृपा म्हणची पडटली.''

अँथनीन म्हळें, ''सकाळीं तांचो सोद घेवचोच पडटलो.''

''आतां वच तूं अँथनी.'' सॉब्वान म्हळें, ''उजवाड जातकच विचार करूंया. दनपार जावचे आदीं आमी परतुया.''

अँथनी आपल्या तंबूत परत आयलो आनी दीस उजवाडटासर थोडें न्हिदून घेवया अशें येवजून हांतुणाचे उबेंत रिगलो. दिसाचे अभय आशिल्ल्यान ताजो रोखडोच दोळो लागलो.

ताका जाग आयली तेन्ना डॉ. स्मिथ तंबूत परत आयिल्लो.

ताका पळोवन आपूण सपन बी पळयना मूं असो आदी अँथनीक दुबाव आयलो. तो ताकतिकेन उठून बसलो आनी आपणाकच एक चिमटो काडून हें सपन न्हय म्हणपाची खात्री करून घेतली.

''तूं केन्ना आयलो ?'' ताणे डॉ. स्मिथाक विचाल्लें.

''आतांच पावलों.''

''रातभर तूं खंय आसलो ?'' अँथनीन खबर घेवंक प्रस्न केलो.

''ह्या दोंगराचे दरींत एक ल्हानसो गांव आसा, थंय आमी रातचे रावले.'' डॉ. स्मिथान जाप दिली आनी फुडें म्हळें, ''बेगीन तयार जा. आमकां हो वाठार सोडून दुसरेकडेन वचूंक जाय.''

''कित्याक ?''

''हांगा शींव आसात.''

''तुमी शींव पळयलों ?''

''ना. रातभर गरड आयकली आनी सकाळीं सगळे वाटेर शिंवाचें शेण पळयलें. आमी खंयचेय तरी वस्तींत राविल्ले बरे.'' डॉ. स्मिथान सुचयलें.

अँथनी उठलो. तो येवजितालो, वनस्पत सोदूंक इतलेय लोक रानांत आसपाची गरज ना. फकत गांवच्या लोकांक एक खेपे वनस्पत दाखोवन ती हाडूंक सांगली जाल्यार ते हाडून दितले. तशें ताणे डॉ. स्मिथाक सुचयलें.

डॉ. स्मिथान ही सुचवणी च्या घेता आसतना सॉब्वाक केली आनी सॉब्वान ती रोखडीच मान्य केली.

''कितलीं पाळामुळां तुका मेळ्ळीं ?'' सॉब्वान डॉ. स्मिथाक विचाल्लें.

''अजून कांय मेळूंक ना.'' ताणे जाप दिली.

''तूं ती वनस्पत वळखता ?''

''हय. पूण ते तरेचें एक्य झाड काल सगळी सांजवेळ म्हाका मेळ्ळें ना.''

दोंगर देंवपाचे वाटेर सगळेच ल्हान ल्हान रोपे हुमटायताले आनी ताजें पाळ डॉ. स्मिथाक दाखयताले आनी हें न्हय, हें न्हय अशें डॉ. स्मिथान सांगतकच तें भायर उडयताले.

निमाणे उबगून डॉ. स्मिथान आपल्या बोल्सांतले एक हळडुव्या रंगाचें पाळ दाखयलें आनी म्हळें, ''हें सारकें पळयात आनी मागीरच सोदात.''

''खंयच्या गांवांत तुवें रात सारली ?'' सॉब्वान ताका विचारलें.

पयसुले दरींत कांय घरां दिसतालीं थंय बोट दाखोवन ताणे म्हळें, ''तो गांव.''

''थंय तूं कसो पावलो ?''

''काळोख दाटून आयलो तेन्ना दिव्याच्या अजवाडाचे दिशेन आमी चलत रावले. तांकां म्हजी भास समजना. मोन्याची भास उलोवन रात सारली. एक खेपे ते म्हाका जाय तें वखद सोदूंक तयार जालें जाल्यार म्हजो हुस्को सोंपलो.'' डॉ. स्मिथान जाप दिली.

''तशें जाल्यार आदीं आमी त्या गांवातच या. हांव तांकां समजायतां.''

दोंगराचे दरीत ल्हानसो गांव. खेटून भरिल्ली ४० - ५० घरां. काचीन जमातीचे ते लोक मोटवे, तामसार रंगाचे आनी कमराक गुठलायिल्लें वस्त्र सोडले जाल्यार उकतेच आसले. माथ्याक निळ्या रंगाचो रुमाल. पळोवंक रागिश्ट आनी खुनशी दिसताले. कांय लोकांच्या हातांत एक लांब तलवार. सगळ्या घरांनी पेटिल्ल्या रांदनीचो धुंवर भायर सरतालो.

सॉब्वा आनी तांचे सांगाती वाड्यार पावले तेन्ना सात - आठ रानवटी सुणीं भोंकत तांच्या आंगार धांवन आयलीं. पूण सॉब्वाच्या सांगातान जे काचीन चाकर आसले ते फुडें सल्ले आनी ताणी त्या सुण्यांक धांवडायलीं. सॉब्वाचें पथक फुडें सल्लें तशीं कुकडां आवाज करूंक लागलीं. कांय घरांच्या दारांत बायलो गळ्यांत मणयांच्यो सरपळ्यो घालून आनी कानांत वाटकुळीं कानांतलीं घालून बशिल्ल्यो दिसल्यो. कांय तांदूळ आसुडटाले, कांय वेताचे पाटले विणटाल्यो.

एक तरनाटो मुखार आयलो आनी ताणे सॉब्वाक अभिवादन केलें आनी तो फुडें चलूंक लागलो. सॉब्वाचें पथक ताचे फाटल्यान. एके खोपीकडेन येवन तो थांबलो. थंय गांवच्या मुखेल्यान सॉब्वाक येवकार दिलो.

पान चाबिल्ले भाशेन तोंड हालोवपी हो मुखेली जेन्ना उलयलो तेन्ना ताका दांत

नात म्हणपाचें अँथनीक समजलें.

सॉब्वान ताका डॉ. स्मिथाचें काम समजायलें. पाळ दाखयलें आनी तसलीं पाळां जमोवपाचें काम गांवच्या तरनाट्यांक दिवचें अशें सुचयलें.

त्या पाळाविशीं तपशील सांगपाचो यत्न डॉ. स्मिथ जितलो करतालो तितलो त्या मुखेल्याचो गोंदळ वाडटालो. हें खूब वेळ चल्लें. तांगेलें तें नाटक पळोवन सॉब्वा हांसतालो. दुसरे वाटेन वाड्यावयले सगळे लोक, भुरगीं आनी बायलो ह्या शारांतल्या लोकांक पळोवंक जमिल्ल्यो.

''आमी डॉ. स्मिथाक हांगां दवरूया आनी मांगशिशाक परतुया. ना जाल्यार दनपार हांगाच जातली.'' सॉब्वान सुचयलें. अजापाची गजाल म्हळ्यार ईदाय रोखडीच कबूल जाली. चड करून आदले रातीच्या अणभवाक लागून आसूंये.

ते वाटेच्यान डॉ. स्मिथ आनी गांवच्या मुखेल्यांमदलो कुरवांचो संवाद चालू आसलो. एका हातांत झाडाचें पाळ आनी दुसऱ्या हातांत पैशे, घडयाळ, पेन ह्यो वस्तू तो ताका दाखयतालो.

सॉब्वान आपल्या हाताची घडयाळ काडून गांवच्या मुखेल्याक दिली आनी ताका डॉ. स्मिथ आनी हेर सांगात्यांक आदार दिवंक सांगलें.

अँथनी आनी ईदा सॉब्वा सांगातान पायांनी चलत दोंगर देंवक लागलीं. जेन्ना तांकां पुरो जालें तेन्नाच ती आपआपल्या माचुलांत बसलीं.

दोंगर देवन माचूलां मार्गाचेर पावपाच्या वेळार कोणाचो तरी बोवाळ आयकून अँथनी सकल देंवलो. सॉब्वाय सकल देंविल्लो. पळय जाल्यार डॉ. स्मिथ धांवत, किळचत येता.

जेन्ना खर्शेत खर्शेत डॉ. स्मिथ लागीं पावलो तेन्ना सॉब्वान ताका कितें घडलें अशें विचाल्लें.

''देवा सायबा! ते कॅनिबल्स. म्हळ्यार मनशाचें मांस खावपी.'' डॉ. स्मिथान म्हळें.

''तुका कशें कळ्ळें? म्हाका जाल्यार ते सभ्य लोक दिसले.'' अँथनीन म्हळें.

''तो गांवचो मुखेली म्हाका घेवन तांच्या देवळांत गेलो आनी थंय हांवें पळयली ती मनशांच्या कवट्यांची आनी हाडांची रास. खिणभरयांत हांव समजुपाचें समजलों आनी शेंपडी तुटसर पळत आयलों.''

''आनी तुज्या सांगातान आशिल्ले हेर लोक खंय गेले?'' सॉब्वान विचाल्लें.

''ते म्हज्या फाटल्यान येतात. हांवें तांकां शिटकायल्यात. बरे वांचले म्हणूंक जाय.'' डॉ. स्मिथान जाप दिली.

डॉ. स्मिथ घामाघूम जाल्लो. एके वटेच्यान खर्शेतालो आनी दुसरे वटेच्यान कडकडटालो. तागेली ती अवस्था पळोवन ईदाची भियेवन गुळी जाली.

ल्हवू ल्हवू पावलां उखलीत डॉ. स्मिथासांगातान गेल्ले चाकर परत आयले.

सॉब्वान तांचेकडेन वासपूस केली आनी विचाल्लें, ''त्या गांवचो लोक मनशाचें मांस खातात ?''

सगळे एकमेकांच्या तोंडाकडेन पळोवंक लागले. एकल्यान म्हळें, ''हय, पूण देवाची पुजा करतात तेन्नाच ते एका मनशाक मारून ताज्या मांसाचो निवेद्य देवाक दाखयतात आनी मागीर तो खातात.''

जाप आयकून सॉब्वा उलयलो ना. उठून आपल्या माचुलांत बसलो. डॉ. स्मिथ आदींच दुसऱ्या माचूलांत बशिल्लो. तो भियेवन इतलो गर्भगळीत जाल्लो कि अँथनीक ताका कितेंय जायत म्हणपाचो अँथनीक हुस्को दिसूंक लागलो.

माचूल खांद्यार घेतिल्ले ते भोयी काचीन जमातीचे. चडशे चाकर काचीनच. हेय मनशाचें मांस खातात काय असो एक दुबाव अँथनीच्या मनांत रिगलो आनी तोय भियेलो.

मांगशीश शारांत पावनाफुडें सगळ्यांनी सुटकेचो सुस्कारो सोडलो. पूण माचुलांतल्यान देंवचे आदींच डॉ. स्मिथान मांगशीश सोडून वचपाचो निर्णय घेतिल्लो.



रंगून हें रंगेल लोकांचे एक शार म्हणपाचें अँथनीक खबरच नासलें. त्या काळार संवसारांत हेरकडेन खंयच नासले इतले नायट क्लब रंगुनांत आसताले. सरभोंवतणच्या वाठारांतल्यो चलयो धंदो सोदूंक रंगूनाकच येताल्यो. शिंदळकीचेर सरकारी बंदी नासली. उरफाटो सरकार शिंदळकेक उत्तेजन दितालो. अस्तंत आनी उदेंतकडल्या देशांतल्या लोकांखातीर रंगून हो सोयीचो अड्डो आसलो.

एका ब्रह्मदेशाच्या मनशानच अँथनीक एक खेपे सांगलें, ''म्हजी बायल धंदो करता.''

तरी अँथनीक दुबाव येवपाचें कारण दिसलें ना. ताका दिसलें ती दुकान वा कसलोय कारखानो चलयता आसतली आनी साळसूदपणान ताणे ताका विचाल्लें, ''कसलो धंदो ?''

तो निर्लज्ज घोव व्हडाव्हडान हांसलो आनी म्हणूंक लागलो, ''बायल दुसरो कसलो धंदो करतली ?''

तागेली ही जाप आयकून मात अँथनी शिटकावलो. कितलो निर्लज्ज हो मनीस ! हाणेच तिका धंद्याक लायिल्ली नासत मू ? घडये तोच तिगेलो एजंट लेगीत आसूये. असल्या मनशाकडेन वळख आसप हें लेगीत उणाकपणाचें मानून अँथनी ताका फाफडूंक सोदतालो. पूण सभ्यतायेचे आचार ताका पाळचे पडले. ताणे विचाल्लें, ''तूं कितें करता ?''

''कांय ना.'' तितल्याच निगरगट्टपणान त्या बर्मी मनशान जाप दिली.

मांगशिशचे भोंवडेर तो आयिल्लो आनी अँथनीक उपचार म्हणून मेळूंक आयिल्लो तेन्ना तांचेमदीं जाल्लो हो संवाद.

ह्या मनशाक फांफुडलो जाल्यार तागेल्यो मांगशिशांतल्यो उचापती कळच्यो नात असो विचार करून अँथनीन ताका बसोवन घेतलो आनी ब्रह्मदेशाविशीं ताका प्रस्न केले.

''भोंवडेकार हेच आयचे अर्थविवस्थेचे मुखेल आदार.'' ताणे सांगलें, ''थोडेशें शेतांनी आनी थोडेशें हेर तरेचें काम आमच्या देशांत आसता. पूण सगळ्या मळांचेर बायलो कामां करतात. त्यो घरां सांबाळटात. आमच्यो नर्सी भायल्या देशांनी वतात. त्योय पैशे धाडटात.''

''आनी दादल्यांचें कितें ?'' अँथनीन विचाल्लें.

''सामान्यतायेन आमच्या देशांतल्यो बायलो बर्मी दादल्यांकडेन लग्न करूंक सोदिनात. पूण कांय जाणांक दादल्यांचो आदार जाय आसता. आपल्या भुरग्यांक सांबाळूंक वा घरची कामां करूंक.''

अँथनीक एकदम ईदाचो उगडास जालो. ती बर्मी चली. एका नायट क्लबांत सॉब्वाक मेळिल्ली.

ताका दुबाव आयलो कि हो बर्मी मनीस कसलोय हेतू मनांत घेवन मांगशिशाक आयलो आसतलो. तो सादो भोंवडेकार अशें ताका दिसलें ना. तो एका हॉटेलांत रावतालो.

''आनीक कितले दीस तूं मांगशिशाक उरतलो ?'' ताणे वासपूस केली.

''सांगूंक जायना.'' अशी टाळाटाळीची जाप त्या बर्मी मनशान दिली.

ताका हॉटेलाचेर पावोवन अँथनी तडक राजवाड्यांत गेलो आनी गांवांत एक बर्मी मनीस आयला ताजी खबर सॉब्वाच्या कानार घाली.

''तशें जाल्यार ताका हांगां हाड.'' सॉब्वान म्हळें.

''तुजेकडेन तागेलें काम आशिल्लें दिसना. तो हरशींच आयला आनी म्हाका तरी तो मनीस निखालच आवडलो ना. ज्याची बायल अनितीक मार्गान पैशे जोडटा आनी जो निर्लज्जपणान तिगेल्या पैशांचेर जगता अशा मनशाक सॉब्वान राजवाड्यांत आपोवप समा जावचें ना.'' अँथनीन म्हळें.

''पळोवया तरी कोण तो. म्हजें ताजेकडेन काम आसा. असले मनीस उपेगाचे आसतात. हांव फुडल्या सप्तकांत रंगूनाक वचपाचें येवजितां. थंय ह्या मनशाचे वळखीचो उपेग जावं येता.'' सॉब्वान हांसत म्हळें.

सॉब्वाल्या तोंडावयले भाव पळयतकच अँथनीकय अजाप जालें. सॉब्वा जे अर्थी ईदाकडेन लग्न जाला ते अर्थी नायट क्लबांतल्या चलयांविशीं ताका आकर्षण आसा हें दिसतालेंच. पूण रंगूनाक वचून शिंदळकीच्या सहवासाची सपनां तो अजून पळयता आसत अशें अँथनीक दिसूंक नासलें.

ॲंथनी कांय उलयलो ना. तागेलें गंभीर तोंड पळोवन सॉब्बानच म्हळें, ''तूं अनवाळो हें हांव जाणा. हांव तुका भश्टूंचो ना. पूण हांवे दोन दीस फोल्ग माल्लें जाल्यार तुका वायट दिसतलें ?''

''सॉब्बाचे प्रतिष्ठेचो प्रस्न आसा न्हय ?'' ॲंथनीन विचाल्लें.

''असले गजालींनी प्रतिष्ठा खंय आयली ?'' सॉब्बा हांसलो, ''जितल्या चड बायलांकडेन संबंद येता तितली सॉब्बाची प्रतिष्ठा चड आसता. म्हज्या सांगातान तूं रंगूनाक यो. तेन्ना तुका कळटलें. चोरून लिपून करपाची कर्मां न्हय तीं.''

''पूण ईदा....'' ॲंथनी उलोवंक वतालो. ताणे वाक्य पूर्ण केलें ना.

''ईदाक आतां सांबाळूंक जाय. इंग्लीश डॉक्टराक आपोवन तपासूंक जाय. तिगेली एक मावशी आसा, तिका आपोवन हाडूंक सोदतां. तीन म्हयने भल्ले आसतले.'' सॉब्बान म्हळें.

ॲंथनी निरोप घेवंक उठलो तेन्ना सॉब्बान पर्थून ताका याद दिली, ''हें पळय, त्या बर्मी मनशाक धाडूंक विसरूं नाका.''

ॲंथनीचे नदरेन मांगशिशाक आयिल्लो बर्मी मनीस हो अनितीक मार्गान वागपी एक दुराचारी. असल्या मनशाक मेळपाची इत्सा सॉब्बान उक्तावप म्हळ्यार सामकें पिशेपण. सॉब्बा हो आपलो खाजगी जिणेत नीत आचारपी नासलो तरी लोकोपवादाखातीर आनी आपल्या पदाचे प्रतिष्ठेखातीर ताणे मात्शे जबाबदारेन वागूंक जाय, अशें ॲंथनीक दिसतालें. पूण ह्या वेळार नितीपाठ दिवपाचो यत्न केलो जाल्यार सॉब्बा आपणाचेर रागार जातलो हें येवजून ॲंथनी त्या बर्मी मनशाक मेळूंक हॉटेलांत गेलो.

हॉटेलांतली एक ल्हानशी कूड भितल्ल्यान बंद आसली. पूण भितर बायलांचे आवाज आयकूंक येताले. दारार मारचें काय ना हें थारावंक ॲंथनीन पांच मिनटां काडलीं. भितल्लें उलोवणे सारकें आयकूंक येना आसलें. सगळ्यो बायलो एकाच वेळार उलयतात आनी तो बर्मी मनीस खूब थोडें उलयता इतलो अदमास ताका आयलो.

ताणे ल्हवू दारार माल्लें. भितल्ल्या बोवाळांत तें कोणे आयकलें नासूंये. उपरांत ताणे आपल्या बोल्सांतली चावी भायर काडून व्हडान दाराचेर वाजयली. ते सरशीं दार उकतें जालें.

दारांतच सात - आठ बायलांचो घोळको. सगळ्यो चलयोच म्हणूंक जाय. बर्मी मनीस खंय दिसना आसलो. दार उकतें जातकच कुडींत जमनीर बशिल्ल्यो त्यो चलयो उब्यो राविल्ल्यान आपले खाटीचेर बशिल्लो.तो बर्मी मनीस ॲंथनीक दिसूंक नासलो. तो उबो रावलो आनी हात फुडें काडून ताणे ॲंथनीक खाटीचेर आपल्या म्हऱ्यांत बसूंक आपयलो.

ॲंथनी पळयत रावलो. ह्यो इतल्यो चलयो त्या परकी मनशाले कुडींत आयल्यो

ो ? कित्याखातीर त्यो आयल्यात वा तांकां आपोवन हाडल्यात हें ताका समजलें
.

"चलात तुमी आतां." त्या बर्मी मनशान चलयांक सांगलें.

"आनी परत केन्ना येवं ?" एके चलयेन विचाल्लें.

"तुमी अशें करात, म्हाका हांगा परत मेळूं नाकात. हांव तुमकां सांगतां तो पत्तो नींत धरात. हांगा सावन जे ट्रक वतात त्या ट्रकांचेर बसून तुमी बर्मा हॉटिलांत वपाचें. तुमी पावचे आदींच हांव थंय पाविल्लों आसतलों. थंय तुमची फुडली स्था जातली."

"ट्रका ये भाडें कोण दितलो ?" दुसरे चलयेन विचाल्लें.

"तें तुमीच दिवचें पडटलें. थंय पावतकच फुडली सगळी जापसालदारकी जी."

आनी चलयो एक-एक करून भायर सरूंक लागल्यो. सगळ्योच खुशालकायेन घांबळीत जाल्ल्यो. कितें चल्लां हेंच अँथनीक समजलें ना. चलयो वतकच ताणे त्या बर्मी मनशाच्या तोंडाकडेन पळयलें आनी विचाल्लें, "ह्यो चलयो कोण ?"

"हांगाच्योच. मांगशिशच्यो. शान जमातीच्यो."

"तांका तूं रंगूनाक व्हरता ?"

"हय. हांगा त्यो बेकार आसात. हांगा तांकां नालायक तरनाट्यांकडेन सक्तीन ग्न जावचें पडटा. हांव तांकां थंय काम दितलों. त्यो पैशे जोडटल्यो. ह्या पैशांक ागून मांगशीश राज्याची गिरेस्तकाय वाडटली."

"तरणे चलयांक तूं नोकरी दिता जाल्यार चल्यांकय कित्याक दिना ?" अँथनीन ताका विचाल्लें.

त्या बर्मी मनशान आपलो उजवो हात म्हऱ्यांत बशिल्ल्या अँथनीले मांडयेर टान माल्लो आनी म्हळें, "चल्यांक नोकऱ्यो म्हजेकडेन नात."

"कसल्यो नोकऱ्यो ?" अँथनीन विचाल्लें, "तूं तर सांगतालो तूं कांयच काम करिना. तुजे बायलेचे जोडीचेर तूं जगता. ह्या चलयांक तू खंय नोकरी दितलो ? तुजो रिक्रुटिंग एजन्सीकडेन संबंद आसा ?"

"जाय जाल्यार तशें समज. एक जाणा जा. पिरायेवयले चलयेक मरण नासता. तेजी पिराय हेंच तिजे जोडीचें साधन आसता."

"म्हणटकच तू मांगशिशच्या ह्या चलयांक रंगुनाक व्हरून धंद्याक लायतलो ?"

"लायल्यार तातूंत पातक आसा ?"

निर्लज्जपणाचो हो प्रस्न आयकून अँथनीक आयिल्लो राग ताणे गिळ्ळो आनी विचाल्लें, "तूं हांगच्यो चलयो रंगूनाक व्हरपाचें काम करता दिसता. अशे तरेन आजमेरेन कितल्या चलयांक तुवें रंगुनाक चाकऱ्यो दिल्यो ?"

‘‘हांव पयलेच खेपे आयलां. पूण तूं एक जाणा जा, हांव त्या चलयांची पुराय जापसालदारकी घेतां. ताकां रावपाचो जागो आनी बरो पगार दिवपाची तजवीज करतां. हांवें हें काम केलें ना जाल्यार मांगशिशच्यो चलयो रंगुनाक वचप बंद जावच्यो नात. आज शेंकड्यांनी चलयो रंगुनाक आपलें पोट भरतात. तांकां थंय कोणे व्हेल्यो ?’’

‘‘तुजें म्हणणे मांगशिशच्यो चलयो थंय वचून शिंदळकी करतात ?’’ अजापून अँथनीन विचार्ल्लें.

दातांमदीं सकलो ओंठ दामून आनी तोंड गंभीर करपाचो प्रयत्न करीत त्या बर्मी मनशान निखटी तकली हालोवन हय म्हळें.

‘‘कोण व्हरता तांकां ?’’ अँथनीन विचार्ल्लें.

‘‘हांव कशें सांगूं ?’’ त्या बर्मी मनशान म्हळें, ‘‘म्हाका दिसता, हांगाची गरिबी तांकां लाचार करता आनी ट्रक ड्रायव्हरांचे हात धरून त्यो रंगुनाक वतात.’’

‘‘ट्रक ड्रायव्हरांकडेन त्यो लग्न जातात...’’ अँथनी मखलाशी करूंक वतालो.

पूण ताका आडावन त्या बर्मी मनशान म्हळें, ‘‘रंगुनाक पावसर त्यो ट्रक ड्रायव्हरांच्यो बायलो आसतात. उपरांत ते ह्या चलयांक कुंटणखान्याच्या धनयांक विकतात हें तुका खबर आसा ? एक खेपे थंय गेल्ल्यो कितल्योशो चलयो परत येतात हें हांव नकळ. पूण कोणय परत आयिल्ली आसत जाल्यार तिजेकडेन खबर घे आनी ती जें सत्य सांगतली तें आयकुपाची मनाच्री तयारी दवर. त्यापरस हांव तांकां जी चाकरी दितां, ती कितली वेगळी ते येवजून पळय. तुज्यो नितीच्यो कल्पना हांव जाणा, पूण ह्या वाठारांत त्यो चलनात.’’

‘‘ह्या चलयांचो फुडार कितें ?’’

‘‘हांव तांचो फुडार इबाडीना. नशीब आसल्यार एकाद्री चली सॉब्वाची राणी जावं येता वा दुसऱ्या कोणाकय वश करूंक पावता. आपले मर्जेन पैशे जोडून ती परत येवन गांवांत लग्न करून सुखान संवसार करूंक पावता.’’

‘‘तांचेकडेन लग्न जातलो कोण ?’’ अँथनीन विचार्ल्लें.

‘‘तुका कांयच खबर ना अशें हांव कशें म्हणूं ?’’ त्या बर्मी मनशान म्हळें, ‘‘आरे, जंय मांगशिशचो सॉब्वा रंगुनांतल्या नायट क्लबांतली एक चली राणी म्हणून घेवन येता, थंय पैशे जोडून आयिल्ले चलयेकडेन लग्न जावपी तरनाटे आसतले हें तुका कशें कळना ? सेक्स आनी लग्न हांचो तुमची सभ्यताय संबंध जोडटा. देखून तुमच्या मनांत हो गोंदळ जाता.’’

अँथनीक दिसूंक लागलें कि तो उलयतालो हातूंत तथ्य आसलें. हे जमातीची नीत सुदारप हें आपलें काम न्हय. आपलें काम सॉब्वाची मर्जी जोडपाचें आनी झुजाचीं कुपां मळबांत आसात तोमेरेन हांगा दीस सारपाचे.

एक व्हड सुस्कार सोडून अँथनी उठलो आनी ताणे त्या बर्मी मनशाक सॉब्वालो

आपोवणो कळीत केलो.

आपोवण्याची खबर आयकून तो बर्मी अजापलो ना. मंद हांसून ताणे म्हळें, ''पळयलें ? सॉब्वा लेगीत म्हाका मेळूंक सोदता. तूं मात ओगीच दुबावता.'' निरोप घेतना अँथनीचो हात आपल्या हातांत घेवन ताणे दामलो आनी म्हळें, ''केन्नाय रंगुनाक पावलो जाल्यार मेळ्ळेबगर राव नाका. पोळ्यांत म्हौंव आससर ताजी गोडी चाखपाची आसता.''

अँथनीचो स्वाभिमान खंय तरी दुखाविल्लो. कांय एक उलयलेबगर तो थंयसून परतलो.

सॉब्वाचें आनी त्या बर्मी मनशाचें कितें उलोवणे जालें हें अँथनीक खबर नासलें. सॉब्वानय ताजो उल्लेख केलो ना. पूण दुसऱ्या दिसा जेन्ना अँथनी सॉब्वासरी गेलो तेन्ना सॉब्वान सांगलें, ''हे खेपे रंगुनाक वतना म्हज्या सांगातान हांव तुका व्हरतलों.''

अँथनी कांय उलयलोना. सॉब्वान ह्या आदींच आपली रंगूनाक वचपाची येवजण ताका सांगिल्ली आनी आपूण रंगुनाक कित्याक वता हेंय ताणे अँथनीक लिपोवंक नासलें.

सॉब्वान आपयलो जाल्यार ताज्या सांगातान रंगुनाक वचचें आनी थंयचे वेगळे जिणेची वळख घेता आसतनाच मायकला सांगातान चार दीस सारचे अशें अँथनीकय दिसूंक लागिल्लें.

सॉब्वान म्हळें, ''आमी आठ दीस रंगुनाक उरतले. पूण वचचे आदीं ईदाले मावशेक हांगा हाडूंक जाय. तिजी प्रकृत खुबच नाजूक आसा. तिका एकोडी सोडूंक फावना. ती रातीची कांचवेता आनी तिका खर धुवाळेय लागल्यात.''

''तिका हाडपाची वेवस्था कितें केल्या ?'' अँथनीन विचाल्लें.

''ईदान रकाद धाडिल्लो आसा. खंयच्याय दिसा ती येवन पावत. ती येतकच आमी रंगुनाक वचूंक मेकळे.''

सॉब्वा त्या बर्मी मनशाचो विशय काडटा काय म्हणून अँथनी रावतालो. ताका शान चलयांच्या प्रस्नांविशीं सॉब्वाकडेन उलोवचेलें आसलें. ट्रक ड्रायव्हरा सांगातान दिसपट्ट्यो शान चलयो ज्यो पळून वताल्यो ताज्या फाटल्यान एक व्हडलें रॅकेट आसा म्हणपाची जाणविकाय अँथनीक पयलेच खेपे जाल्ली. एक कुवाडें ताका सुटिल्लें. ट्रक ड्रायव्हराच्या मोगान न्हय, तर पैशे जोडपाच्या हावेसान ह्यो चलयो ट्रक ड्रायव्हरा सांगतान ब्रह्मदेशाक वताल्यो. लग्न हो तांच्या लेखीं घोवा सांगातान वचपाक एक पासपोर्ट आसलो. थंय वचून त्यो कसली जीण जगतात आसूये हाजी कल्पना अँथनीक येवंक लागिल्ली.

''तो बर्मी मनीस मेळून गेल्लो आसतलो.'' अँथनीन आपूण जावन सॉब्वाकडेन विशय काडलो,'' तो शान चलयांविशीं उलयिल्लो ?''

त्या बर्मी मनशाचो विशय अँथनीन काडिल्लो सॉब्वाक रुचलो ना. तरी सॉब्वान म्हळें, ''शान चलयांचो आनी ताचो संबंध कितें ?''

''तो शान चलयांची भरती करूंक आयला. तो तांकां रंगुनाक व्हरून नोकऱ्यो दिता अशें सांगता.'' अँथनीन म्हळें.

''तांतूत वायट कितें जालें ? नाय जाल्यार बाबड्यो हांगा लाचार जावन ट्रक ड्रायव्हरांवांगडा पळून वतात.''

''पूण त्यो पळून खंय वतात ?'' अँथनीन विचाल्लें.

''तांचेर पाळत दवरपाचें काम हांव करूं म्हण्टा तूं ? वचनात खंयूय !''

''पूण सॉब्वा, त्यो गेल्ल्यान हांगाचे तरनाटे उचांबळ जातात आनी दीसपट्टीं गांवानी झगडीं जातात हें तूं जाणा.''

''हें पळय, आपले बायलेक वा प्रेयसीक जो दादलो मुठींत दवरूंक शकना ताणे बायल पळून गेली म्हणून कागाळ करूंक फावना.''

''ह्यो चलयो थंय वचून शिंदळकी करतात अशी खबर हांवें आयकल्या.''

''तें खरें न्हय.'' सॉब्वान म्हळें, ''आनी खरें आसलेंय जाल्यार तुवें आनी हांवें ताजो हुस्को करपाचें कारण ना. आमच्यामुखार खूब गरजेचीं कामां आसात. नस्त्या कामाची जापसालदारकी तूं उखलूं नाका.''

सॉब्वाली ही जाप आयकून अँथनीक अजाप दिसलेंना, पूण दुःख जालें. ह्या करण्यांक सॉब्वालो आशिर्वाद आसत जाल्यार तो तरी बाबडो कितें करतलो ?

खूब अस्वस्थ मनान अँथनी त्या दिसा आपल्या घरा परतलो. राज्यकर्त्यांनी समाजजिणेक नीतनेमाची वंय उबारून राखण दिवची अशें अँथनीक दिसतालें. पूण हांगा नीतीचे कसच वेगळे आसले. ह्या पातकांत आपूण वांटेकार जावचो न्हय आनी त्याखातीर गरज पडल्यार सॉब्वाली चाकरी सोडची अशें लेगीत खीणभर ताज्या मनांत येवन गेलें. पूण दुसरो दीस उजवाडलो तोमेरेन ताज्या मनाची अशांतताय बरीच उणे जाल्ली. एक नव्या संवसाराची वळख घेवपाचे उमळशीकेन तोय रंगुनाक वचपाची तयारी करूंक लागलो.

दोन - तीन दिसांउप्रांत ईदाची मावशी मांगशिशाक पावली आनी सॉब्वान आपलो रंगूनाचो भोंवडेचो कार्यक्रम ईदाक कळयलो.

ईदाचे मावशेविशीं अँथनीची कल्पना वेगळी आसली. पूण तिका पळयली तेन्ना ताका अजाप जालें. ती सुमार पस्तीस वर्सांची आसुये. पिरायेच्या मानान भुरगीं दिसताली. तेच भाशेन तिची वागणूक एखाद्रे तरणे चलयेसारकी आसली.

मेळूंक गेल्ल्या मनशाक ती आपले दांत दाखोवन हांसताली आनी केन्ना केन्ना अनवळखी मनशाक लेगीत ती संवकळीची आशिल्लेवरी वेंग मारताली.

खबर घेतली तेन्ना अँथनीक कळ्ळें कि ती आंकवार बायल. घडये तिजी उमेदीची पिराय खंयच्याय नायट क्लबांतच तिणे सारिल्ली आसूं येता.

अँथनीकडेन ती इल्ली चड सलगीन वागली. ईदाची मावशी ही भावना नासती जाल्यार घडये अँथनी तिजेर धेंगसत आसलो. तिजें वागप अँथनीच्या सभ्यतायेच्या नेमांत बसनाशिल्लें. पूण ती येतसावन ईदा खुशालभरीत जाल्लीं.

एक दीस जेवणाच्या मेजार बशिल्ल्या वेळार सॉब्वान ईदा आनी तिगेल्या मावशेसामकार अँथनीक म्हळें, ''आमी सरकारी कामाखातीर मंडालेक वचूंक जाय. फाल्यां भायर सरप तुका जमतलें ?''

अँथनीक एकदम सॉब्वाची भास समजली ना. इतले दीस तो रंगुनाक वचपाची भास उलयतालो. आनी आतां एकदम ताणे मंडालेचें नांव घेतिल्लें. आनी तेंयबी सरकारी कामाखातीर! मंडालेक जनरल चिऑग आसता आनी ताका आपली निष्ठा दाखोवपाखातीर ह्या वाठारांतले सगळे सॉब्वा एकमेकांकडेन सर्त करतात हें अँथनी जाणा आसलो. पूण अचकीत मंडालेक वचपासारकें घडिल्लें कितें ?

अँथनीच्या तोंडावयले भाव सॉब्वान पळयले आनी ताका शिटकावपाचे नदरेन म्हळें, ''काम सरकारी नासतें जाल्यार तुका आपोवपाचो न्हय. हांव ईदाकच घेवन वतलों आसलों. पूण तूं जाणा, ईदाची प्रकृत इल्ली नाजूक आसा. प्रवास तिका झेपचो ना. तिगेली मावशी हांगा आसतनाच आमी वचून आयिल्ले बरे.''

अँथनीचो गोंदळ तितल्यान सोंपलो ना. ताणे ईदाच्या तोंडाकडेन पळयलें. तिच्याय तोंडाचेर कसलीच प्रतिक्रिया दिसली ना. ती आपले मावशेकडेन उलोवपांत गुल्ल आसली.

जेवण सोंपतकच जेन्ना अँथनी परतूंक लागलो तेन्ना सॉब्वान भायर येवन ताका सांगलें, ''आमी रंगूनाकच वचपाचें, मंडालेक न्हय. पूण रंगूनाक वतात हें ईदाक कळूंक फावना. सकाळीं स वरांचेर तयार राव. तुगेर गाडी येतली.''

अँथनीन घडयाळ पळयली. रातीचीं साडे धा वरां जाल्लीं.

''मात्शे उसरां भायर सल्ल्यार जावचें ना ?'' ताणे सॉब्वाक विचाल्लें.

''ना, दिसाउजवाडीं रंगुनाक पावंक जाय. त्याभायर सकाळीं उठटकच ईदाचे तकलेत दुसरोच विचार आयलो जाल्यार अडचण जाताली. समजलें ?''

''हय.'' म्हणून तकली हालोवन अँथनी गेलो.

सॉब्वा एके वटेच्यान ईदाक फटयतालो आनी दुसरे वटेच्यान तिका भियेतालो.



अँथनी रातभर न्हिदलो ना. स जावचे आदींच सॉब्वाची गाडी दारांत उबी रावली.

अँथनीन आपली ल्हान सुटकेस ड्रायव्हराकडेन दिली आनी तो गाडयेंत सॉब्वाचे कुशीक बसलो. दुसऱ्याच खिणाक गाडयेन ब्रह्मदेशाची वाट धल्ली.

सुमार दोन वरांच्या प्रवासाउप्रांत गाडी सरादीवयल्या वांगढिंग ह्या गांवांत पावली. ब्रह्मदेशाचो नाको थंय आसा. पोलिसांनी कागदां तपासलीं आनी तांचो

मुखेली सॉब्वासरीं आयलो. सॉब्वान एक नोट ताज्या हातांत दिली. ती हातार पडनाफुडें त्या अधिकाऱ्यान सॉब्वाक सलाम केलो आनी गाडयेचो फुडलो मार्ग उकतो जालो.

ब्रह्मदेशाचे हद्दींत रस्तो इल्लो बरो आसलो.

''हो रस्तो हेल्सननाच्या सॉब्वान बांदला.'' सॉब्वान अँथनीक सांगलें, ''सगळ्या सॉब्वामदीं तो गिरेस्त, पूण सामको कंजूस.''

''तुजी ताजी केन्ना भेट जाल्या ?'' अँथनीन विचाल्लें.

''हय.'' ताका म्हजे अणभव आयकूंक आवडतात. पूण ताका रंगूनाक आपयलो जाल्यार तो येना. कित्याक तर थंय खोशी विकती घेवची पडटा. पूण जपानी झुजाक तोंड दिवचे खातीर ह्याच सॉब्वान चिनी सरकाराक अडेच लाख रुपये दान दिले आनी जनरल चिंयागान ताका देशभक्ताचो किताब दिलो. पूण अजून ताचें कंजुसपण सोंपूंक ना. तागेर गेल्यार एक कप च्याचे भायर कांयच मेळना. हांव ताका घडिल्ल्यो, घडूंक नाशिल्ल्यो खबरो सांगून तिडायतां.''

वाटेर थंयच्या सॉब्वाचो राजवाडो दिसलो. रस्त्याचेर इंग्लीश भाशेंतलो बोर्डः नो हॉर्न.

''मोठ्यान हॉर्न वाजय.'' सॉब्वान आपल्या ड्रायव्हराक सांगलें आनी ताणे तो वाजयलो.

''हो कायद्याचो भंग जालो ना ?'' अँथनीन सॉब्वाक विचाल्लें.

''फक्त पांच रुपयांची नोट दिल्यार कायदो ओगी रावता. पूण मजा पळोवंक मेळता ती न्हय जाल्या !''

पूण हॉर्न वाजोवनय पोलिस आयले ना हें पळोवन सॉब्वा निर्शेलो आनी ताणे म्हळें, ''ह्या राज्यांतलो लोक अजून उठिल्लो दिसना.''

रंगून शारांत गाडी पावतासर सॉब्वाची वागणूक पुराय बदलून गेली. तरनाट्यांक लजेवपी उमेदीन तो हांसतालो आनी फुडल्या दिसांनी जी मौज करतलो ताची अँथनीकडेन वर्णनां करतालो. रंगून शारांत भीतर सरतना पैसाविल्लो मनीस आपल्या गांवात परत येतकच वळखिच्यो खुणो दाखयता तसो तो दर एका रस्त्याचें, बिल्डींगेचें, बाजाराचें खाशेलेपण अँथनीक सांगतालो.

''ह्या संवसारात खुबशें बरें आसा आनी खुबशें वायट आसा. संवसाराक तर अंतपार ना. पूण रंगून हें एक असलें शार, जंय उदेंतेकडल्या आनी अस्तंतेकडल्या संवसारांतले जितलेंय बरें आसा तें एकवठलां.'' सॉब्वान अँथनीक सांगलें.

अँथनीक रंगून शाराची चडशी वळख नासली. जाल्यारय जेन्ना मायकल काम करता त्या हॉटेलाकडल्यान सॉब्वाची गाडी फुडें गेली तेन्ना ताणे विचाल्लें, ''ह्या हॉटेलांत रावपाचें न्हय सॉब्वा ?''

''ना. ना. हे खेपे हांगा नाका. तुजी म्हजी पयली भेट ह्याच हॉटेलांत जाल्ली तें

हांव जाणां. पूण आनीकय एक बरें हॉटिल आसा. हॉटिल 'इंटरनॅशनल'. युरोपांतले संस्थानिक आनी व्हडले- व्हडले लोक त्याच हॉटिलांत रावतात. हॉटिल म्हारग खरें, पूण आमी जल्मभर थोडेच रावतले! थंयचें वातावरणच वेगळें. थंय रावतल्या मनशाक एक स्टेटस् आसता.'' सॉब्वान अँथनीचो हात दामून म्हळें.

'इंटरनॅशनल' हॉटिलाविशीं अँथनीन आयकल्लें. भायल्यान ताणे तें पळयिल्लेंय. त्या हॉटिलांत किरकोळ मनीस पांय लेगीत दवरिनात हें तो जाणा आसलो. पूण सॉब्वा जे तरेन वर्णन करतालो तें आयकतकच तें पळोवपाची उमळशीक अँथनीकय लागून उल्ली.

'इंटरनॅशनल' हॉटिलाच्या पोर्चात जेन्ना सॉब्वाची गाडी थांबली तेन्ना हॉटिलाचे कितलेशेच अधिकारी धांवत मुखार आयले, जशे काय सॉब्वाचीच ते वाट पळयताले.

सॉब्वा सयल देंवलो आनी ताणी कडकडीत सलाम केले. नांव बरोवपाची आनी हेर कामां करूंक सॉब्वान अँथनीक धाडलो आनी तो आपल्या सुटांत गेलो.

हॉटिलाच्या रजिस्टराचेर सॉब्वाचें नांव बरोवन अँथनीनच सय केली. आपल्याखातीर ताणे सादी कूड मागली तेन्ना ताका कावंटरावयले युरोपी चलयेन सांगलें, ''हांगाची सादी कूड म्हळ्यार दिसाक हजार रुपया भाडें पडटलें. तूं सॉब्वाच्या सुटांतच कित्याक रावना ?''

''आनी ड्रायव्हराखातीर कितें वेवस्था आसा ?'' अँथनीन विचाल्लें.

''हॉटिलाचे फाटले वाटेच्यान एक वेगळी डॉरमिटरी आसा. थंय ताजी वेवस्था जातली.''

सॉब्वाच्या सुटांत अँथनी पावलो तेन्ना सॉब्वा टेलिफोनाची डिरेक्टरी घेवन बशिल्लो.

''हांगा सादे कुडीक दिसाचे हजार रुपया भाडें. हांव म्हज्या इश्टागेर रावल्यार उपकारता ?'' अँथनीन सॉब्वाक विचाल्लें.

''हजार रुपयांचो हुस्को तूं कित्याक करता, अँथनी ? हांगा तूं म्हजो सेक्रेटरी न्हय. म्हजो इश्ट आनी सांगाती. ह्याच हॉटिलांत दुसरी कूड घेवन राव. सात दीस आमी उरतले. मदीं तुज्या इश्टाक मेळून यो.''

सॉब्वान फोन उखल्लो आनी अँथनीखातीर एक वेगळी कूड रिझर्व करूंक सांगलें.

अँथनीन खुबशीं बरीं हॉटिलां ह्या आदीं पळयिल्लीं. इंग्लंडाक आसतना गिरेस्त मनशांची घरांय ताणे पळयिल्लीं. पूण 'इंटरनॅशनल' हॉटिलाचो खाशेले सूट म्हळ्यार एक अप्रुपच. भायले वाटेन एक कूड. ते कुडींत गुबगुबीत सोफा. जमनीर मोव, नाजूक कार्पेट. पायांत बूट घालून ते कार्पेटीचेर चलूंक लेगीत संकोच दिसचो इतली मोलादिक. टिपॉयचेर एक फुलदाणी. ताज्या, टवटवीत फुलांचो एक तुरो ते

फुलदाणीत रचिल्लो.

दुसरें दार उकतें करून वतकच तसलीच दुसरी कूड. ते कुडीचे एके कुशीक बाथरूम. भीतर तिसरी कूड. ती न्हिदपाची. दर एके कुडींत टेलिफोन. दुसरे कुडींतल्या मेजाचेर तरेकवार फळांची एक ट्रे. दुसरे ट्रेंत ड्राय फ्रुटस्. त्यो वस्तू निकत्योच दवरिल्ल्यो. दोनयचेर एक कार्ड आसलें. अँथनीन कार्ड उखलून वाचलें. इंग्लीश भाशेंत येवकाराचीं उतरां बरोवन 'मॅनेजराची भेट' अशें त्या कार्डाचेर बरयिल्लें.

''ह्या सुटाचें भाडें कितलें तें जाणा तूं अँथनी ?'' सॉब्वान ताका विचाल्लें.

''ना. म्हज्यान कल्पनाच करूंक नज.''

''अडेच हजार रुपया दिसाक.'' हांसत सॉब्वान जाप दिली, ''पूण ह्या सुटांत रावतलो मनीस राजाचो मान घेवंक पावता.''

अँथनी उबो आसतनाच हॉटिलाचो मॅनेजर एका वेटरा सांगातान आयलो. येवकाराचें ड्रिंक हॉटेल फुकट दिता. सॉब्वाक कितें जाय अशें ताणे विचाल्लें.

सॉब्वान अँथनीकडेन पळयलें. अँथनीन म्हळें, ''प्रवासाचो शीण आसा. हांव म्हज्या रुमांत वचून न्हावन घेतां. म्हाका ड्रिंक नाका. सॉब्वान आपणाक जाय तें घेवचें.''

''दोन व्हिस्की.'' सॉब्वान म्हळें आनी तो अधिकारी कमर बागोवन अभिवादन करून गेलो.

''हांगा बस, अँथनी.'' सॉब्वान म्हळें, ''तुगेल्या हाताची ती घडयाळ काडून हांगा दवर. हांगा वेळ पळोवन कामां करचेलीं नासतात. कसलीच ताकीत करूं नाका. हांगा रातीचो दीस आनी दिसाची रात आसता. मनांत येता तेन्ना जेवपाचें, पोटभर पियेवपाचें, न्हीद आयल्यार न्हिदपाचें... आनी... आसूं सगळें आतांच सांगिना.'' सॉब्वा हांसलो.

भायलेवाटेन कोणेतरी दाराचेर माल्लें आनी सॉब्वान फकत एक हामेट घाली. सुटाबुटांतलो एक मनीस भीतर आयलो आनी ताणे आपलें कार्ड सॉब्वाच्या हातांत दिलें.

''हांव आयलों म्हणून तुकां कोणे सांगलें ?'' सॉब्वान ताका विचाल्लें.

तो मनीस निखटो हांसलो आनी सॉब्वा सुखावलो.

''मॅडम तुका मेळूंक सोदता. केन्ना येवं काय म्हणून विचाल्लां.'' ताणे म्हळें.

सॉब्वान सुचक नदरेन अँथनीकडेन पळयलें तेन्ना अँथनीन म्हळें, ''म्हजे खातीर कांय ना. हांव आतांच कुडींत वतां.''

''ना. ना. ओगीच काचाबूल जावं नाका. हांव तुका सांगतालों ती वेगळी गजाल. हांव हांगा आयलां म्हणपाचें सगळ्या रंगूनाक येन्नासर कळ्ळां आसतलें. पळयलें ?'' आनी मागीर त्या मनशाकडेन नदर व्हरून ताणे म्हळें, ''तिका जाय

तेन्ना येवं दी. हांव आयज भायर सरचो ना.''

तो मनीस वतकच ॲंथनीन सॉब्वाक विचाल्लें, ''ही मॅडम कोण ?''

''ती येतली तेन्ना तूं पळयतलोच. रंगून शारातलें तें एक व्हडलें प्रस्थ. साबार देशांच्या राजांकडेन तिज्यो वळखी. कसलेंय काम कोणाकडेनय आसूं, तें ती करता. पूण फी घेता.''

''सॉब्वाचें तिजेकडेन कसलें काम ?''

''काम नासताना आसा ? ती येतकच पळय.''

व्हिस्केचे दोन ग्लास आयले. कडू वखद घेतना करतात तशें सॉब्वान दाव्या हातान नाक धरून उजव्या हातान ग्लास तोंडाकडेन व्हेलो आनी पुराय व्हिस्की गटगटीत पिवन ग्लास टीपॉयचेर दवरलो.

ॲंथनीन ग्लासाक हात लेगीत घालूंक नासलो. सॉब्वा अशे तरेन व्हिस्की पियेतल्लो पळोवन ताका अजाप जालें आनी ताणें म्हळें, ''ती व्हिस्की, सॉब्वा !''

''जाणा हांव, आनी व्हिस्की अशी पियेनात हेंय जाणा हांव. पूण गटगटीत व्हिस्की पियेल्यार रोखडीच कीक येता आनी म्हाका कीक जाय !'' सॉब्वान म्हळें.

आतां हांसपाची पाळी ॲंथनीचेर आयिल्ली. ताणे म्हळें, ''सॉब्वाक जाय जाल्यार म्हजीय व्हिस्की घेतल्यार जाता. खरें म्हळ्यार म्हाका ह्या वेळार व्हिस्की घेवचेली ना.''

''तशें जाल्यार तूं तुजे कुडींत वच आनी न्हावन घे. मॅडम आयली जाल्यार हांव तुका आपोवन घेतां.'' अशें म्हणून सॉब्वान व्हिस्कीचो दुसरोय ग्लास उखल्लों.

मात्शे गोंधळिल्ले अवस्थेत ॲंथनी सॉब्वाल्या सुटांतल्यान भायर सल्लो.



शान वाठारांतले चडशे सॉब्वा वर्सांतल्यान थोडे दीस तरी मौजमजा करपाखातीर येतात ही गजाल रंगून शारांतल्या सगळ्यांकच खबर आसली. आठ दिसांचे मौजेखातीर हजारांनी रुपया मोडूंक हे सॉब्वा अनमननात. सॉब्वांक दुसऱ्या वंशच्या तरण्या चलयांचे खूब आकर्षण. आठ दिसांचे भोंवडेंत ते तरेकवार बायलांकडेन संबंध दवरताले. मौजमजा करतना सोरोय खूब पियेताले. ही गजाल ते आपले परीन आपल्या बायलांच्या आनी प्रजेच्या असवडीं करताले. पूण सॉब्वा रंगूनाक वता तो कित्याखातीर हें सगळ्यांकच खबर आसलें. देखूनच मांगशिशच्या सॉब्वान आपले गुरवार बायलेक आपूण मंडालेक वतां अशें सांगून उडयिल्लें.

लाशिओ शार हें भोंवतणच्या वाठारांतल्या जमातीचें संगमकेंद्र आसलें. भारतांतले हिंदु, चिनी ट्रक ड्रायव्हर, थळावे बर्मी आनी लागशिल्ल्या - पयसुल्ल्या देशांतले लोक थंय आसले. पूण ते गर्देच्या शाराचे तुलनेन रंगून नंदनवनच म्हणूंक जाय.

आपले कुडींत न्हावन तयार जातां जातां सॉब्वाचे विकृत मनोवृत्तीचो विचार अँथनी करतालो. ताका दिसलें, एक खेपे सॉब्वासरी मॅडम आयली म्हण्टकूच आपुण मायकॅलाक मेळूंक मेकळो जातलो. तो तयार जावचे आदींच सॉब्वाचो आपोवणो आयलो.

सॉब्वाच्या सुटांत मॅडम बशिल्ली. अँथनी भितर सरनाफुडें ती उबी रावली आनी तिणे अँथनीक हात दिलो.

मॅडम शुध्द युरोपियन नासत. घडये आसत. पूण ती इंग्लीश बरी उलयताली. तिजी पिराय दोळ्यांभोंवतणच्या बारीक मिरयांवेल्यान तिशींतली दिसताली. पूण तिजो आंगलोट आनी रूप हाका लागून ती भुरगी दिसताली.

अँन्थनीक दिसलें, ही मॅडम एक वेश्या आसतली. तिरस्कारानच तो तिजेकडेन पळयतालो.

''ॲन्थनी,'' सॉब्वान म्हळें, ''सॉब्वाक ह्या शारांत कितलो मान तें पळय. ही मॅडम आमचे सेवेक आपुण जावन हाजीर जाल्या.''

''कसली सेवा ?'' उच्चारांतय तिरस्कार उक्तावन अँथनीन ते बायलेकडेन पळयनासतना सॉब्वाक विचाल्लें.

''अँथनी, सुखाचो खरो भोग तुवें अजून घेवंक ना. ही बायल शारांतल्या खूबशा सुंदर आनी तरुण चलयांक वळखता. अशो चलयो, जांचेकडेन रंग आसा, रूप आसा, आंखीव रेखीव देह आसा; पूण तांकां गरिबीची जीण जगची पडटा. आपल्या देहाचे आनी रुपाचें भांडवल करूंक तांकां गिरेस्त गिरायक जाय आसता. सटरफटर मनशांसरीं त्यो वचनात. सॉब्वाखातीर अशी एकाद्री बायल वा चली ती हाडूंक शकता.''

एका संस्थानाचो राजा खंयच्या थराचेर येवं येता हें येवजून ॲन्थनीक किळस आयली. पूण उलोवपाची माणसुकी नासली. तिका बर्मी भास येना अशें समजून ॲन्थनीन म्हळें, ''खासा ती देह विक्रय करिना ?''

निर्लज्ज, निगरगट्ट बायल असूनय मॅडम लजेली आनी इंग्लीश भाशेंत तिणेच जाप दिली. ''ना. सेक्रेटरी, हांव घरकान्न बायल. म्हजो घोव आसा. म्हाका दोन भुरगीं आसात. पूण तुजी इत्सा आसल्यार एकाद्रो दीस हांव तुका सांगात दीन.''

आपल्या प्रस्नाची खोंच समजून घेनासतना हे बायलेन विपरीत अर्थ लायला हें पळोवन तो गोंदळ्ळो. ताणे मान सकल घाली.

''असो लजेंव नाका, सेक्रेटरी.'' सॉब्वान म्हळें, ''ती कबूल जाल्या. तूं तिका पसंत कर. पूण राव. ती म्हजेखातीर कसली चली जाय तें विचारता. युरोपियन, चिनी, शान, बर्मी, अँग्लो इंडियन कांय अँग्लो - बर्मी ? तूं सांग हांव कोणाक पसंत करूं ?''

''म्हाका तातुंतलें कांय कळना.'' अँन्थनीन म्हळें, ''तुजे मर्जेन तूं वाग. हें

काय सरकारी काम न्हय.''

''तेंय खरें.'' सॉब्वा व्हडाव्हडान हांसलो आनी ताणे मॅडमीक विचार्ल्लें, ''म्हाका शुध्द आंकवार, बऱ्या कुळांतली, युरोपियन चली जाय.''

''तशीच मेळटली.'' निर्लज्ज मॅडमीन म्हळें, ''खरें म्हळ्यार ती म्हजी सोयरी. पूण सॉब्वाखातीर हांव तिचें मन तयार करीन. पयशे इल्ले चड पडटले.''

''पयशे मोडूंक हांव हांगा आयलां. तेन्ना पयशांचो तूं हुस्को करू नाका. चोख वस्त दाखय. आनी आमच्या सेक्रेटरी खातीरय एक चली सोदून हाड, जिच्या संपर्कान तरी तो तिजेकडेन लग्न करूंक तयार जायत.''

येदोवेळ आडावन दवरिल्लो घुस्मटमार ॲन्थनीच्यान सोसूंक नज जालो. ताणे म्हळें, ''तसली चली सर्गांतली परी आसली तरी म्हाका नाका. लग्न हें एक पवित्र नातें, सॉब्वा.''

''हय. हय. नातें पवित्रच.'' सॉब्वान हांसून म्हळें, ''पूण बायल आनी दादलो, मागीर तांचे नातें कितेंय आसूं! आमचो जल्म एकमेकांक आनंद दिवचे खातीर जाला.''

ॲंथनी कांय उलयलो ना.

''तर आज तूं मेकळो आसा?'' मॅडमीन ॲन्थनीक विचार्ल्लें. ती आपलें गिरायक पक्कें करूंक सोदताली.

''ना.'' ॲन्थनीन जाप दिली, ''आनी उपकार करून म्हजो नाद तूं सोड. हांव तुजें गिरायक न्हय. तुजें गिरायक सॉब्वा. ताजी खोशी हीच म्हजी खोशी.''

सॉब्वा व्हडाव्हडान हांसलो. ''पळयलें मॅडम?'' ताणे म्हळें, ''असलो सेक्रेटरी दुसऱ्या खंयच्याच सॉब्वाक मेळचो ना. जी गजाल ताका रुचना ती सॉब्वाखातीर तो करता. तो मोग करून लग्न जातलो तेन्ना जावूं.''

मॅडम उठली. बागोवन तिणे सॉब्वाक अभिवादन केलें आनी ॲन्थनीक हात दिवंक तो मुखार काडलो. ॲन्थनीन हात फाटीं घेवन बागोवन तिका अभिवादन केलें. ती गेली.

''तूं असो तिचेकडेन किद्याक वागलो?'' ती वचनाफुडें सॉब्वान ॲन्थनीक विचार्ल्लें.

''खरें सांगतलो म्हळ्यार म्हाका वेश्या पळयतकच तिडक येता.''

''आनी फाल्यां जे चलयेच्या मोगांत पडून लग्न जावशीत तीय आदी वेश्या आसली अशें कळ्ळ्यार कितें करतलो?'' सॉब्वान विचार्ल्लें.

''आतांच कशें सांगू?'' ॲन्थनीन जाप दिली, ''पूण बायल ही बायल. ती घरकान्न, आपल्या भुरग्यांची आवय. आनी वेश्या ही वेश्या.''

''पूण बऱ्यो सुंदर चलयो आपूण जावन तुजेसरीं आयल्यार तांकां धांवडावप समा जातलें?''

''हांव तुजेविशीं उलयना, सॉब्वा.'' ॲन्थनीन म्हळें, ''तुजे कडेन पयशे आसात. तुका फॉल्ग मारपाचें आसा. हांव बायल सोदतां ती संवसार उबारचे खातीर. आमच्यो वाटो वेगळ्यो.''

''जाणा तूं ॲन्थनी, दोन वर्सां उपरांत हांव आज रंगुनाक आयलां.'' सॉब्वान म्हळें, ''म्हाका पोरन्यो संवयो स्वस्थ बसूंक दिनात. जेवणाच्या पदार्थाभाशेन दर एके बायलेची गोडी वेगळी आस..ा. वंश, रंग, आंगलोट वेगळो तशी तांची गोडी वेगळी आसता हें तुका सांगून समजुचें ना. आनी एक वेळ ती घेतल्या उप्रांत मनशाक ते गोडयेची चटक लागता. हांव जाणां, हांव करतां तें समा न्हय. पूण म्हाका क्षमा कर.''

सॉब्वा एकदम उबो रावन ॲन्थनीसरी आयलो तेन्ना ॲन्थनीन म्हळें, ''हांव तुका कांय म्हणिना. मॅडम परत येईसर हांव हांगा रावतां. आनी मॅडम येतकच मात्सो म्हज्या इश्टाक मेळून येतां.''

रंगुन शाराचेर सांजवेळच्यो सांवळ्यो पातळूंक लागल्यो अशा वेळार ॲंथनी हॉटेलांतल्यान भायर सल्लो. रस्त्यावयले गर्देतल्यान आनी धाणीतल्यान वाट काडीत मोटारी, रिक्षा आनी बैलगाड्यांमदीं आपलो जीव मुठीत घेत तो मायकलाच्या हॉटेलासरीं आयलो.

ह्याच हॉटेलांत दोन वर्सांआदीं एक सादो वेटर म्हणून तो काम करतालो. आयज एका संस्थानच्या सॉब्वाचो सेक्रेटरी ह्या नात्यान सुटाबुटांत जेन्ना तो भीतर सल्लो तेन्ना ताज्या सांगातान काम करतल्या वेटरांनी लेगीत ताका सलाम केलो. वळख दाखोवची काय दाखोवची न्हय अशें खीणभर येवजितकच ताणे ती दाखोवची न्हय अशें थारायलें आनी सरळ डायनिंग हॉलांत भीतर सरलो.

थंयचो एक वेटर ताका सलाम करून एका मेजासरीं घेवन गेलो. ॲंथनी बसलो. एक चली मायक्रोफोनाचेर गाताली. कसलें तरी इंग्लीश गीत. तिजे कुशीक बॅंड बशिल्लें.

च्याची ऑर्डर दिली तरी ॲंथनीची नदर बॅंड वाजोवप्यांचेर थिराविल्ली. सगळ्यांक तो वळखतालो. दोन वर्सांच्या काळांत कांयच बदलूंक नासलें. पूण थंय मायकल ताका दिसलो ना.

गीत सोंपसर ॲंथनी बसून रावलो. वेटरान हाडून दवरिल्ली च्या न्हिवून गेली. पूण ताका ती कपांत रकोवन पियेवची अशें दिसलें ना. मायकल खंय गेलो हो ताजो प्रस्न पडिल्लो.

गीत थांबनाफुडें ॲंथनी उठून बॅंड वाजयतल्यासरीं गेलो. वेटर ताका वळखूंक नासले. पूण बॅंडवाले वळखले. तांचेकडेन ताणे मायकलाची खबर घेतली तेन्ना तो रंगून सोडून गेला अशी ताका जाप मेळ्ळी.

''खंय गेलो ?'' ताणे विचारलें.

''सारकें सांगलें ना.'' एकल्यान म्हळें, ''पूण तो कलकत्त्याक ना जाल्यार मुंबय गेल्लो आसूंक जाय.''

ती जाप आयकून अँथनीचे सगळे उमेदीचेर विरजण पडलें. ताका रंगून शारांत दुसरें कसलेंच काम नासलें. मायकला सांगातान थोडो वेळ सारलो जाल्यार तागेलो रंगूनचो प्रवास फळादीक जालो अशें तो मानतलो आसलो. पूण मायकल रंगूनांत ना! रोखडेंच मांगशिशाक परतूचें न। जाल्यार खंयचेय तरी आडवाटेन भारतांत वचचें अशे विचार ताजे तकलेंत आयले. ताका दिसतालें, आठ दीस सॉब्वा सांगातान रंगून शारांत उल्लो जाल्यार आपूण एक तर पावल चुकतलों नाजाल्यार उबगून पिसो जातलों.

हॉटेलाचीं सपणां देवन वळखीच्या रस्त्यावयल्यान अँथनी जड पावलांनी चलत रावलो. मायकल गेलो म्हणपाचे चिटमिटे ताका पडिल्ले. आनीकय गोंयकार ह्या शारांत आसतले, पूण तांकां तो खंय वळखता ?

रंगून शारांत सगळो झगमग आसलो. दळीद्र आनी गिरेस्तकाय एकमेकाचे कुशींत थंय जगतली. कोनशा कोनशांनी बौध्द मठ आनी मंदिरां आनी शाराचे गर्दैतल्यान तकली वयर काडून उबे आशिल्लें इवे डेमॉन बौध्द मंदिर.

खूब वेळ तो भोंवलो आनी उपरांत ताका सॉब्वाचो उगडास आयलो. उमेदीचे खेळ खेळून तो आपली वाट पळयता आसतलो अशें येवजून अँथनी हॉटेलाचे दिशेन चलूंक लागलो.

भायले लॉबींतच सॉब्वा बशिल्लो आनी ल्हान भुरग्यांनी नव्या संवसाराची अप्रुपाय विस्मित नदरेन पळोवची तसो तो त्या हॉटेलांत येतल्या वतल्याक पळयतालो.

अँथनी वचून सॉब्वासरीं उबो रावलो तरी सॉब्वान ताका जाप दिली ना वा नदर वयर करून ताजेकडेन पळयलें ना. अँथनी मात नदर थिरावन सॉब्वाक पळयतालो. सॉब्वाचें लक्ष आपल्याकडेन ना, तागेली नदर पाख्यावरी एकेकडच्यान दुसरेकडेन भिरभिरता हें पळयतना ताका मजा दिसली. अचकीत जेन्ना सॉब्वाची नदर अँथनीचेर गेली तेन्ना तो उठून एकदम उबो रावलो आनी ताणे म्हळें, ''अँथनी, बस... बस.''

ताज्या हाताक धरून सॉब्वान ताका आपले कुशीक बसयलो.

''मेळ्ळो तुजो इश्ट ?'' सॉब्वान ताका विचाल्लें.

सॉब्वा आपलीं फकाणां करता अशें अँथनीक दिसपाचें कारण नासलें. पूण तशें ताका दिसलें. ताणे म्हळें, ''इश्ट भारतांत परत गेलो.''

''एक हुस्को सोंपलो.'' अशें म्हणून सॉब्वा हांसलो. तेन्ना मात अँथनीक सॉब्वाची तिडक आयली. आपल्या दुख्खाचेर तो मीठ चोळटा अशें ताका दिसलें. तरी तो उलयलो ना.

सॉब्वान म्हळें, ‘‘फाल्यां सकाळीं आमी भांगराच्या देवळांत वचून बुध्द देवाची प्रार्थना करूया. ह्या देवळाची खूब नामना आ़सा. तूंय यो.’’

सॉब्वाच्या तोंडांत ही देवभक्तीची भास सोबना अशें अँथनीक दिसलें. शंभर हुंदीर खावन हाज यात्रेक वचूंक भायर सरिल्ल्या बुकल्यावरी ताका तो दिसलो. पूण आपली तिडक ताणे उतरांनी उक्तायली ना. सॉब्वा उठलो आनी अँथनीक घेवन परत आपल्या सूटांत आयलो.

‘‘मॅडम गेली ?’’ अँथनीन विचाल्लें.

‘‘हय, ती आदींच गेल्ली.’’ सॉब्वान म्हळें, ‘‘पयशे काडूंक ती खूबच हुशार. तिका उलोवपाची कला बरी सादल्या. उतरांनी मनशाक भाळयता आनी रस्त्यावयलो माल ताज्या गळ्यांत बांदता.’’

‘‘हांव जाणाच आसलो सॉब्वा, बऱ्यो बायलो धंदो करिनात आनी धंदो करता ती बायल लज पैशांत घोळोवन पियेता.’’

सॉब्वान तकली हालयली हें पळोवन अँथनीक दिसलें त्या दिसाच्या अणभवा उपरांत तरी सॉब्वा शाणो जातलो. पूण दुसऱ्याच खिणाक जेन्ना सॉब्वान अँथनीक विचाल्लें ‘‘त्या मांगशिशाक आयिल्ल्या बर्मी मनशाचो पत्तो तुजेकडेन आसा ?’’ तेन्ना अँथनीक दिसलें हो सॉब्वा अणभवापासून कांयच शिकचो ना.

‘‘ना, सॉब्वा.’’ ताणे जाप दिली. ‘‘तो तुका मेळून गेला. तुका ताणे दिल्लो आसतलो.’’

‘‘हय, ताणे आपलें कार्ड दिल्लें आनी हांवेंय तें उगडासान म्हज्या बॅगात घालां. खंय तरी आसतलें. सोदचें पडलें.’’ अशें म्हणून सॉब्वा आपलें बॅग उकतें करूंक गेलो आनी अँथनीन कपलाचेर हात मारून घेतलो.

सकाळी दीस उदेवचे आदींच अँथनी सॉब्वा वांगडा इवे डेमॉन बुध्द मंदिरांत गेलो. देवाक भेटोवचेखातीर सॉब्वान खुबशीं ताजीं फळां, फुलां हाडून घेतिल्लीं.

मंदिर खूबच व्हड आनी भोंवतणचें वातावरण प्रसन्न. उजवाती आनी धुपाच्या परमळान वातावरणाक एके तरेचें गंभीरपण आयिल्लें. अँथनीक गांवचे इगर्जेचो उगडास जालो. एक सुंदर व्हडली वास्तू, जिचो घुमट नितळ निळ्या मळबाक तेंकिल्लो. ते वास्तूंत गौतम बुध्दाच्यो खूबश्यो मूर्ती. कांय व्हडल्यो, कांय ल्हान. दर एके मूर्तीच्या तोंडावयले भाव वेगळे. मूर्ती सामकार खुबश्यो पितुळच्यो घांटी.

सॉब्वान तकली बागोवन अभिवादन केलें आनी तो देवळाचीं सोपणां चडलो. अँथनीन ताजें अनुकरण केलें. चार सोपणां चडटकच एक व्हडलो हुमर लागता. सॉब्वान त्या हुमराक तकली तेंकयली आनी एक घांट वाजयली. अँथनीकय ताणे घांट वाजोवंक सांगली. ताणे म्हळें, ‘‘घांट वाजोवन आमी देवाचें ध्यान ओडून घेतात. आनी मागीर भक्तान केल्ली मागणी देव आयकून घेवन तथास्तु म्हणटा. दीसपट्टे जिणेंत देवाचे आशीर्वाद गरजेचे आसतात.’’

अँथनीनय एक ल्हानशी घांट वाजयली.

सॉब्वा थोडो वेळ मांडी घालून जमनीर बसलो आनी ताणे देवाचें ध्यान केलें. अँथनीन दिमी मोडली. थोड्या वेळा उपरांत सॉब्वा उठलो आनी देवळांतल्यान भायर आयलो. ताज्या फाटोफाट अँथनीय आयलो.

मोटारीकडेन पावतकच सॉब्वाची नुराच बदल्ली. सात्विक, नम्र भक्त मंदिरांत उल्लो आनी रंगेल वृत्तीचो सॉब्वा मोटारीकडेन पावलो. थंय ताका एक मनीस रावतालो. ताणे ताका अभिवादन केलें.

त्या मनशाक पळयनाफुडें अँथनी वळखलो. हो दुसरो एजंट. कित्याक कोण जाणा, पूण वेशांच्या एजंटांक पळयना फुडें अँथनीक तिडक येताली. आतांय आयली.

सॉब्वान तागेल्या अभिवादनाचो स्वीकार केलो आनी म्हळें, ''हे खेपे फकणां चलचीं नात. कोरी करकरीत अशी वस्त आसा जाल्यार उलय. नाजाल्यार चलूंक लाग.''

एजंटान आपलें माथे खरपिलें आनी म्हळें, ''तेचखातीर सॉब्वाक सोदूंक हांव हांगामेरेन आयलों. देवा सामकार उबो रावन सांगतां, सामकी कोरी वस्त आसा. तिजे पयशे तिका. म्हजे दोनशीं रुपया म्हाक मेळचे पडटले.''

''पयशांचो हुस्को तूं करूं नाका. पूण थारावचे आदीं हांव तिका दोळ्यांनी पळयतलों. आसा कबूल ?'' सॉब्वान ताका विचाल्ले.

''हय.'' ताणे म्हळें आनी अँथनीच्या तोंडाकडेन पळयलें.

तो कितें सुचयता हाजो अदमास सॉब्वाक रोखडोच आयलो आनी ताणे अँथनीक विचाल्लें, ''सेक्रेटरी, तुका बऱ्या मनशाचो सांगात जाय. वेळ कसो वता हें समजुचें ना. तुजो इश्ट ना. एकोड्या मनशाक रंगून शार खावंक येता. जोडी आसल्यार वेळ उणो पडटा. तुजो कितें विचार आसा ? तुजेखातीर कोणाकय आपोवं ?''

''म्हाका तसले गजालीची आवड ना आनी म्हाका असलें व्यसन परवडचेंय ना.'' तिरस्कारान अँथनीन जाप दिली.

''हांव पयशे दितां. तो हुस्को तूं करूं नाका. जोमेरेन तूं कबूल जावचोना तोमेरेन म्हाका एक खंत आनी एक भय उरतलो. देखून म्हण्टां, आज एक अणभव घे.'' सॉब्वान अँथनीक सुचयलें.

''कसलो भय, सॉब्वा ? आनी कसली खंत ? हांव आसा तोच खुश आसां. मेकळो वेळ मेळ्ळो जाल्यार हांव सिनेमा पळयन वा पुस्तक वाचीन.'' अँथनीन म्हळें.

''म्हाका खंत उरतली अँथनी. आमी दोगूय रंगूनाक सांगातान आयले आनी हांवें एकल्यानच म्होंव खालें. तूं उपाशीं उल्लो. भय तुजोच. हांव करतां तें पातक, हें

हांव जाणा. ही गजाल मांगशिशांत कोणाकच कळूंक फावना. ह्या पातकाचो साक्षीदार तूं. त्या पातकांत तूंय वांटेकार जालेबगर हांव निर्धास्त जावचोंना. देखून तुजेर पयशे खर्चीतना हांव म्हजो सुवार्थच सादतां.''

अँथनीक सॉब्वाच्या कारस्थानी सभावाची परत एक खेपे वळख मेळली. भितल्ल्यान तो तिडकलो. पूण वयल्याचाराक हांसलो.

''म्हण्टकच हांव दोगांचीय वेवस्था करूं ?'' त्या एजंटान विचाल्लें.

''तूं अशें कर, कॅटलग घेवन हॉटिलाचेर यो.'' सॉब्वान ताका सांगलें.

''कॅटलग ? कसलो कॅटलग ?'' सूचक भास समजनासल्या त्या निरक्षर एजंटान सॉब्वाक विचाल्लें.

''फोटे. फोटे ! आल्बम आसात तुजेकडेन ? आनी हें पळय, पोरने फोटे दाखोवन फटोवपाचो यत्न करूं नाका.'' सॉब्वान ताका समजायलो.

''हय, घेवन येतां.'' अशें म्हणून अभिवादन करून तो एजंट गेलो.

हॉटिलाचे वाटेर सॉब्वा मनांतले उमाळे चघळीत रावलो. अँथनी मात मात्सो फडफडत मोन्यांनी बसून रावलो.

वाटेंत बाजारांत सॉब्वा देंवलो. ताणे थोडी फळां विकतीं घेतलीं. ईदाखातीर ड्रेस घेतलो. तागेर जातल्या भुरग्याखातीर खेळणी घेतलीं आनी आंगाचीय घेतलीं.

ते परत हॉटिलाचेर पावले तेन्ना तो एजंट हातांत एक बॅग घेवन सॉब्वाच्या सुटाच्या दारांत बसून आसलो.

''हो पळय, अँथनी, तो आयला. तेन्ना आदीं आमी फोटे पळोवन घेवंया.'' अशें म्हणून सॉब्वा सुटांतल्या सोफार बसलो. म्हऱ्यांत ताणे अँथनीक बसयलो.

ल्हानशा बॅगांत तीन - चार आल्बम आसले. एक आल्बम काडून ताणे सॉब्वाच्या हातांत दिलो आनी तातुंतल्या एका फोट्याचेर बोट दवरून म्हळें, ''आनीकय जायते फोटे आसात. पूण हो पळय. हिजेविशीं हांव तुका सांगतालों. सामकी रुपेस्त चली.''

''ही भारतीय चली दिसता. खरेंच रुपेस्त आनी भुरगीय आसा.'' सॉब्वान म्हळें, ''सेक्रेटरी, हिजेकडेन तूं लग्न जावशीत ?''

त्याबरोबर एजंट एकदम उलोवन गेलो, ''तुजो सेक्रेटरी बायल सोदता आसत जाल्यार हांव तिचीच शिफारस करीन. सेक्रेटरी भाशेन ती भारतीय आसा. फुडलें सगळें म्हजेर पावलें.''

सॉब्वान आल्बमांतलो फोटो भायर काडलो आनी अँथनीच्या हातांत दिलो. अँथनीन फोटो पळयलो. एका घरामुखार उबी राविल्ली साडयेंतली चली. फोट्यांत तरी सुंदर दिसताली. पूण तिजो तोंडावळो मंगोल वंशातलोच दिसतालो.

सेक्रेटरी फोटो पळयता आसतना एजंटान तिजें वर्णन सुरू केलें. ''पयरच तिका सतरावें वर्स लागलां. पूण ती आंगान पुराय भल्ल्या. खरेंच सुंदर. तिका युरोपांतल्या

लोकांनी लेगीत मागणी घाल्यो. पूण ती लग्न भारतीय मनशाकडेनच जावंक सोदता.''

''तिजें नांव कितें ?'' सॉब्वान विचाल्लें.

''मेई मेई'' एजंटान जाप दिली.

''असली नांवां भारतीय बायलांक नासतात.'' अँथनीन म्हळें.

एजंटाक आपली चूक समजली. पूण तो बदलोना. ताणें म्हळें, ''घडये तिणे बर्मांत तें नांव घेतलां आसूंये. पूण ती भारतीय. कलकत्त्याःकडली. आनी सेक्रेटरीक सोबतली अशीच.''

''कशी आसा चली ?'' सॉब्वान अँथनीक विचाल्लें.

''चली सुंदर आसा. फोट्यार तरी तशी दिसता. पूण म्हाका तिजेकडेन कांयच करचेलें ना.'' अशें म्हणून अँथनीन फोटो परत सॉब्वाच्या हातांत दिलो.

एजंटान तीच अँथनीची मान्यताय अशें मानून सॉब्वाक म्हळें, ''हिजे इतलीच हिची व्हडली भयण सुंदर आसा. मात्शी सावळी. पूण रूपान आनी शिटूकसाणेन उजवी. सॉब्वाखातीर तीच योग्य आसतली अशें म्हणून ताणे दुसरो आल्बम उकतो केलो आनी तातूंतलो एक फोटो काडून सॉब्वाच्या हातांत दिलो.

सॉब्वान फोटो पळयलो आनी कांय एक उलयनासतना तो अँथनीकडेन दिलो. अँथनीक दिसलें किं ती सॉब्वाक पसंत नासुंये. ताणे फोटो पळयलो. फोट्यांतली चली खऱ्यांनीच सुंदर आसली. पूण ती साडी न्हेसूंक नासली. जपानी पध्दतीचो एक किमोनो ती न्हेशिल्ली.

''हीय भारतीय ?''

''हय. मेई मेईची ती भयण. तिजें नांव सावित्री.''

आदली चूक सुधारपाचो यत्न करीत एजंटान जाप दिली. अँथनीन परत फोटो सॉब्वाच्या हातांत दिलो.

''ह्या दोनय चलयांक तूं आपोवन हाड. आज दनपरां तांकां आमच्या सांगातान जेवण घेवं दी. आमची निवड मागीर आमी तुका सांगतात.'' सॉब्वान म्हळें.

''तशेंच उपकारता.'' अशें म्हणून एजंट आपलें बॅग भरूंक लागलो.

सॉब्वान ताका आडायलो. म्हळें, ''हे आल्बम हांगाच दवर. दनपरां वतना घेवन वच. तो वेळ मेरेन हांव फोटे तरी पळोवन घेतां.''

एजंटा फाटोफाट अँथनी जेन्ना भायर सरूंक लागलो तेन्ना सॉब्वान म्हळें, ''हय सेक्रेटरी, तूं वचून यो. म्हाका आतां ही चित्रां पळोवंक दोन वरां तरी जाय !''



रंगुनांतले सॉब्वाचे दीस मजेंत गेले. फकत आंखडेवन उल्लो तो अँथनी. सॉब्वा

ताका एकाच कामाखातीर पयशे दिवंक कबूल आसलो आनी तो प्रयोग ताका करचेलो नासलो. एक दीस सॉब्वान ताका म्हळें, ''हांगा एक बरें हॉटेल आसा. तें हॉटेल बायलोच चलयतात. थंय आमी आयज जेवणाक वचूंया.''

अँथनी रोखडोच कबूल जालो. एक नवे तरेचें हॉटेल पळोवंक मेळटलें इतलेंच ताका त्यावेळार दिसलें.

अँथनीची मान्यताय मेळनाफुडें सॉब्वान टेलिफोन घुंवडायले आनी आपल्या दोन आदल्या मित्रांक त्या हॉटेलांत जेवणाक आपयले.

''हांसून खेळून वेळ सारपाचो आसता, अँथनी.'' ताणे म्हळें.

''हॉटेलाचें नांव 'नंदनवनाचो पूल.' म्हळ्यार सामकें नंदनवन न्हय. पूण धर्तरी आनी सर्ग हांचे मदलो वाठार अशें आसूं येता. तें तुका समजतलें.''

रातीच्या णव वरांचेर आपली गाडी घेवन सॉब्वा अँथनी सांगातान त्या हॉटेलांत गेलो. भायर एक गेट. ती सदांच बंद उरता. थंयच्या चौकीदारान आदीं वासपूस केली, नांव विचाल्लें. जाणी रिझर्वेशन केल्लें आसत तांची नांवां ताजेकडेन आसलीं. सॉब्वान रिझर्वेशन करूंक नासलें. देखून तो गाडी भितर घेंवक कबूल जालो ना.

चौकीदार गेट उकती करिना आनी सॉब्वा ताका तरातरांनी सामजायता. मालकिणीक आपोवंक सांगता वा आपल्या सेक्रेटरीक भितर सरूंक दी, तो रिझर्वेशन करून येतलो अशें सुचयता. पूण चौकीदार कांयच उलयना. तो फकत तकली हालोवन ना म्हणटा. सॉब्वाक तो आपलो अपमान अशें दिसलें. ताणें तिडकून म्हळें, ''झक माल्लें तुमचें नंदनवन. अँथनी, आमी परत या.''

पूण सॉब्वान आपल्या इश्टांक आपयल्यात हें अँथनी जाणा आसलो. तशें ताणे सॉब्वाक म्हळें, तेन्ना सॉब्वा येवजूंक पडलो.

''तें खरें. तांकां फटयिल्ले भाशेन जातलें. आमी थोडो वेळ हांगाच रावूया.''

तांकां चड वेळ रावचें पडलें ना. एक मोटार येवन सॉब्वाचे मोटारीफाटल्यान उबी रावली. ते मोटारींत सॉब्याचो दोगय इश्ट आसले.

''कितें जालें ? तुमी भायर कित्याक ?'' एका इश्टान सॉब्वाक विचाल्लें.

''हांव रिझर्वेशन करूंक विसल्लों आनी हो चौकीदार आमकां भितर घेना.'' सॉब्वान ताका सांगलें.

''मांगशिशच्या सॉब्वाक भितर घेना ? वळखना दिसता तो. राव हांव पळयतां.'' अशें म्हणून सॉब्वाचो इश्ट त्या चौकीदारासरीं गेलो आनी कितें तरी उलयलो. पूण चौकीदार बदलो ना. तशें तो सॉब्वासरीं आयलो आनी ताणें म्हळें, ''आमच्यांनी एक करूं येता. भायर वचून हांव हॉटेलाक फोन करतां.''

आनी ताणे आपली गाडी परतिली.

सॉब्वा आनी अँथनी गाडयेंतच बसून रावले. पांच मिनटांभितर भितल्ल्यान एक

बायल ताकतिकेन गेटीसरीं आयली आनी तिणे चौकीदाराक गेट उकती करूंक सांगली.

सॉब्बाची गाडी भितर सरली आनी सुमार पांच मिनटांभितर दोनय इश्टांक घेवन आयिल्ली दुसरी गाडीय भितर सल्ली.

मूळ गेटीपासून सुमार शंभर मीटर अंतराचेर एक ऑफिस. त्या ऑफिसांत वचून सॉब्बान एक कूड रिझर्व केली. पयशे भरिल्ल्याची पावती घेवन सॉब्बा परत गाडयेंत बसलो आनी सुमार पन्नास मीटर अंतराचेर हॉटिलाची मुख्य बिल्डिंग आसली. थंय एके सुंदर तरुण चलयेन सॉब्बाक आनी ताच्या इश्टांक येवकार दिलो. येवकार दिवपाची पध्दत लेगीत वेगळी. तिणे सगळ्यांकच वेंग मारून येवकार दिलो. सॉब्बाच्या एका इश्टान तर ते चलयेचो उमो लेगीत घेतलो.

अँथनीक हें सगळेंच नवें आनी अजापाचें आसलें. तो पळयत रावलो. सगळे लोक भितर सल्ले तरी अँथनी थंयच उबो उल्लो. येवकार दिवपी चली सॉब्बावांगडा भितर गेल्ली. खंयच्यान कोण जाणा, दुसरी एक चली अँथनीसरीं आयली आनी तिणे अँथनीक इंग्लीशींतल्यान विचाल्लें, ''तूं भितर वचना ?''

आपणाक ती वेंग मारीत ह्या भयानच अँथनी बेगबेगीन हॉटिलाचीं सोपणां चडूंक लागलो. पूण ते चलयेन धांवत येवन अँथनीचो हात धरलो. अँथनी पुराय गोंदळ्ळो. हें आनी अपसरण कसलें अशें तो येवजूंक लागलो. पूण ते नाजूक बायलेच्या हाताची पकड बरीच घट आसली. आपलो हात सोडोवन घेवपाचो यत्न केल्यार तिजो अपमान जायत अशें येवजून अँथनी ओगी रावलो. सॉब्बान रिझर्व केल्ले कुडंत जेन्ना अँथनी पावलो तेन्ना ताका थंय वेगळेंच चित्र पळोवंक मेळ्ळें.

मान सकल घालून एके लायनींत सात - आठ चलयो उब्यो आसल्यो आनी सॉब्बा आनी तागेले इश्ट तांची तपासणी करताले.

सॉब्बालो एक इश्ट उठलो आनी एके चलयेसरीं गेलो. तिका हातांनी सांसपिली आनी तिज्या हाताक धरून एका सोफाचेर वचून बसलो.

अँथनीक सॉब्बान म्हळें, ''तुका खंयची वेट्रेस जाय ती तुवें वेंचपाची. म्हजेखातीरय तूंच वेंच.''

सॉब्बाली उतरां आयकून अँथनी पुतळ्यावरी घट जालो. सॉब्बान फटोवन आपणाक वेश्यांच्या अड्ड्यार हाडूंक ना मूं असो ताका दुबाव आयलो.

सॉब्बाचो दुसरो इश्ट येदो वेळ ओगी आसलो. ताणें एके चलयेक लागीं येवंक खुणायली. ती आयली आनी ताजेसरीं वचून बसली.

अँथनी कांय करिना अशें पळोवन सॉब्बा आपल्या जाग्यावयल्यान उठलो आनी ताणे दोन वेट्रेसींचे हात धरले. तशो हेर सगळ्यो चलयो हांसून कमर बागोवन अभिवादन करून कुडी भायर गेल्यो.

मदीं एक व्हडलें मेज आनी मेजाच्या भोंवतणी चार सोफा. चार सोफांचेर चार

जोडपीं. एकेक वेट्रेस उठून वताली आनी आपल्या सोयऱ्याक जायजायती वस्त हाडटाली. अँथनी म्हऱ्यांत बशिल्ले चलयेन ताका विचाल्लें,

"तूं कितें घेतलो ?"

"च्या." अँथनीन जाप दिली.

"फक्त च्या ?" तिणे विचारलें.

"हय. सध्या फक्त च्या." ताणे जाप दिली.

"म्हज्या वांट्याक सामकोच शिवराक सोयरो आयला!" ते वेट्रेसीन हेर वेट्रेसींक सांगलें. त्या बरोबर सवणीं चिंवचिंवची तशो त्यो चारय वेट्रेसी हांसल्यो.

"अँथनी, हांगा लज संकोच बाळगुवपाचो नासता. तूं थोडो सोरो घे." सॉब्वान म्हळें.

"पूण सॉब्वा, म्हाकां हें पसंत ना. तुजी परवानगी आसल्यार हांव आमच्या हॉटेलांत वचून जेवतां आनी थंयच न्हिदतां."

"असो काचाबूल जावं नाका." सॉब्वान म्हळें, "हांगा कसलीच सक्ती कोण करचोना. तुका च्या जाय जाल्यार च्या घे. वराभरयान जेवण येतलें."

सोऱ्याचे ग्लास पिता आसतना त्यो चलयो काळंगांच्यो बियो आपल्या दातांनी सोलून आपल्या सोयऱ्यांक खावयताल्यो. आनी उलयतां उलयतां दादल्याचे हात बायलांच्या आंगावयल्यान भोंवताले.

अँथनी पळयत रावलो. तागेली वेट्रेस थोडीशी फुगार जावन बशिल्ली. तिणे अँथनीच्या लागीं सरपाचो प्रयत्न केलो जाल्यार अँथनी तिका धुकलतालो.

"तूं अशें कर." ते चलयेक सॉब्वान म्हळें, "तूं हांगा येवन म्हजेसरीं बस. आमच्या अँथनीक बायलेचो स्पर्श सोंसना."

ती चली खोशशेन सॉब्वाचे कुशींत रिगली.

सगळी पार्टी म्हळ्यार पोजड्या चुटक्यांचें आनी दादल्यांच्या आनी बायलांच्या स्वच्छंद वागणुकेचें एक अनिर्बंद निर्लज्ज प्रदर्शन आसलें. सोरो चडलो तशे सॉब्वा आनी ताजे इश्ट बेफाम जायत रावले आनी अजापाची गजाल म्हळ्यार त्यो वेट्रेसी तांकां दाद दीत रावल्यो.

जेवन भायर सरपावेळार निरोपाची आलिंगनां जालीं. अँथनीच्यान तें पळोवं नज जावन तो आदींच मोटारींत वचून बसलो. सुमार पंदरा मिनटां ताका सॉब्वाची वाट पळोवची पडली. दोनय वेट्रेसींनी सॉब्वाक मोटारींत हाडून बसयलो. तो सामको बेवदो जाल्लो !

पूण जेन्ना मोटार हॉटेलाच्या दारांत थांबली तेन्ना मात सोऱ्याची घुंवळ एकाएकी देंविल्लेभाशेन सॉब्वा सडसडीत देंवलो आनी आपल्या सुटाच्या दारांत पावतकच ताणे अँथनीक म्हळें, "अँथनी, हॉटेल खूबच म्हारग पडलें. आतां हांगा चड दीस रावले जाल्यार रीण काडचें पडटलें. रीण मेळटलें; पूण पत वतली."

तेच रातीकडेन सॉब्वाक घरा परतुपाचे वेध लागिल्ले. पूण तागेली थोडी खरेदी करपाची उरिल्ली. सकाळ सावन ज्या मित्रांचे आपोवणे आयले त्या सगळ्यांक ताणे सरळ नकार दिले. मॅडम मेळूंक आयली. तिकाय तो मेळ्ळो ना.

''आज खरेदी सोंपोवया, रातीचो कॅथे थिएटरांत चिनी ऑपिरा पळोवया आनी फाल्यां घरा परतूया.'' बाजारांत भोंवता आसतना सॉब्वान आपलो सगळो कार्यक्रम अँथनीक सांगून उडयलो.

खरेदी दनपारमेरेन चल्ली. दनपरां जेवन सॉब्वा न्हिदलो तो बद्द स वरांचेर उठलो. सातांक ऑपिरा सुरू जावपाचो आसलो. हॉटेलांतल्यान भायर पावल दवर जाल्यार भायले वाटेन दाट धुकें पातळिल्लें.

थिएटर वातानुकूलीत आसलें. सॉब्वा आनी अँथनी पावचे आदींच ऑपिरा सुरू जाल्लो. पूण थिएटरांतले अर्दे जागे रिकामे आशिल्ले. चिनी ऑपिरा पांच - स वरां चलता आनी मुखेल कार्यक्रम मदींच केन्ना तरी सुरू जाता. जण एकल्याच्या हातांत दोणो. त्या दोण्यांत काळंगांच्यो सुकयिल्ल्यो बियो. एक एक बी दातांमदीं धरून कट्ट करून फोडप, गर तोंडात ओडून कल्लां सकल उडोवप हें बर्मी लोकांचें आंगवळणीक पडिल्लें कार्य आसूये. थिएटरांत काळंगाच्यो बियो फोडपाचो आवाज, संगिताचे कार्यावळींत विक्षेप घालूंक पावना आसलो. कित्याक तर वाद्यांचो आनी गितांचो आवाज खूबच मोठो आनी कर्कश आसलो.

सॉब्वा आनी अँथनी आपल्या आसनाचेर बसनाफुडें हातांत ट्रे घेतिल्ले फेरीवाले तांचेसरी आयले. ते काळंगाच्यो बियो, च्या, केक असल्यो वस्तू विकताले. लोक ऑपरा पळोवंक येनात तर वातानुकूलीत थिएटराच्या काळखांत बसूंक येतात असो दुबाव अँथनीक आयलो. स्टेजीचेर एक नाटक चलतालें. एके युध्दकथेचेर तें आदारिल्लें आसूंये. ड्रमाचो आवाज खूबच मोठो आशिल्लो. दोन सरदार किळच्यो मारून झगडटाले.

संवाद खूब वेळ चल्ल्या उपरांत एकल्यान तरसाद भायर काडली आनी मागीर तरसादीचें खूब वेळ झूज चल्लें. ड्रम आनीकय मोठ्यान वाजलो. मागीर व्हिलन हारलो. हिरो जिखलो. ताजे तकलेचेर एक तांबडो कुडको विंगांतल्यान कोणे तरी उडयलो. ताजी तकली कापल्या अशें सुचोवपाखातीर तो तांबडो कुडको उडयिल्लो. जैताचो आनंद उक्तावपी किळांच हिरोन माल्ली आनी संगिताच्या आवाजांत घोड्यार बसून लोकांचें अभिवादन स्वीकारपाचो अभिनय करीत तो स्टेजीचेर घुंवलो. तो तसो घुंवतां घुंवतां पड्डो पडलो.

उपरांत दुसऱ्या नाटकाचो प्रयोग सुरू जालो. ती एक शोकांतिका आसली. स्टेजीर आयिल्लोय नट आनी नटी गायत प्रवेश करताली. अँथनीन सॉब्वाकडेन पळयलें. तो न्हिदिल्लो. ताका उठोवचो कांय उठोवचो न्हय हें येवजिता आसतनाच सॉब्वाची तकली लकली आनी तो जागो जालो. अँथनीन कितें तरी विचारपाचो

यत्न केलो. पूण ओंठाचेर बोट दवरून सॉब्वान ताका ओगी रावंक सांगलें. अँथनीक स्टेजीवयलीं नाटकां निखालच मानूंक नासलीं. सॉब्वाक जर न्हीद येता जाल्यार हॉटेलांत वचून न्हिदूया अशें तो सांगूंक सोदतालो. पूण सॉब्वान ताका उलोवंक दिलो ना.

शोकांतिका सोंपली आनी एकदम एक तरनाटो स्टेजीर आयलो. ताणे वाद्यां बंद करूंक लायलीं आनी आपली वळख करून दिली. ताजें नांव लू फॉंग. विदेशांतल्या चिनी लोकांचे संघटनेचो तो अध्यक्ष. जपान विरोधी 'देश बचाव' मोहीम तांगेले संघटनेन हातांत घेतल्या. ताणे एक लांब भाशण केलें. जपानी आक्रमणाक लागून चिनाचें कितलें लुकसाण जालां ताजें ताणे वर्णन केलें. जपानी लस्कराक धांवडावचे खातीर चिनी लस्कर चिवट झूज दिता म्हणपाचें सांगून ताणे देशभक्त चिनी लोकांनी आवयभूंयचे राखणेखातीर आदार दिवचो असो उलो माल्लो. थिएटरांतल्या लोकांकडच्यान ताका बरो प्रतिसाद मेळटालो. टाळयांचो कडकडाट आनी देशभक्तीच्यो घोशणा हाणी थिएटर गाजलें.

''देशभक्त चिन्यांनो!'' ताणे म्हळें, ''एक प्रतीक म्हणून हांव आतां हें पेन पावणेर काडटां. आमकां पैशे जाय. जपानान आमच्या माय देसाचेर घुरी घाल्या ती परतूंक जाय.''

ताणे एक फावट पेन हातांत घेतलें आनी म्हळें, ''हें पेन पावणेर वता. जो देशभक्त तें घेतलो ताणे तें परत पावणेर काडचें. हे पैशे आमच्या चीन सरकाराकडेन आमी धाडटले. दान दितल्याचें नांव चायना डेली न्यूजांत छापतले. हें भांगराचें पार्कर पेन हांव धा रुपयांक पावणेर काडटां.''

पावणी वाडत गेली. लोकांचो बरो प्रतिसाद मेळ्ळो. धा रुपयांचे मोल शंभर रुपयांचेर गेलें आनी तें पेन एका तरनाट्यान घेतलें. शंभर रुपया ताणे दिले. लोकांनी टाळ्यो माल्ल्यो. ताणे अभिवादनाचो बागोवन स्वीकार केलो.

''आतां हांव हें पेन परत पावणेर काडटां.'' त्या दुसऱ्या तरनाट्यान म्हळें.

टाळयांचो कडकडाट जालो आनी परत पावणी सुरू जाली. त्या आदीं पयल्या मनशान शंभर रुपयाक पेन घेतिल्ल्या तरनाट्याचें नांव जाहीर केलें आनी परत पेन पावणेर काडलें. काडटनाच एकशें एक रुपयांचेर काडलें. आनी ते एकशें पंचवीस रुपयांक दुसऱ्याक विकलें. पांचशें रुपया मेरेन मोल वाडसर तें पेन चार - पांच जाणांनीं विकतें घेतलें आनी परत पावणेर काडलें.

एदो वेळ ओगी बसून आशिल्लो सॉब्वा एकदम उबो रावलो आनी अँथनीक कांय एक सांगले बगर तो स्टेजीचेर गेलो.

''हे घे हजार रुपया आनी पावणी थांबय. पेन म्हाका पावलें.''

टाळयांचो कडकडाट. मांगशिशच्या सॉब्वाचें नांव जाहीर जालें. फांग यूची हो त्या खिणापुरतो देशभक्त थारलो. एक हजार रुपया दिवन ताणे पेन घेतिल्लें.

पेन घेवन स्टेजीवयल्यान देवतकच सॉब्वा परत आपल्या कदेलाचेर आयलो ना. तो सरळ थिएटरांतल्यान भायर गेलो. तो भायर गेल्लो पळोवन अँथनीय ताज्या फाटल्यान गेलो.

''चल, या.'' सॉब्वान अँथनीक म्हळें, ''आतां वचून आमी न्हिदूया. फाल्यां फांतोडेचेर आमकां परत मांगशिशाक वचचें पडटलें. आतां उरिल्ले सुरिल्ले पैशेय सोंपले. पैशे आसल्यार रंगूनांत जाय ती वस्त विकती घेवंक मेळटा. पूण पैशे नाशिल्ल्या मनशाक रंगून शारांत निर्शेणी आनी अपमान सोंसचे पडटात.'' सॉब्वान म्हळें.

मोटारींत बसतकच सॉब्वान आपलें मन मोकळें केलें, ''पैशे खर्चून फोल्गां मारपाची म्हजी पिराय न्हय. पूण पोरनी संवय मरना. जावं पैशे सोंपले ! आतां तरी निर्मळ मनान परतुया.''

लाशियो शारांत सॉब्वाचो एक भाव आसलो. फांग वू - टींग अशें ताजें नांव. आठ - धा वर्सांनी एक खेपे तो मांगशिशाक येतालो. सॉब्वा परस पिरायेन ल्हान. चंचल वृत्तीचो. वाळेस भाव. तो रंगूनांत रावलो जाल्यार आपली बदनामी जातली अशें येवजून सॉब्वान ताका सरादीवयल्या लाशियो शारांत दवरिल्लो. सॉब्वाल्या भावाल्यो भानगडी निस्तारतना सॉब्वाक जड वतालें. आपल्या भावाक तो एके तरेचो पगार दितालो आनी मांगशिशापसून पयस रावंक ताका शिटकायतालो.

मांगशिशांत ज्यो खाणी आसात त्या खाणीचे परवाने भायल्या व्यापाऱ्यांक दिताले. अशे परवाने दिवपाखातीर शिफारस करपाचें काम लाशियोंतल्या ऑफिसाक दिल्लें आनी लोकोपवादाखातीर फांग वू टींग हो त्या ऑफिसाचो मुखेली आसलो.

''म्हजो भाव सामको वाळेस. तो सगळ्या तरांच्यो उचापती करता देखून ताणे मांगशिशाक येवचें न्हय अशी हांवें शिटकावणी दिल्या.'' सॉब्वान अँथनीक सांगलें, ''पूण हालींच्या वर्सांनी तो खूबच सुदारला अशें आयकतां.''

ही खबर अँथनीक सांगपाक तशेंच कारण जालें. एक दीस एक अनवळखी बायल राजवाड्यांत आयली आनी सॉब्वाची भेट मागूंक लागली. सॉब्वान तिका मेळपाचें टाळ्ळें आनी अँथनीक आपोवन तिका कितें जाय तें पळय अशें सांगतना आपल्या भावाची खबर सांगली.

''पूण सॉब्वा, ती तुकाच मेळूंक सोदता.'' रकाद घेवन आयिल्ल्या चाकरान सॉब्वाक सांगलें, ''तिचे हाण्डीर एक ल्हान भुरगें आसा. सॉब्वा मेळ्ळोना जाल्यार भुरगें थंयच सोडून वतली अशी तिणे धमकी दिल्या.''

अँथनीक बसूंक सांगून सॉब्वान ते बायलेक भीतर धाडपाचें फर्मान सोडलें. तोंडावयलो राग सॉब्वाक लिपोवंक आयलो ना. तरी आयिल्ली बायल कित्याक आयिल्ली आसत हाजो अदमास सॉब्वाक आसलो. ताणे आपल्या भावाची खबर

अँथनीक सांगली आनी म्हळें, ''ही त्या भावाचीच भानगड आसूंक जाय. ती निस्तारपाचें काम तुका करचें पडटलें.''

गळ्या भोंवतणी बांदिल्ल्या स्कार्फाचे झोळयेंत एक ल्हान भुरगें आशिल्लें. हांसत ती बायल भीतर आयली. खंयचेय शान बायलेसारको तिचो भेस. भीतर येवन तिणे सॉब्वाक अभिवादन केलें.

''कितें जालां ?'' सॉब्वान विचारलें.

''हें भुरगें सॉब्वाल्या भावालें ! तो जापसालदारकी घेवंक कबूल ना. देखून हांव सॉब्वासरीं आयल्यां.''

''पूण तूं म्हणटा तें खरें कित्या वयल्यान ?'' सॉब्वान तिका विचारलें.

कांय एक उलयना आसतना तटास नदरेन ती बायल सॉब्वाकडेन पळयत रावली. एके तरेचो कडकडो तिच्या आंगात भरलो. तिजें तोंड धवें फटफटीत जालें. ओंठ थरथरूंक लागले. नदर तशीच सॉब्वाचेर थिरावन तिणे मानेकडली झोळयेची गांठ सोडयली आनी भुरग्याक सॉब्वामुखार मेजार दवरलें.

न्हिदिल्ल्या भुरग्याक जाग आयली आनी तें रडूंक लागलें.

''हे कितें ? काड ताका हांगचें.'' सॉब्वान म्हळें.

''हांव काडटां. पूण एक नदर ताज्या तोंडार घाल आनी सांग हें भुरगें तुज्या भावालें काय न्हय ?''

''म्हण्टकच हांव कितें करूं ? तूं हांगा कित्याक आयल्या ?'' सॉब्वान विचारलें.

''दुसरो कसलोच उपाय उल्लो ना देखून हांगा आयलीं. म्हाका कांय नाका. म्हजें जें जावपाचें तें जावन गेलें. आतां म्हाका हुस्को तो ह्या भुरग्याचो. ताजो सांबाळ सॉब्वान करचो. नाजाल्यार म्हाका पैशे दिवचे.''

रागान सॉब्वा तांबडो जाल्लो. पूण ओगी रावलो. ते बायलेन भुरगें उखल्लें. परत झोळयेंत बांदलें. भुरगें रडत आसलें. लज भीड बाळगिना आसतना तिणे भुरग्याक दुदाक धरलें.

''तूं वच.'' सॉब्वान तिका आदेश दिलो आनी अँथनीकडेन वळून म्हळें, ''हो प्रस्न तूंच थाऱ्यार घाल.''

''ना. हांव हक्कान सॉब्वासरीं आयल्यां तूंच निवाडो दी.'' ते बायलेन म्हळें.

''हे पळय, म्हजो भाव हांगा रावना. हांवें ताजेकडलें नातें तोडलां. तागेल्यो भानगडी हजार. तुका हांवें ताजेसरीं धाडूंक नासली. हांव ताजी जापसालदारकी कशी घेवं ? तूं वच आनी ताका मेळ. तो लाशियोक रावता. फाटलीं धा वर्सां हांवें ताजें तोंड लेगीत पळोवंक ना. आतां तूं हांगा आयल्या म्हणून हांव तुका पाचशें रुपया दितां. ते घे आनी वच. परत येवं नाका.''

बायल हांसली. सॉब्वाक दिसलें एक प्रस्न सुटलो. ताणे अँथनीक म्हळें, ''हिका पाचशें रुपया दिवंक सांग.''

''म्हयन्याक पाचशें सॉब्वा ?'' धिटायेन ते बायलेन विचारलें.

''तोंड घेवन वच हांगाची.'' सॉब्वा तिडकलो, ''आनी परत हांगा येवं नाका.''

ती बायल भायर वतकच सॉब्वा दोळे धांपून येवजीत बसलो. अँथनी उठलो तेन्ना सॉब्वान ताका म्हळें, ''तूं आनीक एक काम कर. फांग वू टिंगाक एक पत्र घाल आनी ताका कळय किं तागेल्या पगारांतले पांचशें रुपया आमी कापून घेतले आनी तो परत मांगशिशाक आयलो जाल्यार ताका बंदखणीत घालतले.''

''ताजें लग्न जावंक ना तर ?'' अँथनीन विचारलें.

''वीस वर्सांचे पिरायेचेर तो सत्तावीस वर्सांचे एके बायलेकडेन लग्न जाल्लो. उपरांत ती ताका सोडून गेली. आसूं, तूं त्या पत्राचें विसर... आनी पांचशें रुपया दिवन ते बायलेक धाडून दी.'' सॉब्वान सांगलें.

पांचशीं रुपया घेवन बायल गेली तेन्ना सॉब्वाक आनी अँथनीक दिसलें एक प्रस्न सोंपलो.

पूण तो सोंपलेलो नासलो.

सुमार एका म्हयन्यान ती बायल परत राजवाड्यांत आयली. आपल्या सांगातान तिणे भुरग्याकय हाडिल्लें. चौकीदारान तिका भायरच आडायली.

''हांव म्हजे म्हयन्याचे पयशे व्हरूंक आयलां असो सॉब्वाक रकाद दी.'' तिणे सांगलें.

चौकीदारान भितर वचून सॉब्वाक रकाद पावतो केलो. सॉब्वा एकदम तापलो. ताणे अँथनीक आपोवंक धाडलो.

राजवाड्यांत भितर सरतना अँथनीन झोळयेंत भुरगें घालून उबे आशिल्ले ते बायलेक पळयली आनी आपणाक सॉब्वान कित्याखातीर आपयला म्हणपाची ताका कल्पना आयली. तिका पळयनाशिल्लेभाशेन करून तो भितर सरलो.

कपलार हात घेवन दोळे धांपून सॉब्वा बशिल्लो. अँथनीन खांकून आपूण आयलां म्हणपाची इशारत केली.

''बरें जालें, तूं आयलो.'' सॉब्वान म्हळें, ''ती दुश्ट बायल परत आयल्या. आतां तुजी बुद्द वापर आनी तिका परत धाडून दी. पूण एक सांगतां, तिका कांयच दिवचें करूं नाका. एक खेपे आमी नमतें घेतलें जाल्यार तिगेल्यो मागण्यो वाडत रावतल्यो.''

''पूण कितेंय घेतलेबगर ती वचत अशें म्हाका दिसना.'' अँथनीन म्हळें.

''तुज्यान एक करूं येता.'' सॉब्वान सुचयलें, ''तिका बरे तरेन समजाय. म्हजो आनी भावाचो संबंद ना. सॉब्वाक धमकायलो जाल्यार तिका बंदखणीत घालपाचो आदेश सॉब्वाच्यान दिवं येता. तुका काकूळट दाखोवन चाळीस पन्नास रुपया आपणेच दिल्यात अशें भासय. पळय कशें जाता तें.''

अँथनी दुसऱ्या ऑफिसांत गेलो आनी चौकीदाराकडच्यान ते बायलेक आपोवंक

धाडली. ती आयली. कमर बागोवन तिणे अभिवादन केलें. हे खेपे अँथनीन तिका सारकी पळयली. ती चड जाण्टी आसचीना. सुंदर नासली तरी उठून दिसताली. तिणे माथ्यांत कसलीं तरी फुलां माळिल्लीं.

''भुरगें कशें आसा ?'' अँथनीन तिका विचारलें.

''तें न्हिदलां.'' तिणे तुटक जाप दिली.

''एक हांव विसरलोंच. तुजें नांव कितें ?'' अँथनीन म्हळें.

''हांव फांग वू-टींगची बायल.'' तशीच उर्मट जाप.

''तें हांव जाणां.''

''जाणा जांवकच जाय. हांव तागेल्या भुरग्याची आवय.'' तिणें म्हळें.

''हय. तेंय तुवें सांगलां.'' अँथनीन म्हळें.

''म्हाका सॉब्या मेळचोना ?'' तिणे विचारलें.

''तो कामांत आसा. पूण तुजें कितें काम आसा तें म्हाका सांग.''

''ताणे म्हाका म्हयन्याक पांचशीं रुपया दिवचे केल्ले. फाटल्या म्हयन्याचे दिले. ह्या म्हयन्याचे व्हरूंक हांव आयल्यां.''

''तशें न्हय. हांव आसलों त्या दिसा. म्हज्या सामकारच सगळें घडिल्लें. सॉब्यान तुका फकत पांचशें रुपया दिवंक सांगिल्ले. पगार म्हणून न्हय. हरशींच पांचशीं रुपया. तुका आता आनीक कांय येणे ना.''

ते बायलेन रागीट नदर करून अँथनीकडेन पळयलें आनी म्हळें, ''मागीर ह्या भुरग्याक हांव हांगाच सोडटां. तूं ताका सॉब्यासरीं पावय.''

''हे पळय, हो राजवाडो. हांगा बोवाळ करतल्याक पोलीस धरून बंदखणीत घालतात. तुजी अडचण हांव समजतां. म्हाका तुजी काकूळट दिसता. पूण हांव कितें करतलों ? हांव सादो चाकर.'' अशें म्हणून अँथनीन आपल्या बॉल्सांत सोदिल्ले भाशेन करून पन्नास रुपयांची एक नोट भायर काडली आनी तिज्यामुखार धरली.

ती बायल एकदम किळचली. ''देड दमडेचो चाकर तूं! म्हाका भीक घालता ? म्हाका नाकात तुजे पयशे.'' तिणे म्हळें.

अँथनीक अशे प्रतिक्रियेची अपेक्षा नासली. तो गडबडलो. कितें करचें हें ताका कळना जालें.

ते बायलेन थंयच जमनीर बसकण मारली आनी व्हडाव्हडान ती रडूंक लागली.

कितें जाता तें जावूं अशें म्हणून अँथनी तिजेसरीं गेलो. तिजे फाटीर हात धरून ताणे म्हळें, ''हे पळय, तूं म्हाका भयणीसारकी. तुका चड पयशे दिवं येताले जाल्यार हांव ते दितलों आसलों. पूण हांव दुर्बळ मनीस. तुजेविशीं म्हाका काकूळट दिसता म्हणून हांव हे पन्नास रुपया दितां. ते घे आनी तूं वच. तुजे खातीर कितें करूं येता तें हांव करतलों.''

अँथनीचो प्रयोग सादलो. बायलेन रडप थांबयलें. नोट हातांत घेतली आनी म्हळें, ''आतां हांव वतां. तुजेर पातयेवन वतां. तूं म्हाका न्याय दितलो. सॉब्वाचें मन बदलतलो म्हणपाचो म्हाका भरवंसो आसा. बुध्द तुजें बरें करूं.

एक दीस दनपारच्या वेळार जेवन थोडी न्हीद काडपाचो विचार करता आसतनाच अँथनीक रकाद आयलो. ती बायल ताका मेळूंक राजवाड्यांत आयल्या. तिका कितें सांगचें अशें चौकीदार विचारतालो.

अँथनीक दिसलें अडचल्ले बायलेक धिराचें उतर आपणे दिल्लें देखून ती परत आपल्याक मेळूंक आयिल्ली आसत. ताणे तिका आपल्या घराकडेन धाडूंक सांगली.

तिज्या येवकाराची तयारी करूंक अँथनी बेगोबेग उठलो. पूण आंगार कपडे चडोवचे आदींच ती बायल दारांत उबी रावली. चौकीदारा सांगातान ती आपणागेर आयिल्ली म्हणपाचें ताका कळ्ळें.

तिणे सदचे भाशेन अँथनीक अभिवादन केलें आनी एका कदेलाचेर बसली. तिका बसूंक सांगून अँथनीन भीतर वचून कपडे बदल्ले आनी तिका म्हळें, ''हांगा हांव एकलोच रावतां. तूं च्या घेतली ?''

''नाका. म्हाका पन्नास रुपया दी. हांव वतां.'' कसलोच संकोच दवरिना आसतना तिणे म्हळें.

अँथनीक ते अवस्थेंतय हांसो आयलो. ''हें पळय'' ताणें म्हळें, ''तुका हांवें सांगलां, आतां तुका आनीक पैशे मेळचे नात. म्हजेकडेन पैशे नात आनी सॉब्वा तुका दिवचो ना. म्हजो ओगीच वेळ खावं नाका. तूं वच.''

''तुगेर येवंक म्हाका कितलें दुखता हें कशें सांगूं ? पूण भुरगें उपाशी उरता तेन्ना दुसरो उपाय नासता.'' अशें म्हणून ती परत रडूंक लागली.

पैशे घेतले बगर ती दारांतली हालची ना अशें पळोवन अँथनीन तिका धा रुपया दिले आनी म्हळें, ''हे घे, आनी वच. परत मात येवं नाका. तूं परत राजवाड्यांत वा म्हज्या दारांत दिसली जाल्यार हांव तुका पोलीसांचे सुवादीन करतलों.''

निर्लज्जासारकी ती हांसली आनी तिणे म्हळें, ''तुजी भयण हांव. भयणीक भाव पोलीसाकडेन दिता ? नातें तुवेंच थारायलें. ना जाल्यार तुजी मैत्रीण जावप म्हाका मानवतलें आसलें.''

तिगेलें उलोवणे आयकून अँथनी चकासूर जालो. ल्हवू ल्हवू ही बायल आपलें खरेलें रूप उक्तायतली अशें ताका दिसूंक लागलें.

अँथनीक दिशिल्लें, ती परत येवची ना. पूण दुसऱ्याच सप्तकांत ती परत आयली थेट अँथनीच्याच घराकडेन. त्या वेळार पोलीस अधिकारी अँथनीगेर बशिल्लो आशिल्लो. ती दिसनाफुडें ताणे पोलीस अधिकाऱ्यांक सांगलें, ''हिजो कितेंय बंदोबस्त कर.''

पोलीस अधिकाऱ्यान ते बायलेक वयर सकल नियाळून घेतली आनी हांसून म्हळें, ''तिका तूं म्हजेकडेन सोड.''

पूण ती बायल बदली ना. तिणे म्हळें, ''म्हजे वाटेक कोणूय गेल्यार हांव ओगी रावची ना.''

तिणे आपले दांत किद्दीले.

पोलीस अधिकाऱ्यान तिका आपल्या सांगातान येवंक सांगलें. पूण ती हाल्ली ना. जेन्ना पोलीस अधिकाऱ्यान तिजो हात धल्लो तेन्ना ताच्या हाताक तिणे घांस काडलो. कळवळून पोलीसान आपली मूठ सोडयली तेन्ना ती बायल चेटकिणीसारकी हांसली आनी अँथनीक गाळी घालीत, पांय आपटीत गेली.

पोलीस अधिकाऱ्यान कळवळून आपलो हात सांसपिलो. हो सगळो देखाव अँथनी पळयत रावलो. हे घडणुकेक लागून पोलीस अधिकाऱ्याक ते बायलेविशीं जशी धास्ती दिसूंक लागली तेचभाशेन तिजो डंखय तो धरून बसलो. केन्नाय तरी तिका आपूण बुद्द शिकयतलो अशें ताणे अँथनीक सांगलें.

हे घडणुकेचो रिपोर्ट सॉब्वाक मेळनाफुडें सॉब्वान पोलीसांक असो आदेश दिलो कि परत ती बायल आयली जाल्यार बोवाळ करिना आसतना तिचो बंदोबस्त करचो.

अँथनीक ओगीच भिरांत दिसली. हे पोलीस अधिकारी रागाचो बदलो कसो घेत हाजो भरवंसो नासता. ताणे म्हळें, ''तिका धाक घालचो. पूण तिज्या जिवाक वा आंगाक हात लावचो न्हय.''

''तें तो पळोवन घेतलो.'' सॉब्वान म्हळें, ''पूण म्हाका तिची परत कटकट नाका.''

सप्तकभर ती परत आयली ना. केन्नाय ती येतली आनी पोलीस तिची वाट लायतले ह्या दुबावान अँथनी मात अस्वस्थ जाल्लो. तिका शिटकावणी दिवची अशें ताका मनापासून दिसलें आनी ती खंय मेळत हाजो तो सोद घेवंक लागलो.

एक दीस एका चिनी ट्रक ड्रायव्हरासांगातान ट्रकांत बसून वतना अँथनीक ती दिसली. आपल्या दोळ्यांचेर ताजो विस्वास बसलो ना. पूण जेन्ना ताणे दुसऱ्या ड्रायव्हराकडेन वासपूस केली तेन्ना तागेलो भ्रम पुराय निवळ्ळो.

''ती म्हयन्याखातीर कोणाचीय बायल जावंक कबूल आसता. पूण म्हयन्याचे पांचशें रुपयां तिका आदीं दिवचें पडटात.'' त्या ड्रायव्हरान अँथनीक सांगलें.

''अशें तिजें वेगळेपण कितें ?'' अँथनीन विचाल्लें.

''ती दिसूंक सुंदर आनी आपूण राजघराण्यांतली म्हणटा. ज्यांचेकडेन पैशे आसतात तांकां तिजेकडेन संबंद दवरपाचो लटको आनंद मेळटा.''

ही खबर केन्ना तरी सॉब्वाच्या कानार घालपाचें अँथनीन थारायिल्लें. पूण संद मेळ्ळी ना.

एक दीस अचकीत सॉब्वानच अँथनीक आपोवंक धाडलो आनी म्हळें, ''आज फांतोडेर ती बायल परत आयली. तिची कटकट सोंपोवपाचो एकूय उपाय म्हाका दिसता. तिका व्हरून फांग वू टींगाकडेन पावोवची. मागीर फुडलें ती पळोवं आनी तो.''

''पूण सॉब्वा, ती बायल बरे चालीची दिसना. ती ट्रक ड्रायव्हरासांगातान भोंवता. म्हज्या दोळ्यांनी हांवें तिका पळयल्या.''

''तेंच ताज्या कानार घाल. पूण म्हाका ही कटकट नाका.''

''तुजो भाव तरी तिजें कितें करतलो ?''

''कितेंय करूं. ही कटकट सोंपय पळोवया. तुवेंच हें काम करचें पडटलें. तिका घेवन तूंच लाशियोक वच.'' सॉब्वान फर्मायलें आनी तो उठून भीतर गेलो.

ते बायलेचें घर सोदून काडूंक अँथनीक खूबच त्रास पडले. पूण जेन्ना निमाणेकडेन अँथनी तिगेल्या घराकडेन पावलो तेन्ना ती एक गावन घालून जमनीर बशिल्ली आशिल्ली. म्हज्यांत तिगेलें भुरगें न्हिदिल्लें.

अँथनीन तिका सांगलें कि तो तिका लाशियोक व्हरूंक आयला. फांग वू टिंगागेर तिका व्हरून सगळ्या प्रस्नांचो सोक्षमोक्ष लावपाचो सॉब्वाचो आदेश आसा.

''या तर.'' अशें म्हणून ती उठली.

''तुजें सामान भर. कपडे बदल. हांव अर्द वरान येतां.'' अँथनीन सांगलें.

''म्हाका पांच मिनटां पुरो. म्हजें दुसरें सामान ना. हें घर म्हळ्यारच म्हजें सामान. तें कशें व्हरपाचें ?''

लाशियोमेरेनच्या प्रवासांत ती बडबडत आसली. पूण ती जें उलयता तातूंत अर्थ आसतालो. तिजी भास सभ्य. तरी अँथनीक तिजेकडेन उलोवपाचें नासलें. ही बायल आपणाक खंय तरी घुस्पायतली म्हणपाचो ताका भय दिसतालो.

लाशियोक पावतकच फांग वू टिंगाचो बंगलो सोदून काडूंक वेळ लागलो ना. दारांत एक चाकर आसलो. अँथनीन ताका आपली वळख दिली आनी फांग वू टिंगाक मेळपाचें आसा अशें सांगलें.

''तिका हांगाच बसूं दी.'' त्या चाकरान म्हळें, ''आनी तूं म्हज्या सांगातान यो.''

बंगल्याच्या फाटल्या वटच्यान खूबशीं घरां आसलीं. तांतल्या एका घरांत जमनीर पातळायिल्ले हांतरीचेर फांग वू टिंग बशिल्लो. ताज्या तोंडांत एक जळतें चिरुट. वाटकुळ्या तोंडाचो, आंगान मोटसार असो फांग वू टिंग उकतोच बशिल्लो. ताणे कमराक एक लुंगी गुठलायिल्ली. ताजेसरीं एक बर्मी चली आसली.

अँथनीन ताका आपली वळख करून दिली आनी आपणाक सॉब्वान धाडला अशें ताका सांगलें.

''हांवच फांग वू टींग. सांग, कितें काम आसलें ?'' ताणे म्हळें.

''एक बायल म्हज्या सांगातान आयल्या. ती म्हण्टा, आपूण तुजी बायल. तुज्या मुरग्याली आवय.''

''म्हजी बायल ? म्हाका बायलच ना.'' ताणें म्हळें, ''खंय आसा ती ?''

अँथनीन म्हळें, ''तुका दोन गजाली सांगचेल्यो आसात. खाजगी.''

ती बर्मी चली अजापून पळयताली. तिणे कितें तरी उलोवंक तोंड उकतें करिना फुडें ताणे तिका ओगी रावंक खुणायली. तो आपूण उठलो आनी भायर आयलो. एके कुशीक वचून अँथनीक विचाल्लें, ''खाजगी कितें म्हणटालो तूं ?''

''ती बायल बरे चालीची दिसना.'' अँथनीन म्हळें, ''पूण तुवेंच तिजो निकाल लावंक जाय.''

''या तर तिजेसरीं.'' अशें म्हणून तो मुख्य बंगल्याचे दिशेन पावलां उखलूंक लागलो. तसोच उकतो. अँथनी ताज्या फाटल्यान आयलो. दोगांचीय भेट जाता तेन्ना कसलें नाटक घडटा तें पळोवपाची ताका उमळशीक आसली.

ती बायल बंगल्याच्या दारांत उबी आसली. अँथनीक पळयनाफुडें तिणे म्हळें, ''फांग वू टिंग मेळ्ळो ना ?''

''हांवच फांग वू टिंग.'' ताणें म्हळें.

एका अनोळखी मनशाकडेन दुबावान पळोवचे तसले नदरेन तिणे ताका तपासलो आनी विचारलें, ''तूं फांग वू टिंग ?''

''हय. हांवच फांग वू टिंग. मांगशिशच्या सॉब्वाचो भाव. सांग, तुका कितें जाय ?''

अविस्वासान ताजेकडेन पळयत ती बायल उबी रावली आनी तोंडान गाळी घालूंक लागली. उपरांत ती शांत जाली आनी तिणे फांग वू टिंगाची माफी मागली, ''म्हाका कोणे तरी तुजें नांव घेवन फटयली.''

हें नाटक अँथनी पळयतालो. पूण सॉब्वाचो भाव कित्याक कोण जाणा, ते बायलेकडेन पळोवन हांसत उबो राविल्लो.

''तुका जाय जाल्यार तूं म्हज्या सांगातान राव. तुका जाय तितले दीस राव.'' फांग वू टिंगान म्हळें.

आनी विपरीत घडणूक घडली. ती बायल फांग वू टिंगासरीं रावंक कबूल जाली.

मांगशिशाक परत येवन जेन्ना अँथनीन घडिल्ली खबर सॉब्वाक सांगली तेन्ना सॉब्वाक मात राग आयलो. ताणे म्हळें, ''ह्या निर्लज्ज मनशान ते रस्त्यावयले बायलेक आपल्या घरांत घेतलीच कशी ? आजमेरेन तिणे म्हाका पिडापीड दिली. आतां ती आमकां दोगांकय पिडटली.''



चिनांत आशिल्ल्या जपानी लस्करान बर्मा रोड काबीज करपाच्या प्रयत्नांत

निमाणे ब्रह्मदेशाचेर घुरी घाली. १९४३ वर्साची ती गजाल. जपानी घुरयेकारांचो प्रतिकार करचे खातीर चिनी लस्करांय ब्रह्मदेसांत येवंक लागलीं. चिनाक सावन ब्रह्मदेशाक वता आसतना बर्मा रोड मांगशिशचे वाटेन वता. सॉब्वा पांगाली देशभक्ती त्यावेळार पळोवंक मेळ्ळी. चिनी लस्कराक आनी निर्वासितांक सॉब्वा तरेकवार आदार दिवंक लागलो. तरी आसतना झुजाचे परिणाम शान वाठारांत संस्थानाचेर जावंक लागिल्ले.

मांगशीश शारांत तर चिनी लस्कराचो एक तळ उबो जाल्लो. बर्मा रोडावयली येरादार खूबच वाडिल्ली. ट्रकांचे ड्रायव्हर आनी लस्कर हांचेमदीं किजिलां जातालीं. चीन सरकारान झुजाक लागून कागदाच्यो नोटी छापूंक सुरवात केल्ली आनी नोटी हें चलन मानूंक शान लोक कबूल नासले. चिनी लस्कर आनी ट्रक ड्रायव्हर कागदाच्यो नोटी घेवन मांगशिशाक येताले आनी थळाव्या लोकांकडेन पैशावयल्यान तांचीं झगडीं जातालीं. लोक पैशे घेनात म्हणपाची कागाळ जेन्ना सॉब्वाकडेन पावली तेन्ना नोटी हेंय चलन आनी लोकांनी तें घेवचें असो आदेश सॉब्वाक काडचो पडलो.

शान जमातीन आदेश मानून घेतलो. पूण तांची खरेली अडचण आशिल्ली ती वेगळी. खंयची नोट कितल्या पैशांची हे तांकां कळना आसलें. केन्ना केन्नाय चिनी लोक आठ रुपयांची वस्त विकती घेवन धा रुपया दिताले तेन्ना मांगशिशचे पसरकार तांकां ब्याण्णव रुपया परत दिताले.

असल्या किजिलांक लागून दीसपट्टीं बाजारांत झगडीं जातालीं.

एक दीस दनपारच्या वेळार भर बाजारांत मोठीं झगडीं जालीं आनी सॉब्वान अँथनीक थंय धाडलो. बाजाराच्या मदल्यान बर्मा रोड वता. तो बाजाराचो दीस आशिल्ल्यान बाजार भरिल्लो. अँथनी थंय पावलो जाल्यार बोवाळ आनी किळच्यो ताज्या कानार पडल्यो. थळाव्या लोकांचें चिनी सैनिक आनी ट्रक ड्रायव्हरांकडेन झगडें जाल्लें.

एका चिनी अधिकाऱ्याकडेन वचून अँथनीन कितें घडलां ताजी वासपूस केली.

''आमी देशद्रोह्यांआड कारवाय सुरू केल्या. सगळीं नाणीं आमी जप्त करतात. आनी तीं नाणी सोदपाखातीर चिनी सैनिक दादल्यांची आनी बायलांची झडटी घेतले.''

''हें तुमचें काम कायद्याभायलें. तें तुमी थांबयात.'' अँथनीन त्या अधिकाऱ्याक सांगलें.

''तूं कोण ?'' त्या अधिकाऱ्यान अँथनीक विचारलें.

''हांव मांगशीश राज्याच्या सॉब्वालो सेक्रेटरी.'' अँथनीन जाप दिली.

''ह्या देशद्रोह्यांचो सांगाती.'' अशें म्हणून तो चिनी अधिकारी अँथनीच्या पायाकडेन थुकलो.

ॲथनी रागान तांबडो जालो. पूण रोखडोच ताका वेव्हार येवजलो. ताणे येवजिलें कि, आपली राखण करपा इतलें बळ सॉ ब्वाकडेन ना.

‘‘हे पैशे व्हरून तुमी करतले कितें ?’’ ॲथनीन दुसरो प्रस्न विचारलो.

‘‘तें म्हाका विचारपी तूं कोण ?’’

‘‘हांव आमच्या राज्याचे वतीन जनरल जियांगाक रिपोर्ट धाडटलों.’’

‘‘धाड, धाड.’’ त्या चिनी अधिकाऱ्यान म्हळें, आनी आपले छातयेचेर लायिल्ल्या पितळी बिल्ल्याकडेन बोट दाखोवन ॲथनीक सांगले, ‘‘म्हजें नांव कॅप्टन मा आन.’’

‘‘पूण कायदो राखचे खातीर ह्यो दंगली कित्याक ?’’ ॲथनीन विचारलें.

‘‘ह्यो दंगली ?’’ कॅप्टन उसळ्ळो. जपानी दुस्मान आमचे सरादींत पावल्यात. चिनी चलन घेवं नाका अशें ते लोकांक सांगतात. हांव म्हजें कर्तव्य करतां.’’

उलयतां उलयतां कॅप्टनाची नदर एका ट्रक ड्रायव्हराचेर गेली. ताजे गोमटेक धरून कॅप्टनान ताजीं बोल्सां तपासलीं. खूबशीं नाणीं भायर सरलीं. ती घेतकच कॅप्टनान ताका सोडलो.

ॲथनी आनी त्या कॅप्टनामदीं खूब वेळ बाचाबाची जाली. निमाणे ॲथनीच फाटीं सरलो. दुसरें कांय करप ताज्यान जावचें नासलें. ते गर्देत शंबरेक सैनिक आनी ट्रक ड्रायव्हर आसले. मांग़शिशचे पोलीस तांकां कशे तोंड दितले ?

कुशीक रावन ॲथनी पळयतालो. लोकांकडच्यान जमयिल्लीं नाणीं न्हंयंत उडोवपाचो आदेश कॅप्टनान आपल्या सैनिकांक दिलो.

ॲथनीन राजवाड्यांत वचून घडिल्ली खबर सॉब्वाच्या कानार घाली. तो मेरेन शेकड्यांनी लोक राजवाड्याभायर पाविल्ले.

सांजवेळ मेरेन जेन्ना वातावरण शांत जालें तेन्ना सॉब्वान न्हंयंत उडयिल्लीं नाणी भायर काडपाचो आदेश पोलिसांक दिलो. रातीच्या वेळार हे पैशे कोणाक कितले परत दिवचे हाजी वळेरी तयार जाली आनी दुसऱ्या दिसा सकाळ मेरेन ज्याचे पैशे ताका पावते जाले.

ही खबर कळकटच चिनी लस्करान आपले शक्तीचें प्रदर्शन करचे ख़ातीर मांगशीश शारांत कवायती केल्यो. कांय जाणांनी सॉब्वा हो जपानाचो हस्तक असो आरोप करून घोशणा दिल्यो.

सॉब्वा आड चिनी सैनिकांनी केल्लीं निदर्शनां हो मांगशिशचे प्रजेक गंभीर विशय दिसलो. दुसऱ्या दिसा सॉब्वान दर एका गांवच्या मुखेल्याक आपोवन हाडून तांकां सांगलें, ‘‘नोटी हेंय चलनच आनी नोटी घेवपांतच देशभक्ती आसा.’’

गांवचे मुखेली परत वतकच सॉब्वान ॲथनीक विचारलें, ‘‘चिनी सैनिक म्हाका देशद्रोही म्हणटात. म्हाका असो दुबाव येता कि, चिनी सैनिकांच्या गणवेशांत जपानी हस्तक मांगशिशांत आयिल्ले आसूंक जाय. तांचेविशीं तुका कितें खबर

आसा ?''

''हय सॉब्वा.'' अँथनीन जाप दिली, ''कॅप्टन मा आन, तांचो मुखेली. ते बर्माक वचचे वाटेर हांगा आसात.''

''हो कॅप्टन देशद्रोही न्हय मूं ?'' सॉब्वान विचारलें.

''म्हाका दिसना.'' अँथनीन जाप दिली, ''तो कुट्टो देशभक्त आनी अबुध्द मनीस.''

''तशें जाल्यार तूं ताका मेळ आनी समजाय. ताजे देशभक्तीची तोखणाय केली जाल्यार तो तुजें म्हणणे आयकत.''

''व्हय आसा.'' अँथनीन जाप दिली.

''आतांच वच आनी फाल्यां सकाळीं म्हाका रिपोर्ट दी.'' सॉब्वान फर्मायलें.

अँथनी जेन्ना सांजेच्या वेळार कॅप्टनाक मेळूंक गेलो तेन्ना कॅप्टन एके खाटीचेर उकतोच न्हिदिल्लो. अँथनीक पळयनाफुडें तो उठलो. पूण कांय उलयलो ना. थंडसाणेन ताणे आपलो गणवेश आंगार चडयलो. पायांत बूट घाले आनी विचारलें, ''तुका कितें जाय ?''

''सॉब्वान तुका भेट धाडल्या.'' अशें म्हणून अँथनीन ताका गांवठी सोऱ्याच्यो चार बाटल्यो दिल्यो.

''हो सोरो म्हाका कित्याक ? तुगेलो सॉब्वा म्हाका लांच दिवंक सोदता काय कितें ?'' कॅप्टनान परतो प्रस्न केलो.

''ना.'' अँथनीन जाप दिली, ''तुजी देशभक्ती पळोवन सॉब्वा खूश जालो. पूण सॉब्वाक दिसता कि, सगळ्या लोकांक एकठांय दवरचे सोडून तूं तांचेमदीं भेदाच्यो वण्टी उब्यो करता तें समा न्हय. सगलें मांगशीश संस्थान तुज्या आदेशान चलोवपाची सॉब्वाची तयारी आसा. झुजांत जपान हारूंकच जाय. लोकांमदीं धुसफूस जाली जाल्यार जपानी लोकांचें फावतलें. ती जावचीं न्हय हे खातीर तुज्या आनी सॉब्वामदीं बरी समजीकाय आसूंक जाय.''

कॅप्टनाचेर थोडोसो परिणाम जालो. ताणे हांसून म्हळें, ''जनरल चियांगाकडेन सॉब्वान कागाळ केली ना ?''

''कागाळ कसली ? तुजी देशभक्ती पळोवन सॉब्वा प्रभावीत जाला. तुज्या आदारान परिस्थिती सुदारूं येता अशें ताका दिसता.''

कॅप्टनाचेर अँथनीच्या उलोवपाचो परिणाम जावंक लागला हें आतां ताज्या तोंडावयल्यान दिसतालें. एक एक उतर उलोवन अँथनी ताका चण्याच्या झाडाचेर चडयतालो आनी ल्हवू ल्हवू कॅप्टन विरगळ्ळो.

''म्हजो प्रस्न तूं समजून घे.'' कॅप्टनान अँथनीक सांगलें, ''आमच्या सैनिकांकडेन पैशे आसात, पूण ते सगळे नोटींच्या रूपान. ट्रक ड्रायव्हरांकडेनय नोटीच आसात. तुमचे लोक नोटी घेनात आनी आमचे लोक उपाशीं उरतात.

म्हज्या जाग्यार तूं आशिल्लो जाल्यार कितें करतलो आसलो ?''

''तुजी अडचण खरी. हांव ती समजतां.'' अँथनीन म्हळें, ''तातूंतल्यान मार्ग काडूं येता. पूण ते खातीर लोकालीं नाणी जप्त करपाची गरज ना. तूं सॉब्वाक मेळ्ळो जाल्यार सगळे प्रस्न सुटले. सॉब्वाले नदरेन चिनी सैनिक हे वीर. तांकां कांयच उणे पडूंक जायना.''

अँथनीली शिश्टाय फळादीक जाली म्हणपाची गवाय कॅप्टनाल्या तोंडावयल्यान मेळ्ळी आनी खुशालभरीत जावन अँथनीन कॅप्टनाक आपणागेर जेवणाक आपयलो.

त्या दिसा अँथनील्या घराकडेन कॅप्टन बरोच पियेलो. पोटभर जेवलो आनी रातीच्या वेळार निरोप घेतना अँथनीचो इश्ट जावन बसलो.

कॅप्टनाक वश करून घेतिल्ल्याची खबर जेन्ना अँथनीन सॉब्वाच्या कानार घाली तेन्ना खुशालभरीत जाल्ल्या सॉब्वान म्हळें, ''रातीं तुवें म्हाका आपयिल्लो जाल्यार हांवय तुगेर जेवंक येतलों आसलों.''

चिनी सैनिकाकडच्यान मांगशिशचे प्रजेक वा सॉब्वाक कसलेच त्रास जावचे नात अशें अँथनीक दिशिल्लें. पूण तीन दीस लेगीत शांतताय तिगली ना.

तिसऱ्या दिसा फांतोडेरच ईदाल्या बंगल्याच्या दारांत एक पेट्रोल बॉंब फुटलो. कोणे तरी तो शेंवटून मारिल्लो. बंगल्याच्या फुडल्या भागांतल्या जनेलांचे हारशे फुटले आनी मुख्य दारान पेट घेतलो. पूण उजो रोखडोच पालयिल्ल्यान चड लुकसाण जावंक पावलें ना. सॉब्वाची मनःस्थिती इबाडूंक तितलीच घडणूक पुरो आसली. ताणे पोलिसांक आदेश दिलो कि ताणी बॉंब शेंवटीतल्याक सोदून काडून कडक ख्यास्त दिवची. शारांतल्यान पोलीस लोकांक धमकायत भोंवंक लागले. त्या पोलीसांक पळोवन ट्रकांचे ड्रायव्हर आनी चिनी सैनिक हांसताले आनी लोक मात गोंदळिल्ले दिसताले.

अँथनीक बॉंबाची खबर कळ्ळी तेन्ना तो थेट ईदाल्या बंगल्याचेर गेलो. बंगल्याभोंवतणी चिनी सैनिकांनी कडें केल्लें. अँथनीक वळखना आशिल्ल्यान ताणी ताका आडायलो आनी ताजी झडटी घेवनच ताणी ताका भीतर वचूंक दिलो.

भायल्या सालांत सॉब्वा बशिल्लो. कांय मंत्री आनी अधिकारी थंय आसले. सॉब्वाचे कुशीक आपल्या ल्हान भुरग्याक घेवन ईदा बशिल्ली.

अँथनीक पळयनाफुडें सॉब्वान म्हळें, ''तूं आयलो हें बरें केलें. तुका आपोवंक धाडचें केल्लें. कितें जालें तें तूं जाणाच. कोणे तरी दुस्मानान म्हजो आनी ईदाचो खून करपाचो अपेशी यत्न केलो.''

सॉब्वा कितलो काचाबूल जाला हें तागेल्या तोंडावयल्यानच अँथनीक समजल्लें. ताका धीर दिवपाचें थारावन अँथनीन म्हळें, ''घराच्या दारांत चिनी सैनिक कशे आयले ?''

‘‘कॅप्टन भान म्हजे राखणेखातीर तांकां धाडल्यात.’’

सॉब्वान एक पत्र अँथनीच्या हातांत दिलें. कॅप्टन मा आंग हाणे बरयिल्ली ती चीट.

‘‘मांगशिशचे लोक चिनी सरकाराचें चलन घेवंक नकार दितात. ताका लागून मांगशिशांत उचांबळाय उप्रासल्या. ट्रक ड्रायव्हर आगळीक करपाची शक्यताय आसा. तुजे राखणेखातीर हांव सैनिक धाडटां. पूण हे सैनिक खंयच्याय खिणाक झुजाचे आघाडेचेर वचूं येतात. तेन्ना तुवें आपले राखणेची तजवीज करची ना जाल्यार थोडे दीस राज्याभायर वचून रावचें.’’

चीट वाचून अँथनीन सॉब्वाकडेन पळयलें. सॉब्वा तागेली प्रतिक्रिया नियाळतालो.

‘‘तुका कितें दिसता ?’’ सॉब्वान विचारलें.

‘‘सुचोवणी वायटशी न्हय.’’ अँथनीन म्हळें, ‘‘थोडे दीस सुरक्षीत जाग्यार वचून रावप कठीण न्हय.’’

‘‘हेर मंत्र्यांचेंय तेंच मत.’’ गंभीर भाव तोंडार हाडून सॉब्वान म्हळें, ‘‘हांव पयस राविल्ल्यान वातावरण निवळटलें आसत जाल्यार हांव थोड्या दिसांखातीर माम्यो शारांत वचन. ईदाकय हांगा रावचेलें ना. तूंय आमच्या सांगातान यो.’’

‘‘अँथनी थंय रमतलो.’’ ईदान हांसून म्हळें, ‘‘त्या शारांत युरेशीयन चलयो खूब आसात. आमी ज्या मेजर ब्रुक्सागेर रावंक वतलीं तागेर लेगीत दोन सोबीत चलयो आसात.’’

अँथनीन मोन्यांनीच कबुली दिली तेन्ना सॉब्वान म्हळें, ‘‘आज सांज़वेळां आमी भायर सरूया. तूं तशें कॅप्टन माक कळय.’’

अँथनीन परत येवन पयलें काम कितें केल्लें आसत जाल्यार कॅप्टन माक चीट बरयली आनी खासा आपूण ती ताका दिवंक गेलो. कॅप्टन मा थंय नासलो. अँथनीन चीट दवरली आनी तो परतलो.

रातीच्या वेळार सॉब्वान ईदा आनी अँथनी वांगडा मांगशीश सोडलें. वाटेर सॉब्वान म्हळें, ‘‘अँथनी, आमचे लोक नोटी कित्याक घेनात ?’’

‘‘ताणी नोटी केन्नाच पळोवंक नात. तांकां तीं कागदाचीं चित्रां दिसतात. तांचो गुन्यांव ना.’’

‘‘पूण चिनी सैनिकांचोय गुन्यांव ना.’’ सॉब्वान म्हळें, ‘‘आमचे राखणेखातीर ते जिवार उदार जाल्ले आसात.’’

वाटेर मोटारींत सॉब्वाले देशभक्तीक खतखतो आयिल्लो. पूण ईदा मात आपल्याच विचारांत गुल्ल जावन ओगी बशिल्ली.



मंडालेचे दक्षिणेक आशिल्लें म्यामो एक ल्हानशें शार. ब्रिटीश लोक आनी तांगेल्यो बर्मी बायलो हांची थंय वस्ती. थंयचे चले आनी चलयो वेगळ्यो दिसताल्यो. दोनय वंशाचे बरे गुण तांच्यांत आयल्यात अशें अँथनीचें मत.

सॉब्वाची गाडी मेजर ब्रुक्साच्या बंगल्याकडेन थांबली तेन्ना अँथनीन पळयलें कि थंय एक सोबीत फुलांची बाग आसा आनी बागेंत मदीं घोंटेरावरी ल्हानसो बंगलो. मेजर ब्रुक्स हो ब्रिटीश लस्करी अधिकारी. तागेली बायल बर्मी. सॉब्वाकडेन तांगेली खूब पोरनी इश्टागत.

सॉब्वाच्या येवकाराक सगळें कुटुंब दारांत आयलें. मेजर ब्रुक्सान आपल्या दोनय चलयांची अँथनीकडेन वळख करून दिली.

''ही हिदर.'' मेजर ब्रुक्सान म्हळें, ''म्हगेली व्हडली चली आनी ही तिची भयण.''

अँथनी तांकां पळयत रावलो. ताजी नदर तांचेर थिराविल्ली. दोनय चलयो सुंदर आसल्यो. व्हडलेची पिराय वीस वर्सांपरस चड आसची ना आनी धाकलेची सोळा आसत.

''अँथनीची रावपाची वेवस्था एकाद्र्या हॉटेलांत केल्यार जाता.'' सॉब्वान सुचयलें.

''ना, ना. अशें कशें जातलें ?'' मेजर ब्रुक्साले बायलेन म्हळें, ''तोय आमचो सोयरो. आमची एक चली भयणीचे कुडींत रावतली आनी आपली कूड सॉब्वाच्या सेक्रेटरीक दितली.''

हिदराची कूड अँथनीच्या वांट्याक आयली. पन्नाशींतलो मेजर ब्रुक्स हो एक धिप्पाड दादलो. ताज्या तोंडार इंग्लीश बशिल्ली. तो उलयता तें सॉब्वाक कळना आसलें. तेन्ना आपलेंच उलोवप तो बर्मी भाशेंत अणकारून सॉब्वाक समजायतालो.

पूण ब्रुक्स कुटुंबियांचो ईदाकडेन बरो संवाद जातालो. खूब वर्सां उपरांत ईदाक मेकळेपणान उलोवंक मेळिल्लें अशें तिज्या तोंडावयल्यान दिसतालें. मदींच चलयांची मस्करी करून तिणे म्हळें, ''हांवे मेजर ब्रुक्साखातीर एक बरो जांवय सोदून हाडला. तुमकां कोणाक पसंत पडटा तें तुमी थारायात.''

ईदाचें हें उलोवणे आयकून हिदर लजून तांबडी जाली आनी ती ल्हवूच भीतर गेली. तिज्या फाटल्यान तिगेली भयणय भीतर गेली.

अँथनीक कितें करचें तें समजलें ना. तो तकली सकल घालून ओगी रावलो.

मेजर ब्रुक्साच्या घरांत संवकळीचें कांयच नासलें. तरीय पुण अँथनीक थंयचे वातावरण आवडलें. एक तर खूब दिसाउप्रांत मेकळ्या वातावरणांत तो हांसून खेळून उलोवंक पाविल्लो. मांगशिशांतली जीण ही वेगळे तरेची, थारिल्ले चाकोरीतली. थंय अँथनीचो घुस्मटमारच जातालो. पूण ह्या बंगल्यांत एकेतरेचें

मेकळेपण आसलें. खासा मेजर ब्रुक्स एक बुध्दिवादी, जाचेकडेन ॲंथनीचे संवाद जावं येतालो. ताज्यो दोनय चलयो हुशार आनी खंयच्याय विशयाचेर मेकळेपणान उलोवपी आसल्यो. तांची बर्मी बायल त्या मानान मात्शी सादी. तरी पूण जेवणाच्या मेजार बसली तेन्ना ती लेगीत चर्चेत वांटो घेवंक लागली.

जेवणाच्या वेळार कोणेतरी रेडियो लायिल्लो. इंग्लिशिंतल्यान खबरो चलताल्यो. सॉब्वान जेवप थांबोवन रेडियोकडेन कान दिलो तेन्ना मेजर ब्रुक्सान म्हळें, "ते किर्ते आयकता सॉब्वा ? तूं चिनी न्हय. तूं शान. चिनी, जपानी आनी ब्रिटिश हांची तूं कित्याक पर्वा करता ? किर्ते जावपाचें आसा तें जावूं. तूं सॉब्वा उरतलो."

फावटीन फावट मेजर ब्रुक्साक उगडास दिवचो पडटालो कि तागेली इंग्लीश सॉब्वाक समजना. तें काम तागेली बायल करताली आनी मागीर सगळे हांसताले. ल्हवू ल्हवू ॲंथनी आनी मेजर ब्रुक्स हांचेमदलो संवाद रंगूंक लागलो आनी ईदा दोनय चलयांकडेन वेगळ्योच खबरो करपांत गुल्ल जाली.

तरी पूण रेडियो चालूच आसलो. जपानी सैन्य फुडें येता आनी खूब वाठारांनी चिनी सैन्याकडेन तांचें झूज चलता म्हणपाची खबर ॲंथनीन सॉब्वाक सांगली.

सॉब्वा एकदम गंभीर जालो. ताणें ॲंथनीक म्हळें, "ह्या वेळार आमी चिनी सैन्याक आदार दिवंक जाय. आमचे खातीर ते झुजतात. खरें म्हळ्यार हांवें झूज चलतना हांगा येवंक फावना आसलें."

मेजर ब्रुक्सान मदींच तोंड घालें. ताणें म्हळें, "सदां अशेंच घडटा. रेड्या पाड्याच्या झुजांत झाडांचेर काळ येता. आतां शान जमातीचो गुन्यांव किर्ते, तूंच सांग. ते आपले मर्जेन आपली जीण शांततायेन जगूंक सोदतात. तांकां पिडापीड कित्याक जावची हेंच म्हाका समजना."

"पूण तांचेय चुकता." सॉब्वान म्हळें, "सरकाराच्यो नोटी ते घेनात. नाणी सोदतात. आनी चिनी सैनिकांकडेन नाणी नात."

"तेखातीर गरीब लोकांक त्रास कित्याक ? त्यो नोटी म्हळ्यार कागदाचे कुडके. झूज सोंपतकच त्या नोटींनी मापभर तांदूळ लेगीत मेळचे नात."

गंभीर तोंड करून सॉब्वा आयकतालो. ॲंथनीक मात मनांतल्यान हांसो येतालो. ताका दिसलें आपूण परकी जाल्ल्यान आपल्यो भावना सॉब्वापरस वेगळ्यो आसतल्यो.

रेडियोवयल्यान एक घोशणा जाली : एका व्हड झुजांत चिनी लस्कराक जैत मेळिल्लें. जपानी पळून गेले वा मेले.

सॉब्वाची मर्जी वळखून ॲंथनी बेगोबेग उठलो. मेजावयल्या रित्या ग्लासांनी ताणे सोरो भल्लो आनी चिनाच्या जैताचो टोस्ट उखल्लो.

सॉब्वा एकदमं खुशालभरीत जालो. "सेक्रेटरी आतां आमी हांगा रावप सोबचें ना. फाल्यां सकाळी आमी मांगशिशाक परतुया. थंय चिनी लस्कर आसा. तांकां

हांव पार्टी दितां. कांय ट्रक ड्रायव्हरांकय आपोवया.''

अँथनीचे खोशयेचेर विरजण पडलें. एका नव्या वातावरणांत तो आयिल्लो आनी आठ दीस थंय रावप ताका आवडटलें आसलें. पूण सॉब्नाचो सभाव तो जाणा आसलो. ना म्हणपाक ताका जमनासलें.

मेजर ब्रुक्सान म्हळें, 'ताकीत कित्याक करता तूं सॉब्वा ? चार दिसांउप्रांत तूं मांगशिशाक गेलो म्हणून कांय इबाडचें ना.''

पयलेच खेपेक हिदरान सॉब्वाक आग्रो केलो. अँथनी सुखावलो. हो आग्रो आपलेखातीर इतलें ताका कळ्ळें. पूण सॉब्वा कसोच कबूल जालो ना.

''हांव थोडे दीस हांगाच रावतां. हांगाचें वातावरण इल्लें सुरक्षीत.'' ईदान म्हळें.

सॉब्वान तिका विरोध केलो ना. दुसऱ्या दिसा ईदाक आनी भुरग्याक थंय दवरून सॉब्वा अँथनीसयत मांगशिशाक परतलो.



सगळे वाटेर तो पार्टीविशीं उलयतालो. मांगशिशाक पावनाफुडें ताणें चिनी लस्कराक आनी ट्रक ड्रायव्हरांक आमंत्रणां धाडलीं आनी दुसऱ्या दिसा सांजची व्हडली पार्टी घडोवन हाडपाचो आदेश दिलो.

अँथनीचे सांगणेन आदल्या दिसा सांजवेळां मांगशिशाक एक व्हड मिरवणूक काडली. चिनी जैताची खोशी मनोवपाखातीर ती मिरवणूक आसली. लोकांनी चिनी बावटे उबयले आनी देशभक्तीच्यो घोशणा दिल्यो. ते मिरवणुकेक लागून वातावरणच बदल्लें.

कॅप्टन माक आमंत्रण दिवपाची जापसालदारकी सॉब्वान अँथनीचेर सोंपयली.

''हांव येतां, पूण हांवें नमतें घेतलां असो ताजो अर्थ न्हय.'' कॅप्टनान अँथनीक सांगलें.

''आमचो दुस्मान एक. ताज्या आड मेळिल्ल्या जैताखातीर ही पार्टी.'' अँथनीन म्हळें.

पार्टी बरी रंगली. लस्करांतले सैनिक आनी खूबशे ट्रक ड्रायव्हर राजवाड्याच्या आंगणांत आयले. आमंत्रितांमदीं कॅप्टन मा आनी कांय व्यापारीय आसले. सोऱ्याच्यो बाटल्यो रिकाम्यो जायत रावल्यो तशें वातावरणय आनंदी जायत उल्लें. संकोचान आमंत्रण स्विकारील्लो कॅप्टन मा लेगीत लोकांमदीं भरसून खोशी मनोवंक लागलो.

जेवण सुरू जाल्लें तेन्ना कोणच सुदीर नासलो. हांसपाची आनी विकृत चाळे करपाची आमंत्रितांमदीं सर्त लागिल्ली. एकच बरी गजाल म्हळ्यार पार्टेक बायलो नासल्यो. मदींच सॉब्वा उबो रावलो आनी ताणे एक व्हडलें भाशण केलें. चिनी लस्कराची ताणे तोखणाय केली आनी निमाणे जैत आमचेंच जातलें अशें सांगून

कॅप्टन मा ची तुस्त केली.

जाप दिवंक कॅप्टन मा उबो रावलो. पूण ताजो तोल वचून तो पडलो. तरीक तो जें उलयलो तें कोणाक समजलें ना. मात सगळ्यांनी ताळयो माल्ल्यो.

मदींच कॅप्टन मा अँथनीसरीं आयलो आनी ताणे म्हळें, ''आमी झुजाक तोंड दितात हें तुज्या सॉब्वाक खबर ना? मागीर ही पार्टी कसली? लोकांक बेबदे करपाची?''

अँथनीन पळयलें कि हें अशेंच चल्लें जाल्यार सगळो बेरंग जातलो. ताणे व्हडान घोशणा दिवन जनरल चियांगाचो जयजयकार केलो. लोकांनी तशेंच केलें. उप्रांत ताणे सॉब्वाचो जयजयकार केलो. ताकाय बरो प्रतिसाद मेळ्ळो. निमाणे जपानी आक्रमकांचो निशेध केलो. लोकांनी अदीक नेटान घोशणा दिल्यो.

पार्टी फळादीक जाली. मध्यान रातमेरेन ती चलिल्ली. आमंत्रित हांसत, गायत परतले. कांय जाणांक उखलून व्हरचे पडले. सगळो वाठार झुजामळासारको दिसतालो.

दुसऱ्या दिसा फांतोडेरच कॅप्टन मा आनी ताजे सैनिक ब्रह्मदेशांत गेले. ही खबर सकाळीं उसरां उठतकच अँथनीक कळ्ळी.

दनपारच्या वेळार सॉब्वाची भेट घेवंक अँथनी राजवाड्यांत गेलो तेन्ना ईदान पत्र दिवन धाडिल्लो मनीस थंय आसलो. अँथनीक पळयनाफुडें सॉब्वान तें पत्र ताज्या हातांत दिलें. ''जपानी लस्कर मंडालेचे दिशेन फुडें सरता. मेजर ब्रुक्साक कामार रुजू जावपाचो आदेश आयला. तागेली बायल आनी दोनय चलयो म्हज्या सांगातान मांगशिशाक येतात. गाडी धाड.'' अशें त्या पत्रांत ईदान बरयिल्लें.

''आमी हांगा जैताची पार्टी केली, त्याचवेळार जपान्यांनी आमच्या लस्कराक हारयलें अशें दिसता.'' सॉब्वान म्हळें आनी अँथनीक विचारलें, ''तुका कितें जातलेंशें दिसता?''

''जैत आमचेंच जातलें!'' देशभक्तीचो आव हाडून अँथनीन जाप दिली.

''कॅप्टन मा जितो परत येतलो?'' सॉब्वान विचारलें.

''दुबाव ना.'' सॉब्वाक खूश करपाखातीर अँथनीन जाप दिली.

''म्हाका दुबाव आसा.'' सॉब्वान म्हळें.



एके वटच्यान झूज चलता आसतनाच एक दीस अचकित एक अमेरिकन डॉक्टर मांगशिशाक पावलो. डॉक्टर स्ट्रॅफोन हो चिनांत काम करतालो. मलेरियाआड ताणें एक झूज चलयिल्लें म्हळ्यार जाता. झुजाच्या वातावरणाक लागून तो मांगशिशाक आयिल्लो आसतलो. पूण ताणें आपुण मांगशिशांतल्या मलेरियाचें उच्चाटन करपाखातीरच आयलां अशें सॉब्वाक सांगलें.

''पूण सध्या आमी एका दुस्मानाआड झूज झुजतात. अशा वेळार मलेरियाचो हुस्को करीत बसप समा जातलें ?'' सॉब्वान ताका विचारलें.

''हय सॉब्वा.'' डॉक्टर स्ट्रॅफोनान जाप दिली, ''झुजांत सैनिक मरतात. पूण मलेरिया पिळग्यांच्यो पिळग्यो गिळून उडयता. हें झूज जिखल्या उप्रांत मांगशिशाचे उदरगतीखातीर निरोगी नागरिकांची गरज लागतली. ताजी तयारी आतांच करूंक जाय.''

सॉब्वा एकदम कबूल जालो. ताणें म्हळें, ''हय, आमच्या लोकांक मलेरिया बादता. फकत बौध्द भिक्षूंक तो बादना. तांकां बुध्दाची राखण मेळटा.''

''तशें न्हय तें सॉब्वा.'' डॉक्टरान म्हळें, ''मठांनी धूप आनी उजवातीच्या धुंवराक लागून जळार मरता. देखूनच भिक्षूंक मलेरिया बादना.''

सॉब्वान डॉक्टराक सांगात दिवपाचें काम ॲंथनीचेर सोंपयलें. ॲंथनी व्हडलोसो खूश नासलो. मेजर ब्रुक्साली बायल आनी दोनय चलयो गांवांत आसतना आपणे डॉक्टरांवांगडा पयसुल्या वाठारांत वचप शाणेपणाचें जावचें ना अशें ताका दिसतालें. पूण सॉब्वाचे इच्छेमुखार ताजें शाणेपण चल्लें ना.

दुसरे वटेच्यान जपानी ब्रह्मदेशांत पाविल्ले आनी ते चिनांत भितर सरपाची तयारी करताले. सरादीवयले चिनी पळूंक लागिल्ले. पूण ह्या वातावरणाचो डॉक्टर स्ट्रेफोनाचेर कसलोच परिणाम जालो ना.

हिदर आनी तिगेली भयण मांगशिशाक पावत सावन इल्ली चड धीट जाल्यांत. जीं आदी ॲंथनील्या दोळ्याक दोळो दिना आसलीं तीं आतां ताजी मस्करीय करूंक लागिल्लीं. ॲंन्थनीपुरतें सांगपाचें जालें जाल्यार तांचो सांगात ताका मानवतालो. तो थोडो सुखावतालो. निमाणे नातें कशें जुळत देवाक खबर! पूण कल्पनेन तरी ॲंथनीक हिदर पसंत पडिल्ली.

''हें पळय, तुजे खातीर हिदर हांगा आयल्या आनी तूं त्या डॉक्टरा सांगातान मलेरिया निर्मुलनाच्या वावराक गेलो जाल्यार मेजर ब्रुक्साचें कुटुंब उबगून परत वतलें.'' ईदान ॲंथनीची फकाणां करपाचें निमित्य करून ताका शिटकायलो.

ॲंथनीन ल्हवूच हिदराकडेन पळयलें. तिगेले भयणीन तिज्या कानांत कितें तरी सांगलें. दोगीय भयणी हांसल्यो.

''ॲंथनीन सांगातान आमकां व्हेली जाल्यार आमी दोगांय व्हड खोशयेन वचूं.'' धाकले भयणीन हांसत म्हळें.

''तुमकां दोगांकय कित्याक व्हरतलो तो ?'' मस्करेचो सूर चालू दवरून ईदान म्हळें, ''तूं हांगा राव. म्हाका सांगात दिवंक. हिदराक एकलेकच वचूं दी.''

ॲंथनीक कल्पना मानवली. पूण कांय उलयना आसतना तो भायर गेलो.

डॉक्टर स्ट्रेफ्रॉनान ॲंथनीक मलेरियाचेर एक व्हडलें व्याख्यान दिलें. शान जमातीचे लोक मलेरियाक कडकड्याचो जोर म्हणटात आनी मलेरिया जाल्याक

जळवो लावन ताजें रगत काडटात. सादीं वखदां दिवन तांकां बरे करूं येता. पूण डॉक्टर आसलो म्हणून उपकारना, वखद आसूनच भागचें ना, लोक वखद घेवंक कबूल जावंक जाय. चार जाणांक गुण पडटकच मागीर प्रस्न येवचो ना.

डॉक्टर स्ट्रेफ्रोनाकडेन उलोवणी करून अँथनीन एक गजाल सादली. पयसुल्या गांवांत वचून तळ ठोकचे परस सुर्वेच्या दिसांनी लागशिल्ल्या गांवांनी वचून येवपाचें करूया. खेड्यांनी जेवणखाणाची, रावपाची आनी न्हिदपाची सारकी वेवस्था जावची ना. डॉ. स्ट्रेफ्रॉनान ही सुचोवणी मानून घेतली आनी दुसऱ्याच दिसा सकाळीं डॉक्टराचो सांगाती आनी दुभाषी जावन अँथनी एका लागशिल्ल्या खेड्यांत गेलो.

गांवच्या मुखेल्याची ताणी आदीं भेट घेतली. ताजे नांव वू. पिरायेपरसय तो चड जाण्टो दिसतालो. तागेलो व्हडलो चलो घराच आसतालो आनी धाकलो ट्रक ड्रायव्हर म्हणून काम करतालो.

अँथनीन मुखेल्याची डॉक्टराकडेन वळख करून दिली.

''कसलें वखद तो दितलो ?'' मुखेल्यान विचारलें.

''साध्यो गुळयो. त्यो घेतल्यो जाल्यार जोर वतलो आनी कडकडो थांबतलो.'' अँथनीन जाप दिली.

''पूण त्या आदीं म्हाका रगत तपासचें पडटलें.'' डॉ. स्ट्रेफ्रॉनान म्हळें.

रगताचें नांव घेनाफुडें मुखेली मात्सो खांकुडलो. पूण ताका समजावंक बरेच त्रास पडले. मुखेल्यान आपलो हात फुडें केलो आनी म्हळें, ''कितें बरें वायट जाता तें म्हजें जावं दी.''

''पूण रातीच्या वेळार रगत काड्रूंक जाय.'' डॉक्टरान समजावपाचो यत्न केलो.

''रातीचें आनी दिसाचें म्हजें रगत बदलना.'' मुखेल्यान म्हळें.

''तुका कुडकुडो खावन जोर येता तर ?''

''हय. सध्या रातीचो येता आनी सकाळचो वता.''

''तो जोर कित्याक लागून येता अशें तुका दिसता ?'' डॉक्टरान विचारलें.

''सांजच्या वेळार हांगा धुकें दाट्टा आनी तातुंतल्यानच जोर येता.''

डॉ. स्ट्रेफ्रॉन चड कांय उलयलो ना. ताणे क्विनाईनच्यो थोड्यो गुळ्यो ताका दिल्यो आनी म्हळें, ''ह्यो घेवन पळय.''

देवाचें नांव घेतिल्ले भाशेन करून त्या जाण्टेल्यान बचकभर गुळ्यो तोंडात उडोवन गिळ्ळ्यो.

रातीच्या वेळार मांगशिशाक परत येता आसतना डॉ. स्ट्रेफ्रॉनान अँथनीक विचारलें, ''हे लोक वखद घेत अशें तुका दिसता ?''

''आज जर त्या जाण्टेल्याक परत जोर आयलो ना जाल्यार तूं जिखलो. पूण जोर आयलो जाल्यार मात परत ताजे सरीं वचपाक तोंड उरचें ना.'' अँथनीन सांगलें.

रातीकडेन अँथनी ईदाल्या आमंत्रणाची वाट पळयतालो. तें आयलें ना. डॉ.

स्ट्रेफ्रॉनाक हॉटेलांत सोडून तो आपल्या घरा गेलो.

दुसऱ्या दिसा सकाळीं बेगीनच डॉ. स्ट्रेफ्रॉन अँथनीच्या दारांत आयलो. देखून ईदाच्या बंगल्याचेर वचून येवपाची कल्पना अँथनीक सोडची पडली. दोगूय थेट गांवच्या मुखेल्यागेर गेले. तो घरा नासलो. तांकां कळ्ळें कि रातीकडेन ताका जोर येवंक ना आनी सकाळीं उठूनच तो खंय तरी गेला.

अँथनी आनी डॉ. स्ट्रेफ्रॉन तो परत येवपाची वाट पळयत बसले. तांकां चड वेळ वाट पळोवची लागली ना.

मुखेली आयलो आनी दारांत डॉक्टराक पळोवन एकदम परतूंक लागलो. अँथनीन ताका उलो माल्लो जाल्यार ताणे म्हळें, ''उपकार करून तुमी परत वचात.''

''कित्याक, कितें जालें ? तुका वखदान गुण पडलो ना ?''

''तुमी जादू करून आमकां फटोवंक आयल्यात. एक खेपे वचात पळोवया. आमकां तुमचें वखद नाका. आमी आसात ते बरे आसात.''

मुखेली आयिल्लो तसोच परतलो. डॉक्टर आनी अँथनीन थोडो वेळ बसून विचार केलो आनी निमाणे थारायलें कि गांवाच्या मुखेल्याक सॉब्वान आपोवन समजायले बगर तांची वाट मेकळी जावची ना.

परतीचे वाटेर ताणी गांवच्या मुखेल्याक एका झाडामुखार बसून गांवच्या धा-बारा लोकांक कितें तरी सांगतना पळयलो.

अँथनीच्या मनात पाल चुकचुकली.

दुसऱ्या दिसा फांतोडेर एक मनीस अँथनीक उठोवंक आयलो. तो आकांतून आयिल्लो. मठांतल्या मुखेल भिक्षूक कुलकुलो खावन जोर अयिल्लो आनी ताका डॉ. स्ट्रेफ्रॉनान तपासचो अशी सॉब्वान सुचोवणी केल्ली.

अँथनी उठून सॉब्वासरीं गेलो त्यावेळार सॉब्वा जागो अशिल्लो.

सॉब्वान अँथनीक पळोवन म्हळें, ''जर भिक्षूलो मलेरिया डॉक्टरान बरो केलो जाल्यार मांगशीशभर डॉक्टराचें नांव जातलें आनी मलेरिया निर्मूलन मोहीमेक बरो प्रतिसाद मेळटलो.''

''पूण नशीबानसार भिक्षूचें बरें वायट जालें जाल्यार कशें जावपाचें ?'' अँथनीन आपलो दुबाव उक्तायलो.

सॉब्वा येवजूंक पडलो. भिक्षू हरशींच म्हातारो. काकतालिका न्यायान ताका मरण आयलें जाल्यार पुराय शान जमात खुबळून उठ्ठली.

''तूं म्हणटा तें खरें.'' सॉब्वान म्हळें, ''तरीकय डॉ. स्ट्रेफ्रॉनाकडेन उलोवन पळय.''

पूण तशें करपाची संदच मेळ्ळी ना. जपानान ब्रह्मदेशाचेर बॉंब उडयल्यात म्हणपाची खबर अँथनी राजवाड्यांत आसतनाच आयली आनी झुजाचीं विमानां

मांगशिशच्या मळबांतय घिष्ट्यो घालूंक लागली.

कोणेतरी खबर हाडली, बर्मा रोडाचेर बॉंब पडला. चार ट्रक लासून गोबोर जाल्यात.

''आतां कितें करपाचें ?'' सॉब्वान ॲंथनीक विचारलें. ''पळून म्हणून तरी खंय वतले ? त्यापरस मांगशिशांत रावनच मरण पत्करिल्लें बरें.''

''आमच्यांनी चिनांत वचूं येता.'' ॲंथनीन सुचयलें, ''घडये थंय सावन भारतांत....''

सॉब्वान थोडोवेळ विचार केल्लेभाशेन करून म्हळें, ''तूं चिनाक वच. परत पावलो जाल्यार तुजी खबर आमकां मेळटली. पूण चीन सरकाराकडेन म्हजे देशभक्तीची गवाय दी. भारतांत पावलो जाल्यार तूं तुज्या गांवघरा पावतलो. पूण एक कर, झूज सोंपतकच तूं परत मांगशिशाक यो. म्हाका तुजी गरज आसा.''

कित्याक कोण जाणा ॲंथनीक दिसलें ही संद वगडावची न्हय आनी तो कबूल जालो. सॉब्वान ताका पैशे दिले आनी एक मोटारय दिली, जी ताका चिनांत खंयच्याय लागींच्या शारांत पावयतली आनी परत येतली.

कोणाचो निरोप घेवपाक लेगीत वेळ नासलो. विमानाच्यो घिष्ट्यो वाडिल्ल्यो. स्फोटांचे आवाज येताले आनी मांगशिशच्या लोकांनी जिवाच्या भयान चिनाची वाट धरिल्ली. सगळ्या ट्रकांनी मनशां भरिल्लीं. ट्रकांची एक लांब रांग मुख्य रस्त्याचेर लागिल्ली.

ॲंथनीक पुलमिंगाक पावंक तीन सप्तकां लागलीं. गाडी परत मांगशिशाक गेली. ॲंथनीन चिनी सरकाराच्या अधिकाऱ्याक मेळून सॉब्वाचो रकाद पावोवपाचो अपेशी यत्न केलो. पूण झुजाक लागून कोणच जाग्यार नासलो.

आतां फुडें कितें करपाचें ? अशें येवजिता आसतनाच ॲंथनीक एक ब्रिटीश पायलट मेळ्ळो. ताज्या सांगातान ॲंथनी भोंवत भोंवत भारतांत पावलो.

'बर्मी दीस' ही अेका गोंयकाराच्या अणभवांची कथा. मेजर अँथनी रॉड्रीग्स हो हे कथेचो नायक. ताजो बापूय इंग्लंडाक स्थायिक जाल्लो. तो ब्रिटीश नेव्हींत अधिकारी आसलो. दुसरें म्हाझूज पेटलें तेन्ना अँथनी इंग्लंडाक शिकतालो. झुजाच्या धगापसून आपलो पूत पयस उरचो हेखातीर अँथनीच्या बापायन ताका इंग्लंडाकसावन गोंयांत वचपाचो आदेश दिलो. परत येतना बोट रंगुनाक उल्ली. भारतांत वचूंक मेळना आनी इंग्लंडाकय परतूंक मेळना अशा पेंचात कांय दीस ताणे रंगुनांक सारले. उपरान्त ताका मांगशीश नांवाच्या संस्थानात संस्थानिकाचो सेक्रेटरी म्हणून चाकरी मेळ्ळी. मांगशिशांत सारिल्ल्या दिसांची ही नोंद.

सत्य घडणुकांचेर आदारिल्ली ही कथा वाचप्यांक एका नव्या वातावरणांत व्हरतली. ब्रह्मदेश आनी चीन हांच्या सरादीवेलें मांगशीश हें एक संस्थान. थंयच्यो चालीरिती आनी थंयचे लोकजिणेची ओळख दिवपी ही एक आगळी वेगळी कादंबरी.